# तुमच्या सांस्कृतीक दायजाचें जतन करात. गोंय राज्य संग्रहालयाक भेट दियात.

हें भोवउद्‌देशी संग्रहालय गोंयचे संस्कृतायेचें सम्यक दर्शन घडोवपा खातीर यत्न करीत आसा. संग्रहालयांत सांप्रत सकयल दिल्लीं दालनां आसात-

१. मुर्तीदालन
२. ख्रिस्ती कलादालन
३. मुद्रण कलादालन
४. बॅनर्जी कलादालन
५. धार्मीक अभिव्यक्ती दालन
६. सांस्कृतीक मानववंशशास्त्र दालन
७. समकालीन कलादालन
८. नाणकशास्त्र दालन
९. गोंयच्या सुटके-झुजाचें दालन
१०. मिनेझिस ब्रागांझा दालन
११. फर्निचर दालन
१२. सैमाचो वारसो दालन
१३. पर्यावरण आनी उदरगत दालन
१४. भूगर्भशास्त्र दालन

संग्रहालयात धा हजारां वयर वस्तूंचो संग्रह आसा.

संग्रहालयांत दृक्श्राव्य विभाग आसून, विनवणे प्रमाण विद्यार्थ्यां खातीर आवाजचित्रफितीच्यो कार्यावळी दाखयतात.

पुरातन प्रस्तर चित्रांच्या थळाची फायबरग्लास प्रमाणबद्‌ध प्रतिकृती संग्रहालयाच्या वाठारांत उभारल्या.

हें संग्रहालय तुमचें. तुमचे कडल्या वस्तूंचो मोलादीक संग्रह, दान, विकुन वा ठेव अश्या रुपांत संग्रहालयाक दिवन तुमी संग्रहालय समृद्‌ध करूंक शकतात.




संग्रहालय उकतें आसपाचो वेळः
स. ९.३० ते सां ५.३०
(सोमार ते शेनवार)

**गोंय राज्य संग्रहालय**
**संग्रहालय विभाग**
ईडीसी संकूल, पाटो पणजी-गोवा.
फोन : 2438006, 2437306, 2437307
वेबसायट : www.goamuseum.gov.in
ई-मेल : goa_museum@bsnl.in

# जाग

वर्स ३८ : आंक १ : ऑगस्ट-सप्टेंबर, २०११

जाग प्रकाशनाचें
जाग
म्हयनाळें

संस्थापक संपादपी
रवीन्द्र केळेकार

जाग प्रकाशन संस्थापक
सुगंत केळेकार

संपादपी:
माधवी सरदेसाय
(संपर्क: ०९४२११५७००७)

उजवाडावपी:
जयवंत भा. सरदेसाय

छापपी:
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट प्रिन्टर्स,
वळवय, फोंडें-गोंय.

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : रु. २००/- |
| विद्यार्थ्यां खातीर (वर्सुकी) | : रु. १५०/- |
| तीन वर्साची पटी | : रु. ५००/- |
| वाचप घरांखातीर वर्सुकी पटी | : रु. ३००/- |

पटी मनी ऑर्डरीन वा बँकेच्या मडगांव फांट्याचेर काडिल्ल्या ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ५०/-

# ३८ व्या वर्सांत पावल दवरतना...

रवीन्द्रनाथांली एक सुंदर कविता आसा. कवी म्हणटा, म्हजी आवय कशी आशिल्ली, कशी दिसताली, कांय याद जायना. पूण केन्नाय, हांव खेळटां तेन्ना भोंवतणी जाणवतात, म्हजें पाळणें हालयतना ती गुणगुणटाली त्या गिताचे सूर... शरद रुतूंतले फांतोडेर वारो घेवन येता शिउली फुलांचो, देवळांतले पुजेचो परमळ. हय, हो म्हजे आवयचोच वास... कुडीच्या जनेलांतल्यान नदर पयसुल्ल्या मळबाचे निळायेर भोंवता, आनी दिश्टी पडटा, मळबभर पातळिल्ली, म्हज्या मुखामळार थिरावल्ली म्हजे आवयची नदर...

२७ ऑगस्टाक रवीन्द्रबाबांली पयली पुण्यतीथ. तांचेच 'मळबभर पातळिल्ले नदरे'चे सासायेंत तयार जाल्लो हो खाशेलो आंक आमी तांच्या उगडासाक ओंपतात. ह्या आंका वांगडा जाग म्हयनाळें ३८ व्या वर्सांत पावल घालता. तें निमतान जागाचें रूप थोडें-भोव बदलून तें आमी वाचप्यांच्या हातांत दितात.

रवीन्द्रबाबांचो साहित्य-प्रवास 'मीर्गा'सावन सुरू जाला. ह्या आंका सावन 'मीर्गा'तलीं तांचीं बरपां - संपादकियां तशेच हेर लेख आनी टिपणां - आमी खिस्ती खिस्तींनी उजवाडा हाडटलीं. रवीन्द्रबाबांल्या साहित्याचो, कोंकणी चळवळीचो तशेंच गोंय सुटके चळवळीचोय अभ्यास करतल्यांक तांचो खूब उपेग जातलो हातूंत आमकां दुबाव ना.

आयज जाग भारताच्या सात राज्यांनी पावता. कोंकणीच्या अभ्यासाक वाव दिवपी चडश्या सगल्या संस्थांच्या वाचपघरांनी जाग पावता. पूण अजून जाग 'आपल्या पांयांर' उबें ना. सरकारी जायरातींच्यो कुबड्यो घेवनूच ताका चलचें पडटा. ही आमची खंत... जागाची पटी भरप्यांच्या आंकड्याचेरूय आमी समाधानी नात. तरी, दर वर्सा थोड्या प्रमाणांत जावं, पूण कोंकणीचो अभ्यास करपी नवीं भुरगीं मुजरत पटी भरून जागाचीं वांगडी जातात तेन्ना खऱ्यांनीच खूब खोस जाता आनी आंगांत नवी उर्बाय खेळूंक लागता...

जागांत बरोवप्यांचो फोन नंबर दिवचो अशें कांय जाण, खूब दीस जाले, सुचयतात. हे सुचोवणेक मान दिवन ह्या आंकांत आमी बरपा खाला बरोवप्याचो फोन नंबर दिला. मुखारूय दितलीं. हें यूग मोबायल - एस्‌एम्‌एसांचें... जागांतल्या कांय बरपांच्यो प्रतिक्रिया कांय वाचपी आमकां ह्या माध्यमांतल्यान कळयतातूय बी. पूण ह्यो प्रतिक्रिया पत्राच्या रुपान आमचे कडेन येतात तेन्ना सगळ्या वाचप्यांक तांचो लाव मेळटा. जाग कोंकणी साहित्य चळवळीचो एक वांटो. देखून असले 'पडसाद' येवप अदीक म्हत्वाचें, अदीक अर्थपूर्ण, अशें आमकां दिसता. वाचप्यां कडेन एक मागणें - लेखकांक फोन/एस्‌एम्‌एस करचेच, जागाकूय 'पडसाद' धाडचे. वाट पळोवची मूं?'

- संपादपी

# रवीन्द्रबाब केळेकारान 'कोंकणी'च्या चवथ २००९ अंकांत बरयिल्ल्या लिखाणाचेर चवकशी करपा खातीर घडयिल्ले समितीचो अहवाल

कोंकणी भाशा मंडळान (कों.भा.मं.) चंद्रकांत केणींचेर उजवाडायिल्ल्या खाशेल्या 'कोंकणी चवथ २००९' आंकांत रवीन्द्र केळेकारांचो लेख छापिल्लो. हो लेख चंद्रकांतबाबांक ओंपिल्ल्या जाग दिवाळी-नातलां २००९ आंकांत आमी परतो उजवाडा हाडिल्लो (पानां : ४-९). 'कोंकणी चवथ २००९' च्या पान ११ चेर रवीन्द्रबाबान बरयल्ल्या लिखाणाची सत्यासत्यताय पळोवपाक कोंकणी भाशा मंडळाच्या २७ जून २०१० दिसा जाल्ले साबार मंडळाचे बसकेंत हरिश्चंद्र नागवेंकार, प्रकाश कामत आनी संदेश प्रभुदेसाय हांची समिती घडयल्ली. हे समितीन २६ जानेवारी २०११ दिसा आपलो अहवाल दिल्लो आनी तो २७ फेब्रुवारी २०११ दिसा जाल्ले कोंकणी भाशा मंडळाचे वावुरपी समितीचे बसकेंत पुरायपणान मानून घेतिल्लो. हो अहवाल 'कोंकणी वर्सुकी अंक २०१०'त, पानां १ ते ६ चेर, उजवाडा आयला. हो अंक हालींच आमकां मेळ्ळा. जागाच्या वाचप्यां खातीर अंकांतलो अहवाल आमी हांगा तश्या तसो परतो उजवाडा हाडटात, आनी रवीन्द्रबाबांच्या लेखाक लागून भेंब्रे घराब्याची बदनामी जाल्या आनी तांकां मनस्ताप भोगला ते बद्दल खंत उकतायतात.

**जयवंत सरदेसाय**
उजवाडावपी
जाग म्हयनाळें, जाग प्रकाशन

**माधवी सरदेसाय**
संपादपी
जाग म्हयनाळें

कोंकणी भाशा मंडळान चंद्रकांत केणींचेर खासा उजवाडायिल्ल्या 'कोंकणी' ह्या चवथ २००९ अंकांत पान १० चेर रवीन्द्र केळेकारांचो लेख छापला. तातूंत पान ११ चेर तांणी बरयिल्ल्या लिखाणाचेर चवकशी करपा खातीर कों. भा. मं.चे २७ जून २०१० ह्या दिसा जाल्ले साबार बसकेंत आमची तिगां जाणांची समिती नेमली. तिचे वांगडी अशे:

१. हरिश्चंद्र नागवेंकार, २. प्रकाश कामत, ३. संदेश प्रभूदेसाय. आमकां तिगांकूय चवकशी करपा खातीर दिल्लो लिखाणांतलो वांटो हो:

''केशवदाद भेंब्रो आतां मेरेन खंयच दिश्टी पडनाशिल्लो. तो मुखार आयलो. 'तुमी कंपूशार चलयल्या. भाशा मंडळ लोकशायेंत चलूंक जाय' अशें म्हणपाक लागलो. 'तीन केळेकार (हांव, सुमन्त आनी गुरुनाथ), तांचो भाचो (शंकर भांडारी) म्हणल्यार कोंकणी भाशा मंडळ न्हय'. आमी मडगांवच्या राजकारणाक पयलींच विटिल्ले. आमी तांकां भाशा मंडळ तुमीच चलयांत म्हणलें. तांणी घेतलें. आमी केशवदादाचो सभाव नकळ आशिल्ले. भाशा मंडळान क्रमीक पुस्तकां छापपा खातीर शिक्षण खात्या कडल्यान वीस हजार रुपया रीण घेतिल्लें. केशवदादान मंडळ हातांत घेना फुडें ते 'मागून हाडले' आनी आपणालें निजी रीण पयलीं फारीक केलें. म्हणटासर तांचे कमिटींतल्या एकल्यान भाशा मंडळाचीं कांय कदेलां विकलीं आनी जे पयशे आयले ते 'खाले'.

परिणाम - भाशा मंडळ बंद पडलें.

चंद्रकांतान तें आपल्या हातांत घेतलें आनी एका वर्सा भितर तें जाग्यार घालें..''

ह्या बरोवपांत 'आतां मेरेन...' असो जो उल्लेख आयलो तो १९६२ वर्सा मडगांवां जाल्ल्या आठव्या कोंकणी संमेलनाचो. (म्हणल्यार अखील भारतीय कोंकणी परिशदेचो). मनोहरराय सरदेसाय ह्या संमेलनाचे अध्यक्ष आशिल्ले.

हे विशीं चवकशी करपा खातीर आमी पयलीं कोंकणी भाशा मंडळाच्या समिती बसकांच्या विशय सुची आनी निर्णयांची पटी पळयली. पूण तातूंत मेळ्ळे ते संदर्भ फकत वावुरपी समिती आनी साबार बसकांक हाजीर आशिल्ल्या वांगड्यांचे. चुकून एक-दोन कडेन निर्णय मेळ्ळे. भाशा मंडळा कडेन हे विशीं आनीक कसलींच कागदपत्रां मेळ्ळीं नात. हिशेबाची पटीय मेळ्ळी ना.

तशेंच, हो पयशांचो वेव्हार, देखून भाशा मंडळाच्या बँक खात्या विशीं वासपूस केली. त्या तेंपार हें खातें बँक ऑफ इंडियांत आशिल्लें हें कळ्ळें. पूण तीं खातीं पुस्तकां बँकेंतूय मेळ्ळीं नात.

हे विशीं शिक्षण खात्यांत वासपूस केली. पूण थंयूय कसलींच कागदपत्रां मेळ्ळीं नात.

निमणो उपाय म्हणल्यार केशवदाद भेंब्रेंच्या कार्यकाळांत वावुरपी समितीचेर आशिल्ल्या वांगड्यांक मेळप. पूण कितलेशेच वांगडी हो संवसार सोडून गेल्ले. कांय जाण भारतांतूच रावनात.

जे अजून हयात आसात आनी गोंयांतूय आसात, तातूंतल्या कांय जाणांनी भलायकेच्या कारणाक लागून, सारकी याद जायना म्हूण

सांगून वा हेर कारणांक लागून उलोवपाक न्हयकार दिलो. ते वांगडी अशे: गुरुनाथ केळेकार,नागेश करमली, सुहास दलाल आनी रामकृष्ण जुवारकार.

हयात आसून लेगीत देशा भायर आशिल्ल्यान मेळूंक शकले नात ते वांगडी अशे: रंजन सरदेसाय आनी गुरुदास पै.

उलोवंक मेळ्ळे ते वांगडी अशे: नारायण मावजो, अमृत कांसार आनी सुरेश काकोडकार. तांचीं मतां पळयात - जोडणी २.

ही समिति घडयिल्ली तेन्ना रवीन्द्रबाब केळेकार हयात आशिल्ले. पूण तांची भलायकी बरी आसनासली, देखून तांकां मेळून तांचेंय मत समजून घेवप शक्य जालें ना.

ह्या सगळ्या मर्यादां भितर रावन समितीन हो अहवाल तयार केला. हांगा आरोप करपी आनी आरोप जाल्ली ह्यो दोनूय व्यक्ती आज हयात ना. तेन्ना ह्या अहवालाचो वापर करून फुडें आनीक वाद करचो न्हय अशें समितीक दिसता.

गोंयच्या कोंकणी भाशा मंडळाची स्थापना ३० सप्टेंबर १९६२ ह्या दिसा जाल्ली इतलोच संदर्भ मेळटा. पेद्र कुर्रय आफोंस हे पयले संस्थापक अध्यक्ष आशिल्ले असोय संदर्भ मेळटा. पूण ताची कसलीच अधिकृत नोंद मेळना. नोंद मेळटा ती १९६५ वर्सा सावन. तातूंत विशय सुचीचे पटयेर आशिल्ली पयली सय ही अध्यक्षाची अशें गृहीत धरून आमी यादी काडल्या. ते खातीर पळयात जोडणी १.

**कों. भा. मं.च्या अध्यक्षांचो कार्यकाळ मेळटा तो असो:**

१) ६ एप्रील १९६५ ते २७ फेब्रुवारी १९६६ - मनोहरराय सरदेसाय, २) २७ फेब्रुवारी १९६६ ते ९ एप्रील १९६७ - मनोहरराय सरदेसाय, ३) ९ एप्रील १९६७ ते ९ जून १९६८ - केशव भेंब्रे. ४) ९ जून १९६८ ते (खबर ना) - केशव भेंब्रे. ही समिति कितलो तेंप उरली हाची नोंद मेळना. पूण १३ जून १९७१ ह्या दिसा फुडली साबार बसका जाल्ल्याची नोंद मेळटा. म्हणटकीर ते मेरेन हीच वावुरपी समिति आशिल्ली असो अदमास काडूं येता. पूण हे समितीच्यो फकत ६ बसका जाल्ल्यो ताची नोंद मेळटा. फुडली कसलीच नोंद मेळना. ५) १३ जून १९७१ ते (खबर ना) - १० जाणांची अॅड्. - हॉक समिति (अध्यक्ष कोण तो कळना)

**हे बसकेंत दोन थाराव घेतिल्ल्याची नोंद मेळटा. ते अशे:**

**थाराव १:** गोंयच्या सरकारा कडल्यान पुस्तकां खातीर जें २५,००० रुपयांचें रीण कोंकणी भाशा मंडळान काडिल्लें त्या बदला सरकारान कोंकणी भाशा मंडळा कडल्यान पुस्तकां विकतीं घेवचीं अशें हे सभेचें मत. हे विशीं सरकारा कडेन फुडलो पत्रवेव्हार करून वयलो हेत तडीक व्हरपाक ही सभा अध्यक्षांचे वतीन श्री. गुरुदास पै हांकां सगळे अधिकार दिता. तेच भशेन श्री. गुरुदास पै हांणीच आपणाक जाय ते भशेन हो प्रस्न सोडोवन कोंकणी भाशा मंडळाक रीण-मेकळें करचें अशेंय ही सभा थारायता.

- केशव व्यंकटेश प्रभू भेंब्रे

**थाराव २:** सन १९६७ ते १५ ऑगस्ट १९७२ मेरेनचो कोंकणी भाशा मंडळाचो हिशोब अध्यक्षांनी श्री. सुरेश काकोडकार हांच्या पालवान जाग्यार घालून ऑडिटा खातीर बरोवन घेवन सभे माजार दवरपाची हमी घेतल्या.

हो हिशोब १६ ऑगस्ट १९७२ मेरेन अध्यक्षांनी तयार दवरचो आनी ऑडिट करून घेवन मंडळाचे असाधारण सभे मुखार सप्टेंबर १९७२ मेरेन दवरचो.

- केशव व्यंकटेश प्रभू भेंब्रे

हाचे उपरांत ३ सप्टेंबर १९७२ ह्या दिसा अॅड्. हॉक समितीच्या वांगड्यांची बसका जाल्ली. ते बसकेची नोंद मेळटा ती अशी :

**बसकेक हजर आशिल्ले वांगडी:**

१. केशव भेंब्रे, २. महाबळेश्वर बोरकार, ३. गुरुनाथ केळेकार, ४. नारायण मावजो, ५. फा. मोरेन सौझ.

तातूंत एकच थारावाची नोंद मेळटा, ती अशी:

''कों. भा. मं.चे अॅड्. हॉक वावुरपी समितीची बसका आज आयतारा ३-९-७२ वेर मंडळाचे कचेरेंत जाली. हे बसकेंत मंडळाच्या हिसपा संबंदान नियाळ घेतलो. मंडळाचे पटये प्रमाण कांय जाणां कडल्यान कांय ल्हान-व्हड रकमो येवच्यो आसात अशें दिसून आयलें. तांकां पत्रां बरोवन रकमेची मागणी करपाचें थारलें. परत नवी बसका आयतार धावेर घेवन हिशेब पुरो करचो अशें थारलां.

ह्या थारावांत येवपाच्या पयशां विशीं उल्लेख मेळटा. पूण शिक्षण खात्या कडल्यान घेतिल्ल्या रिणा विशीं मात कसलोच उल्लेख मेळना.

१० सप्टेंबर १९७२ ह्या दिसा थारायिल्ले प्रमाण बसका जाली. पूण हे बसकेक फकत दोगूच वांगडी हजर आशिल्ले अशी नोंद मेळटा : १. केशव भेंब्रे, २. महाबळेश्वर बोरकार.

हिशेबा विशीं मात कसलीच नोंद मेळना.

**६. ८ ऑक्टोबर १९७२ ते ९ डिसेंबर १९७३ - चंद्रकांत केणी**

हे समितीनूय बसकांतले कसलेच चर्चेची वा निर्णयांची नोंद विशय सुचीचे पटयेंत दवरूंक ना. देखून मंडळान सरकारा कडल्यान पुस्तकां खातीर हाडिल्ल्या रिणाचें वा हिशेबाचेंय कितें जालें तें कळपाक मार्ग ना.

मजगतीं २६ ऑगस्ट १९७३ ह्या दिसा वावुरपी समिति आनी सादया वांगड्यांची एक खाशेली साबार बसका आपयिल्ली ताची नोंद मेळटा. हे बसकेंत फाटल्या वर्साचो हिशोब मानून घेवप आनी मंडळाचे घटनेंत बदल करप अशे विशय आशिल्ले हाचीय नोंद मेळटा. पूण तांचेर कसली भासाभास जाली आनी कितें निर्णय जाले हाची नोंद मेळना.

ते उपरांत ९ डिसेंबर १९७३ ह्या दिसा वर्सुकी साबार बसका जाली. हे बसकेक ३५ वांगडी हजर आशिल्ले. हे बसकेन चंद्रकांत केणींक परत अध्यक्ष केलो. पूण ते अध्यक्ष जाल्ल्याची वा हिशेब आनी पुस्तकांच्या रिणाचीय कसलीच नोंद हेय बसकेंत मेळना.

**अनुमान**

**१. रवीन्द्रबाब केळेकार म्हणटात:**

*'केशवदाद भेंब्रो आतां मेरेन खंयच दिश्टी पडनाशिल्लो.''*

'आतां मेरेन' हीं उतरां १९६२ वर्सा मडगांवां जाल्ले काकणी परिशदे विशीं आसात. ताचो संदर्भ ह्या लेखांत ह्या परिच्छेदांत

पयलीं आयला. कों. भा. मं.ची स्थापना हे परिशदेच्या कांय म्हयन्यां पयलींच जाल्ली. ३० सप्टेंबर १९६२ ह्या दिसा पेद्रू कुर्रय आफोंस हे ताचे संस्थापक अध्यक्ष आशिल्ले अशी म्हायती आमकां वांगड्यां कडल्यान मेळ्ळी. पूण ते समितींत कोण आशिल्ले हाची कसलीच नोंद मेळना. केशव भेंब्रे आशिल्ले काय किते हाचीय नोंद मेळना. नोंद मेळपाक सुरवात जाता ती ६ एप्रील १९६५ ह्या दिसा सावन. तेन्ना मदल्या ३० म्हयन्यांत कितें जालें तें कळपाक मार्ग ना. जे कोण हयात आसात तांकां इतले बारीकसाणीन याद जायना.

**२. फुडें रवीन्द्रबाब केळेकार म्हणटातः**

*''तो मुखार आयलो. 'तुमी कंपूशाय चलयल्या. भाशा मंडळ लोकशायेंत चलूंक जाय' अशें म्हणपाक लागलो. 'तीन केळेकार (हांव, सुमन्त आनी गुरुनाथ), तांचो भाचो (शंकर भांडारी) म्हणल्यार कोंकणी भाशा मंडळ न्हय.' आमी मडगांवच्या राजकारणाक पयलींच विटिल्ले. आमी तांकां भाशा मंडळ तुमीच चलयात म्हणलें. तांणी घेतलें.''*

वांगड्यां कडल्यान मेळिल्ले म्हायती प्रमाण भाशा मंडळाचे दुसरे अध्यक्ष आशिल्ले मनोहरराय सरदेसाय. तांचे आदीं पेद्रू कुर्रय आफोंस. ते कितले फावटीं अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयले ताची नोंद मेळना. आमी मेळ्ळे त्या वांगड्यांक यादूय जायना. पूण केशव भेंब्रे रोखडेच अध्यक्ष जाले नात. मनोहरराय सरदेसाय दोन फावटीं अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयले. ६ एप्रील १९६५ ह्या दिसा सावन (साबार बसकेच्या दिसाची नोंद ना) आनी परत २७ फेब्रुवारी १९६६ ह्या दिसा जाल्ले साबार बसकेंत. ह्या दोनूय समित्यांचेर केशव भेंब्रे वांगडी म्हूण आशिल्ले. पयले समितींत ते इकरांतल्या णव बसकांक हजर आशिल्ले. दुसरे समितींत बाविसांतल्या वीस बसकांक. म्हणल्यार ते कार्यरत आशिल्ले हें स्पश्ट जाता.

मनोहरराय सरदेसायांच्या दोनूय समित्यांचेर गुरुनाथ केळेकार हेय वांगडी म्हूण वेंचून आयिल्ले. तेन्ना 'आमी तांकां भाशा मंडळ तुमीच चलयात म्हणलें आनी तांणी तें घेतलें' अशें समस्त तिनूय केळेकारांचे वतीन म्हणप समा जावचें ना. ह्या दोनूय समित्यांचेर रवीन्द्रबाब केळेकार आनी सुमन्त केळेकार मात नासले हें खरें. पूण ताचे आदीं ते खंयच्या समित्यांचेर आसले ताची नोंद मेळना. तेन्ना ते ताचे आदीं नासले अशेंय म्हणपाक जावचें ना. चंद्रकांत केणी दोन फावटीं अध्यक्ष जाले त्याय वेळार आशिल्ल्या समित्यांचेर ह्या तिगांय मदले एकूय केळेकार नासले.

केशव भेंब्रे पयले खेपे अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयले ते ९ एप्रील १९६७ ह्या दिसा जाल्ले साबार वर्सुकी बसकेंत. तेन्नाचे समितींत गुरुनाथ केळेकार आनी शंकर भांडारी हे दोगूय जाण वेंचून आयिल्ले अशी नोंद मेळटा. उपरांत ९ जून १९६८ ह्या दिसा साबार बसकेंत केशव भेंब्रे परत अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयले: ते समितींत मात रवीन्द्रबाबान उल्लेख केल्ले तिनूय केळेकार वा शंकर भांडारी हे वेंचून आयिल्ल्याची नोंद मेळना.

तशेंच मनोहरराय सरदेसाय हांचो दोन वर्सांचो कार्यकाळ आनी केशव भेंब्रे हांचो दोन वर्सांचो कार्यकाळ हातूंत खंयच फकत मडगांवकार वा एकूच कंपू अशे लोक आशिल्ले अशें दिसना. हे कोंकणी खातीर आपापल्या मळाचेर कार्य केल्ले एका परस एक व्हड म्हालगडे आशिल्ले हें दुबावा विरयत.

**३. रवीन्द्रबाब केळेकार फुडें म्हणटात :**

*''आमी केशवदादाचो सभाव नकळ आशिल्ले. भाशा मंडळान क्रमीक पुस्तकां छापपा खातीर शिक्षण खात्या कडल्यान वीस हजार रुपया रीण घेतिल्लें. केशवदादान मंडळ हातांत घेना फुडें ते 'मागून हाडले' आनी आपणालें निजी रीण पयलीं फारीक केलें.''*

क्रमीक पुस्तकां छापपा खातीर शिक्षण खात्यान भाशा मंडळाक २५ हजार रुपयांचें रीण दिल्लें (२० हजार न्हय) हाची नोंद १६ जुलय १९७२ ह्या दिसा अॅड्. हॉक समिती आनी हेर वांगड्यांचे जाल्ले खाशेले साबार बसकेंत घेतिल्ल्या थारावांत मेळटा. तें शिक्षण खात्या कडल्यान मागून हाडिल्ल्याची नोंद मेळना. शिक्षण खात्यांतूय ह्यो नोंदी आतां मेळनात आनी भाशा मंडळाच्या खात्याच्योय नोंदी आतां मेळनात. तेन्ना हो रिणाचो दुडू कोणें शिक्षण खात्या कडल्यान केन्ना हाडलो तें कळपाक मार्ग ना. मात हो दुडू हाडून तो पुस्तकांचेरूच मोडिल्लो आसूंक जाय. कारण होच थाराव रिणा बदला शिक्षण खात्यान पुस्तकां विकतीं घेवचीं अशें सुचयता. म्हणल्यार भाशा मंडळान ह्या रिणाच्या पयश्यांतल्यान पुस्तकां छापिल्लीं. तो पयसो व्यक्तीगत कारणा खातीर वापरिल्लो जाल्यार पुस्तकां छापप शक्य नाशिल्लें असो अदमास काडूं येता.

ह्या थारावाचो आनीक एक अर्थ काडपाक जाता. तो म्हणल्यार हें रीण फारीक करपा खातीर केशवदादान आनीक कोणा कडल्यान तरी पयशे मागून हाडले. पूण तशें सुचोवपीय कसलीच नोंद खंयच मेळना. उरफाटें हें रीण मिटोवपा खातीर साबार बसका शिक्षण खात्यान हीं क्रमीक पुस्तकां विकतीं घेवचीं अशी शिफारस करता. ते विशीं सगळें कितें थारावपाचो सर्वाधिकार गुरुदास पै हांकां दिता. केशव भेंब्रे हांणी कोणा कडल्यान तरी मागून हाडिल्ले पयशे भाशा मंडळाक परत दिवचे आनी तातूंतल्यान सरकाराचें रीण फारीक करचें अशेंय सुचयना. म्हणटकीर केशवदादान रीण फारीक करपा खातीर कोणा कडल्यान तरी पयशे मागून हाडले आनी तातूंतल्यान आपलें निजी रीण पयलीं फारीक केलें ह्या आरोपाक पुश्टी मेळना. तशेंच केशवदादा कडल्यान ते पयशे परत घेवया आनी शिक्षण खात्याचें रीण फारीक करया अशेंय सुचयिल्लें दिसना. उरफाटें, छापिल्लीं पुस्तकां शिक्षण खात्यान विकतीं घेवचीं आनी रीण फारीक करचें असो थाराव घेता. म्हणल्यार, रवीन्द्रबाबांचो हो उल्लेख केशवदादान शिक्षण खात्या कडल्यान मागून हाडले असोच जाता.

हे बसकेंतलो दुसरो थाराव म्हणल्यार हिशोब जाग्यार घालपाचो. तो अॅड्. हॉक समितीच्या अध्यक्षान सुरेश काकोडकारां वांगडा जाग्यार घालचो म्हूण ही जापसालदारकी मुखेलपणान अध्यक्ष आनी काकोडकारांचेर ही बसका घालता. ह्या थारावांतलें अध्यक्ष हें उतर घेतलें आनी अॅड् हॉक समितीच्या बसकांच्या वांगड्यांच्यो निशाण्यो पळयल्यार हे अॅड्. हॉक समितीचेर केशवदाद भेंब्रेच परत अध्यक्ष जाल्ले आसूं येता असो अदमास येता. म्हणल्यार साबार बसकेन अॅड्. हॉक समिती काडून हिशोब जाग्यार घालतनाय केशवदाद भेंब्रे हांचेर विस्वास दाखयिल्लो अशेंच सुचीत जाता. तांणी पयशे खाल्ले

जाल्यार तांकांच परत अध्यक्ष कित्याक केलो हो प्रस्न उप्रासता.

हे १० वांगड्यांचे ॲड्. हॉक समितींत आदले समितीचे केशवदाद भेंब्रे धरून स वांगडी आशिल्ले. ते म्हणल्यार फ्रा. क्रूझ फर्नांडिस, सुहास दलाल, नारायण मावजो, फा. आल्वारु रेमीत मेंदीस आनी फा. मोरेन सौझ. ते भायर, नवे वांगडी आशिल्ले चार जाण. ते म्हणल्यार शंकर भांडारी, गुरुनाथ केळेकार, महाबळेश्वर बोरकार आनी आव्हॅक्लॅत आफोंस. आदले समितीन वा केशवदाद भेंब्रेन पयशे खाल्ले जाल्यार ते धरून तांचे समितींतले ६० टक्के वांगडी घेवन ही ॲड्. हॉक समिती घडोवपाचो निर्णय जातलो आशिल्लो अशें दिसना.

ते उपरांत ३ सप्टेंबर १९७२ ह्या दिसा ॲड्. हॉक समितीची आनीक एक बसका जाता. ते बसकेंत घेतिल्ल्या थारावा प्रमाण कांय ल्हान-व्हड रकमो येवपाच्यो आसात त्यो पत्रां धाडून याद करच्यो आनी घेवच्यो अशें थारता. पूण २५ हजार रुपयां इतले व्हडले रकमेचो खंयच उल्लेख मेळना.

**४. फुडें रवीन्द्रबाब केळेकार म्हणटात:**

*"म्हणटासर तांचे कमिटींतल्या एकल्यान भाशा मंडळाचीं कांय कदेलां विकलीं आनी जे पयशे आयले ते 'खाले".*

कांय वांगड्यांनी दिल्ले म्हायती प्रमाण भाशा मंडळाचो कारबार बंद पडिल्लो तेन्ना एके व्यक्तीन मंडळाचीं कदेलां भायले भायर व्हरून घाणाक दवरिल्लीं. भाशा मंडळाची समिती वा वांगडी हे घडणुकेक निखालूस जापसालदार नात अशेंय तांचें म्हणणें आशिल्लें. हे व्यक्तीचें नांवूय समितीक सांगलें. पूण ती व्यक्ती आज हयात ना देखून तें नांव आमी हांगा दिनात.

**५. फुडें रवीन्द्रबाब म्हणटात:**

*"परिणाम - भाशा मंडळ बंद पडलें."*

रवीन्द्रबाबांच्या म्हणण्या प्रमाण, भाशा मंडळाचें रीण फारीक करतां म्हूण केशवदाद भेंब्रेन पयशे मागून हाडले आनी समितीच्या एका वांगड्यान कदेलां विकलीं आनी ताचो परिणाम म्हणून भाशा मंडळ बंद पडलें. १२ ऑक्टोबर १९६८ ह्या दिसा जाल्ली केशव भेंब्रे समितीचे निमणे बसकेची नोंद ते १३ जुलय १९७१ ह्या दिसा जाल्ली साबार बसका ह्या ३२ म्हयन्यांच्या काळांत भाशा मंडळ कशें कितें चलतालें तें कळपाक मार्ग ना. पूण काम थंड पडिल्लें हें कांय वांगडी मान्य करतात.

हें काम ल्हवू ल्हवू करून बंद पडलां हेंय विशय सुचीचे पटयेवेल्यान जाणवता. ते विशींची सविस्तर यादी पळयात - जोडणी ३

**निमणें अनुमान**

हे सगळे म्हायती वेल्यान समितीक एकूच गजाल दिसता - रवीन्द्रबाब केळेकारांनी केशवदाद भेंब्रेचेर केल्ले आरोप खरे आशिल्ले अशें म्हणप शक्य ना. भाशा मंडळाक शिक्षण खात्या कडल्यान मेळिल्लें रीण घेवन तांणी पयलीं आपलें निजी रीण फारीक केलें अशें म्हणपाक जावचें ना. तेन्ना हो आरोप समा न्हय अशेंच म्हणचें पडटलें.

हरिश्चंद्र नागवेंकार, प्रकाश कामत, संदेश प्रभुदेसाय

२६ जानेवारी २०१० [२०११]

---

## जोडणी १

**वावुरपी समित्यांचे वांगडी**

**१) ६ एप्रील १९६५ ते २७ फेब्रुवारी १९६६**

**साबार बसका:** ही समिती वेंचून काडपा खातीर जाल्ले साबार बसकेची कसलीच नोंद मेळना.

**अध्यक्ष:** पेद्रू कुर्य आफोंस हांचे उपरांत मनोहरराय सरदेसाय अध्यक्ष जाल्ले अशी म्हायती मेळटा. ताचे वेल्यान ते हे समितीचे अध्यक्ष आशिल्ले अशें गृहीत धरलां.

**वावुरपी समिती वांगडी:**

१) मनोहरराय सरदेसाय, २) सुहास दलाल, ३) फा. वास्कु रेगो, ४) फा. क्रूझ फॅर्नांडीस, ५) फा. आल्वारू रेनीत मेंदीस, ६) कार्मु द सिल्व, ७) केशव भेंब्रे, ८) विजया सरमळकार, ९) सचित कुंकळियेंकार, १०) गुरुनाथ केळेकार, ११) फॅर्नांदू रेगो, १२) ज्युलियो कौदेरू मोंतेरू, १३) हरिश्चंद्र नागवेंकार.

**समितीच्यो बसका: ११**

**केशव भेंब्रे हजर:** ९ (ते भायर २ फुडें धुकळिल्ल्या बसकांकूय हजर)

**२. २७ फेब्रुवारी १९६६ ते ९ एप्रील १९६७**

**साबार बसका:** २७ फेब्रुवारी १९६६ (३९ वांगडी हजर)

**अध्यक्ष:** मनोहरराय सरदेसाय

**वावुरपी समिती वांगडी:** १) मनोहरराय सरदेसाय, २) फा. वास्कु रेगो, ३) गुरुनाथ केळेकार, ४) नागेश करमली, ५) केशव भेंब्रे, ६) रंजन सरदेसाय, ७) विजया सरमळकार, ८) जनार्दन फळदेसाय, ९) नारायण किर्तनी, १०) रोमियो आल्मेदा, ११) भानुदास नगर्सेकार, १२) फा.क्रूझ फॅर्नांडीस, १३) रमाकांत पोंवळेकार.

**वावुरपी समिती बसका:** २२

**सप्तकी समिती बसका:** १०

**केशव भेंब्रे हजर:** वट्ट २०

**३. ९ एप्रील १९६७ ते ९ जून १९६८**

**साबार बसका:** ९ एप्रील १९६७ (३५ वांगडी हजर)

**अध्यक्ष:** केशव भेंब्रे

**वावुरपी समिती वांगडी:**

१) केशव भेंब्रे, २) फा. क्रूझ फॅर्नांडीस, ३) नारायण मावजो, ४) सुहास दलाल, ५) महाबळेश्वर बोरकार, ६) फा. वास्कु रेगो, ७) पांडुरंग भाटीकार, ८) लीला किर्तनी, ९) गुरुनाथ केळेकार, १०) अमृत कांसार, ११) शंकर भाडारी, १२) श्रीकांत गांवकार, १३) नारायण किर्तनी.

**वावुरपी समितीः १४**

**केशव भेंब्रे हजरः १४**

**४. ९ जून १९६८ ते (खबर ना)**

**साबार बसकाः** ९ जून १९६८ (३३ वांगडी हजर)

**अध्यक्षः** केशव भेंब्रे.

**वावुरपी समिती वांगडीः**

१) केशव भेंब्रे, २) डॉ.लुईश पेंग्रीन कॉश्त, ३) मोहन कारापूरकार, ४) झितू आल्मैद, ५) फा. क्रूझ फॅर्नांडीस, ६) फा. आल्वारू रेमीत मेंदीस, ७) सुहास दलाल, ८) फा. मोरेन सौझ, ९) रत्नाकर वेर्लेकार, १०) फा. प्लांतोन फारिया, ११) रामकृष्ण जुवारकार, १२) नारायण मावजो, १३) माधव नेवरेंकार.

**वावुरपी समिती बसकाः ६**

ही समिती कितलो तेंप उरली हाची नोंद मेळना. पूण १३ जून १९७१ ह्या दिसा फुडली साबार बसका जाल्ल्याची नोंद मेळटा. म्हणटकीर ते मेरेन हीच वावुरपी समिती आशिल्ली असो अदमास काडूं येता. पूण हे समितीच्यो फकत ६ बसका जाल्ल्यो ताची नोंद मेळटा. फुडली कसलीच नोंद मेळना.

नोंदी प्रमाण निमणी बसका १२ ऑक्टोबर १९६८ ह्या दिसा जाल्ली. हे बसकेक फकत ४ वांगडी हजर आशिल्ले. ते अशेः

१) केशव भेंब्रे, २) झितू आल्मैद, ३) फा. क्रूझ फॅर्नांडीस, ४) फा. मोरेन सौझ.

१० ऑगस्ट १९६८ ह्या दिसा जाल्ले तिसरे बसके सावनूच सामकेच उणे वांगडी बसकेक हजर रावताले अशी नोंद मेळटा. तिसरी बसकाः ४ वांगडी हजर. चवथी बसकाः (१४ सप्टेंबर १९६८) फकत दोग जाण हजर - केशव भेंब्रे आनी फा. मोरेन सौझ. पांचवी बसकाः (२२ सप्टेंबर १९६८) ५ जाण हजर.

**५.१३ जून १९७१ ते (खबर ना)**

**साबार बसकाः** १३ जून १९७१ (२३ वांगडी हजर)

**अध्यक्षः** कोण वेंचिल्लो काय तें नकळत

**ॲड्. हॉक समितीः** हे बसकेक १० जाणांची ॲड. हॉक समिती वेंचून काडली अशी नोंद मेळटा. तिचे वांगडी अशेः

१) केशव भेंब्रे, २) शंकर भांडारी, ३) फा. क्रूझ फॅर्नांडीस, ४) महाबळेश्वर बोरकार, ५) गुरुनाथ केळेकार) ६) सुहास दलाल, ७) नारायण मावजो, ८) फा. आल्वारू रेमीत मेंदीस, ९) फा. मोरेन सौझ, १०) आव्हॅक्लॅत आफोंस.

**ॲड्. हॉक समिती बसकाः** ९ (१७ जून १९७१ ते १० सप्टेंबर १९७२)

**ॲड. हॉक समिती आनी हेर वांगड्यांची बसकाः** १६ जुलय १९७२ (२८ वांगडी हजर)

**६. ८ ऑक्टोबर १९७२ ते ९ डिसेंबर १९७३**

**साबार बसकाः** ८ ऑक्टोबर १९७२ (३४ वांगडी हजर)

**अध्यक्षः** चंद्रकांत केणी

**वावुरपी समिती वांगडीः**

१) चंद्रकांत केणी, २) फा. मोरेन सौझ, ३) शांताराम ल. नायक, ४) महाबळेश्वर बोरकार, ५) सुरेश काकोडकार, ६) फा. ए. गोमीश, ७) पुंडलीक नायक, ८) प्रा. एम्. नुनीश, ९) सतीश दळवी, १०) फेलिस्यु कार्दोज, ११) एन्. शिवदास, १२) पोरफिरियु सिल्व लोबु, १३) मोहन कारापूरकार.

**वावुरपी समिती बसकाः ९**

## जोडणी २

भाशा मंडळाच्या तेन्नाच्या तीन वांगड्यांचीं नोंद केल्लीं मतांः

**नारायण मावजो (नोंद केल्लो दीस - १६ सप्टेंबर २०१०)**

भाशा मंडळाचीं क्रमीक पुस्तकां छापपा खातीर कागद विकतो हाडपाक पयशे नाशिल्लें. तेन्ना हांवें म्हजे आवयचें भांगर मडगांव अर्बन बँकेंत घाणाक दवरिल्ले. अशेच तरेन गरज पडटा तेन्ना आमी हाचे कडल्यान ताचे कडल्यान पयशे हाडटाले आनी भाशा मंडळ चलयताले. मागीर ते केन्ना तरी जमता तशे वसूल करून घेवप. पदरचे चड मोडप. केशवदादानूय तेंच केलां. सरकारा कडल्यान भाशा मंडळाक पयलेच खेपे एक लाख रुपया मेळ्ळ्यात ते चंद्रकांत केणी अध्यक्ष जाल्ले तेन्ना, तेन्नाचे मुख्यमंत्री भाऊसाहेब बांदोडकारां कडल्यान. हांवें केशवदादाचे समितींत काम केलां. केन्नाच कसलींच फटींगपणां तांणी केल्लीं हांवें पळयलीं नात.

**अमृत कांसार (२२ ऑक्टोबर २०१०)**

हांव तेन्ना समितींत आशिल्लों. केशवदाद तसो गिरेस्त मनीस न्हय. पूण ताणें केन्ना कसलोच गैरवेव्हार केला अशें म्हाका तरी दिसना. तत्वां आनी मुल्यां धरून चलपी लोक ते. त्या वेळार कोंकणी म्हणल्यार फकत त्याग आनी त्याग. जोड म्हणटा ती नाच. दरेकल्यान पदरचे पयशे मोडप आनी कार्य करप.

**सुरेश काकोडकार (३ डिसेंबर २०१०)**

कितेंय जाल्लें जाल्यार अध्यक्षा वांगडाच पयली जबाबदारी भांडाऱ्याची. भांडारी कोण आशिल्लो? तशेंच पुराय समितीची जापसालदारकी ती. फकत एका केशवदादाची न्हय. निमणे सरकाराचे पयशे कांय एका मनशाच्या नांवान येवचे नात. ते भाशा मंडळाच्या नांवानूच येतले. ते काडटले जाल्यार लेगीत उण्योच अध्यक्ष आनी भांडाऱ्याच्यो अश्यो दोग सयो जायच. समजा काडून खाले जाल्यार दोन जाण तरी जबाबदार आसपाक जाय. मागीर एकल्याक जबाबदार धरप कित्याक? आनी इतली व्हडली गजाल जाली आनी हेर वांगडी वोगीव रावले? पयलीं म्हणल्यार अशें कांयच जालें ना. फकत जें कितें जालें ताचो हिशोब सारको दवरलो ना. ताका लागून गोंदळ जाल्लो, इतलेंच. म्हणल्यार रिसिटी आशिल्ल्यो, पूण कांय व्हावचरां बी त्या त्या वेळार बरोवन दवरलीं नात. म्हजे कडेन आतां त्या हिशेबाची कांय नोंद ना. आतां म्हाका सगळी यादूय जायना. पूण पयशे खाले अशी परिस्थिती नाशिल्ली हें मात सेर्त.

सरकारा कडल्यान मेळिल्लें रीण केशवदाद अध्यक्ष आसतना काय मनोहरबाब अध्यक्ष आसतना ही सारकी याद जायना.

रवीन्द्रबाबान हो आरोप केशवदाद भायर पडटकीर करपाचो न्हय. रवीन्द्रबाबूय आमचेच. पूण तरिकूय अशे तरेन मनीस वतकीर आरोप केल्ल्यान गोंदळ वाडटा आनी ताका सारकी जाप मेळप शक्य जायना. तेन्ना ह्या वादाक कांयच अर्थ ना अशें म्हाका दिसता.

## जोडणी ३

**१) केशव भेंब्रेंचो पयलो कार्यकाळः**

दोन समित्यांची पयली जोड बसकाः

२४ एप्रिल १९६७ - एकूण १३ वांगडी हजर.

दुसरी बसकाः १७ मे १९६७ - ५ वांगडी हजर.

तिसरी बसकाः २४ मे १९६७ - ३ वांगडी हजर म्हूण फुडें धुकळ्ळी, - ३१ मे क थारायली - कांय नोंद ना, - १४ जूनाक परत बसका जाली - फकत ३ वांगडी हजर, - २५ जूनाक परत बसका जाली - ९ वांगडी हजर.

चवथी बसकाः २ जुलय १९६७ - १० वांगडी हजर.

पांचवी बसकाः ३० जुलय १९६७ - ८ वांगडी हजर.

सवी बसकाः १२ ऑगस्ट १९६७ - ७ वांगडी हजर.

सातवी बसकाः २७ ऑगस्ट १९६७ - ९ वांगडी हजर.

आठवी बसकाः १३ सप्टेंबर १९६७ - कोरम नाशिल्ल्यान जालिना.

णववी बसकाः १५ ऑक्टोबर १९६७ - ९ वांगडी हजर.

धावी बसकाः ११ नोव्हेंबर १९६७ - ३ वांगडी हजर (फुडें धुकळ्ळी), १९ नोव्हेंबर १९६७ - ९ वांगडी हजर.

इकरावी बसकाः २७ डिसेंबर १९६७ - ६ वांगडी हजर.

बारावी बसकाः ७ जानेवारी १९६८ - ४ वांगडी हजर (फुडें धुकळ्ळी), ११ जानेवारी १९६८ - ६ वांगडी हजर.

तेरावी बसकाः २२ फेब्रुवारी १९६८ - ७ वांगडी हजर.

चवदावी बसकाः २४ एप्रील १९६८ - ६ वांगडी हजर (फुडें धुकळ्ळी), - २९ एप्रील १९६८ - ७ वांगडी हजर.

**२) केशव भेंब्रेंचो दुसरो कार्यकाळः**

पयली बसकाः २६ जून १९६८ - ११ नांवां आसात, सयो नात

दुसरी बसकाः १३ जुलय १९६८ - ७ वांगडी हजर

तिसरी बसकाः १० ऑगस्ट १९६८ - ४ वांगडी हजर

चवथी बसकाः १४ सप्टेंबर १९६८ - २ वांगडी हजर

पांचवी बसकाः २२ सप्टेंबर १९६८ - ५ वांगडी हजर

सवी बसकाः १२ ऑक्टोबर १९६८ - ४ वांगडी हजर.

***

# तुमी जाणात व्हय...?

## सविता केरकार

पावसाच्या दिसांनी येवपी गोठाणी तुमी पळेल्यात आसतल्यो. इंग्लीशींत गोठाणीक 'मिलिपीड' म्हणटात. हें मुळचें लॅटीन भाशेंतलें उतर. 'मिली' म्हळ्यार 'हजार' आनी 'पेद' म्हळ्यार 'पांय'. गोठाणीक खऱ्यांनीच एक हजार पांय आसतात तर...? ना. तिच्या आंगाच्या दर एका 'कुडक्या'क पांयांच्यो दोन जोडयो - म्हळ्यार चार पांय - आसतात. गोठाणीक उण्यांत उणे ३६ ते चडांत चड ४०० पांय आसतात. गोठाणींच्यो तरेकवार जाती आसतात. सगळ्यांत ल्हान गोठाण दोन मिलिमिटर लांबायेची तर सगळ्यांत व्हडली २८० मिलिमिटर लांबायेची आसता. ही सगळ्यांत व्हडल्या आकाराची गोठाण आफ्रिकेंत मेळटा.

गोठाणी झाडांनी, कुसक्या पानां मुळा बी रावतात. त्यो सुकीं पानां आपले लाळीन बरीं मोव करून खातात. पोरसांत किल्लूंक घाल्ल्यो बियो तश्यो झाडांच्यो कोमऱ्योय खावंक तांकां आवडटा.

गोठाणी ल्हवू ल्हवू चलतात. कोणाक चाबूंक वा दंश करूंक वचनात. कोणूय तांकां तांच्या 'आंगार आयिल्ले वरी' दिसलो जाल्यार मात त्यो चकरे वरी कंवडाळें करून आपणाली - मुखेलपणान आपणाल्या नाजूक पांयांची - राखण करतात.

गोठाणी आंगांतल्यान एक घाणयारो सो वास सोडटात. हो वास हायड्रोजन सायनायडाचो. ह्या पदार्थाक हात लागल्यार कात जळूं येता, हाताक फोडूय येवं येता.

आंगांतल्यान हो पदार्थ सोडुनूय गोठाण 'दुस्मानां' पसून आपणाली राखण करता. 'कापुचीन' जातीचो माकड गोठाणीक मुद्दाम तिडायता. गोठाण मागीर आंगांतल्यान हायड्रोजन सायनायड सोडटा. कापुचीन माकड बेगीबेगीन ताचो वास हातार घेवन आपल्या आंगाक साड्डायता. मागीर खंय ताका जळारां चाबूंक पावनात!

गोठाणी कोणाचेच वाटेक वचनात, कोणाक चाबूंक खावंक वचनात खऱ्यो. पूण, दोनशीं-एक गोठाणी वारें खेळऽ नाशिल्ले एके कुडींत व्हरून सोडल्यो आनी तांचे वांगडा मनशाक दवरलो जाल्यार हो मनीस मरूंकूय शकता. गोठाणींच्या आंगांतलें हायड्रोजन सायनायड आमचो स्वास बंद करता.

(संपर्क: ०९३२६१०२०३९)

# कोंकणी चळवळीक रवीन्द्रबाबांलें योगदान

माधवी सरदेसाय

कोंकणीक आज जी सुवात मेळ्ळ्या ती तिका धा जाणांच्या कर्तुत्वान मेळोवन दिल्या - रवीन्द्रबाब सदां सांगताले.

कोंकणी चळवळ जैतवंत कित्याक जावंक पावली ताचीं कारणां सोदपाचो यत्न करतना रवीन्द्रबाब म्हणटात -

हातांत कितेंय धरचें जाल्यार हाताक पांच बोटां आसचीं पडटात. तशेंच, कसलेंय रासवळ कर्तुत्व करून दाखोवचें आसल्यार ताका पांच तरांचीं फाटबळां लागतात. पयलें फाटबळ कार्यकर्त्यांचें. कोंकणी चळवळीक शेंकड्यांनी कार्यकर्ते मेळ्ळे. कित्याक लागून? "...चळवळींत मुखार जे दिश्टी पडटाले तांचें रूप फुडाऱ्यांचें नाशिल्लें, कार्यकर्त्यांचें आशिल्लें"[१] म्हूण. दुसरें फाटबळ विचारांचें. शणै गोंयबाबांलें *कोंकणी भाशेचें जैत* ते खासा रवीन्द्रबाबांलें *भौभाशीक भारतांत भाशेचें समाजशास्त्र* मेरेनच्या बरपांनी कोंकणी चळवळीक वैचारीक तशी विज्ञानीक बसका दिल्ली. 'कोंकणी भास न्हय' म्हणटल्यांक ओगी बसोवपाचें बळगें हे अभ्यासपूर्ण बसकेन दिल्लें. तिसरें फाटबळ 'वाट दाखोवप्यां'चें. केन्ना कितें करचें ही वाट दाखोवपी आनी आपुणूय ते वाटे वयल्यान चलपी म्हालगडे कोंकणी चळवळींत आशिल्ले. चवथें फाटबळ सज्जनांचें. कोंकणी चळवळीक घरच्या सज्जनांचो तेंको आशिल्लोच. ते भायर, काकासाहेब कालेलकर, जवाहरलाल नेहरू, सुनीतिकुमार चटर्जी सारकेले दिग्गजूय तिचे फाटल्यान घट्ट उबे राविल्ले. पांचवें फाटबळ लोकांचें. गोंय, कारवार, मंगळूर, कोची ह्या वाटारांनी शिंपडिल्ल्या कोंकणी समाजाचो कोंकणी चळवळीक तेंको आशिल्लो. ह्या पांच फाटबळांक लागुनूच कोंकणी एका फाटल्यान एक जैतां जोडत गेली अशें रवीन्द्रबाब मानताले.[२]

कोंकणी चळवळ ही मुदलांत कोंकणी मनशा भितल्ल्या धनीपणाक जाग हाडपी चळवळ -

आमचो फुडार आमीच घडोवपाचो हो आत्मविश्वास आमच्यांत जागोवपी चळवळ; ही धनीपणाची भावना म्हळ्यारूच आमची अस्मिताय अशें आनीक एका बरपांत रवीन्द्रबाब सांगतात.[३]

कोंकणी अस्मितायेक जाग हाडपी, कोंकणी मनशाक धनीपणान जियेवंक शिकोवपी हे चळवळीक रवीन्द्रबाबान आपणालें जिवीत ओंपलें, तिका सगळ्या तरांचें फाटबळ जोडून दिवंक ते विसव घेनासतना, निमाणे मेरेन वावुरले. हे चळवळीचेंच एक उपफळ म्हूण साहित्यकार रवीन्द्रबाब घडले. आनी, साहित्यकार रवीन्द्रबाबान आपणाल्या वैयक्तीक कर्तुत्वान, वैयक्तीक साधनेन गांठिल्ले उंचायेन परत कोंकणी अस्मितायेचे चळवळीक अदीक घटाय जोडून दिली.

कोंकणी चळवळीक रवीन्द्रबाबान दिल्ल्या योगदानाचो नियाळ घेवपाचो हो एक यत्न.

## कोंकणीचो दिश्टावो आनी मिशनाची जाणवीक

तांच्या काळा वयल्या हिंदू गोंयकारां वरी रवीन्द्रबाबांची वाड मराठी परंपरेंत जाल्ली.

अडेज वर्साचे पिरायेर आवय-बापाय वांगडा दीवाक गेल्लो रवीन्द्र चवदाव्या वर्साचो जायसर थंय उरला. गुजराती भुरग्यां मजगतीं वाडला. ताचें पयल्या चार वर्सांचें मुळावें शिक्षण गुजराती माध्यमांतल्यान जालां. उपरांत 'सेगुंद ग्राव' मेरेनचें पोर्तुगेज भाशेंतलें शिक्षण एके सरकारी शाळेंत घेवन तो फुडल्या शिक्षणा खातीर गोंयां आयला. लिसेवाच्या पयल्या तीन वर्सांचें शिक्षण ताणें फोंडेचे आल्मैद कुलेजींत घेतलां. रवीन्द्रबाब सांगतात, ''भुरगेपण दीवाक गेल्ल्यान गोंयच्या हिन्दू भुरग्यांक जात्रा-उत्सवांतल्यान, कथा-किर्तनांतल्यान, नाटकांतल्यान, भजनांतल्यान मेळटात ते संस्कार म्हाका मेळूंक नाशिल्ले. ते घेवपाचो हांवें ह्या तीन वर्सांत खूब यत्न केला.''[४] मराठी किशोर-साहित्य वाचून मराठी भाशेचें गिन्यान जोडलां, आनी ''तूं आतां गुजीर उरूंक ना, आमचे सारकोच महाराष्ट्रीय जाला''[४] हें सर्टिफिकेट शिक्षका कडल्यान जोडून तो धादोसभरितूय जाला.

लिसेवाच्या तिसऱ्या वर्साची परिक्षा दिवन सुटयेंत एका गुजराती मनशा वांगडा दीवाक वतना भुरग्या रवीन्द्राक पयलेच खेपे आपले 'महाराष्ट्रीय' आयडँटिटीचो प्रस्न पडला - हांव म्हजे म्हाका महाराष्ट्रीय लेखतां, पूण महाराष्ट्रीय जेवण म्हाका म्हजें दिसना. मराठी हांव म्हजी भास मानतां, पूण हांव उलयतां ती मराठी तिरायताक मराठीशी दिसना. म्हणटकच हांव खरो कोण? ह्या प्रस्नान तो भितल्ल्यान हाल्ला आनी, 'हांव कोंकणी' ही जाप ताच्या काळजांतल्यान वयर सरल्या.

दीवाक पावना फुडें रवीन्द्र बापायक विचारता, 'आमचे भाशेंत कोणेंच कांय बरोवंक ना?' 'वामनबाब वर्दे वालावलीकार म्हूण एकलो बरयता,' बापूय ताका जाप दिता, आनी उपरांत वालावलीकाराचें एक पुस्तक - *कोंकणी भाशेचें जैत* - मुंबयच्यान पुता खातीर मागोवन घेता. तें वाचून रवीन्द्र ''शें प्रतिशत 'कोंकणीवादी'''[५] जाता.

सुटी सोंपून गोंयां परततना वाटेर मुंबय राविल्लो आसतना 'गोमंतक छापखान्यां'त वचून तो शणै गोंयबाबांलीं सगळीं पुस्तकां विकतीं घेता.

फुडल्या शिक्षणा खातीर रवीन्द्र पणजे रावंक वता आनी थंय ताची ताचेच पिरायेच्या शांताराम आमोणकारा कडेन वळख जाता. कोंकणीचो विचार पटिल्लो 'शांतो' रवीन्द्राकूय आपल्या पंगडांत ओडपाचो यत्न करता तेन्ना रवीन्द्र ताका सांगता, ''म्हाका कोंकणीचें म्हत्व समजावन सांगपाची इल्लीय गरज ना. 'जैत' हांवें वाचलां. तांतले सगळे मुद्दे म्हाका पटल्यात. एकाच प्रस्नाची जाप अजून मेळूंक ना. छळांक लागून जावं, उवेखणेक लागून जावं, वा आनीक खंयच्याय कारणाक लागून जावं, जी भास फाटीं पडल्या ती मराठी, गुजराती, हिन्दी सारकेल्या तिगेल्या भयण-भासांची फाट केन्ना धरूंक पावतली? कोंकणी भाशेंत साहित्य केन्ना तयार जातलें?''[६]

आनी शांतो ताका जाप दिता, ''लागतीत शें दोनशें वर्सां... तिचें उणें पयस करपाचो वावर आयच्यान सुरू करुया, एक दीस उणो जातलो.''[६] रवीन्द्रबाब बरयतात, ''शान्त्याचे हे जापेन म्हाका म्हजें मिशन दाखोवन दिलें. हांवें नित्शय केलो, जिवितांत आनीक कितेंय करूंक पावूं वा ना पावूं, हें एक काम तन मन प्राण ओंपून आयुश्यभर करीत रावतलों. जिवीत कोंकणीच्या वावराक ओंपतलों.''[६]

शांतेबाबांक रवीन्द्रबाब आपणाले 'दीक्षा-गुरू' लेखताले.[७] तांणी दिल्ली जाप रवीन्द्रबाबांक इतली पटल्या की तीच ते मुखार दुसऱ्या दुबाव्यांक दीत आयल्यात.[८]

पणजे पावतकच शिकिल्ल्या सवरिल्ल्या गोंयांतल्या 'दोन गोंयां'ची रवीन्द्राक वळख जाता - एक, आपणाक पोर्तुगेज लेखपी क्रिस्तांव गोंय; दुसरें, आपणाक मराठी लेखपी हिंदू गोंय. मनांतल्या मनांत तो दोनूय गोंयांक सांगता - तुमी पोर्तुगेजूय न्हय, मराठीय न्हय. तुमी खरे कोंकणी. पूण हें तुमकां खबर ना. तुमचें दोगांयचें मानस एक. रुढींचे दास तुमी. रुढींच्या ह्या बंदेपणांतल्यान भायर आयले बगर तुमकां तुमची खरेली वळख कशीच घडपाची ना. रवीन्द्रबाब बरयतात -

''वर्स सुरू जावपाक कोंकणीचो वावर कितलो गरजेचो हाची जाणवीक जाल्ली. आतां वर्स सोंपपा कडेन आयिल्लें तेन्ना कोंकणीचो वावर कितलो कठीण हाची ज्ञाणवीक जाल्ली.''[९]

कोंकणीचो विचार पुरायेन पटिल्लो आनी आपणाल्या 'मिशना'ची स्पश्ट जाण जाल्ली तेन्ना रवीन्द्रबाब पिरायेन फकत सोळा वर्सांचे आशिल्ले.[१०] उपरांत जिवीतभर रवीन्द्रबाब कोंकणीच्या मळार एकमार्गीपणान म्हणटात तशे वावुरल्यात - कार्यकर्ते म्हूण, तशेच नवे नवे कार्यकर्ते जोडपी क्रियाशीळ फुडारी म्हूण. कोंकणी चळवळीची त्या त्या वेळार ती ती मोख घालून दिवन शणै गोंयबाबान पेटयल्ले दिवलेंतली वात सारून तेल ओतीत रावपी, एक जागरूक मार्गदर्शक म्हूण. चळवळीक वैचारीक बसका घट करपी विचारवंत लेखक म्हूण. साहित्याक जिविताचें उपफळ लेखून 'व्हड मनिसूच व्हड साहित्यकार जावंक शकता' अशें मानपी जीवन-साधक साहित्यकार

म्हूण. नव्या तरणाटद्या बरोवप्यां मुखार असल्या साधक साहित्यकारांच्यो देखी दवरून कोंकणींतलें दैन्य पयस करूंक सतत वावुरपाची प्रेरणा दीत रावपी म्हालगडे म्हूण.

## रवीन्द्रबाबांली भाशीक नदर

तेवीस-चोवीस वर्सांचे पिरायेर रवीन्द्रबाब वर्ध्याक काकासाहेब कालेलकरां सरीं रावंक गेले, "तांच्या हाता खाला काम करून देशसेवेची तरा शिकून" गोंया परतुपाच्या हेतान.[११] ताचे आदलीं चार वर्सां गोंयचे सुटके चळवळींत ते वावुरिल्ले. सशस्त्र क्रांतींत पडिल्ल्या एका पंगडा कडेन तांचो संबंद आयिल्लो आनी रोखडोच ह्या मार्गा वयलो विश्वासूय उडिल्लो. अश्या वेळार गांधींचे अहिंसेंत कितेंय वाट मेळूं येता काय पळोवंक ते वर्ध्याक गेल्ले.[१२] काकासाहेबांच्या रुपान देशाचो भाशीक प्रस्न पुरायेन समजल्लो एक मार्गदर्शक तांकां मेळिल्लो. ह्या 'जंगम विद्यापिठां'त सारिल्ल्या काळांत रवीन्द्रबाबांली भाशीक नदर स्पश्टपणान घडली अशें मानूंक खूब आधार आसा.

१९५३ च्या १५ ऑगस्टा सावन रवीन्द्रबाब वर्ध्या सावनूच कोंकणींतल्यान'मीर्ग' हें पंद्रशी नेमाळें काडूंक लागले. (रवीन्द्रबाब तेन्ना फकत अठ्ठावीस वर्सांचे आशिल्ले.) हें नेमाळें सवाय-दोन वर्सां चल्लें. "वालावलीकारान कोंकणीची पणटी पेटयल्ली. हे पणटेंतली जोत पालोवंक पावची न्हय म्हूण तातूंत तेल घालीत रावप हें हांवें म्हजें 'मिशन' मानलें आनी 'मीर्ग' सुरू केलें." रवीन्द्रबाब सांगतात.[१३]

'मीर्गा'च्या पयल्याच आंकाच्या संपादकियांत ते बरयतात - "मनीस जेन्ना भक्तीन आपणाले आवय-भाशेची सेवा करतलो तेन्नाच ताचो आत्मो परमळटलो, आनी तेन्नाच तो दुसऱ्या भासांची, आपल्या देशाची आनी संवसाराची खरेली सेवा करूंक पावतलो. हें सत्य कोंकणी उलोवपी लोकां मुखार दवरचेल्या हेतून आमी हें नेमाळें उजवाडावंक फुडें सरल्यांत."[१४]

ह्या उद्देशा भायर 'मीर्गा'चो आनीक एक मुळावो उद्देश आसलो - गांधी विचार, मुखेलपणान गांधीजींचें अहिंसक क्रांतिशास्त्र, पोर्तुगेज राजवटी खाला आशिल्ल्या आनी तिचे पसून मेकळें जावंक आंवडेतल्या गोंयाक समजावन सांगपाचो. मीर्गाक कसले तरेचें लिखाण धाडचें तें स्पश्ट करतना ते बरयतात - "गांधीजीन जी जीवन-दृश्टी आमकां दिली ते दृश्टी संबंदान कोंकणी उलोवपी भावां-भयणीं वांगडा सह-विचार - co-thinking - करचेल्या हेतून मीर्ग चलता. आज जो आमचे भोंवतणी काळोख पातळ्ळा तो ह्या सह-विचारान विरून आमकां कितेंय उजवाड दिसतलो अशी आमची श्रद्धा आसा."[१५]

सुरवे सावन कोंकणीच्या प्रस्ना कडेन रवीन्द्रबाब समाजकारणाचे - समाज-हिताचे - आनी देखून समाज घडोवप्याचे नदरेंतल्यान पळेतात. कोंकणीची केसूय ते 'शुद्ध' भाशाशास्त्राचे व्याकरणीक नदरेंतल्यान न्हय तर समाजशास्त्राचे नदरेंतल्यान मांडटात. देखून, कोंकणी 'भास' काय मराठीची 'बोली', पोर्तुगेज येवचे पयलीं कोंकणींत साहित्य आशिल्लें काय नाशिल्लें, कोंकणाचेर कोंकणी भाशिकांनी राज्य केल्लें काय करूंक नाशिल्लें... सारकेले पंडितांचे आवडीचे प्रस्न ते अचळय काडून कुशीक दवरतात.

एका 'मीर्गां'त ते बरयतात -

> "कोंकणी ही मराठीची भयण आसूं, धूव आसूं वा तांगेलें एकामेकां कडेन कांयच सोयरसुतक नासूं. ह्या प्रस्नाक एक शींव [शीम] आसा. ताचे भायर ताका व्हांवूंक दिवंक जायना. आमी कोंकणी जाय कित्याक म्हणटाव? कित्याक तर, आमकां संवसारांतलें गिन्यान लोकांच्या अंतस्कर्णा मेरेन पावोवचें आसा, लोकांच्या मनाचो स्वाभावीक विकास घडोवचो आसा, तांचें व्यक्तित्व जास्त परजळीत आनी चिंतनांची अभिव्यक्ती सोंपी आनी अभिजात जावंक दिवची आसा. जी भास तांच्या मेंदूंत घोळटा तिचे वरवींच हें शक्य आसा."[१६]

'मीर्गां'त आनीक एके कडेन ते सांगतात, "कोंकणी चळवळ ही निखटी भाशेची चळवळ न्हय. ती कोंकणी आत्म्याक पुरुशार्थी करपाची एक भोवच प्रभावी चळवळ - एक सत्याग्रह कशी आमी तिका लेखतात. राजकी मळार जो सत्याग्रह चलता त्या सत्याग्रहा परस ह्या सत्याग्रहाचें मोल इल्लेंय उणें न्हय."[१७]

शणै गोंयबाबांल्या वावराचें मुल्यांकन ते हेच भुमिकेन करतात. शणै गोंयबाबांल्या मर्णा उपरांत उजवाडा आयिल्ल्या तांच्या *वलिपत्तनाचो सोद* पुस्तकाक बरयल्ले प्रस्तावनेंत ते सांगतात -

> "...स्वामी विवेकानंदान हिन्दुस्तानांत जे तरेचो वावर केलो त्याच तोलाचो वावर पणून दुसरे तरेन, शणै गोंयबाबांनी कोंकणांत केलो. तांणी कोंकणी भाशेक, आमची जित्या कळिंवरा वरी जाल्ली आवतिकाय ना करपी आनी आमच्यांत प्राण फुंकपी संजीवनीच कशी लेखल्या. गांधीजी जशे चरख्याक अहिंसकी समाजाचो सूर्य कसो लेखताले, तशे शणै गोंयबाब 'कोंकणी'क आमगेल्या सगळ्या उदरगतीच्या वावराचो सूर्य कसो लेखताले."[१८]

'मीर्गां'तल्या एका लेखांत रवीन्द्रबाब सांगतात, इंग्लीश, हिंदी, मराठी हांकां गोंयचे समाज-जिणेंत सुवात आसा. पूण हे सुवातेक एक मर्यादा आसा. इंग्लीश राष्ट्रभाशेची, देशी भासांची सुवात आडावन बसता तेन्ना तिका तिची सुवात दाखोवप देशकार्यूच जाता, आनी ह्या कार्या आड येता तो देशद्रोही जाता. राष्ट्रभाशा प्रादेशीक भासांचे वाडी आड येता तेन्ना तिच्या साम्राज्या आड झुजप देशकार्य जाता,आनी ह्यां कार्या आड येवपी देशद्रोही जाता. होच न्याय गोंयांत मराठीकूय लागू जाता. गोंयकारांनी मराठीचो अभ्यास करचो, सेवाय करची. पूण गोंयकारांची आवय-भास कोंकणी. ती ताच्या आत्म्याची भास. कोंकणीची सुवात मराठी घेवंक सोदता तेन्ना तिचें साम्राज्य तोडूंक वावरप ही गोंयकारांची लागणुकूच.[१९]

'गोंयचेर म्हजो उपाट मोग पूण कोंकणी म्हाका नाका' म्हणटल्या गोंयकारांक ते मुखार सांगतात - " 'हांव तुज्या शरिराचेर प्रेम करतां',

तुजो आत्मो म्हाका नाका' अशें म्हणपी मनशाच्या प्रेमाचें मोल आनी ताची खोलाय जितली उकती, तितलीच उकती, 'हांव गोंयचेर प्रेम करतां, पूण कोंकणी म्हाका नाका' म्हणपी मनशाचे देशभक्तीची किंमत आनी तिची खोलाय... कोंकणीचो विरोध करपी हो एके नदरेन ...देशद्रोहीच. देशद्रोहीच न्हय, आत्मद्रोहीय बी.'' [२०]

एक तेजिश्ट नवो समाज, नवी परंपरा घडोवपाच्या ध्यासान वावुरपी मनीस इतिहासा कडेन खंयचे नदरेन पळेता, ताका कितलो आनी कसो लेखता तेंय रवीन्द्रबाबांल्या बरपांतल्यान सुरवे सावन उकतें जालां. 'इतिहासाचो सोद आनी बोध' म्हूण तांचो 'मीर्गां'त एक सुंदर लेख आसा. तातूंत ते म्हणटात, पोर्तुगेज येवचे आदीं गोंयची पुस्तकी भास खंयची आसली ह्या प्रस्ना वयल्या वादांत आपणाक पडपाचें ना. ''इतिहासीक सोदांक एक म्हत्व आसा हातूंत दुबाव ना. पूण... जे मेरेन आमची बुद्द जाग्यार आसा ते मेरेन आमी आज वो हे फुडें कशें चलचें, कितें करचें बी थारावपाक ह्या इतिहासीक सोदांची गरज ना.'' [२१] आमची अमकीच एक परंपरा आसा, हे मुखारूय आमी तेच परंपरेन चलूंक जाय अशें येवजुपाची तरा आमकां खंय मेरेन घेवन वचत तें दाखोवन दिवपाक ते आनीक एक इतिहासीक सोद दितात. केन्ना केन्ना गोंय कोणा कोणाच्या शेका खाला आसलें तो तपशील दिवन बरयतात - ''हे भशेन सुमार देड हजार वर्सां आमी हाचे ना जाल्यार ताचे गुलाम म्हूण उरले. इतिहासाची येदीय व्हडली पाथावळ पळेत जाल्यार आमची परंपरा गुलामीची! हातूंतल्यान... स्वातंत्र्य ही आमची परंपराच न्हय, सैम न्हय, देखून आमी परतंत्रूच उरूंक जाय असो बोध घेवं येत?'' [२१]

मुखार ते सांगतात -

> ''तांब्यापटे वो फातरपटे फुडें करून मेल्ल्यांचीं थडीं उस्तून... पोरण्या ग्रंथांचो पाखो दिवन कोंकणीचें म्हत्व कळपाचें ना. जेन्ना आमची बुद्द सादी आनी सरळ जातली... जेन्ना आमचो जिवंत मनशां कडेन संबंद येतलो, तांचो आत्मो केन्ना आनी कसो हांसता, केन्ना आनी कसो फुलता, परमळटा, मुरगुट्टा हाचो दिश्टावो जातलो तेन्नाच... सत्याचें दर्शन आमकां जातलें आनी तेन्ना इतिहासीक सोदां पसून बोध कितें घेवचो हाचोय विवेक जागतलो.'' [२१]

१५ ऑगस्ट १९५३ (मीर्गाचो पयलो आंक) ते ३१ जुलै २०१० (ज्ञानपीठ पुरस्कार वितरण सुवाळ्यांत केल्लें उलोवप : रवीन्द्रबाबांलें निमाणें बरप) हे मजगतच्या काळांत रवीन्द्रबाबान कोंकणीच्या प्रस्नाचेर कितलेंशें बरयलां, कोंकणींतल्यान तशें मराठींतल्यानूय. ह्या सगळ्या बरपांत, 'मीर्गां'त स्पश्ट जाल्ली समाजकारणाची बसका आशिल्ली रवीन्द्रबाबांली भाशीक नदरूच उकती जाल्या - आमी कोंकणी; कोंकणी मनशाचो खरेलो विकास कोंकणी वरवींच जावं येता; कोंकणी समाजांक तेजिश्ट करपाची तांक कोंकणींतूच आसा ह्या एकाच सत्याचो आग्रो तांचे लिखणेन सांतत्यान धरला.

१९६९ वर्सा पणजे जाल्ल्या कोंकणी लेखक परिशदेच्या दुसऱ्या अधिवेशनाच्या अध्यक्षीय उलोवपांतूय हो आग्रो उकतो जाला. समाजाच्या एकचाराचें तत्व ताची भास; पूण इल्ल्याश्या, सात-आठ लाख लोकांच्या गोंयांत गोंयकारांच्यो तीन तीन आवय-भासो हे गजाली कडेन आयकुप्यांचें लक्ष ओडून ते म्हणटात, ''खंयचे भाशेक लागून गोंयच्या समाजांतले लोक एकामेकांक एका समाजाचे लेखतात? ह्या प्रस्नाची जाप जेन्ना ''मराठी, इंग्लीश, पुर्तुगेज कोंकणी'' अशी मेळटा तेन्ना आमी समजून चलूंक जाय की आमची समाजीक जीण विस्कळीत जाल्या... खरी हुसक्याची गजाल ती ही की आमकां हे विस्कळीत समाजीक जिणेची इतली संवय जाल्या की ती जीण आमकां रोगी दिसपा वांट्याची जशी आसूंक जाय तशीच दिसूंक लागल्या.'' [२२]

ते मुखार म्हणटात -

> ''भास हें जर एक सामाजीक तत्व जाल्यार त्या तत्वाचें एक सांस्कृतीक मळ आसूंक जाय. उलोवपा भायर वाचप, बरोवप, शिकप, शिकोवप हें सगळें त्या मळार ते भाशेंत चलूंक जाय. ना जाल्यार, जितल्यो आवय-भासो तितल्यो सांस्कृतीक परंपरा आनी जितल्यो सांस्कृतीक परंपरा तितले समाज अशें जावन पडटलें... [मागीर] ह्या समाजांनी एकामेकां पसून वेगळे रावप; वेगळे राविल्ल्यान एकामेकांची सारकी वळख नासप; वळख नाशिल्ल्यान आपलेपण नासप; आपलेपण नाशिल्ल्यान एकामेकां विशीं मनांत दुबाव बाळगप हें सगळें चलत रावतलें. तेंय कशेंच चुकोवंक येवपाचें ना.
>
> ''गोंयच्या समाजाचे विस्कळीत पडिल्ले चिरे एकठांय करतले आनी त्या चिऱ्यांनी फुडाराच्या नव्या गोंयचें मंदीर उबें करतले जाल्यार तांकां एकामेकां कडेन घट्ट जोडपी एकूच समाजीक शिमीट आमचे कडेन आसा - तें म्हळ्यार, कोंकणी. कोंकणीचें हें समाजशास्त्र जाका समजूंक ना ताच्या हातांत गोंयचें बरें-भलें केन्नाच जावपाचें ना.'' [२३]

२००० वर्सा 'Goans' Organization in America' (GOA) हे संस्थेच्या संमेलनाक रवीन्द्रबाब मुखेल सोयरे म्हूण अमेरिकेक गेल्यात तेन्नाय तांकां हेंच जाणवलां - ''गोंयकारां सारको कुडके कुडके जावन हजार कडेन शिंपडिल्लो विघटीत - disintegrated - समाज दुसरो खंयच पळोवंक मेळपाचो ना.'' [२४] आनी, संमेलनाक जमिल्ल्या, 'ॲमिग्रंट कल्चरां'त वाडिल्ल्या अमेरिकी गोंयकारांक तांणी कोंकणीच्या 'शिमिटा'चें म्हत्व जाणोवन दिलां.

'समन्वयाचे साधक' म्हूण नामना जोडिल्ल्या काकासाहेब कालेलकरांचे तालमीत रवीन्द्रबाब घडल्यात. तांणी भाशा-समन्वयाचो सदां पुरस्कारूच केला. गोंयांत फकत हिंदू समाजा भितर मराठी चलता; ती क्रिस्तांव समाजांतूय चलूंक लागली जाल्यार तांच्याच तें बऱ्याचें आनी कोंकणीचोय ताका लागून फायदो जावं येता अशें तांणी मानलां. बाकीबाब बोरकार विनोबाजींच्या *गीता-प्रवचनें*

पुस्तकाचो कोंकणी अणकार करताले तेन्ना रवीन्द्रबाबान तांकां सांगलां, हे तरेचें एक स्वतंत्र पुस्तक तुमी कोंकणीक दियात. विनोबांच्या मराठी पुस्तकाचो कोंकणी अणकार कित्याक करूंक जाय? खंयचेंय मराठी पुस्तक मूळ मराठींत वाचपा इतली मराठी खंयच्याय गोंयकाराक येवंकूच जाय.[२५]

पूण, गोंयकारांची भास कोंकणी. गोंयच्या हिंदू आनी क्रिस्तांव समाजांक एकठांय हाडपाची तांक फकत कोंकणींतूच आसा. गोंयांत कोंकणीक फावता ती सुवात कोंकणीकूच मेळूंक जाय आनी म्हूण मराठीनूय यत्न करूंक जाय, फकत तिका आधार करूंक जाय. कोंकणीक मेळ्ळां तें म्हाकाय दी अशें मराठी म्हणूंक लागली जाल्यार कोंकणी-मराठी सहयोग कसोच घडून येवंक पावचोना; मराठी वा कोंकणी हीच भुमिका घेवची पडटली अशें तांणी मानलां.[२६]

भारतांत न्हय ती सुवात आडावन बशिल्ले इंग्लीशी आडूय समाजकारणाचे भुमिकेनूच रवीन्द्रबाब तुटून पडल्यात.

स्वतंत्र भारताचो राजकारभार केंद्रांत हिन्दुस्तानी भाशेंत चलचो आनी प्रांतांनी त्या त्या प्रांताचे भाशेंतल्यान हें तत्व मान्य केल्ल्या आमच्या फुडाऱ्यांनी 'धोशी नाकात' हें निमित्य मुखार करून तुर्ताक राजकारभारांत इंग्लीशीचो वापर आसा तसोच चलुंदी, धा वर्सां उपरांत 'लँग्वेज कमिशन' नेमून परतो ह्या प्रस्नाचेर विचार करप असो निर्णय घेतलो. हे तरेची तडजोड केल्ल्यान भारतांत दिर्शी दिर्शी इंग्लीश घट्टूच जायत गेली हें सांगून ते म्हणटात, ''इंग्रजीक तिचे सुवाते वयली निखळावपाक आनी तिची सुवात देशी भासांक मेळपाक कितलीं वर्सां लागतलीं? धा मूं? तशें जाल्यार, धा वर्सां आयज सोंपलीं अशें धरात आनी फुडली आंखणी आयजूच करात.''[२७]

साहित्य अकादेमीची 'महत्तर सदस्यता' आनी ज्ञानपीठ पुरस्कार घेतना केल्ल्या उलोवपांत देशी भाशांतल्या साहित्यकारांनी इंग्लीशी आड विद्रोह करचो होच उलो रवीन्द्रबाबान दिल्लो. ह्या स्वतंत्र देशाचो राजकारभार इंग्लीशींतल्यान चलता. कायदे इंग्लीशींतल्यान तयार जातात. न्यायदान इंग्लीशींतल्यान जाता. व्हडल्यो व्हडल्यो नोकऱ्यो इंग्लीश शिकिल्ल्यांकूच मेळटात. इतलेंच न्हय, इंग्लीश आमकां 'स्टेटसूय' दिता. हे परिस्थितींत आवय-भाशेची कितलीय तुस्त गायात, कोणाचेरूच तिचो प्रभाव पडपाचो ना. लोक दिर्शी-माशीं इंग्रजाळिल्ले जायत वतले. देशी भासांतलें साहित्यूय फुलूंक पावचें ना. 'शिकिल्लो-सवरिल्लो' लोक तें वाच्चोच ना, इंग्लीश साहित्यूच वाचतलो. आनी आपल्यो भासो सोडून दिवन 'आंतरराष्ट्रीय' जावंक आंवडेतलो. शेकीं हुमटल्लोच उरतलो - 'बॉन्साय भारतीय' जातलो. देशाचें हें बॉन्सायीकरण आडावपाची दायकी देशी भासांतल्या साहित्यकारांची अशें रवीन्द्रबाब म्हणटात.[२८] रवीन्द्रबाबांले लिखणेन हे लागणुकेक पाळोय दिला.[२९] कोंकणीची हकाची सुवात हातासूंक सोदपी मराठीचो केला तितलोच विरोध तिणें भारतीय भासांची सुवात आडावन बशिल्ले इंग्लीशीचो केला. ह्या विरोधाक नवो आनी खऱ्या अर्थान स्वतंत्र भारत घडोवंक भायर सरिल्ल्या गांधी-विचाराची बसका आसा.

*भौभाशीक भारतांत भाशेचें समाजशास्त्र* ह्या पुस्तकांत रवीन्द्रबाबांल्या लिखाणांत कुडक्या कुडक्यांनी पूण सातत्यान उकतें जाल्लें, पुराय देशाच्या संदर्भांत केल्लें भाशीक चिंतन आयलां. ताचो आपरोस, तांच्याच उतरांनी, असो काडूं येत-

> ''हो देश सदांच भौ-भाशीक आशिल्लो आनी हे मुखारूय तो भौ-भाशिकूच उरतलो... सगळ्या ल्हान-व्हड भासांक हांगा जियेवपाचो आनी फुलपा-फळपाचो सारकोच हक दिवचो पडटलो... ताकतिकेन आनी सारकें येवजिनासतना तयार केल्ले आमचे घटनेचे आठवे वळेरेंत जीवसाण आशिल्ल्या आनी 'मान्यताय दियात' म्हूण मागतल्या सगळ्या ल्हान भासांचो एक दीस आमकां आसपाव करचोच पडटलो. आनी धर्माच्या मळार आमी जसो 'सगळ्या धर्मांक सारको भोवमान' दाखयला तसो भाशेच्या मळारूय 'सर्व-भाशा समभाव' आमी मानून घेवचो पडटलो... राजकारभार थळावे भाशेंतल्यान चलोवचो पड्टलो... सगळे कडेन शिकप माय-भाशेंतल्यानूच जातलें. पुणून सगळे कडेन लोकांक आपले माय-भाशे भायर एक वा दोन अदीक भासो शिकपाक प्रोत्साहन दिवचें पडटलें... जे लोक आपलो वाटार सोडून... दुसरे कडेन वचून रावतात तांकां आपले विशेश गूण होगडाय नासतना 'थंयचे जावन रावात' म्हूण शिकोवचें पडटलें. तांकां थंयच्यो भासो शिकात आनी त्या भासांचीय सेवा करात म्हूण देख दिवची पडटली... सगळे कडेन, ते भायर, एक जोड-भास म्हूण हिन्दी वा हिन्दुस्तानी चलोवची पडटली... हिन्दीन जी आयज पत होगडायल्या ती तिका परती जोडून दिवपाक हिन्दीचो प्रचार हिन्दीवाल्यांच्या हातांतलो काडून हिन्दी-न्हय अश्या लोकांच्या हातांत दिवचो पडटलो... ज्या हिन्दी भाशीक मनशाक दक्षिणे कडली भास येना ताका केंद्र सरकारांत नोकरी मेळची ना असोय एक नेम करचो पडटलो. इंग्लीश भाशेचो वापर राजकारभारांतलो रोखड्या रोखडो बंद करचो पडटलो. रासवळ मळा वयलीय तिका निखळावची पड्टली आनी विश्वविद्यालयांतली एक 'सांगाती भास' म्हूण तिका सुवात राखून दवरची पडटली. सगळ्यांचे भायले वेगळेचार मानून घेवन सगळ्यांच्या भितल्ल्या एकचाराचें... जें एक 'मिशन' दोळ्यां मुखार दवरून आमचो देश भाशेच्या मळार सदां चलत आयिल्यो, त्याच मिशनाक धरून हे मुखावयली भाशीक येवजण आमकां आंखची पडटली.''[३०]

गांधी-काकासाहेब-लोहियांचो भाशा-विचार रवीन्द्रबाबान कसो पचयल्लो, आनी कोंकणीच्या प्रस्नाचो ते विचार करताले तेन्ना ताका पुराय देशाच्या भाशीक नियोजनाचो संदर्भ कसो आसतालो तें ह्या चिंतनांतल्यान उकतें जाता.

## कोंकणी चळवळीचे मार्गदर्शक

खंयचीय चळवळ जैतवंत जातली जाल्यार कांय स्पश्ट मोखीं भोंवतणी लोकांक एकठांय हाडप, तांकां सतत क्रियाशीळ दवरप आनी, एक मोख साधले उपरांत 'इतल्यान भागूंक ना, आनिकूय मुखार वचपाचें आसा' सांगून फुडली वाट दाखोवप - हें खूब गरजेचें. कोंकणी चळवळीच्या मळार रवीन्द्रबाबान निमाणे मेरेन हें मार्गदर्शकाचें काम केलां.

साहित्य अकादेमीची मान्यताय आनी संविधानाचे आठवे वळेरेंत कोंकणीचो आसपाव ह्यो दोन मोखी कोंकणी चळवळी मुखार दवरुपांत रवीन्द्रबाबांचो व्हड वांटो आसा.[३१]

एका फाटल्यान एक जैत जोडीत कोंकणी आठवे वळेरेंत पावली तेन्ना, 'जैताच्या उन्मादांत आमकां वाट चुकूंक दिवं नाका... आमकां सस्थ बसुंकूय दिवं नाका' अशी कोंकणी माये कडेन प्रार्थना करून[३२] तांणी कोंकणी कार्यकर्त्यां मुखार 'कोंकणीचें पंचशील' दवरलें, ''आठवे वळेरेंत कोंकणी पावली म्हूण कोंकणीचे सगळे प्रस्न सुटले अशें कोणें मानचें न्हय'' म्हूण तांकां शिटकावन. ही पांच कलमी कार्यावळ अशी आशिल्ली-

''१... गोंयांत कोंकणी सोडून दुसरे खंयचेच भाशेक ह्या [राजभाशेच्या] पाटार सुवात मेळूंक जायना...

''२... गोंयांत प्रशासनांत काम करतल्या सगळ्यांक... कोंकणी वाचूंक बरोवंक आनी उलोवंक येवंक जाय, अशी सक्ती जावंक जाय... सरकारी नोकऱ्यां खातिरूच न्हय, प्रायव्हेट कंपन्यांनी लेगीत नोकऱ्यो दिता आसतना कोंकणीच्या ज्ञानाची सक्ती करूंक जाय.

''३... गोंयांत कितल्योय भासो चलूं, भाशेचे वाडी खातीर अकादेमी चलयंता आसतना कोंकणीक 'अनेक भासां मदली एक' ही वागणूक मेळूंक जायना.

''४... शिक्षण जण एकल्याक तागेले आवय-भाशेंतल्यान मेळूंक जाय... सगळे कडेन जशी प्रदेशीक भास एक सक्तीचो विशय म्हूण शिकयतात, तशें गोंयांत सगळ्या मराठी, कन्नड, इंग्रजी, उर्दू शाळांनी कोंकणी हो एक सक्तीचो विशय म्हूण लागू करूंक जाय.

''५... गोंयांत कोणूय येवन रावं, ताणें संस्कृतीक नदरेन गोंयकार जावन रावंक जाय. ताणें 'कोंकणी' जावंक जाय. जो कोंकणी जावचो ना... ताका 'भायलो' लेखपाचो अधिकार आमकां आसा आनी आमी तो अधिकार गाजोवंक जाय.''[३३]

गोंयाक कोंकणी करपी ही कार्यावळ कोंकणी भक्तांच्या हातांत दिवन रवीन्द्रबाब सांगतात, ''हें जे मेरेन आमी सगळें घडोवन हाडिनात ते मेरेन आमचो वावर सोंपूंक ना, अशेंच मानून चलूंक जाय.''[३३]

कोंकणी चळवळीच्या फुडाऱ्यांक कारवार, सिंधुदुर्ग जोडिल्ल्या 'संयुक्त गोंया'चे मोखीची विसराय पडल्या आनी चळवळीक 'गोंयवादी' रूप आयलां अशें दिसलां तेन्नाय रवीन्द्रबाब पेटून उठल्यात आनी तांणी स्पश्टपणान सांगलां, ''संयुक्त गोंय जालेंना जाल्यार कोंकणी लोक शेणटलो!''[३४] १९९९ वर्सा कोंकणी परिशदेक साठ वर्सां भर जाल्लीं तेन्ना कारवारा घडोवन हाडिल्ल्या सुवाळ्यांत कोंकणी परिशदेचे हे मुळावे मोखींचो उगडास करून दिवन ते सांगतात-

''एक 'कोंकणी राज्य' म्हळ्यार गोंयचें राज्य नाशिल्लें - गोंय फिरंग्यांच्या शेकांतल्यान मेकळें जावचें, तें शेजारच्या खंयच्याय राज्यांत विरगळ नासतना उरचें, ताका घटक राज्याचो पांवडो मेळचो, ह्या राज्याची राजभास कोंकणी जावची म्हूण परिशदेन चळवळ सुरू करूंक नाशिल्ली. कोंकणी चळवळ फकत गोंयकारांची नाशिल्ली. घेवं मागीर गोंयकारांनी हे चळवळींत चडांत चड वांटो, कोंकणी चळवळ कुडाळकारांची, वाडकारांची, गोंयकारांची, कारवारकारांची, मंगळूरकारांची, तशी कोचींतल्या कोंकणी लोकांचीय आशिल्ली. कोंकणी परिशदूय फकत गोंयकारांची नाशिल्ली. ह्या सगळ्यांची आशिल्ली. आनी - म्हत्वाचें - कोंकणी परिशद फकत साहित्य परिशद नाशिल्ली. साहित्याचो हे परिशदेंत विचार जातालो तो फकत विघटीत कोंकणी लोकांक संघटीत करपाच्या वावरांतलो एक म्हत्वाचो वावर म्हूण. आमी खंय वचपाक भायर सरिल्ले, खंय पावन थांबले?''[३५]

वेगळ्या वेगळ्या सांस्कृतीक परंपरांनी वांटून गेल्ल्या कोंकणी भाशिकांक 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या सुतांत गांथून तांचो 'एक समाज' घडोवप हेंय कोंकणी चळवळीचें आनीक एक मुळावें उद्दिश्ट आशिल्लें; 'संयुक्त गोंया'वरी तेंय साधपाचें उरलां होय उगडास रवीन्द्रबाबान संद मेळ्ळ्या तेन्ना करून दिला.[३६]

कोंकणी चळवळीचें मुल्यांकन करतना एके कडेन ते बरयतात - कोंकणी चळवळ मराठी परंपरेंत वाडिल्ल्या तरणाट्यांक तांचे आदले परंपरे वांगडा एक नवी परंपरा निर्माण करूंक प्रेरीत करूंक पावल्या. रोमी आनी कन्नड परंपरांनी वाडिल्ल्या लोकांक ती हे दिकेन तितलीशी प्रेरीत करूंक पावंक ना. रोमी आनी कन्नड लिपयांच्यो वणटी अजून तश्योच आसात. ह्यो वणटी कोंकणी समाजाक 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या सुतांत गांथूंक दिनात.[३७]

ते मुखार सांगतात, ह्यो वणटी खरेपणानशीं लिपयांच्यो न्हय. त्यो परंपरावादाच्यो, रुढीदास्यतेच्यो वणटी. ही रुढीदास्यता आसासर कोंकणीची चळवळ थांबपाची ना... कोंकणीचें आंदोलनपर्व अजून सोंपूंक ना.[३७]

आनीक एके कडेन, परंपरावादी कोंकणी भक्तांक ते कडक उतरांनी सांगतात - ''कोंकणी ही चलत आयिल्ल्यो परंपरा तिगोवन दवरपा खातीर वापरपाची धाल न्हय, पोरण्यो परंपरा मोडून नवी परंपरा निर्माण करपाक वापरपाची - दोशीं वशीन धार आशिल्ली - एक तरसाद ती.''[३८]

कोंकणी विशींचे लागणुकेन रवीन्द्रबाबांची लिखणी कोंकणीच्या

विरोधकां आड चल्ल्या तितलीच कोंकणी भक्तां भितर कसलेंय उणेपण दिश्टी पडलां तेन्ना तांकां सारकी वाट दाखोवपाची जापसालदारकी तिणें लावन घेतल्या. तांचे लिखणेचें हें एक म्हत्वाचें खाशेलेपण.

साहित्य निर्मण, पुस्तकां छापप, तांच्यो कांय प्रती सरकाराच्या गळ्याक बांदून खर्चिल्लो दुडू परतो आयिल्ल्याचें समाधान अणभवप - हे भाशेन अल्पसंतुश्ट जायत गेल्ल्या कोंकणी लेखकांक ते सांगतात - जर्मन कवी गेटे म्हणटालो, पुस्तक एक लाख लोकांनी तरी वाचुंकूच जाय, ना जाल्यार तें बरोवपांत अर्थ ना. रवीन्द्रबाब म्हणटात, कोंकणी पुस्तकांक एक लाख वाचपी नाका मेळूं, पंदरा हजार तरी मेळूं नाकात? ते कशे मेळटले? रवीन्द्रबाब सुचयतात - ''जण एकल्या कोंकणी-भक्तान फकत पांच घरांची दायकी आपणाच्या आंगार घेवची... पंदरा हजार घरांनी पावपाक आमकां फकत तीन हजार कोंकणी-भक्त पुरो जातले.'' आनी विचारतात, ''इतले कोंकणी-भक्त गोंयांत नात व्हय? नात म्हळें जाल्यार प्रस्न उपरासतलो - इतलीं वर्सां आमी कितें केलें? फकत पुस्तकांच बरयलीं?'' ह्या प्रस्नाची जापूय तेच दितात. म्हणटात, ''तीन हजार कोंकणी-भक्त गोंयांत आसात. इतलेंच की आमी तांकां अजून संघटीत करूंक पावूंक नात, तांकां कामाक लावंक पावूंक नात...''[३९]

'हेंवूय काम कोंकणी-भक्तांचें' ह्या संपादकियांत ते कोंकणी भक्तांक सांगतात - ''नायलॉन, ६६ च्या कारखान्या आड फकत केरींतले तरणाटे झुजतात हाची आमकां लज दिसूंक जाय आनी आमी ह्या झुजांत भाशे खातीर वावुरलेले तितलेच पोडतिडकीन पडून वावरूंक जाय.''[४०]

''आमकां फकत भास आनी साहित्य पुटवपाचें ना. हेरूय गजालींनी आमकां लक्ष घालचें पडटलें.''[४०] अशें सांगून ते मुखार बरयतात -

''गोंय मेकळें जालां त्या वेळार भारताच्या नकाशा वयलें ताचें नांवनिशाण लेगीत पुसून उडोवपाक कांय आसुरी शक्ती मुखार सरिल्ल्यो. त्या वेळार कोंकणी-भक्तूच तांकां 'जाग्यार हाडपाक' हड्ड्याचें कोट करून झुजिल्ले. आयजूय त्योच आसुरी शक्ती 'विकासा'च्या नांवान दुसरे तरेन गोंय आनी गोंयकार हांकां ना करपाक भायर सरल्यात. हांकांय 'जाग्यार हाडपाचें' काम कोंकणी-भक्तांचें.''[४०]

कोंकणी चळवळीचे मार्गदर्शक म्हूण रवीन्द्रबाबान आनीक एक काम सातत्यान केलां. तें म्हळ्यार, कोंकणी चळवळीक नवे नवे कार्यकर्ते जोडपाचें.

वर्ध्याक वा दिल्लीक रावन कोंकणीचें काम सारकें जाय नाशिल्लें आनी पोर्तुगेज राजवटींत गोंयां तें करूंक मेळ नाशिल्लें म्हूण रवीन्द्रबाब मुंबय वचून रावले आनी मुंबय रावपी गोंयकारां मजगतीं कोंकणीची जाग हाडूंक, आनी तांचे भितर गांधी-विचाराचो प्रचार करूंक 'गोमंत भारती' ही संस्था तांणी सुरू केली. मुंबय रावपी गोंयकार विद्यार्थ्यां खातीर 'स्टडी सर्कलां' आनी शिबिरांय ते चलोवंक लागले. मुंबयंतल्या कॉलेजींतल्या 'कोंकणी मंडळां'च्या सेक्रेटरींच्यो मिटिंगोय ते मदीं मदीं घेताले.[४१]

उपरांत १९६० वर्सा ते गोंयां परतले. गोंयचें तांचें घर कोंकणी कार्यकर्त्यांचें एक 'करमळेचें तळें' आशिल्लें.

तरणाटे पिळगेचो रवीन्द्रबाबां कडेन सतत संबंध आयला. तरणाट्यांक भुंयेर पांय घट दवरून पयस नदर मारूंक रवीन्द्रबाबान शिकयलां. रवीन्द्रबाबांच्या संपर्कांत आयिल्ल्या कांय जाणांनी हे विशीं बरयलांय बी.[४२]

कोंकणी चळवळ ही सारस्वतांची चळवळ; भोवजनसमाज शिकून सवरून वयर सरिल्लो सारस्वतांक नाका म्हूण तांणी ही चळवळ सुरू केल्या असो एक आरोप गोंय मुक्तीच्या सुरवेच्या काळांत कोंकणीभक्तांचेर खूब प्रमाणांत जातालो. तो पयस करपांत रवीन्द्रबाबांचो मोलाचो हातभार लागला हेंय मान्य करचेंच पडटलें.[४३]

कोंकणीच्या मळार वावुरतना रवीन्द्रबाबान चळवळीच्या फुडारपणाची जापसालदारकी आंगार घेतल्या, तेच भाशेन, चळवळींत नवें जापसालदार फुडारपण वयर सरिल्ल्याची खात्री जाल्या तेन्ना तांचें कर्तुत्व तोखणायेन पळोवन खुशालभरीत जावन चळवळीचे फुडारी म्हूण ते आपखोशयेन कुशिकूय सरल्यात.[४४] कोंकणी चळवळींतली तांची हिवूय भुमिका म्हत्वाची.

### जीवनसाधक साहित्यकार

रवीन्द्रबाबांक एक 'reluctant writer' म्हणूं येत.

१९६९ वर्सा पणजे भरिल्ल्या अखील भारतीय कोंकणी परिशदेच्या दुसऱ्या अधिवेशनाचे रवीन्द्रबाब अध्यक्ष आशिल्ले. आपणाल्या अध्यक्षीय उलोवपाचे सुरवेकूच ते म्हणटात, ''बरोवप्यांचे परिशदेचो यजमान खासा बरोवपी आसूंक जाय. म्हाका तसो बरोवपी म्हणुंयेत काय कितें हे विशीं म्हज्या मनांत दुबाव आसात... हांवें कोंकणींत सुमाराचें बरयलां... पुणून तें सगळें बरयले बगर रावं नजऽ जालें तेन्नाच आनी तितलेंच बरयलां.''[४५]

तरणेपणांत पावल दवरिल्लें तेन्ना देशांत ध्येयवादाचें वारें व्हांवतालें; तें आपणाकूय बादलें आनी करियराची वाट सोडून आपणें ''देसाचें बंदेपण, दैन्य आनी दळदीर ना करपा खातीर वावुरपाचो मार्ग धरलो''[४५] अशें सांगून ते मुखार म्हणटात, ''देस वयर कसो काडचो हाचो सोद लायत भोंवता आसतना म्हज्या हाताक कांय कस लागले. ह्या कसांक हांव आमची जीण घांसून पळोवंक लागलों. हातूंतल्यान फुडाराचें नवें हिंदुस्तान आनी तातूंतलें नवें गोंय म्हजे कल्पनेंत आकार घेवंक लागलें.''[४५] आनी आपणाक घडिल्ले दिश्टावे दुसऱ्यांक घडोवन दितना आपणाल्या हातांतल्यान ''थोडें-भोव बरप बरोवन जालें''[४६] अशें ते सांगतात.

अर्द शतमाना वयर सातत्यान बरयत आयिल्लो हो लेखक आपणाक लेखक लेखी नाशिल्लो. तो म्हणटालो -

''हांव कोंकणीचो 'रायटर' न्हय, हांव कोंकणीचो

'फायटर'... हांव 'रायटर' जालां तो म्हज्यांतल्या ह्या 'फायटराक' लागून. 'कोंकणीक तिची हकाची सुवात जोडून दिली म्हूण भागना, तिका साहित्याचे नदरेन तिच्या भयण-भासांचे पंगतीक व्हरून बसोवंक जाय. देखून, तिच्यांत जें ना तेंय तुवें तिका दिवंक जाय' हें म्हज्यांतल्या 'फायटरा'नूच म्हाका धोंगशीत सांगलां. ताचेच हे धोंगसणेक लागून हांव बरोवंक लागलां.''[४७]

''...झांकून झांकून गांवकार जातात तसो बरोवन बरोवन हांव साहित्यीक जालां. साहित्य म्हज्या जिविताचें मुखेल आंग न्हय. ताचो एक बाय-प्रॉडक्ट. ताचें एक उपफळ'',[४८] रवीन्द्रबाब सांगताले.

रवीन्द्रबाबान जिविताची साधना केली - मनीस म्हूण व्हड जावपाचो हावेस तांणी बाळगिलो - आनी, हे साधनेचेंच एक उपफळ म्हूण ते व्हड साहित्यकार जावंक पावले.

साहित्याच्या, साहित्यकाराच्या मुल्यांकनांतूय रवीन्द्रबाबांची हीच जीवन-साधकाची नदर उकती जाता. ''...म्हजी नदर साहित्या परस साहित्यकारा कडेन चड वता,'' ते सांगतात, ''साहित्यीक हो मनीस ह्या नात्यान व्हड आसत जाल्यार तागेलें साहित्य 'ल्हान' आसूं, म्हाका तें आवडटा. साहित्यकार मनीस ह्या नात्यान 'फूंच' आसत जाल्यार, तागेलें साहित्य केदेंय व्हड आसूं, म्हाका तें दोळ्यां मुखार नाका जाता.''[४९]

साहित्यकाराच्या मुल्यांकनांत रवीन्द्रबाब प्रतिभे परस प्रज्ञेक चड म्हत्व दितात. 'कोंकणी विशींची तुमची भुमिका तुमी बदलूंक तयार आसात जाल्यार आमी तुमकां मराठी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद दितात' अशें तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी हांणी बाकीबाबांक सुचयलें तेन्ना बाकीबाबान ही 'लांच' न्हयकारिल्ली पळोवन रवीन्द्रबाब प्रज्ञावंत बाकीबाबां मुखार नमळायेन बागवतात,[५०] तितलेच, पु. ल. देशपांडे सारकेलो एक प्रतिभावंत साहित्यकार आपणाल्या वाचकवर्गाचें मनोरंजन करपाक एका प्रज्ञावंत व्यासंगी गांधीवादी आचार्याचीं फकाणां मारतात तेन्ना ते तिडकीन उसळून विचारतात, '' 'खायात, पियात, मजा मारात' हाचे पेले कडलें खंयचेंच उदात्त तत्व जांकां पेलना, पटना आनी समजय ना ताची देख ह्या देशांतल्या लोकां मुखार दवरप आनी 'आदर्श' लोक ते हे, आनी दांभीक ते दुसरे म्हूण तांकां सांगप हें 'असामान्य प्रतिभें'त बसता जायत, सामान्य प्रज्ञेंत बसता व्हय?''[५१]

बरोवपी आनी वाचपी हांच्या संवादांतल्यान साहित्य फुलता; बरोवपी वाचप्या कडेन जे तरेचें नातें जोडटा ते तरेचें रूप ताच्या साहित्याक मेळटा अशें रवीन्द्रबाब मानताले.[५२] साहित्यकारांच्यो कांय तरा ते सांगतात -

१.ऊंच हावेसांची जीण जियेवपाची प्रेरणा दिवपी, 'लोकगुरू'चें काम करपी रवीन्द्रनाथ, काकासाहेब, टॉलस्तॉय, रॉमां रॉलां, स्टॅफान त्स्वायग सारकेले साहित्यकार.

२. वाचप्यां कडेन एके तरेचे इश्टागतीचें नातें जोडिल्ले दॉस्तॉयवस्की गोर्की सारकेले साहित्यकार.

३. वाचप्यांक हांसोवपा-खेळोवपाचो हेत बाळगून तांची मन-रिजवण करपा खातीर बरोवपी साहित्यकार.

४. वाचप्या भितल्ल्यो उणाक रुची जागोवन त्यो आपल्या बरपा वरवीं भागोवपी साहित्यकार.[५३]

पयले तरेच्या साहित्यकारां विशीं रवीन्द्रबाब बरयतात, ''मनीसजातीचेर माया आसले बगर, मनशाच्या काळजाचेर श्रद्धा आसले बगर, आनी खासा आपूण ऊंच हावेसांनी भारून गेले बगर असले तरेची बरपावळ बरोवंक येवपाची ना.''[५३]

रवीन्द्रबाबान साहित्यकाराची पयली तरा वेंचिल्ली अशें मानूंक खूब वाव आसा. देखुनूच, 'म्हज्यांतलो साहित्यकार म्हज्या जिविताचो बाय-प्रॉडक्ट'[४८] अशें म्हणटां म्हणटां '' 'फकत साहित्यकार' केन्ना व्हड मनीस जावंक पावना. व्हड मनिसूच व्हड साहित्यकार जावंक पावता. साहित्य सदांच जिविताचें उपफळ आसूंक जाय. कोंकणीक असलेच साहित्यकार जाय...''[५४] अशें ते म्हणूंक लागिल्ले.

रवीन्द्रबाबांल्या बरपांत सातत्यान आनी स्पश्टपणान एक आवय-भाशेचो भक्त दिश्टी पडटा तसोच एक देशभक्तूय दिसता. दोगांकूय एकामेकां पसून वेगळावंक येनात. आवय-भाशेचे आनी देशाचे सेवेचे तळमळीनूच तांचे भितल्ल्या साहित्यिकाक जागयला. ते सांगतात -

> ''साहित्यीक जावपाचें मनांत नाशिल्लें. साहित्यिकां विशीं मत्तूय व्हडलेंशें बरें नाशिल्लें. समाजूच बदलपाक मुखार सरिल्लों. समाज बदलपाचे प्रेरणेनूच राजकर्णांत पडिल्लों. पुणून समाज बदलूंक जाय म्हणटल्या म्हज्यांतल्या कार्यकर्त्यानूच म्हज्यांतल्या साहित्यिकाक जाग हाडली आनी आपूण ताचे कडेन एकरूप जालो.''[५५]

देखून रवीन्द्रबाबांली साहित्यीक कारकीर्द पत्रकारितेन सुरू जाल्या. एका 'स्वगतां'त ते सांगतात -

'तुमकां लोकांनी कोण म्हूण वळखल्लें आवडटलें आशिल्लें?' अशें म्हाका कोणेंय विचारिल्लें जाल्यार हांव अनमन नासतना जाप दितलों आशिल्लों, 'पत्रकार म्हूण...' मुळांत हांव एक पत्रकार. म्हजे भितल्लो जो लेखक आज लोकांक दिसता तो ह्या पत्रकारान जल्माक घाला.[५६]

ह्या पत्रकारानूच आमकां सांगलां, 'हांव कोंकणीचो 'रायटर' न्हय, हांव तिचो 'फायटर'. ह्या फायटरानूच कोंकणींत मीर्ग, गोमंत भारती (रोमी लिपयेंत), जाग हीं नेमाळीं चलयल्यांत; राष्ट्रमत, नवप्रभा, सुनापरान्त दिसाळ्यांनी प्रासंगीक विशयांचेर शेंकड्यांनी लेख बरयल्यात. गरज पडल्या तेन्ना कोंकणीची केस मांडपी 'शाळेंत कोंकणी कित्याक' 'आमची भास कोंकणीच [दुबाव आनी जापो]' सारकेल्यो पटयो तयार करून लोकांक कोंकणी पटयल्या.[५७]

पत्रकाराक सोबऽ सारकीच रवीन्द्रबाबांली शैली. ''शैली सुंदर आसच्ची हो हावेस मनांत केन्ना धरलो ना'', ते बरयतात. ''ती स्पश्ट आसची, सादी आसची, कानाक गोड लागता अशी आसची, इतलोच

हावेस बाळगिलो.''[५८] अलंकारीक शैली तांकां मानव नासली. ''म्हाका ती लिपस्टीक, रूज, पावडर लावन सुंदर म्हूण भासोवपी 'ॲनॅमिक' चलये सारकी दिसची'', ते सांगतात आनी म्हणटात, ''शैली आरोग्यवान चलये सारके दिसूंक जाय. शृंगार करी नासतना सुंदर दिसूंक जाय...''[५८] गांधी, काकासाहेब आनी विनोबांचे शैली कडेन रवीन्द्रबाबांचो ओडो आशिल्लो.[५९] ''गांधींचें गद्य सादें, सोंपें, नम्र, तितलेंच तेजिश्ट आशिल्लें...'' ते सांगतात.[६०]

आपूण कित्या खातीर बरयतां ह्या प्रस्नाची जाप सोदतना रवीन्द्रबाब सांगतात -

''दोन प्रेरणा म्हज्यांत काम करतात. एक सृजनाची. दुसरी, एके तरेचे लागणुकेची... सृजनाचे, नवें कितें जल्मा घालपाचे, उर्बेन बरयतां... आनी... म्हजे भाशेंतलें दैन्य जाता तितलें पयस करपा खातीर, तिची बुन्याद घट करपा खातीर बरयतां.''[६१]

सृजनाचे उर्बेन बरयतना रवीन्द्रबाबांच्या हाताक तांचे आवडीचो दिसपटयेचो - ल्हान ल्हान निबंदांचो, चिंतनांचो - फॉर्म लागला.[६२] *वेळे वयल्यो घुलो, सांगाती, ओथांबे, आशिकुशीक* हीं पुस्तकां ह्या फॉर्मांत बसतात.

भाशेचें दैन्य पयस करपा खातीर बरयलां तेन्ना रवीन्द्रबाबान अणकार केल्यात, अनुसर्जन केलां, अर्थावण्यो बरयल्यात, आपणाले आवडीचे शास्त्रीय विशय सरसमान वाचप्यां खातीर हाताळ्ळ्यात. *भज गोविन्दम्, महाभारत - एक अनुसर्जन, तथागत, तीन पावलां प्रज्ञावादाचीं, ब्रह्मांडांतलें तांडव* ह्या पुस्तकां फाटली प्रेरणा ही अशें म्हणूं येता. ''बुद्धीच्यो सगळ्यो भुको भागोवपी साहित्य भाशेंत येवंक पावलें ना जाल्यार सृजनात्मक साहित्य आमचें फकत मनोरंजनूच करतलें''[६३] अशें तांकां दिसलां आनी कोंकणीच्या मळार अशें घडूंक पावचें न्हय म्हूण ते जीव ओतून वावुरल्यात. रवीन्द्रबाबां भितल्ल्या आवय-भाशेच्या भक्ताचो एक आदर्श - कोणाचोच आधार नासतना एका हातान मराठी ज्ञानकोश रचून आपणाले आवय-भाशेक गिन्यानाची भास म्हूण घटाय दिवपी श्रीधर व्यंकटेश केतकर.[६४]

आनीक एके प्रेरणेन रवीन्द्रबाबान बरयलां - कोंकणी गद्याक कोंकणी रूप दिवपाचे प्रेरणेन. कोंकणी गद्याची 'आंतरीक लय' सोदून काडूंक जाय अशें तांकां दिसलां.[६५] इतलेंच न्हय तर ''कोंकणी गद्याक कोंकणी रूप दिवपाचो यत्न आमी सारको केलो ना जाल्यार तें मराठी गद्याचें रूप घेवन मुखार वतलें'' हो भंयूय तांकां दिसला.[६६]

आपणाले चार दसकांचे साहित्ययात्रेचो नियाळ घेवन बरयल्ल्या एका निबंधाचे अखेरेक ते म्हणटात, ''...म्हजे कडेन म्हजे भाशेक जें कितें दिवपा सारकें आसा तें हांव जीव ओतून दीत रावलां. जें दितां तें आयचे वा फुडले पिळगेक अन्न म्हूण खावपाक उपकरा पडलें ना तरूय कोंकणी सरस्पतीच्या शेतांत बऱ्यांतलें बरें पीक काडपाक सारें म्हूण ताचो बऱ्यांतलो बरो उपेग जावं येता हे विशीं म्हाका इल्लोय दुबाव ना.''[६७]

हांव लेखक न्हय म्हणटल्या ह्या 'अनमनपी' लेखकान भारतीय लेखकाक मेळपी व्हडांतलो व्हड भोवमान-भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार - जोडलो आनी ह्याय कसाक कोंकणी उणी ना हें सिद्ध केलें. साहित्याचे नदरेन समृद्ध आशिल्ल्या भारतीय भासांचे पंगतीक कोंकणीक मानान व्हरून बसयली.

कोंकणीचे साहित्यीक चळवळीक रवीन्द्रबाबान आनीक एके भाशेन आपणालें योगदान दिलां - नव्या बरोवप्यांक वा कोंकणीक कितें तरी दिवंक भायर सरिल्ल्यांक आधार दिवन, मार्गदर्शन करून; 'नवें कितें वाचलां? नवें कितें बरयलां?' सारकेले प्रस्न विचारून, दामोदरबाब मावजो हांणी एका लेखांत बरयलां ते भाशेन, कोंकणी बरोवप्यांक सतत 'चार्ज करपाचें' काम करून, गरज़ तेन्ना तांची फाट थापटून, घसघशीत उतरांनी तांची तुस्त करून... 'तुजी तुस्त इल्ली चड जाता. नवो बरोवपी मागीर गरजे भायर फुलता' अशें एका इश्टान एक दीस तांकां म्हणिल्लें तेन्ना तांणी जाप दिल्ली, 'आज तिची गरज आसा... तुस्त जाताली तेन्ना हनुमानूय फुलतालो आनी मागीर सागर हुपपाचें बळगें ताचे भितर येतालें.'

रवीन्द्रबाब बरयतात -

''संवसारांत कोणूच उरना. सगळेच वतात. साहित्याच्या मळार लेगीत व्हडले व्हडले लोक येवन 'गेल्यात'... आपूण उरतलों म्हण बेश्टें कोणें भ्रमांत रावचें न्हय. हांव रावूंक ना.

''पुणून म्हजे संबंदान हांव एक जाणां, फाल्यां कोणूय कोंकणी बरपावळीचो इतिहास बरोवपाक बसलो जाल्यार, 'हाणें आपणाल्या काळांत विचारांच्या मळार थोडें भोव योगदान दिल्लें, अशी एक वळ तो बरयले बगर रावचोना. कोंकणी गद्याचे बुन्यादीचो एक फातर म्हूण म्हजो तो उल्लेख करतलो. साहित्याच्या इतिहासांत कोणाकूय इतलीच ही सुवात मेळप ही लेगीत भाग्याचीच एक गजाल. तातूंत, धरुया, फुडले पिळगेंतल्या कोणेंय म्हजो हो उल्लेख वाचून जिज्ञासेन म्हजें एकाद-दुकलें पुस्तक वाचनालयांतलें हाडून वाचलें जाल्यार -

''हांव म्हाका व्हडांतलो व्हड एक भाग्यवंत लेखतलों.''[६८]

साहित्यीक नदरेन रवीन्द्रबाबाचें मुल्यांकन काळूच करतलो. साहित्यांत ते कितले आनी खंयच्या रुपान उरतले हेंवूय काळूच थारायतलो. एक मात सांगूं येता -

रवीन्द्रबाबां वांगडा कोंकणी खातीर वावुरिल्ले, झुजिल्ले तांगेले सांगाती तांगेल्या वावराचें मुल्यांकन करतना तांकां शणै गोंयबाबांले पंगतीक बसयतात.[६९] शणै गोंयबाबां वरी, एक अक्षय प्रेरणा म्हूण (हीं उतरां रवीन्द्रबाबांलींच) कोंकणी-भक्तांच्या काळजांत रवीन्द्रबाब सासणाचे उरतले.

---

१. *आशिकुशीक*, निबंध ९, (पानां: १८, १९) मडगांव : जाग प्रकाशन, २००७: १९.
२. आदलोच संदर्भ : १८,१९.
३. *आशिकुशीक*, निबंध ७ (पानां: १४, १५) : १५
४. *पांथस्थ : उगडास गोंयच्या सुटके झुजाचे*, पणजी : राजहंस वितरण, २०००: १३.
५. आदलोच संदर्भ : १७.
६. आदलोच संदर्भ : १८.

७. पळेयातः 'एक भाग्यवंत द्रश्टो कोंकणी भक्त' (प्रस्तावना, पानां : पांच-तेरा) *उगडासांचे कोठयेकुडींत*, शांताराम आमोणकार, प्रियोळ : जाग प्रकाशन, २००५ : धा.

८. पळेयात : *आमची भास कोंकणीच : दुबाव आनी जापो*, मडगांव : कोंकणी भाशा मंडळ, १९६२: १३.

९. *पांथस्थ : २३.*

१०. अदीक म्हायती खातीर पळेयात, *पांथस्थ : १८-२३.*

११. पांथस्थ : १६१.

१२. पळेयात : 'चार दसकांची साहित्ययात्रा', *कषाय मधुर* (पानां : २१८-२२६) मडगांव : जाग प्रकाशन २०१०: २१८; अदीक म्हायती खातीरः *पांथस्थ : १५४-१६१.*

१३. 'उदयबाब' (संपा.), जाग, जानेवारी १९९१ (पानां : १३) : १.

१४. 'लोकभासांचें मीर्ग लागलें' (संपादकीय), मीर्ग, वर्स १, आंक १, १५ ऑगस्ट १९५३, पान १.

१५. 'लिखाण' (टिपण) मीर्ग, वर्स १, आंक ४, १ ऑक्टोबर १९५३, पान ८.

१६. 'ह्या चांडाळ-चक्रांतल्यान भायर सरुंया' (संपादकीय), मीर्ग, वर्स १, आंक ३, १५ सप्टेंबर १९५३, पान १.

१७. 'कोंकणी लेखक संघ' (टिपण) मीर्ग, वर्स २, आंक १३, १५ फेब्रुवारी १९५५, पान ६.

१८. 'कोंकणीचो प्रस्न आनी शणै गोंयबाब' (प्रस्तावना), *वलिपत्तनाचो सोद, समग्र शणै गोंयबाब* खंड २ (पानां : २८२-२९५), पणजी : गोवा कोंकणी अकादेमी आनी इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा, २००३:२९३.

१९. 'देवा, तांकां क्षमा कर...' मीर्ग, वर्स २, आंक ६, १ नव्हेंबर १९५४, पान २.

२०. आदलोच संदर्भ.

२१. 'इतिहासाचो सोद आनी बोध', मीर्ग, वर्स २, आंक ५, १५ ऑक्टोबर १९५४, पान ६.

२२. अध्यक्षीय उलोवप, 'अखील भारतीय कोंकणी लेखक परिशद', दुसरें अधिवेशन, पणजी १५, १६ नव्हेंबर १९६९, उजवाडावपी : कोंकणी बरोवप्यांचो एकवट, पानां १२, १३.

२३. आदलोच संदर्भः १४.

२४. 'अमेरिकेच्यान कितें घेवन आयलों?', *आमोरेर* (पानां: ४३-५२), प्रियोळ : जाग प्रकाशन, २००३: ४७.

२५. 'सहयोग अशक्य करून टाकला आहे मराठीने', *भाषिक संघर्षाचे समाजशास्त्र* (पानां : ११२-११६) पणजी : राजहंस वितरण, २००८:११२.

२६. आदलोच संदर्भः ११२-११६.

२७. 'म्हालगड्यांची चूक' (संपादकीय), जाग, सप्टेंबर १९९१:६.

२८. 'क्या हम देश बोन्साय लोगों का होने देंगे...?' (६ ऑक्टोबर २००७ दिसा साहित्य अकादेमीची महत्तर सदस्यता घेतना केल्लें उलोवप), जाग, सप्टेंबर-ऑक्टोबर २००७, पानां : १४३, १४४.

२९. देख म्हूण रवीन्द्रबाबांचीं हीं बरपां पळेयात : *'धुस्पल्लें जानवें'* (प्रियोळ : जाग प्रकाशन, २०००) पुस्तकांतलो ६ लेखांचो 'पांच नखेत्री बंदेपण' (पानां : २२४-२५५) हो वांटो आनी *भाषिक संघर्षाचे समाजशास्त्र* पुस्तकांतलो ७ लेखांचो 'पंचतारांकित गुलामी' (पानां : ५८-९०) हो वांटो.

३०. *भौ-भाशीक भारतांत भाशेचें समाजशास्त्र* (वालावलीकार व्याख्यानमाला : २) मडगांव : कोंकणी भाशा मंडळ, १९७४: ६३-६५.

३१. १९५७ वर्सा मुंबयच्या कोंकणी भाशा मंडळान मुखार सरून घडोवन हाडिल्ल्या कोंकणी परिशदेच्या सव्या अधिवेशनांत साहित्य अकादेमीन कोंकणीक एक स्वतंत्र साहित्यीक भास म्हूण मान्यताय दिवची ह्या अर्थाचो एक थाराव पयलेच फावट रवीन्द्रबाबांनीच मांडिल्लो. (पळेयातः रवीन्द्र केळेकार 'कोंकणीचे राजकारण', *भाषिक संघर्षाचे समाजशास्त्र* (पानां: ९२-१०१) : ९८) हे विशीं लेखिके कडेन उलयतना रवीन्द्रबाबान एक खेपे सांगिल्लें - परिशदेंत हांवें हो थाराव मांडला म्हणपाचें हांवेंच काकासाहेबांक सांगिल्लें तेन्ना तांकां तो 'आंगाऊपणा' दिशिल्लो. तांणी म्हाका तापोवनूय काडिल्लो. 'साहित्य अकादेमीची मान्यताय कोंकणीक मेळटलीच. ती मागपून. पूण पयलीं कोंकणींत त्या तोलामोलाचें साहित्य निर्माण जावंक जाय. ह्या वावराक पयलीं लागात', अशें सांगिल्लें. पूण म्हजेर काकासाहेबां इतलोच लोहियांचो प्रभाव आसा. हिंदींत राजकारभाराची उतरावळ तयार जाले बगर तिका राजकारभारांत सुवात दिवप ना हें धोरण लोहियांक केन्ना मान्य नाशिल्लें. ते म्हणटाले, पयलीं सुवात दियात; उतरावळ फाटल्यान आपशीं तयार जातली...

३२. 'प्रार्थना' (संपादकीय), जाग, सप्टेंबर १९९२, पानां: १, २.

३३. 'कोंकणीचें पंचशील' (संपादकीय), जाग, सप्टेंबर १९९२, पान २.

३४. 'संयुक्त गोंय जालेंना जाल्यार कोंकणी लोक शेणटलो!' (१९९९ वर्सा कोंकणी परिशदेक साठ वसां भर जाल्लीं तेन्ना कारवारा घडोवन हाडिल्ल्या सुवाळ्यांत केल्लें उलोवप), महा कोंकण सुदर्शन (संपा. सुहास दलाल), १९ डिसेंबर २००३, पानां : १३-१५. होच लेख ह्याच माथाळ्या सयत जानेवारी २००४ च्या 'जागा'च्या 'नदर संपादप्याची' सदरांत (पानां १-३) परतो छापला.

३५. आदलोच संदर्भ (महा कोंकण सुदर्शन) : १४.

३६. पळेयातः 'कोंकणी चळवळीचो आमी घात मारला' (संपादकीय), जाग, ऑक्टोबर १९९३, पानां: ४-६.

३७. 'कोंकणीचे राजकारण', १००,१०१ (अणकारून).

३८. 'एक यक्ष-प्रस्न' (संपा.), जाग, मार्च १९९४ (पानां ७, ८): ८.

३९. 'कोंकणीचें इंफ्रास्ट्रक्चर' (संपादकीय), जाग, मे १९९३, पान ९.

४०. 'हेंवूय काम कोंकणी-भक्तांचें' (संपादकीय), जाग, डिसेंबर १९९०, पान ४.

४१. पळेयातः 'उदयबाब' १९९१: १

४२. देख म्हूण पळेयातः *श्रेयार्थी*, दिलीप बोरकार, आगशी : बिम्ब प्रकाशन २००५; फेब्रुवारी २०११ सावन 'जागां'त खिस्ती खिस्तींनी उजवाडा येवपी दिलीपबाबांचेंच 'म्हजो रवीन्द्र-सांगात' हें सदर; नागेश करमली, 'पुनरुत्थान पर्वाच्या दिग्गजाक नमन!' जाग, ऑगस्ट-सप्टेंबर २०१० : ९,१०; हेमा नायक, 'म्हजो रवीन्द्रबाबः एक ज्ञानभांडार' जाग, दिवाळी-नातलां २०१०: ७५-८०; पांडुरंग काशिनाथ गावडे, 'कांय यादी रवीन्द्रबाबांले मठयेंतल्यो'. जाग, दिवाळी-नातलां २०१०: ८५-८८.

४३. पळेयात : 'मराठी चळवळीचा पायाच मुळी असत्याचा', *भाषिक संघर्षाचे समाजशास्त्र* (पानां १०८-१११): १०९, ११०.

४४. पळेयातः 'I repeat' (संपादकीय), जाग, डिसेंबर १९९२: पान ४.

४५. अध्यक्षीय उलोवप, १९६९: १.

४६. आदलोच संदर्भः २.

४७. 'फकत बरोवपी?' *सर्जकाची आंतरकथा*, (पानां : १-५) प्रियोळः जाग प्रकाशन, २०००: १,२.

४८. 'बरोवपाची प्रेरणा', *सर्जकाची आंतरकथा* (पानां : ६-१०): ७.

४९. 'कसलें साहित्य? कसले साहित्यकार?' *सर्जकाची आंतरकथा* (पानां : १५८-१६३) : १६२.

५०. 'बाकीबाब', *सर्जकाची आंतरकथा* (पानां : १००-१०६) १०६.

५१. 'परतून पु.ल.', *कषाय मधुर* (पानां : २६८-२७४): २७४.

५२. अध्यक्षीय उलोवप, १९६९: २-४.

५३. आदलोच संदर्भः ३

५४. *आशिकुशीक*, निबंध १४ (पानां : २७,२८): २८.

५५. 'बरोवपाची प्रेरणा': ९,१०.

५६. 'निःसंशय मी एक पत्रकार आहे' ('स्वगत' सदरांतलो लेख), नवप्रभा दिसाळें, २२३ नव्हेंबर १९९७.

५७. 'शाळेंत कोंकणी कित्याक'; 'आमची भास कोंकणीच [दुबाव आनी जापो] ५७, मडगांवः कोंकणी भाशा मंडळ, १९६२. ह्या पटयांचें मोल आशिल्लें - 'वाचात आनी वाचूंक दियात.'

५८. 'बरोवप्याची साधना', *सर्जकाची आंतरकथा* (पानां: १८-२१): १९.

५९. आदलोच संदर्भः २०

६०. आदलोच संदर्भः २१.

६१. 'कित्या खातीर बरयतां?',*सर्जकाची आंतरकथा* (पानां ११-१४): १३, १४.

६२. पळेयातः 'चार दसकांची साहित्ययात्रा', *कषाय मधुर* (पानां २१८-२२६) : २२४.

६३. 'पूर्ण वेळ बरोवपी', *सर्जकाची आंतरकथा* (पानां ४४-४९); ४६.

६४. पळेयातः 'फकत प्रेरणे खातीर', *सर्जकाची आंतरकथा* (पानां १३०-१३३).

६५. 'कित्या खातीर बरयतां': १४.

६६. 'चार दसकांची साहित्ययात्रा : २२५.

६७. आदलोच संदर्भः २२६.

६८. 'फकत बरोवपी?': ४, ५.

६९. देखी म्हूण पळेयातः नागेश करमली, ''महामनाः स्यात...'चो संदेश दिवपी', जाग, सप्टेंबर-ऑक्टोबर २००७: २२-२६; पुंडलीक ना. नायक 'रवीन्द्रबाबान रायटरांक फायटर केले!' सुनापरान्त, २८ ऑगस्ट २०१०, पान १०; तानाजी हळर्णकार 'रवीन्द्र नांवाच्या एका विचाराची वळख', जाग, ऑगस्ट-सप्टेंबर २०११ : १९-२५.

[सगल्या अवतरणांचें शुद्धलेखन चालंत नेमांक धरून निवळायलां.]

(संपर्क : ०९४२११५७००७)

# रवीन्द्र नांवाच्या एका विचाराची वळख

तानाजी हळर्णकार

कांय लोक जल्माक येतना एक मिशन घेवन येतात. जल्मभर त्या मिशना खातीर वावुरतात, कश्टतात, सोंसतात, भोगतात. त्या मिशना भायर दुसरें कांयच करिनात. हो संवसार सोडचे पयलीं मिशन सक्सॅसफूल जाल्लें पळोवपी कांय भाग्यवंत आसतात. कांय जाणांच्या नशिबांत तशें भाग्य नासता. पूण तांणी पेटयल्ली कीट पेटत उरता, तांचे उत्तरदायी मिशन सक्सॅसफूल करतात आनी आपल्या फुडाऱ्याक, आपल्या गुरूक गुरुदक्षिणा दितात.

शणै गोंयबाब आनी रवीन्द्रबाब हांकां हो मिशन-विचार सामको लागू जाता. रवीन्द्रबाबांचो जल्म १९२५ तलो. ते भायर पडले २०१०त. रवीन्द्रबाब जियेले त्या फाटल्या पंच्यायशीं वर्सांच्या काळाचेर एक नदर मारली जाल्यार एक गजाल नदरेक येता - ह्या काळांत गोंय धरून कोंकणाचे आशिकुशीच्या वाटारांतले जायते कोंकणी मनीस ह्या ना त्या कारणान आनी आपल्या वावरान नामना जोडूंक पावले. गोंयांत आनी भारतांतूच न्हय तर संवसारभर जोडूंक पावले. पूण ते सगळे खंयच्या तरी एका मळार आनी त्या मळा पुरते स्पेशलिस्ट म्हणून नामना जोडूंक पावले. कोण अर्थीक मळा पुरतो, तर कोण राजकी मळा पुरतो, कोण कला तर कोण साहित्यीक मळा पुरतो, तर आनीक कोण आनीक खंयच्या मळा पुरतो व्हड जालो. हे सगळे तें तें मळ व्हड करून आपुणूय ते वरवीं व्हड जाले. ते खातीर गोंय आनी गोंयकारांचे तोखणायेकूय पात्र थारले.

पूण एकंदर गोंयाक आनी एकंदर कोंकणी मनशाक व्हड करपाचें मिशन दोग मनशांनी तन-मन-धनान चलयलें. एक शणै गोंयबाब आनी दुसरो तांचो पट्ट शिश्य रवीन्द्रबाब. ह्या दोगां जाणांच्या काळांत आपूण शिकून आपूण पंडीत जाल्ले, तशे, धंदो करून धनीक जाल्ले खूब जाण जावन गेले. पूण आपणाल्या मिशना वरवीं सगळ्यांक पंडीत करपाची, सगळ्यांक धनवान करपाची, सगळ्यांक वयर काडपाची मोख दवरपी मिशन, दोगां मिशनऱ्यांनी राबयलें. एक शणै गोंयबाब, दुसरे रवीन्द्रबाब.

आपणा पुरतो, एका दोगां पुरतो विचार करी नासतना, सगळ्यां खातीर तो करपाची द्रश्टी नदर, आयचे पुरतें येवजी नासतना सासणाचें येवजुपाची बुद्द मिशनऱ्यां कडेनूच आसता. ही बुद्द शणै गोंयबाब आनी रवीन्द्रबाबां कडेन आसली.

हाकाच लागून कोंकणी चळवळ हो कोंकणी मनशाचो उदरगती विचार जालो. ह्या विचारान कोंकणी राज्य घडलें आनी कोंकणी मनीस पयले फावट राजा जालो. परधार्जिण्या-परावलंबी कोंकणी मनशांक ताणें स्वाभिमानी आनी स्वावलंबी केलो.

फाटल्या पंच्यायशीं वर्सांत, संवसारभर नामना जोडिल्ल्या, सगळ्या कर्तुत्वी कोंकणी मनशांच्या एकत्रीत योगदानान जें घडूंक पावलें ना, तें ह्या दोन मनशांच्या योगदानान घडयलें. तांकां हेरांचोय जायतो आदार जालो. कोंकणी चळवळ हें टीम वर्क आसलें. तरी रवीन्द्रबाब तिचे सेनापती आसले.

ह्या दोन मिशनऱ्यां मदलें नातें गुरू-शिश्याचें - हें खुद्द रवीन्द्रबाबानूय मानून घेतलां म्हणटकीर ह्या नात्या संबंधी चड विसकटावणी करपाची गरज उप्रासना. तरी पूण दोगांय मदीं एक फरक दिसता. शणै गोंयबाबान आपल्या मिशनाची व्याप्ती आनी भर कोंकणी भाशे वरवीं कोंकणी मनशाचो पुरुशार्थ इतले पुरती सिमीत दवरली. ते वेळचे परिस्थितींत ती तितकीच उरप सभावीक आसलें. बुन्यादीची व्याप्ती सदांच अशी सिमितूच उरता. हे बुन्यादीचेर उपरांत ऊंच इमारत उबी करपाची संद आनी शक्यताय फुडल्या मिशनऱ्यांक फावो जावची आसता. म्हणून pioneer मिशनऱ्याक सगळें बळगें बुन्यादी वावराचेर केंद्रीत करचें लागता. काळाची तशी मागणी आसता. शणै गोंयबाबान बुन्यादी वावर करून ती भागयली.

रवीन्द्रबाबाच्या मिशनाची व्याप्ती कोंकणी भास आनी कोंकणी समाजापुरती उरऽ नासतना ती भारतीय आनी संवसारीक जावंक पावली. शणै गोंयबाबान बुन्यादी वावर करून दवरिल्ल्यान आपल्या मिशनाचो कॅनव्हास विस्तृत करपाक रवीन्द्रबाबाक जशी संद मेळ्ळी तशी तांकां आनीक एके गजालीची मदत जाली. कांय कारणांक लागून शणै गोंयबाब साधूंक पावले नात तो संघर्श रवीन्द्रबाबांक बरो साधलो. ह्या संघर्शान चळवळीक ॲक्टिव कार्यकर्ते दिले. खंयचीय चळवळ यशस्वी जावपाक गरज आसता ती भोवसंख्येची. गोंयच्या भोवजनसमाजाच्या रुपान कोंकणी चळवळीक ती मेळ्ळी. आनीक एक कारण म्हणजे, शणै गोंयबाबाची कर्मभुमी कोंकणी खातीर hostile थारली. मराठी भाशीक मुंबयंत रावपी शणै गोंयबाब थंय 'एकटे' पडले. तशे रवीन्द्रबाब गोंयांत पडले नात. तांचे फाटल्यान गडगंज फौज उबी रावली. हाका लागून रवीन्द्रबाबांक कोंकणी पलतडी पळोवपाचीय संद मेळ्ळी.

रवीन्द्रबाबांच्या मिशनांत कोंकणीक अग्रहक्क आनी अग्रक्रम आसा हातूंत वाद ना. पूण रवीन्द्रबाबान जिविताक आफुडपी खंयच्याच विशयाचो पात्सो धरलो ना. प्रादेशीक, राष्ट्रीय, आंतरराष्ट्रीय - सगळ्या पांवड्यां वयल्या विशयांक तांणी स्पर्श केलो. हातूंत मागीर समाजकारण, राजकारण, अर्थकारण, संस्कृतीकारण, धर्मकारण, शिक्षणकारण, भाशाकारण, धरून जिविताचीं सगळीं 'कारणां' आयलीं. मार्क्सवाद, गांधीवाद, प्रज्ञावाद आयले. महात्मा गांधी, गौतम बुद्ध, स्वामी विवेकानंद, डॉ. राम मनोहर लोहिया, काकासायब कालेलकार, अरविंद घोष, रवीन्द्रनाथ ठाकूर, खलील जिब्रान, लेव तॉलस्तॉय, राम, कृष्ण, विदुर, शणै गोंयबाब ह्या विभुतींचे विचार आयले. संवसारांतलो असो एक विशय मेळचोना जाका रवीन्द्रबाबान हात घालो ना. सामाजीक विशयां वांगडा तांणी खगोलशास्त्रीय विशयाकूय हात घाला. तांगेलें *ब्रह्मांडांतलें तांडव* पुस्तक नक्षत्रशास्त्र लालित्यपूर्ण रितीन हाताळटा. आनी रवीन्द्रबाबांचें खाशेलेपण म्हणजे, प्रत्येक विशयाक आनी विशयाच्या विचारांक रवीन्द्रबाबान रवीन्द्र-विचार दिला जाका खास त्या विशय-विचाराचें रवीन्द्र डायमॅन्शन म्हणूं येता. विज्ञानाच्या मळार जशे रमण इफॅक्ट, सारकेले त्या त्या संशोधकाच्या नांवाचे आयाम आसात तशे रवीन्द्रबाबान स्पर्श केल्ल्या सगळ्याच विशयांक रवीन्द्र इफॅक्ट मेळ्ळा, रवीन्द्र-टच मेळ्ळा.

रवीन्द्रबाब एक विचारवंत, एक चिंतक, रवीन्द्रबाब एक प्रज्ञावंत, रवीन्द्रबाब एक लेखक, एक भाश्यकार, एक संवादक, रवीन्द्रबाब एक चळवळी, एक मिशनरी, एक फायटर, रवीन्द्रबाब एक गांधीवादी, प्रज्ञावादी, अध्यात्मवादी, रवीन्द्रबाब एक गृहस्थी, एक व्यक्ती, एक मनीस, रवीन्द्रबाब फुल टायम फायटर कम रायटर, रवीन्द्रबाब नेमको कोण? रवीन्द्रबाबांचीं जायतीं तासां, जायतीं आयामां. ह्या सगळ्यांचो बॅलन्स रवीन्द्रबाबान वेवस्थीत सांबाळिल्लो दिसता.

खरेपणीं जेन्ना विशयांची खातड जाता, आनी परखड भुमिका घेवप जाता तेन्ना परस्पर विरोधी विचारांची टक्कर लागप सभावीक आसता. रवीन्द्रबाबांच्या लिखाणांत अशी वैचारीक टक्कर लागपाच्यो खूब सुवातो आसात.पूण हीं विचारांचीं सगळीं विमानां वेवस्थीत लँड करपाची कळाशी रवीन्द्रबाब ह्या पायलटाक बरी जमल्या. तांच्या लेखनाची ही एक खासियतूच म्हटल्यार उपकारता.

रवीन्द्रबाब जितके प्रज्ञावादी, rationalist, तितकेच ते अध्यात्मवादी, spiritualist, तितकेच ते रोमॅन्टिसिस्ट, तितकेच ते गांधीवादी, म्हणून अहिंसावादी, आनी तितकेच ते तिडकीवादी. ते विज्ञानीक नदर आशिल्ले मनीस, पूण तांकां नैतीक टॅपरूय जाय. ते विज्ञानवादी म्हणजे, objective, जावनूय subjective व्यक्तिनिश्ट, वस्तुनिश्ट, आत्मनिश्ट विचार करतात. ते कोंकणीवादी म्हणून मराठीविरोधी आनी मराठीची साहित्यसेवा करपी तिचे ते सेवकूय.

हें सगळें केन्ना अळंगपणान, केन्ना एकत्रीतपणान, केन्ना जाणा जावन, केन्ना नकळटना रवीन्द्रबाबान आपणायलां, आनी पचयलांय. आनी, ह्या आपणावपांतल्यान तशें पंचोवपांतल्यान हांवें आदीं सांगिल्लो तो रवीन्द्र इफॅक्ट, रवीन्द्र टच, रवीन्द्र ॲप्रोच आनी रवीन्द्र विचार तयार जाला. हो विचार, ते खातीर, एकांगी विचार जावंक पावलोना. भोवआंगी जालो, सर्वसमावेशक जालो आनी म्हणून तो जीवन समावेशक जालो.

रवीन्द्रबाबांत जायते वाद पळोवंक मेळटले. गांधीवाद, प्रज्ञावाद धरून अध्यात्मवाद, मार्क्सवादा मेरेन वाद मेळटले. पूण म्हज्या मतान, रवीन्द्रबाब खरो जीवनवादी. आनी जीवनवादी मनीस केन्ना एकमार्गी, एकवादी उरना. कारण जीवन एकमार्गी, एकरसी, एकसुरी आसना. तातूंत सगळे रस आनी सगळे सूर मेळिल्ले आसतात.

हें समजून घेवप खूब जाणांक जमना आनी मागीर तांचो रवीन्द्रबाबां बद्दल, तसो तांच्या लेखना बद्दल आनी तांच्या विचारा बद्दल गैरसमज जाता, मतभेद जाता, विरोध जाता.

रवीन्द्रबाबांच्या मतांक जितको खरपणान आनी व्हडा प्रमाणांत विरोध जाला, तितको खंयच्याच लेखकाक जावंक ना. कोंकणीच न्हय तर दुसऱ्या खंयच्याच गोंयच्या लेखकाक जावंक ना. कांय जाणांक दिसूं येता, तांच्यांतल्या रायटरा परस हो विरोध तांच्यांतल्या फायटराक जाला. जालाय आसत. पूण ते भायरूय तांचे हे विविधांगी जीवनवादी भुमिके खातीर जाला, ही भुमिका विरोधक समजूंक पावलेनात म्हणून जाला अशें म्हजें मत.

कोंकणी-मराठी द्वैत घेवया

रवीन्द्रबाबां संबंधीं कोंकणीच्या संदर्भांतलो मराठी वर्तुळांतलो गैरसमज खूब व्हडलो. शणै गोंयबाबान दाखोवन दिल्ली आनी रवीन्द्रबाबान मुखार व्हेल्ली कोंकणी अस्मिताय तिच्या विरोधकांक कळूंक पावलीच ना. ते म्हणूंक लागले, एके कडेन बुद्ध गांधी सारकेल्यांचे विश्वात्मक आदर्श सांगप, पूण प्रत्यक्ष वेव्हारांत मात प्रादेशीक-सांस्कृतीक अस्मितायेचो पुरस्कार करप अशी विसंगती रवीन्द्रबाबांच्या विचारांत आसा. वैश्वीक सत्य आनी थळावी अस्मिताय रवीन्द्रबाब एकाच वेळार केळयतात हाचें अप्रूप करचे सुवातेर ते तांकां हो परस्पर विरोधी विचार म्हणून दुशण दितात.

प्रत्यक्षांत जिवीत दोगांचेरूय उबें आसा. पांया खाला जमनीचो आधार आनी माथ्या वयर मळबाची सावळी जाय. जिवितांचीं मुळां जाणें खोल जमनींत रिगयल्यांत तांचेंच माथें ऊंच मळबांत पावूंक शकता हें जिवीतशास्त्र. हो जिवीतवाद. वैश्वीकवादा सकट सगळ्या वादांचेर हें सोल्यूशन. रवीन्द्रबाबान तें मेळयलें. कोंकणी मनशांचें जिवीत समृद्ध करपाक ते वावुरले. तांकां स्वतंत्र-स्वावलंबी-स्वाभिमानी करपाचें कार्य तांणी केलें. तांकां तांचें स्वतःचें राज्य जोडून दिलें. वैश्वीक कार्य करपाक आवश्यक तो पुरुशार्थ गाजोवपाक तांकां आत्मविश्वास दिलो. अशा सर्वांगी विचाराक एकांगी म्हणप आनी वैश्वीक अधिश्ठान आशिल्ल्या रवीन्द्र विचाराक कोंकणी विचार म्हणप, हें ह्या विरोधकांचें दुर्दैव आनी अज्ञान.

रवीन्द्रबाबान कोंकणी-मराठीची एक कुंडली मांडल्या. गोंयची खरेली सभावीक लोकभास कोंकणी. सांस्कृतीक गरज भागोवपाक गोंयकारांनी मराठी भाशेक लागीं केली. ही गरज कोंकणी भागोवंक लागतकीर, गोंयच्या समाज जीवनांत मराठी कुशीक पडटली आनी उपरांत कोंकणी हांगा थीर जातली.

इतलीं वर्सां हांगा नंदपी मराठी भाशेक 'परकी' म्हणप ही (रवीन्द्रबाबांची) असहिष्णूवृत्ती, आनी साहित्यकारान प्रज्ञावंत आसूंक जाय म्हणपी रवीन्द्रबाबां सारक्या विचारवंताक, लेखकाक तें सोबना; ही वैचारीक एकाधिकारशाय जाता; ही हिटलरी डिक्टेटरशीप असो विरोधकांचो आरोप जाता.

हे कुंडलेंत ग्रहांची वाटचाल कशी आसा, गोंयांत सद्याक खंयचे भाशेचो प्रभाव आसा, खंयचे भाशेचो स्विकार जाता आनी खंयची भास गळून पडपाक लागल्या ह्या वास्तवाचो सोद घेतल्यार रवीन्द्रबाबान मांडिल्ली कुंडली खरी आसली हाचो बोध जाले बगर रावना. आनी हें सत्य फकत कोंकणी पुरतें आनी गोंया पुरतें ना. तें वैश्वीक सत्य. तें सगळ्या सत्यवादी लोकांक आनी प्रदेशांक लागू जाता.

कोंकणीचो पुरस्कार म्हणजे मराठीचो विरोध हें रवीन्द्रबाबांचें कोश्टक नासलेंच. तांचो जीवनवाद ना समजल्ल्यांनी तें तांचेर हाडून थापलां. मराठीचो विरोध म्हणटना तो मराठी भाशेचो तर केन्नाच नासलो. गोंयच्या हालींच्या काळांतल्या मराठी लेखकान बरोवंक ना तितलें आनी वयल्या पांवड्याचें मराठी साहित्य रवीन्द्रबाबान बरयलां. तांचो विरोध मराठी अस्मितायेकूय नासलो. Each thing has its right place ह्या नात्यान ते मराठीची गोंयांतली खरेली सुवात दाखयताले. ती कोंकणीचे वयली ना वा कोंकणी बरोबरूय ना हें सत ते सांगताले.

सहिष्णुता म्हणजे कितें? सगळ्यांनी एकामेकां सांगातान एकामेकांक सांबाळून, म्हणजेच एकामेकांची हक्काची सुवात एकामेकांक दिवन जियेवपाचें. एकामेकाच्या स्वातंत्र्याचो मान राखपाचो. आंगांतल्या बळग्यान वा घरांतले गिरेस्तकायेच्या मदान, दुसऱ्याचेर आक्रमण करपाचें ना. रवीन्द्रबाबांच्या जीवनवादांत हेच तरेची सहिष्णुता दिसता. फकत कोंकणी-मराठी पुरतीच न्हय तर दर एका वादांत ती दिसता.

रवीन्द्रबाबांच्या गांधीवादाचो जायते फावट जायत्या जाणांनी असोच उद्धार केला. गांधीवाद हो शांतीवाद. ह्या वादांत तिडकीक सुवात ना. तिडकींतल्यान आयिल्ले सूड भावनेक सुवात ना, गांधीवादांत एका पोल्यार मारल्यार दुसरो पोलो फुडें करचो आसता. दया-क्षमा-शांती हो गांधीवादाचो मंत्र. रवीन्द्रबाबान तशें केलें ना. पोल्यार मारतल्याचे पोले फोडपी रवीन्द्रबाब फायटर आसले. हे रवीन्द्रबाब कसले गांधीवादी? असो प्रस्न तेन्ना विरोधक करताले. आजूय करतात. हे संबंधीं रवीन्द्रबाबान आपल्याच उतरांनी सांगलां.

ते पयलीं गांधीवादा संबंधान गांधीजीन कितें सांगलां तें पळोवया.

''अहिंसा आनी भिजूडपण हांकां मातूय पडना. पुराय जात नामर्द जावचे परस हिंसा करपाक तयार जावप हांव हजार वांट्यांनी पसंद करतलों. संपत, अब्रू आनी धर्म हांकां अन्यांय करतल्याचे दयेर सोडप, हें भिजूडपण जालें. मनीसपणा भायलें आनी लजेन सकयल मान घालपा सारकें जालें.''

''मारचें काय भियेवन पळून वच्चें, दों मजगतीं एक कितेंय वेंचून काडचें पडलें जाल्यार, हांव मारप वेंचून काडटलों.''

''अहिंसेंत एक अट आसा. तुका मारूंक येवंक जाय. प्रतिकार करी नासतना भिजूडपणान, मुखावयल्या मनशाक वश जावप, हाचे परस सूड घेवप कितलेंशेंच बरें.''

''दुसऱ्यांक आवडना असलें कितेंय बरोवप वा उलोवप हातूंत हिंसा ना. चड करून बरोवपी वा उलोवपी तें खरें मानता तेन्ना. हिंसा केन्ना जाता? जेन्ना बरयतल्याच्या वा उलयतल्याच्या मनांत दुसऱ्याक दुखोवपाचें आसता तेन्ना; विचारांत, उच्चारांत आनी आचारांत हिंसा आसता तेन्ना. औचित्या विशीं भावना दुखावतल्यो हो भंय मनांत आसतकूच मनीस खरें उलोवपाक वा बरोवपाक अनमनता. मनशांत वा समाजांत वा राष्ट्रांत विचारी अहिंसा केळोवची इत्सा आसत जाल्यार, सत्य सांगुंकूच जाय. मागीर तें कितलेंय कठोर

वा कोडू आसूं.''

ह्या गांधीवादा प्रमाण रवीन्द्रबाबान कोंकणीच्या धर्माचें, मनीसपणाच्या धर्मांचें रक्षण करपा खातीर तिडक उकतायली जाल्यार तांचो गांधीवाद शेणलो अशें जाता व्हय? रवीन्द्रबाबान कोंकणी अस्मितायेचें कठोर आनी कोडू सत्य सांगपा खातीर कोडू आनी कठोर बरयलें जाल्यार ते गांधीवादी न्हय जातात व्हय?

रवीन्द्रबाबांच्या मनांत दुसऱ्यांक दुखोवपाचें नासलें. उरफाटें तांकां समजावपाचें आसलें. समजावनूय दुसरो समजून घेना तेन्ना खरें तें उलयलें बरयलें जाल्यार तें गांधीवादा भायलें जायना.

आपल्या गांधीवादा संबंधान स्वत: रवीन्द्रबाबान एक दोन देखीं सयत कितें सांगलां तें पळोवया.

एक देख : कोंकणीक बोलीच लेखून कोंकणींत बरयतल्या प्रतिभावंत लेखकाची, ताका रवीन्द्रबाबान आमचो मानलोना.

दुसरी देख : कोंकणीक भास लेखून कोंकणींत बरयतल्या एका व्हड कवीची. रवीन्द्रबाबान ताचेरूय बहिश्कार घालो. पयल्याक पयस केलो, कोंकणीक स्वतंत्र भास ना मानपी म्हणून. दुसऱ्याचेर बहिश्कार घालो, कोंकणीक भास म्हणून मानली तरी विलिनीकरणाचे वेटेन उबो रावलो म्हणून. रवीन्द्रबाब बरयतात : ''नव्या लोकांक तागेले हे गद्दारीचें कांयच खबर ना. पोन्ने लोक ती विसरून गेल्यात. तो तर साप्प विसरून गेला. हांव विसरूंक ना. फाटल्या संतरा अठरा वर्सांत विसरपाचो जायतो यत्न केलो हांवें. विसरूंक पावूंक ना. म्हगेलो गांधीवाद हांगा सामको पांगळो पडलो. हांव कबूल करतां.''

हांगाच रवीन्द्रबाब वस्तुनिश्ट आनी व्यक्तीनिश्ट (आत्मनिश्ट) नदरेची खबर सांगतात. Objective आनी subjective विचार सांगतात.

सर्वसाधारणपणान objective विचार हो scientific विचार मानप जाला. हो विचार व्यक्ती कडेन पळयनासतना ते व्यक्तीच्या कार्या कडेन पळोवन करप जाता. वा, ह्या कार्याचें मुल्यमापन करतना, तें करतल्याच्यो वैयक्तीक भावना, ताचे ग्रह आनी ताचीं तत्त्वां मदीं हाडी नासतना करप जाता.

Subjective विचार हो साक्षेपी जाल्ल्यान, तो करतल्याच्यो वैयक्तीक भावना, विचार, ग्रह, तत्वां, हांकां धरून तो करप जाता. म्हणून ह्या विचाराक तसो scientific मानप जायना.

कोंकणी कडेन पावतकच रवीन्द्रबाब फकत scientific आशिल्लो objective विचार करपाक कबूल नात. हांगा objective म्हणजे वस्तुनिश्ट विचार हेंच विचाराचें म्हत्वाचें आंग ते मानिनात. ते सांगतात, ''साहित्यीक हो मनीस ह्या नात्यान व्हड आसत जाल्यार, तागेलें साहित्य ल्हान आसूं, म्हाका तो आवडटा. साहित्यीक मनीस ह्या नात्यान 'फूंच' आसत जाल्यार, तागेलें साहित्य केदेंय व्हड आसूं, म्हाका तें साहित्य दोळ्यां मुखार नाका.''

हांगाच ते बाकीबाबांचो संदर्भ दिवन सांगतात, ''मराठीक जें बाकीबाबान दिलां ताच्या शंबराच्या वांट्यान लेगीत कोंकणीक दिवंक ना. तांच्यान दिवं येतालें पुणून दिवंक ना. तांणी केल्ल्या ह्या अन्याया खातीर म्हाका तांची तिडक आसा. पूण लक्ष्मणशास्त्री जोशीन दिवंक केल्ली मराठी साहित्य संमेलनाच्या अध्यक्षपदाची लांच भिरकावन मारपी, आनी कोंकणी कॉजा वटेन रावपी बाकीबाब, कवी बाकीबाबा परस कितलोसोच व्हडलो.''

हांवें हाचे पयलीं उल्लेख केल्लो रवीन्द्र इफेक्ट आनी रवीन्द्र - विचार हो जीवनवादी विचार हांगाय लागू जाता. Objective, वा subjective, scientific, unscientific विचार हे सगळे जीवनवादी विचारा परस व्हडले नात. कोंकणी आपल्या जिविताचो अंश मानिल्ल्या रवीन्द्रबाबान तिचे आड वचपी दर एक गजाल जिविता आड वचपी गजाल मानल्या, मागीर ती objective आसूं subjective, scientific आसूं वा unscientific.

म्हणून रवीन्द्रबाब सांगतात, ''म्हजें हें मुल्यमापन सामकें आत्मनिश्ट. कबूल. पुणून वस्तुनिश्ट मुल्यमापन निखटें वस्तुनिश्ट उरलें जाल्यार तें कुड्डें जाता. आनी कुड्ड्या मुल्यमापनाक म्हजे नदरेन कसलेंच म्हत्व ना.''

Objective / subjective, scientific / unscientific विचारा कडेन पाविल्लों आसांच तेन्ना, रवीन्द्रबाबांच्या लिखाणांतले आनीक एके controversy कडेन हांव येतां.

रवीन्द्रबाब rationalist, बुद्दीवादी, काय रवीन्द्रबाब moralist, नितीवादी, आनी spiritualist अध्यात्मवादी? कोण रवीन्द्रबाब?

रवीन्द्रबाब देव मानता, धर्म मानता? काय मानिना? विज्ञान मानता काय मानिना?

अशे प्रस्न उबे रावपाचें एक कारण म्हणजे, पारंपारीक विचारसरणी ही compartmental, कप्प्या-कप्प्यांची विचारसरणी. हांगा दोन कप्प्यां मदीं entry ना. तुवें खंयच्या तरी एका कप्प्यांतूच रावूंक जाय. एका प्रसंगार एका कप्प्यांत आनी दुसऱ्या प्रसंगार दुसऱ्या कप्प्यांत रावूंक गेलो जाल्यार तिका हे पारंपारीक विचारसरणींत hypocracy मानतात. ताचीच मागीर controversy जाता.

येशू ख्रिस्त, महंमद पैगंबर, गौतम बुद्ध, स्वामी विवेकानंद, महात्मा गांधी हांणी देवाक कडेक दवरूंक ना. धर्माक भायर दवरूंक ना. गोंयचो एक व्हड विज्ञानीक डॉ. रघुनाथ माशेलकार गोंयांत पावलो जाल्यार कवळ्यां वचून शांतादुर्गेक नमस्कार घाले बगर रावना. हांकां आमी प्रज्ञावंत म्हणटले काय ना? आपल्याक प्रार्थना करूंक मेळूंक नासली जाल्यार आपूण पिसो जावपाचो, अशें महात्मा गांधीन सांगलां. रवीन्द्रबाबूय नेमान प्रार्थना करताले. रवीन्द्रबाब देवाधर्माचीं कर्मकांडां करिना आसले. पूण तांच्या मनांत देव ही संकल्पना आसली

ते एके कडेन बरयतात, ''देवळांतलो देव संवसाराचो धनी. जें जें कितें जल्माक येता, जियेता, मरता तें तें सगळें तोच घडोवन हाडटा. ताचे इत्से बगर तणाचें पातें लेगीत हालना. पुणून म्हाका घडयता तो म्हज्या काळजांतलो देव. म्हज्या जिविताचो धनी हो देव. संवसाराचो जो धनी ताचोच अंश हो. म्हाका सगळ्यांत लागींचो. म्हजो अंतर्यामी...'

''असलो देव सर्गार राविना. देवळांत वचून बसना. आमच्या काळजांत बसून रावता. आमचे दर एके करणेर नदर दवरून रावता. थंयच ताका अणभवूंक जाय. थंयच ताका थीर करूंक जाय.''

रवीन्द्रबाबांच्या काळजांतलो हो देव कर्मकांडांतलो देव नासलो.

तरी तो 'देव'. भावार्थ दवरपा सारको देव. हेर भावार्थी देवळांतल्या देवाचेर भावार्थ दवरतात तशे रवीन्द्रबाबूय काळजांतल्या देवाचेर भावार्थ दवरतात. हो देव आमकां मार्ग दाखोवपी आनी आमचे कडल्यान बऱ्यो करण्यो करून घेवपी अशें रवीन्द्रबाब मानतात.

रवीन्द्रबाबांच्या रवीन्द्र-विचारांत देवाचो विशय येता तेन्ना सगळ्या जाणांचें लक्ष तांणी अठरा वर्सांचेर अकालीं भायर पडिल्ल्या नातवा खातीर, तोबू खातीर, केल्ले प्रार्थने कडेन वता.

प्रार्थना अशी : *मंगल मंदिर खोलो दयामय.* ही देवाक उद्देशून केल्ली प्रार्थना. मुळांत ही प्रार्थना गुजराती कवी नरसिंहराव भोलानाथ हांणी आपल्या अकालीं भायर पडिल्ल्या पुता खातीर रचिल्ली.

हे प्रार्थने वरवीं रवीन्द्रबाब सर्वसाक्षी, जगाचो बापूय आशिल्ल्या देवा कडेन मागतात :

''ताका तुज्या मोगाळ गोपांत घे आनी ताका तुजो कर. आमी ताका अठरा वर्सां सांबाळ्ळो. आतां ताका तुजे सुवादीन करतां.''

आनी फुडें रवीन्द्रबाब विचारतात -

''हो जगाचो बापूय आशिल्लो म्हज्या तोबूक आपल्या काळजा कडेन घेवचो ना? ताका आपलें प्रेमामृत पाजचो ना? ताची जतनाय घेवचो ना? हातूंतल्या खंयच्याय प्रस्नाक 'ना' म्हणपा इतलो हो तागेलो जाणटो आजो कुड्डो बुद्दीवादी ना.''

आपूण कोण हें रवीन्द्रबाबानूच वयल्या निमाण्या उतरांनी बेस बरें सांगलां. मनशान कसलोय वादी जावचो पूण अंधवादी जावचो न्हय हें तांणी हांगा सांगलां.

अंधवादी जाल्लो मनीस extremist, अतितायी, जाता जाल्ल्यान, तो जीवनवादी जावंक पावना. जीवनवादांत सगळे वाद एकामेकांक धरून, एकामेकां कडेन सुमेळ साधून रावतात. असो सगळ्या वादांचो सुमेळ साधिल्ल्या साधकाची जीण समृद्ध जाता, रवीन्द्रबाबांची जाल्ली तशी.

आतां मेरेन हांवें रवीन्द्रबाबांच्या लेखना वरवीं म्हाका होलमल्ले एक जीवनवादी रवीन्द्रबाब तुमचे मुखार दवरले. तांच्या ह्या जीवनवादी आयामा मुखार आदर्श हें उतर घालून हो आयाम सोंपयतां. रवीन्द्रबाब निखटो जीवनवादी न्हय, तर आदर्श जीवनवादी. ह्या जीवनवादा खातीर रवीन्द्रबाबान जायत्यो तडजोडी स्विकारल्यो. जायते आरोप पत्करले. पूण जीवनवादा फाटल्या आदर्शा कडेन तांणी कसलीच तडजोड केलिना. हाच्यो फकत दोन देखी दितां - एड्स ही पिडा आडावपा खातीर कोंडोम वापरात म्हणून लोकांक सांगपाक कोटींनी पयसो खर्च करून संवसारभरचीं सरकारां कार्यावळी आंखतात. हाचेर रवीन्द्रबाब सांगतात -

''कोंडोमचो उपाय वैजांनी सोदून काडिल्लो तो व्यभिचाराक मेकळीक मेळची म्हणून न्हय. बायल भौन भौन गुरवार जाता तें तिचे भलायकेक वायट म्हणून. तुमी व्यभिचाराक पोसवण दिवपा खातीर ताचो उपेग करूंक लागले.

''फ्री सॅक्साक लागून एड्स जाता जाल्यार, फ्री सेक्स बंद करात म्हूण लोकांक सांगूंक जाय. तरी आसतना लोक तो बंद करिनात जाल्यार तांकां 'तुमी कुसून वळवळून मरात' म्हूण सांगूंक जाय.' हातूंत मनीसपण आसा.''

'कुसून वळवळून मरात' म्हणपाची तिडक ही मानसीक तिडक न्हय. तो रवीन्द्रबाबांल्या जीवनवादांतलो आदर्श.

दुसरो, म्हाका आयिल्लो एक वैयक्तीक अणभव सांगतां :

बस्ती वामन शणै हांणी 'कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान' हे संस्थेचे वतीन रवीन्द्रबाबांचें वेंचीक साहित्य इंग्लीशींत हाडपाचो एक प्रस्ताव दवरलो. ते खातीर एक निवड समिती घडयली. हे समितीन २०० पानांचो मजकूर वेंचून काडलो आनी मान्यताये खातीर तो रवीन्द्रबाबां कडेन धाडलो. तेन्ना रवीन्द्रबाबान तातूंत आनीक दोन तीन लेखांचीं नांवां सुचयलीं. तातुंतल्या एका लेखांत इंदिरा गांधींचेर आनी एका राष्ट्रपतीचेरूय टिका आसली.

हो लेख भायर दवरचो म्हूण आमी रवीन्द्रबाबांक विनंती केली. कारण, हें इंग्लीश भाशांतर ज्ञानपीठ पुरस्कारा खातीर उपेगी पडूं येतालें. इंदिरा गांधी आतां हयात नासली तरी तिचे बरे मागते सत्तेर आसात, आनी हे टिकेक लागून रवीन्द्रबाबांचें तशें कोंकणीचें ज्ञानपीठ वच्चें न्हय हो हुस्को आमी रवीन्द्रबाबां मुखार उकतो केलो.

रवीन्द्रबाबान सरळ सांगलें - हो लेख भायर दवरशात जाल्यार म्हजें पुस्तक ना आयल्यार बरें.

निमाणें तो लेख घाल्लो आनी रवीन्द्रबाबांक ज्ञानपीठूय मेळ्ळें.

रवीन्द्रबाब श्रेयस. तांणी हिताचेंच पळयलें. तांकां ज्ञानपीठ प्रिय आसलें. पूण श्रेयस आनी प्रेयसा मदीं निवड करतना तांणी श्रेयसाची निवड केली.

पर्थून हांवें आदीं सांगलां ते प्रमाण, रवीन्द्रबाब खंयचेच एके प्रवृत्ती वटेन रावले नात. श्रेयस ही वृत्ती आपणावन रवीन्द्रबाब पुरायपणान थंयच रावले अशें जालेंना. सिगरेट ही भलायकेच्या हिताची न्हय हें जाणा जावनूय तांकां ती प्रिय जाल्ली. सिगरेटीचे बाबतींत ते प्रेयस जाल्ले.

जावं प्रज्ञा जावं अध्यात्म, जावं विज्ञान जावं धर्म, हातूंतली दर एक वस्त आपले परीन सक्षम आनी समर्थ आसा. पूण तेच वांगडा हातूंतली दर एक वस्त एकोडे अवस्थेंत अपूर्ण आसा. निखटी प्रज्ञा, वा निखटें अध्यात्म, वा निखटें विज्ञान, आनी निखटो धर्म, उपयोगी ना. एकाच्या सांगातान दुसऱ्याक अर्थ मेळटा. आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार, हीं सगलीं मुल्यां, जिणेचे समृद्धीचीं साधनां म्हणून येवंक जाय. हो रवीन्द्र-सिद्धांत. रवीन्द्रबाबांच्या लेखनांत आनी वागपांत तो स्पश्टपणान आयला.

रवीन्द्रबाब आनीक एके गजालीचे बाबतींत भाग्यवंत. तांकां खूबश्या युगपुरुशांचो प्रत्यक्षांतलो सहवास घडलो. काकासायब कालेलकार, डॉ. राम मनोहर लोहिया, तशेंच वर्ध्याक आसतना मेळिल्ले देश-सेवक, समाज-सेवक, हांचे कडेन तांचो लागींचो संबंध आसलो. ते भायर र.धों. कर्वे, अरविंद घोष, रमण महर्षी सारकेल्यां कडेन तांचो संपर्क आयिल्लो. ते भायर, संवसारांत जे व्हड तांकीचे आनी क्रांतिकारी अशे विचारवंत जावन गेले, तांचे कडेन तांच्या लेखना वरवीं ते सतत संपर्कांत रावले.

हो सहवास आनी हो संपर्क हांणी बऱ्याच प्रमाणांत रवीन्द्रबाबांक घडयले. केन्ना रवीन्द्रबाबांक सांगून, केन्ना सांगी नासतना.

ह्या सगळ्यां कडच्यान रवीन्द्रबाबान कितें न्हय कितें घेतलां. बरें

तें घेतलांच. पूण तें घेतना तें खरें आसा काय ना तें पळोवन घेतलां.

ते येतना देवा कडल्यान एक मिशम मागून आयिल्ले. देवान तांकां मिशना वांगडा मिशनाक पुरक अशे विचारवंत मार्गदर्शक दिले. मिशन यशस्वी करपाक तळमळीचे कार्यकर्तेय दिले. रवीन्द्रबाब ह्या संदर्भात खरेच भाग्यवंत.

रवीन्द्रबाबान सांगला, ''हांव लेखक न्हय. हांवें म्हाका लेखक केन्ना मानलो ना. म्हाका कोणें रायटर म्हणिल्लेंय म्हाका आवडना. हांव कोंकणीचो रायटर न्हय, हांव कोंकणीचो फायटर. हांव रायटर जालां तो म्हज्यांतल्या फायटराक लागून. म्हज्यांतल्या फायटरानूच धोंगशीत धोंगशीत म्हाका रायटर केला. साहित्यीक जावपाचें हांवें सपनांत लेगीत येवजूंक नाशिल्लें.''

''साहित्य म्हज्या जिविताचें मुखेल आंग न्हय, ताचो एक बाय-प्रॉडक्ट. ताचें एक उपफळ.''

''साहित्यिका विशीं म्हजें मत्तय व्हडलेंशें बरें नासलें.''

असो साहित्या संबंधीं आनी साहित्यिकां संबंधीं समज आशिल्लो मनीस, आयज सर्वसाधारण लोकां मुखार आसा तो एक प्रतिभावंत लेखक म्हणून. फुडाराकूय सर्वसाधारण लोकां मदीं ताची वळख एक समर्थ लेखक म्हणुनूच उरतली.

रवीन्द्रबाबांचो चड थातो-मातो जालो तोय एक लेखक म्हणुनूच. साहित्य अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार, गोमंत शारदा, ज्ञानपीठ, पद्मभूषण, गोंय विद्यापीठाची मानद डॉक्टरेट आनी साहित्य अकादेमीची फेलोशिप सारके हेर मान तांकां मेळ्ळ्यात. तेय मुखेलपणान तांचे साहित्यसेवेक लागुनूच.

साहित्यीक जावपाचें मनांत लेगीत नासतना, सपनांत लेगीत केन्ना येवजी नासतना, आनीक कोणाक अशे, आनी इतले साहित्यीक भोवमान मेळ्ळ्यात अशें दिसना.

साहित्यीक जावपाचीं सपनां मनांत धरून, साहित्यनिर्मिती करतल्यांच्या वांट्याक येवंक नात अशे भोवमान ह्या मनशाच्या वांट्याक कशे कितें आयले काय?

कोंकणी विरोधकांनी एक गोड, सोयिस्कर असो गैरसमज करून घेतला. कोंकणींत बरोवप्यांचो आंकडो उणो आशिल्ल्यान कोंकणी खातीर आशिल्ले पुरस्कार कोंकणी लेखकाक रोखडेच मेळटात.

हें बरोबर न्हय. तरीय वादा खातीर आनी विरोधकांच्या समाधाना खातीर हें खरें धरलें जाल्यारूय राष्ट्रीय पांवड्या वयलो, फकत कोंकणी खातीर नाशिल्लो, आनी सगळ्या भारतीय भाशां मदीं खंयचेय एकेच भाशेक दिवपाचो ज्ञानपीठ पुरस्कार कोंकणीक मेळ्ळा आनी तो रवीन्द्रबाबांक मेळ्ळा.

साहित्य अकादेमीची फेलोशिप घडये ज्ञानपीठ पुरस्कारा परस व्हडली गजाल. साहित्य अकादेमीचे एका वेळार फकत वीस-एक फॅलो आसतात. एकदां फॅलो जातकच मनीस ह्या संवसारांत आसासर हे संस्थेचो फॅलो उरता. तो भायर पडटकच ताचे सुवातेर दुसरो फॅलो येता. सगल्या भासां मदल्यान एकल्याक फॅलो म्हूण वेंचून काडटात. हो मान रवीन्द्रबाबांक आनी तांकां लागून पयलेच खेपे कोंकणीकूय मेळ्ळो.

फकत कोंकणीकूच नाशिल्ले अशे आनिकूय भोवमान कोंकणीक मेळ्ळ्यात. आनी तातूंतले चडांत चड रवीन्द्रबाबांक मेळ्ळ्यात. हाचो अर्थ, रवीन्द्रबाबांच्या साहित्याचे साहित्यीक गूण ह्या पुरस्कारांक फावऽ सारकेच आसात. साहित्यीक गुणांचे कसवटणेर हे भोवमान तांचे कडेन चलून आयल्यात.

साहित्य आनी साहित्यिकां संबंधीं एके तरेची ॲलर्जी आशिल्ल्या रवीन्द्रबाबांची साहित्य निर्मिती इतल्या वयल्या पांवड्यार कशी पावली? हें 'विजमीत' कशें घडलें?

रवीन्द्रबाब आपूण रायटर न्हय म्हणून आपणांतल्या लेखकाक कितलेय न्हयकारूं, तांच्यांतल्या रायटरान रवीन्द्रबाबांलें आयकल्लें दिसना. उरफाटें ताणें रवीन्द्रबाबांतल्या फायटराचेर केन्ना केन्ना शेक चलयल्लो दिसता. कांय काळा उपरांत तर रवीन्द्रबाबांचेर रायटराचेंच राज्य चलिल्लें पळोवंक मेळटा.

आनी, कोंकणी आनी गोंयचे उदरगतीचे चळवळीचे फायटींत लोकांचें प्रबोधन करपाच्या हेतान आपल्या मनांतल्या विचारांक आपणें शब्दरूप दिलें; ताचें साहित्य जालें अशें रवीन्द्रबाब म्हणटात, हें कांय प्रमाणांत आनी सुरवेच्या काळांत खरें आसलें तरी तांचे साहित्यनिर्मिती फाटली प्रेरणा फायटिंगा पुरती उरना.

रवीन्द्रबाब राजकारणाक विटून तातूंतल्यान भायर सरले. कोंकणीच्या मळार, आपले पिळगे परसूय कर्तुत्वी आशिल्ली एक नवी पिळगी वयर सरिल्ली तांणी पळेली, आनी कोंकणीच्या मळा वयल्यान तांणी आपखोशयेन निवृत्ती स्विकारली. म्हणजेच सक्रीय फायटिंगांतल्यान ते भायर सरिल्ले. ह्या काळांत तांणी फूल टायम लेखन केलां. ह्या लेखनाक फायटिंगचो बायप्रॉडक्ट म्हणप समा जातलें व्हय? ही निजाची लेखनाची उर्मी कित्याक म्हणची न्हय? हो तांचो साहित्यसभाव कित्याक म्हणचो न्हय? फायटराचेर ना आदारिल्लो, स्वतंत्रपणान, स्वयंभूपणान तांच्यांत वावुरपी तो रायटर कित्याक म्हणचो न्हय?

रवीन्द्रबाबान कांय क्लासीक साहित्याचें भाशांतर केलां. कांय क्लासीक साहित्याचेर भाश्य केलां. *महाभारताचें* अपूर्व अशें अनुसर्जन केलां. नक्षत्रविद्येचेर अभ्यासपूर्ण आनी लालित्यपूर्ण पुस्तक बरयलां. ह्या लेखनाचें आनी फायटिंगाचें तशें डायरेक्ट कनॅक्शन दिसना. ही अशे तरेची साहित्यनिर्मिती रवीन्द्रबाबांच्या स्वतंत्र-स्वयंभू रायटरानूच केली अशें म्हाका तरी दिसता.

संवसारांत जायत्या मिशनऱ्यांनी, चिंतकांनी आनी फायटरांनी आपल्या कॉझाक पुरक अशें लेखन केलां. कौटिल्य, मनु, बुद्ध, महमंद पैगंबर, मार्क्स, गांधी, बाबासाहेब आंबेडकर, जवाहरलाल नेहरु, शणै गोंयबाब, स्वामी विवेकानंद, अरविंद घोष हांणी आपलें चिंतन मनन वाचीक तशें लिखीत रुपांत दवरलां. तांच्यात आनी रवीन्द्रबाबांत एक मूलभूत फरक दिश्टी पडटा -

दोगूय विचारवंत, चिंतक. दोनूय कडचें लेखन विद्वत्ताप्रचूर, विचारवादी. पूण रवीन्द्रबाबांल्या लेखनांतलो साहित्यगूण जसो प्रतीत जाता, तसो आनी तितलोसो हेरांच्या साहित्यांत जाल्लो दिसना.

मिशनऱ्यांच्या, विचारवंतांच्या वैचारीक लेखनांत विचारा पोंदा साहित्य दबिल्लेंशें, धांपिल्लेंशें दिसता. थोडेंशें खांकुडिल्ले दिसता. रवीन्द्रबाबांच्या लेखनांतलो साहित्यगूण तांच्या विचारां इतलोच उठून

दिसता.

रवीन्द्रबाबांचे विचार रवीन्द्रबाबांतल्या लेखकान वाचनीय केल्यात. रवीन्द्रबाबांचे कांय विचार पटपा सारके नात. तरीय ते वाचपा सारके जाल्यात. रवीन्द्रबाबां कडेन एक लेखक नासलो तर रवीन्द्रबाबांच्या विचारांक मेळ्ळ्या ती धार मेळची नासली.

म्हणून रवीन्द्रबाबान एके कडेन म्हटलां तेंच खरें दिसता. ते म्हणटात, "हेर सगळ्या गजालींतल्यान आंगूच न्हय, मन लेगीत काडून घेवचें, फकत साहित्यूच घेवन बसचें अशें खोलायेन दिसपाक लागलें. आनी मागीर हांव दिसांतल्यान धा धा, केन्ना केन्ना बारा बारा वरां काम करीत रावलां." आपणाक लेखक ना म्हणपी, आनी ना मानपी रवीन्द्रबाबान, आपल्या लेखनाक सुरवात केली १९५३ त, पिरायेच्या अठ्ठाविसाव्या वर्साचेर, आनी पिरायेच्या पंच्यांयश्याव्या वर्सा मेरेन ते अखंडपणान बरयत रावले.

सत्तावन वर्सां सातत्यान बरोवपी दुसरो लेखक आमचे आशिकुशीक दिसना. लागीं लागीं पन्नासां वयर दर्जेदार साहित्यकृती निर्माण करपीय आमचे मदीं दिसना.

आनी म्हणून रवीन्द्रबाबांतलो लेखक म्हाका चड प्रभावी दिसता.

सोंपयतना :

जे जे व्हड मनीस जावन गेले, तांणी आपले जिणेंत एका परस चड कार्यां केल्लीं आसात. पूण कालांतरान, तातूंतल्या खंयच्याय एका कार्या वरवींच ताची वळख उरल्या.

गौतमबुद्धान व्हडलें निती शास्त्र शिकयलें. समाजाचे उदरगतीचो मार्ग सांगलो. पूण आयज आमचे मुखार गौतम बुद्ध बौद्ध धर्माचो संस्थापक म्हणुनूच उरला.

संत ज्ञानेश्वराच्या संतपणा परस ताची ज्ञानेश्वरी ताची आयची वळख जाल्या.

महात्मा गांधींची वळख अहिंसावादीच म्हणून चड उरल्या. ताचें राजकारण, अर्थकारण, समाजकारण अनवळखी जालां.

*भगवद्‌गीता* सांगपी श्रीकृष्ण आमकां बाकीच्या कृष्णां परस चड लागीं उरला.

फुडले पिळगे मुखार रवीन्द्रबाबांची खंयची वळख चड उरतली?

फायटर-रायटर-विचारवंत-प्रबोधनकार? खंयचीय आसूं. ताचेर आतांच भाश्य करचें न्हय. पूण जी वळख उरतली तातूंत रवीन्द्र-विचार, रवीन्द्र इफेक्ट, रवीन्द्र अॅप्रोच, रवीन्द्र-वाद मात आसतलोच आसतलो. आनी हीच तांची काळा काळाची वळख जातली.

***

('लेखक म्हज्या जनेलांतल्यान' ह्या साहित्य अकादेमीच्या उपक्रमा खाला ३० ऑक्टोबर २०१० ह्या दिसा केल्लें उलोवप.)

(संपर्क : ०८०२-२४१२०६९)

# साहित्य-समिक्षाशास्त्रांतल्यो संकल्पना

## - प्रियदर्शिनी तडकोडकार

**उत्तर-आधुनीकवाद आनी उत्तर वसणूकवाद** (Post Modernism and Post Colonialism)

विसाव्या शतमानांतल्या सत्तर आनी अंयशींच्या दसकांत उत्तर- आधुनीकवाद आनी उत्तर-वसणूकवाद ह्यो संकल्पना प्रचारांत आयल्यो. तांचे सिद्धांत जाले आनी ह्या तरांच्या समिक्षा पद्दतींचोय उदेव जालो. ह्या दोनूय सिद्धांतांनी उत्तर-संरचनावादी परिभाशा वापरल्या अशें दिसता. कांय टिकाकार उत्तर-संरचनावाद आनी उत्तर-आधुनीकवाद ह्यो दोनूय संकल्पना एकूच अशें मानतात. पूण तें तशें ना. उत्तर-संरचनावाद हें मुखेलतायेन उत्तर-आधुनीकवादाचें संभाशीत (डिस्कोर्स). उत्तर-आधुनीकवादांत भाशेक म्हत्व आसा. भाशेचेर नियंत्रण कशें आसता, ती अर्थाचें नियमन कशी करता, भास मर्यादा कशी घालता ह्या सगळ्याचो आसपाव उत्तर-आधुनीकवादांत आसा. इतलेंच न्हय तर ती आपणाली एका विशिश्ट इतिहासीक, समाजीक आनी संस्कृतीक साच्यांत व्याख्याय करता. उत्तर-आधुनीकवादांत वंश, वर्ग, लिंग, राष्ट्रीयत्व आनी विंगड विंगड वंशीयताय हांचोय आसपाव जाता. सत्ता, सत्ताहीनताय, सांगिल्लो आनी सांगूंक नाशिल्लो इतिहास, विसरायेर पडिल्ले, धांकून उरिल्ले, उण्या म्हत्वाचे थारायिल्ले इतिहासूय उत्तर-आधुनीकवादाच्या आवाठांत येतात.

'पोस्ट' म्हळ्यार 'उत्तर' हो पर्याय आमी वापरतात. हो प्रत्यय लागिल्ल्यो जायत्यो संज्ञा 'पोस्ट-मॉडर्निझमां'चे पयलीं प्रचारांत आयिल्ल्यो. देखीक, पोस्ट-कॅपिटलिस्ट, पोस्ट-बूर्ज्वा, पोस्ट-सिविलायज्ड, पोस्ट-ख्रिश्चन, पोस्ट-प्रोटेस्टंट, पोस्ट-लिटरेचर, पोस्ट-हिस्टॉरिकल. ह्या साबार संज्ञांतल्यान अस्तंते कडल्या विचारवंतांक एके तरेच्या शेवटाची (sense of an ending) जाणविकाय जाल्ली, आनी आपूण एका वेगळ्याच युगांत वावुरतां अशें दिसतालें. 'पोस्ट' ह्या उतराची जायती चिकित्साय जाल्या. 'पोस्ट' म्हळ्यार उपरांत येवपी. पूण तो पूर्वप्रत्यय आशिल्ल्यान पयलीं येता. देखून तो आदींच आसता, उपरांत येना. 'It is a prefix and thus comes before and not after' अशें ल्योतार्द हांचें मत्त आशिल्लें. 'पोस्ट' म्हळ्यार आफ्टर, लेट, सेमी, एक्स काय निओ? ह्या प्रस्नाची जाप ल्योतार्द अशी दितात -'A work can become colonial only if it is first post colonial'. म्हळ्यार वसणुके संबंदीच्या पयल्या खिणा सावनूच उत्तर-वसाहतवादाचो आरंब जाता.

*(पान ४१ चेर)*

# रवीन्द्रबाब ते तातो - इश्टागतीचो प्रवास

सुरेश गुंडू आमोणकार

रवीन्द्रबाबांचें नांव पयलेच पावट आयकलें आनी वाचलें तें तांणी संपादिल्लो 'मीर्ग' हातांत पडटकीच. 'मीर्ग' वर्ध्या सावन प्रसिद्ध जातालें आनी हाती कागदाचेर ताची छापणावळ जाताली. वामनबाब सरदेसाय तातूंत बरयताले. म्हज्या बापायक तें येतालें आनी तातूंत गांधीजींचे विचारधारेची विसकटावणी आसताली. ही गजाल १९५३ वर्साची. 'मीर्ग' दर पंद्रशीक येतालें आनी ताचे १०-१५ अंक हांवें सांबाळून दवरिल्ले. १९५६ त हांव परदेशांत गेलों आनी १९६० त पर्थून आयलों. हांवें राखून दवरिल्लीं पुस्तकां, पत्रां घरांत सोदपाक लागलों. पूण हांवें पुंजायल्लें हें धन कालौघांत नश्ट जाल्लें. तातूंत 'मीर्गा'चेय अंक गेल्ले. जिवाक सामके चिटमिटे पडले. *कालाय तस्मैः नमः*

गोंयचे सुटके उपरांत रवीन्द्रबाबांचें नांव अदींमदीं कानार पडटालें. मुंबय 'गोमन्त-भारती'न प्रसिद्ध केल्लीं तांचीं गांधी साहित्या वेलीं पुस्तकां हांवें बारकायेन वाचिल्लीं. म्हजे घरकान्नीन, सुधाबायन, एकदां म्हाका म्हळें, आपूण रवीन्द्रबाब आनी ताची घरकान्न गोदूबाय हांकां बेस बरें वळखतां. तांच्या सांगातान बोर्डी जाल्ल्या शिबिरांत आपणें धा-पंदरा दीस सारल्यात आनी एके राती आपलो कान फोडपाक लागलो तेन्ना गोदूबायन आपणांक वखदांय दिल्लीं, आनी आपणाक म्हऱ्यांत काडिल्लें. रवीन्द्रबाब शिबिरार्थींक नक्षत्रांची वळख करून दिताले अशेंय ताणें म्हाका सांगलें. रवीन्द्रबाब म्हाका केन्नाय तरी मेळटले आनी सुधाक लागून आतां आमचें मेळप सोंपें जातलें अशें म्हाका दिसलें. पूण त्या काळांत गोंयांत प्रवास सोंपेपणान जाय नासलो. लोक बसीन भोंवताले. आयचे वरी लोकां कडेन स्कुटरी, मोटारी नासल्यो. नाय म्हळ्यार आमची भेट खंयचेय सभेंत जाताली. थंय रवीन्द्रबाब दिसताले. म्हज्या व्यापांत हांव गुल्ल आसतालों आनी रवीन्द्रबाब आपल्या. देखून म्हज्या मनांत आसून लेगीत आमचें मेळप जालेंच ना.

१९९१ त म्हजी बायपास सर्जरी जावचे आदीं कांय दीस पयलीं म्हाका *धम्मपद* - गौतम बुद्धाच्या वचनांचें ४२३ श्लोकांचें एक माणकुलें पुस्तक मेळ्ळें. तें वाचतकीच बौद्ध विचारांनी म्हज्या मनाचो सामको थाव घेतलो. तें पाली भाशेंतलें पुस्तक धम्मज्योती ह्या सिंहली भिक्षून इंग्लीशींत अणकारिल्लें. संस्कृत भाशेची मातशी संवकळ आशिल्ल्यान म्हाका पाली समजप सोंपें जालें. आनी तातूंतली उतरावळ कोंकणी भाशेक लागींची दिसली. बौद्ध विचारांनी हांव सामको भारावलों आनी *धम्मपद* कोंकणींत हाडचें असो विचार मनांत आयलो. ताचो अणकार करपाची म्हजी तांक आसा काय ना हाचो विचार लेगीत मनाक आफुडलोना. दीस रात *धम्मपदा*चोच विचार मनांत घोळटालो. मागीर एक दीस पणजे गेल्ले कडेन रवीन्द्रबाब सेंट्रल लायब्ररीचे भायर मेळ्ळे. एकामेकांची वासपूस करून जातकीच हांवें रवीन्द्रबाबांक म्हजो विचार सांगलो आनी तांचें मार्गदर्शन जाय अशें म्हळें. घडये रवीन्द्रबाबांक म्हजे म्हणणेचें अजापूच जालां जातलें. कित्याक, कोंकणींत कसलोच साहित्यीक वावर म्हज्या नांवार नासलो हें तांकां खबर आसुंयेत. तांचो समज खरोय आसलो. तो वेळ मेरेन कांय रेडियो टॉक्स सोडल्यार हांवें कोंकणींत कांयच बरोवंक नासलें. जें कितें बरयल्लें तें इंग्लीशींत आसलें. रवीन्द्रबाबान म्हळें, "*धम्मपद* हांवें कोंकणींत केलां. तुवें वाचूंक ना." हांवें रवीन्द्रबाबांक विचारलें, "तुमी मूळ भाशेंतल्यान तें अणकारलां?" तांणी म्हळें, "हिंदींतल्यान." एका खिणांत म्हज्या मनांत एक दोन प्रस्न उबे रावले. हाणें अणकारलां आसत *धम्मपद* म्हणून तें हांवें अणकारचें न्हय अशें थोडेंच आसा. आनी हाणें तें गद्यांतूच अणकारलां आसतलें. हांवें सट्ट करून बढायेन म्हणलें, "हांव तें मूळ पालींतल्यान कोंकणींत हाडपाक सोदतां आनी फकत गद्यांतूच न्हय, तर पद्यांत लेगीत." रवीन्द्रबाब अजापान म्हजे कडेन पळोवंक लागले. हांव पाली खंय शिकलां असो तांणी प्रस्न केलो. हांवें म्हळें, "इंटर मेरेन संस्कृत शिकलां; मुंबय सावन पाली कोश आनी व्याकरण घेवन आयलां आनी संस्कृत शिकिल्ल्यान पाली शिकप म्हाका सोंपें जातलें." म्हजी उर्बा आनी उमेद पळोवन रवीन्द्रबाबान म्हळें, "तुजो विचार तोखणाय करपा सारको. तुजें *धम्मपद* जातकीच कोंकणीक एक बरो ग्रंथ मेळटलो. *धम्मपदा*वेर आशिल्ल्या कांय हिंदी-मराठी भाशांतरांची यादी तुका पत्रांतल्यान धाडून दितां." इतलें म्हणून रवीन्द्रबाब आपले वाटेन गेले आनी हांव मात विचारांच्या मोडांत घुसपलों.

'*धम्मपद*' सारको एक म्हत्वाचो पाली भाशेंतलो राष्ट्रीय ग्रंथ... मातूय अणभव नासतना ह्या ग्रंथाचें कोंकणींत गद्य-पद्यांत भाशांतर करपाचो म्हजो निर्णय रवीन्द्रबाबा सारक्या साहित्यिकाक हांवें सट्ट करून कित्याक सांगून उडयलो, हाचें म्हाकाच अजाप दिसलें. म्हजी पिराय तेन्ना अठ्ठावन. निवृत्त जावपाक आनीक दोन वर्सां आसलीं. गांठीक साहित्यीक अणभव शून्य. ४० वर्सां पयलीं शिकिल्ली संस्कृत भास अभ्यासा विणें सामकी कळमेल्ली. पालीचो अभ्यास करपाक पुस्तकां हाडिल्लीं खरीं. "तुका जमतलें मूं हें?" हांव म्हजेच कडेन पुटपुटलों. म्हजे कडेन एकूच जमेची बाजू म्हणल्यार अखंड उत्साह, उर्बा आनी उमेद. बायपास सर्जरी जाल्ल्यान डॉ. भट्टाचार्य सारक्या शल्यविशारदान नवें काळीज दिल्लें. हांव नियती मानपी. हांवें म्हळें: कित्याक जावचें ना *धम्मपद* म्हजे कडल्यान?! नियती निवृत्ती उपरांत हो वावर म्हजे कडल्यान करून घेतली. निवृत्ती उपरांत हांवें बेकार चावडी करची न्हय म्हूण हो संकल्प म्हजे कडल्यान जालां जायत. एका विद्यार्थ्याचे व्रतस्थ निश्ठेन हांव ह्या अणकाराचें काम करतालों. कितलेय कश्ट पडनात, तें तडीक पावयतलोंच. हो निश्चय जातकच म्हाकाच बरें दिसलें आनी उखलिल्लें मन शांत जालें.

रवीन्द्रबाबांची भेट जातकीच दोन तीन दिसांनी म्हाका फोंड्यां वच्चें पडलें. वाटेर पिरवळा पेणें केलें. रवीन्द्रबाबान उमेदीन येवकार दिलो. "*धम्मपदा* वयल्या पुस्तकांची यादी दिवन पत्र बरयलां. तें आतां तुज्याच हातांत दितां" अशें म्हणून एक अंतर्देशीय निळ्या रंगाचें बंद पत्र तांणी म्हज्या हातांत दिलें. हांवें मनांत म्हळें, "सांगिल्ले प्रमाण काम करपी आनी पत्र बरोवपी हो मनीस कडक शिस्तीचो आसतलो." हांवें तें पत्र थंयच उगडलें आनी वाचलें. *धम्मपदा* वयल्या मराठी, हिंदी, गुजराथी भाशेंतल्या पुंस्तकांची एक लांबदीक यादी रवीन्द्रबाबान दिल्ली. प्रकाशकांचीं नांवांय बरयल्लीं. हीं पुस्तकां आतां दुर्मीळ जाल्यांत जातलीं, हांवें दुभाव परगटायलो आनी मातसो धीर करून रवीन्द्रबाबांक म्हळें, "हातूंतलीं कांय पुस्तकां तुमचे कडेन आसात जाल्यार, तुमी तीं दिशात व्हय?" रवीन्द्रबाबान कांयच प्रतिक्रिया दाखयलिना. तांकां गोंयकारांचो सभाव खबर आसतलो. पुस्तक व्हरतकच तें परतें मेळप कठीण. संस्कृतांत एक म्हण आसा न्हय? "पुस्तक, बायल आनी दुडू हातांतल्यान वतकीच परत मेळप कठीण"! ते भायर गोंयकार आरंभशूर. हो पुस्तकां मागता, तीं परतून हाडून दितलो मूं? आनी हो खरोच *धम्मपद* अणकारतलो मूं? शिक्षण क्षेत्रांत म्हजें नांव जाल्लें. गोंयचे नायब राज्यपाल, डॉ. गोपाळ सिंग, हांचे कडेन जाल्लो म्हजो वाद गोंयांत गाजिल्लो; सुधाचो हो घोव आनी बाकीबाबांचो भाचो इतलीच रवीन्द्रबाबांक म्हजी वळख. एका खिणांत हे विचार मनांत उप्रासले. रवीन्द्रबाब बरोच वेळ थंड बसले. कांयच उलयले नात. म्हाका तो काळ कांय युगां वरीच दिसलो. मागीर कांय वेळान ते कदेला वेल्यान उठले. आपल्या समृद्ध ग्रंथालयांत गेले. आरमारींतल्यान चार पांच पुस्तकां काडलीं. पांच मिनटां भितर भायर येवन तीं म्हज्या हातांत दवरून म्हणलें, "हीं पुस्तकां आतां दुर्मीळ जाल्यांत. सांबाळून दवर." तातूंत दोन हिंदी भाशांतरां आनी कुंदर दिवाण हांणी केल्लो *धम्मपदा*चो मराठी अणकार हीं पुस्तकां आसलीं. मागीर थोड्याच वेळान म्हळें, "काम जाले उपरांत हाडून दिवचीं." आवय-बापूय जतनायेन वाडयल्ले धुवेक जांवयाच्या हातांत दितात तेन्ना तांची जी अवस्था जाता, तीच सया रवीन्द्रबाबांच्या दोळ्यांत म्हाका जाणवली.

तीं पुस्तकां घरा घेवन येतकीच म्हजे जिणेंत सामकी क्रांतीच घडली म्हणल्यार जाता. निश्ठेन आनी अभ्यासू वृत्तीन *धम्मपदा*च्या अणकाराचो वावर हांव घेवन बसलों. विद्यार्थी दशेंतूय हांवें इतलो अभ्यास करूंक नासलो. गद्य अणकाराच्या सुरवेच्या वावरांत म्हाका सुरेशबाब बोरकारांचें मार्गदर्शन मेळ्ळें. पूण हांवें केल्लो पद्य अणकार घडये तांकां मानलो ना जातलो. तो वाचतकीच तांणी एक दीस म्हळें, "पद्य अणकार करुंकूच जाय अशें ना, गद्यूच छापल्यार जाता." हांव वोगी रावलों. *धम्मपदां*त अनुष्टुभ आनी त्रिष्टुभ अशे

दोन छंद आसात. एक आठ अक्षरांनी आनी दुसरो इकरा अक्षरांनी बांदिल्लो. महाविद्यालयांतल्या दोन तीन प्राध्यापकां कडेन हे विशीं चवकशी केली. तांणी कांय पुस्तकांचीं नांवां सुचयलीं. पूण कोणेंच समाधान करपी मार्गदर्शन केलें ना. ह्या वेळार म्हाका मामाची, बाकीबाबाची, तिव्रतायेन याद जाली. तो सारकें सांगतलो आसलो, हांवें म्हळें. पूण तो भायर पडून धा एक वर्सां जाल्लीं. आतां एकलव्याची देख घेवन म्हाकाच संस्कृत छंदशास्त्र समजून घेवन शिकचें पड्टलें. रवीन्द्रबाबां कडेन तर हांव बडाय मारून सामको फस्तींत पडिल्लों! पूण अविरत स्रम करतच शेकीं *धम्मपदांतल्यो* गाथा आकार घेवंक लागल्यो आनी दोन वर्सां भितर *धम्मपदाचो* कोंकणी अणकार साकार जालो. पूण म्हजें समाधान जालेंना. पंदरा पावटीं सुधारिल्लें ह्या अणकाराचें हातबरप घेवन हांव एक दीस पिरवळा गेलों. कोंकणी गद्य-पद्य अणकार, विस्तारान बरयल्ल्या टिपां सयत, रवीन्द्रबाबांच्या हातांत दवरलो. एका भुरग्याक दिसची तसली उमेद हांव अणभवतालों. ते मुमुरकेशे हांसले. तांणी हातबरपाचेर नदर घाली. कांय श्लोक वाचले. म्हाकाय कांय श्लोक म्हणूंक लायले. तांचे नुरे वयल्यान तांकां तें मानवलां अशें म्हाका दिसलें. तांणी म्हळें, "सुरेश, तुवें खूब कश्ट घेतल्यात हातूंत दुबाव ना. हें म्हजे कडेन दवरतां." मागीर आग्रो करून म्हाका जेवपाक दवरलो. जेवता आसतना उमेदीन ही गजाल गोदूबायक सांगली आनी *धम्मपद* कशे पद्धतीन हांवें कोंकणींत हाडलें ताची चर्चाय केली.

आठ दिसां भितर रवीन्द्रबाबांचो फोन आयलो आनी *धम्मपद* छापपाक हरकत ना अशें प्रमाणपत्रूय तांणी दिलें. दोन अडेज वर्सांच्या कश्टाचें फळ म्हाका मेळिल्लें. तरी पूण म्हजें समाधान जाय नासलें. हांव तें निवळायत रावलों. अदी मदीं निवळायल्लें *धम्मपद* आनी ताचे वयल्यो टिपो, म्हजी प्रस्तावना आनी बुद्ध चरित्र हांव तांकां दीत रावलों. अठ्ठावीस पावटीं *धम्मपद* निवळायतकीच रवीन्द्रबाबान एक दीस म्हाका म्हणलें, "आतां वोगीच वेळ काडूं नाका, तें जाता तितले बेगीन उजवाडावपाक जाय." ताचेर हांवें म्हळें, "*धम्मपदाच्या* अणकाराच्यो वेणो तुमी पळेल्यात न्हय, तुमची प्रस्तावना मेळटकीच तें अदीक सोबतलें." खिणाचोय वेळ घेनासतना, प्रस्तावना बरोवपाचें तांणी मानून घेतलें. तांची प्रस्तावना वाचतकीच म्हाका म्हज्या कश्टांचें चीज जाल्ले वरी दिसलें. म्हाका खूब पुरस्कार मेळ्ळे पूण रवीन्द्रबाबांची *धम्मपदाची* प्रस्तावना हो म्हाका मेळिल्लो सगळ्यांत व्हडलो पुरस्कार अशें हांव मानतां.

रवीन्द्रबाबूय कश्ट घेवन आपलें साहित्य बरोवपी. "आयलें तशें गायलें" ही वृत्ती तांचे कालेतीक केन्ना मानवलिना. तांणी खर परिश्रम घेवन *महाभारता* सारक्या प्रचंड ग्रंथाचें अनुसर्जन केलें. ताचें प्रकाशन भारताचे पंतप्रधान राजीव गांधी हांचे हस्तुकीं दिल्लींत ५ सप्टेंबर १९८७ ह्या दिसा शिक्षक दिसाच्या सुवाळ्यांत घडोवन हाडिल्लें. त्या दिसा हांव दिल्लींत आशिल्ल्यान, त्या इतिहासीक सुवाळ्याक हजर रावलों आनी ग्रंथप्रकाशन जातकीच रवीन्द्रबाबांची स्वाक्षरी ग्रंथाचेर घेतली. इतलो प्रचंड वावर करून लेगीत ते *महाभारताचे* प्रस्तावनेंत बरयतात, "जायत्या जाणांनी हाचे पयलीं आपापणाले भाशेंत... *महाभारत* हाडपाचो वावर केला. तांकां सगल्यांक आपापणाल्यो भासो घडयल्ल्यो मेळिल्ल्यो. म्हाका म्हजी भास तशी घडयल्ली मेळूंक ना. म्हाका ती घडोवची पडल्या. आनी कोंकणीचे सुमार तीन तपांचे अखंड आनी उत्कट सेवे उपरांत हांव दोन मोठ्या निर्णयांचेर पावलां : एक, म्हाका कोंकणी भास सारकी येना. आनी दुसरो, कोंकणी सारकी कठीण भास दुसरी ना. म्हजे भाशेच्यो मर्यादा पळोवन फाल्यां कोणूय उठलो आनी हिच्याकूय बरे कोंकणींत हांव *महाभारत* हाडून दाखयतलों म्हूण मुखार सरलो जाल्यार मना पासून सांगतां : हांव म्हाका मोटयांतलो मोटो भाग्यवंत लेखतलों." इतलें कर्तूब आसून लेगीत इतले नमळायेन फकत रवीन्द्रबाबूच हें बरोवंक शकतात. *महाभारत* हो कोंकणी भाशेचो एक उत्तम अळंकार. ताचें हेर भारतीय भासांनी भाशांतर जावपाक जाय अशें म्हाका दिसता. ते खातीर केंद्रीय साहित्य अकादमी कडेन गोंयकारांनी आनी गोंय कोंकणी अकादेमीन विशेश प्रयत्न करपाची गरज आसा.

*धम्मपद* म्हजे कडल्यान जालें हांचो अभिमान म्हजे परस रवीन्द्रबाबांक चड आशिल्लो. *धम्मपदाक* साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जातकच तांकां विशेश खोस जाली. *धम्मपदाक* लागून आमचे इश्टागतीची दाटी जाली. ते उपरांत म्हजे कडल्यान *गीता, कुरळ, ज्ञानेश्वरी, जपुजीसाहिब, संत जुआंवा प्रमाणें शुभवर्तमान* हे ग्रंथ जाले. हांव कश्ट घेवन काम करतां हाचें तांकां कवतूक आशिल्लें. म्हज्या वावरा खातीर तांणी आपलें ग्रंथालय उकतें केल्लें. हांव तांच्या पुस्तकांची जतनाय घेतां, काम जातकीच तीं वेवस्थीत परतीं पावयतां हाची तांकां खोस जाताली. हांव मदीं बरो ना जालों तेन्ना तांकां हुस्को जाल्लो. ते फोन करून म्हजी चवकशी घेताले. ल्हवू ल्हवू रवीन्द्रबाब म्हजोय 'तातो' जालो आनी हांव तांचे घरचोच जालों. म्हजी *ज्ञानेश्वरी* जातकच तांच्या दोळ्यांतल्यान दुकां आयिल्लीं हांवें पळेलीं. एका व्हड समाधानाचो हांसो हांवें तांच्या मुखामळार पळेलो. एक जाणटो ह्या नात्यान हांव तातोक सदांच पांयां पडटालों. *ज्ञानेश्वरी* बरोवन जातकीच ताणें सुधाक म्हळें, "सुधा, सुरेश आमचो ज्ञानेश्वर. ताणें आमकां पांयां पडूंक जायना. आमचेकूय ताचो वावर व्हड." हीं उतरां आयकून म्हजी म्हाकाच लज जाली. हांवें म्हळें, "ईश्वराचेच कृपेन हें घडलें. तातूंत तुजोय व्हड वांटो आसा. तुजे आशिर्वाद फळाक आयले."

तातोक मदीं मदीं फकांडां करपाची कूय येताली.एक दीस ताणें म्हाका म्हळें, "सुरेश, तूं गोंयकार रे?" तातो हें कित्याक म्हणटा हें म्हाका कळ्ळें ना. मागीर ताणें हांसून म्हणलें - "फाटल्या जल्मांत तूं चित्पावन बी आशिल्लो जावंक जाय. कित्याक, गोंयकार हुशार आसुनूय कश्ट घेवन काम करिनात आनी म्हणून व्हड कामां करूंक पावनात."

एक दीस म्हाका माणिकबाब गावणेकाराचो फोन आयलो. रवीन्द्रबाबांचें *तीन पावलां प्रज्ञावादाचीं* हें पुस्तक आपूण प्रसिद्ध करतां आनी तातोक तुवें प्रस्तावना बरयल्ली जाय म्हण सांगून. म्हाका शेळो घाम आयलो. हांवें तातोक फोन लायलो आनी विचारलें, "हें काम म्हज्यान जातलें मूं?" तातोन म्हळें, "तूंच तें बरे भाशेन करतलो." तातोचे पारखणेन हांव पास जाल्लों. हांवें प्रस्तावना बरोवन

धाडली आनी भियेत भियेत एक दीस फोन करून तातोक विचारलें, प्रस्तावना कशी जाल्या? तातोन म्हळें, "फर्स्ट क्लास". म्हज्या जिवाक सू जालें. तातूंत तातोन केल्ल्या जिवीत-कार्याचेर हांवें हे परीं भाश्य केल्लें :

"वाचप्यांच्या हातांत आसा तो ग्रंथ रवीन्द्रबाबान केल्ल्या प्रदीर्घ चिंतनाचो आनी व्यासंगाचो आपरोस. *तीन पावलां प्रज्ञावादाचीं* ह्या सुपुल्ल्या पूण मौलीक ग्रंथांत आमच्या निजी जिविताक, वेवसायीक आनी समाजीक जिविताक, तेंच परी, आमच्या आध्यात्मीक जिविताक वाट दाखोवपी चिरंतन भारतीय वाङ्मयांतल्यान तीन ग्रंथ वेंचून काडल्यात. बुद्धाचें *धम्मपद*, महाभारतांतले *विदुरनिती* आनी *गीता* अशे हे तीन मार्ग दाखोवपी ग्रंथ. *धम्मपद* आमच्या निजी जिविताक स्पर्श करता, *विदूरनिती* आमच्या वेवसायीक आनी समाजीक जिविताक आफुडटा आनी *गीता* आमच्या आध्यात्मीक जिविताक वाट दाखयता. ह्या तिनूय ग्रंथांतल्या तत्वज्ञानाचेर रवीन्द्रबाबान फाटल्या पांच दसकांत सतत चिंतन केल्ल्यान, ते आमच्या गदळिल्ल्या समाजाक उजू दिका दाखयतले हो दिश्टावो तांकां जाला. पुर्विल्ल्या आनी आर्विल्ल्या भारतीय आचार्यांनी *उपनिषदां, भगवद्गीता* आनी *ब्रह्मसूत्रां* ह्या तीन ग्रंथांचेर - प्रस्थानत्रयीचेर (मोक्ष सादचेल्या तीन ग्रंथांचेर) - टिका बरोवन समकालीन समाजाक योग्य दिका दाखयली. रवीन्द्रबाब हेच परंपरेतले आर्विल्ल्या काळांतले आचार्य. तांणी जिवीतभर निश्प्रभ जाल्ल्या कोंकणी समाजाचें समर्थकायेन, मेकळेपणान आनी मुरवत धरिनासतना प्रबोधन केलां. आमच्या समाजाच्या धोंगां-पोंगांची फोडणिशी ते आपल्या साहित्यांतल्यान करीत आयल्यात. तांचे मुखार नव्या कोंकणी समाजाचीं सपनां आसात आनी तीं सपनां प्रत्यक्षांत हाडपा खातीर तांणी "तीन पावलां प्रज्ञावादाचीं" ही नवी प्रस्थानत्रयी आमचे फुडें दवरल्या. ती आमी जागरूकतायेन स्विकारल्यार आमी पर्थून एक फावट प्रवृत्तिमार्गाचेर चलूंक लागतले आनी आमी होगडायल्लें समाज मानस (psyche) आमकां पर्थून मेळटलें ही तांची स्रद्धा. ही प्रस्थानत्रयी वेंचून तांणी एक म्हत्वाची गजाल अधोरेखीत केल्या. आमचो मोक्ष, आमचें निर्वाण, सालवासांव आमच्याच विचारांनी आनी प्रयत्नांनी आमी "ह्याचि देही, ह्याचि डोळां" पळोवपाक पावतले."

*धम्मपदाच्या* टिपांत हांवें कुंदर दिवाण हांच्या पुस्तकांतले कांय संदर्भ दिल्ले. दिवाण तातोचे इश्ट. वर्ध्याक रावपी. तातोन म्हाका तांचो नामो दिलो आनी *धम्मपदाची* एक प्रत तांकां धाडपाक सांगली. कालांतरान तांची जापूय आयली. तांणी आपले १९.६.९७ चे चिटींत बरयल्लें : "तुमचे *धम्मपद* कोंकणी आतांच हातीं आलें आहे. आंतर बाह्य सुंदर, अतिसुंदर आहे. त्याची किंमतही तशीच आहे. परंतु हौसेला मोल नसतेच."

मागीर तांणी आपलें खरें "मराठी" अंतरंग दाखयल्लें - "मी गोमंतक बोलीचा विरोधक नाही, पण ख्रिस्ती प्रचारक लेखकाने ही मराठींत लिहिले आहे ना! तेच मला वाटते प्रशस्त... गोमन्तकाला गौरव प्रदान करणारे असे धर्मानन्द होऊन गेले. सेवाग्रामला त्यांनी आपला देह ठेवला आहे. माझ्या *धम्मपदा* ला त्यांनी गौरविले होते. त्यांनी तुमचे खचित अभिनंदन केले असते. मीहि तुमचे अभिनंदन करतो. तुमच्या प्रकाशकाचेहि, हेच मराठीत असते तर त्याचा अधिक प्रचार व गौरव झाला असता."

ही चीट वाचून तातोक कुंदर दिवाणांची भिरभिरी मारली. म्हणूंक लागलो, ताका भातेरी दिवपाक जाय. हांवें म्हळें, ताचो कांयच फायदो जावपाचो ना. कोंकणीक ज्ञानपीठ वा नोबेल पुरस्कार मेळटकीच घडये असल्या लोकांचें मतपरिवर्तन जातलें. १९९७ त हांवें केल्लें भाकीत खरें जातकीच हांवें तातोक ही याद करून दिली. तातो मुमुरको हांसलो.

तातो म्हजे परस धा वर्सांनी जाणटो. निमाणे मेरेन तो नवे विचार दीत गोंयकारांक मार्गदर्शन करीत रावलो. ज्ञानपीठ पुरस्कार घेवचे आदीं दोन दीस प्रकाश पाडगांवकारा बराबर हांव ताका मेळूंक गेल्लों. तेन्ना ताची भलायकी हुस्को करपा सारकी आसली. माधवी ताचे म्हऱ्यांत आसलें. तातो आमचे कडेन खोशयेन आनी उमेदीन उलयलो. हीच आमची निमाणी भेट. ती हांव केन्नाच विसरचोंना.

(संपर्क : ०९४२१२४१२२१)

## जागाक बरप धाडटना -

- तें कागदाचे एकेच वेटेन बरयल्लें वा टायप केल्लें आसचें. (एके वेटेन बरयल्लो कागद वापरल्यारूय जाता.)
- बरपाची एक प्रत बरोवप्यान आपणा कडेन दवरुची. बरप छापचें न्हय अशें आमी थारायलें जाल्यार बरोवप्याक तें परतें धाडून दिवपाची जापसालदारकी आमी लावन घेनात.
- आदीं खंयच छापून येवंक नाशिल्लें बरपूच धाडचें. वांगडाच दुसऱ्या कोंकणी नेमाळ्याक तेंच बरप धाडचें न्हय.

- संपादपी

# गोंयच्या संस्कृतीक प्राकारांतलो सळसळटो पिंपळ

दत्ता दामोदर नायक

देवळाच्या प्राकारांतलो पिंपळ पळयतकीर एक प्रस्न सदांच म्हज्या मनांत येता - देवूळ पयलीं काय पिंपळ पयलीं?

पिंपळाक संस्कृतांत 'अश्वत्थ' म्हणटात आनी भगवद्गीतेंत कृष्णान 'रुखां मदलो पिंपळ तोच हांव' अशें म्हणून पिंपळाक परमेश्वराच्या पांवड्यार पावयला. इंग्लीशींत पिंपळाक 'टॅंपल ट्री', म्हळ्यार देवळाच्या वाठारांत सदांच आसपी रूख, अशें नांव दिलां.

'टॅंपल ट्री' ह्या उतराचे व्युत्पत्ती वयल्यान पयलीं देवूळ बांदलें आनी मागीर ताच्या प्राकारांत पिंपळाचो रूख लायलो असो तर्क काडूं येता.

पूण पिंपळाचें पुरातनत्व, गीर्वाणभारती संस्कृत भाशेन ताचें अश्वत्थ अशें केल्लें नामकरण आनी *गीतेन* पिंपळाची गायिल्ली व्हडवीक पळयल्यार पयलीं पिंपळाचो रूख आशिल्लो जावंक जाय, मागीर कोणें तरी ताचे भोंवतणीं पार बांदलो आसूंक जाय, पारार कोणें तरी देवाची मूर्त दवरून तिका गंध-फुलां घाल्लीं आसूंक जाय आनी मागीर पिंपळा सामकार देवूळ बांदलां जावंक जाय अशें म्हणल्यार तें फट थारचें ना.

रवीन्द्र केळेकार हो गोंयच्या संस्कृतीक प्राकारांतल्या सरस्वती मंदिरा मुखावयलो लक्ष पानांचो सळसळटो पिंपळ अशें म्हणप समा जातलें अशें म्हाका दिसता.

रवीन्द्रबाब आयज ह्या संवसारांत नासले तरी तांच्या साहित्याच्या रुपान, तांच्या जिविताच्या रुपान आनी तांच्या विचारांच्या रुपान ह्या पिंपळाचीं पानां काळाच्या वाऱ्या वांगडा सळसळत रावतलीं हातूंत कसलोच दुबाव ना.

रवीन्द्र केळेकारांचो रूख कोंकणी सरस्वतीच्या देवळा मुखार उबो आसा अशें म्हणप सारकें जावचें ना.

कोंकणी भाशेक, कोंकणी चळवळीक आनी कोंकणी साहित्याक वयर काडपांत रवीन्द्रबाबांचो केदो व्हडलो वांटो आसा! देखून रवीन्द्र केळेकार नांवाच्या पिंपळा मुखार कोंकणीचें देवूळ उबें जालें अशेंच म्हणचें पडटलें.

कोंकणी चळवळीचो भीष्माचार्य, श्रेष्ठ साहित्यकार आनी प्रज्ञावंत, विचारवंत हीं रवीन्द्रबाबांच्या व्यक्तिमत्वाचीं तीन तासां!

आपले ८५ वर्सांचे प्रदीर्घ जिणेंत रवीन्द्रबाबान गोंयच्या समाजीक, संस्कृतीक आनी राजकी मळार जो सुमारा भायर वावर केला ताचें एक अलक्षीत लक्षण आमी खोलायेंत वचून समजून घेवंक जाय.

चड करून आयज माध्यम प्रस्ना वयल्यान गोंयचें संस्कृतीक पर्यावरण म्हेळें जाल्लें आसतना, कोंकणी भाशेच्या उपाट मोगांतल्यान भाशीक मूलतत्ववादी (फंडामेंटलिस्ट) अतितायेची भास उलयतात आसतना, गोंयचो एकचार, गोंयचो भावचार मोडून पडपाचो वेळ आयिल्लो आसतना कोंकणी चळवळीची निधर्मी बुन्याद विसरून धर्मकोल्ली लोकांच्या कळपांत वचपाची चूक खूब जाण करतात आसतना, रचनात्मक वावर खुंटयाळ्याक लावन, देवांक गाराणीं घालपाच्या निर्बुद्ध वावराचें वागरें सगळ्यांचेर पडिल्लें आसतना, रवीन्द्र केळेकारान आपल्या साहित्यांतल्यान सदांच ज्या प्रज्ञावादाचो उद्घोष केलो तो विवेकी प्रज्ञावाद आमी विसरले नात मूं, हाचो विचार करचोच पडटलो!

देखीक, *महाभारत : एक अनुसर्जन* (खण्ड १) हातूंत रवीन्द्रबाबान विस्तारान सांगिल्लें प्रज्ञावादाचें तत्वज्ञान परत एकदां आमी सगळ्यांनी वाच्चें पडटलें.

''शाणो कोण? जो प्रज्ञावंत तो. शाण्या मनशाचें चित्त सदां गंगे सारकें शांत उरतलें. केन्नाच उसळचें ना. उलयतना तो दाखय लिपय करचो ना. ओगीच कित्याय कितें उलोवचो ना. येवजून मेजून उलयतलो. मूर्ख कोण? जांकां पयस दवरूंक जाय तांकां लागीं करतलो, आनी जांकां लागीं दवरूंक जाय तांकां पयस धुकलतलो, तो.

''तीख उतरां मनशाच्या हाडांक, हड्ड्याक आनी प्राणाक लेगीत तोपतात. देखून बऱ्या मनशान असलीं उतरां केन्नाच तोंडांतल्यान काडचीं न्हय.

''धोणवांतल्यान सुटिल्लो तीर एकल्याक मारीत वा न मारीत. पुणून राज्यांतलो एकलोच बुदवंत खुबत जाल्यार तो राजा सयत पुराय राज्याचो गोबोर करीत.''

प्रज्ञावाद आमकां अस्मिता आनी सहिष्णुता ह्या दोन मुल्यांचो सुवर्णमध्य साधून मदल्या मार्गान चलपाची देख दिता. ओपिनियन पोलाच्या झुजा वेळार लेगीत कोंकणी चळवळीच्या फुडाऱ्यांनी धर्मकोल्लाची चूड पेटोवन खंयच्याय एका समाज समुहा आड वीख ओंकलें ना. हे चळवळीचें फुडारीपण संपूर्ण भारतीय तत्वज्ञानाचो खोलायेन अभ्यास आशिल्ल्या, संवसारीक अक्षर साहित्याचें वाचन आशिल्ल्या गौतम बुद्ध, महात्मा गांधी, रवीन्द्रनाथ टागोर ह्या म्हापुरसांचे विचार चिंतन आनी मनन करून पचयल्ल्या, आनी संस्कृतायेंतल्या विवीध तासां पोंदा आशिल्ल्या एकात्मभावाच्या अंत:प्रवाहाचें गिन्यान आशिल्ल्या रवीन्द्र केळेकारां कडेन आशिल्लें, हेच खातीर कोंकणी चळवळीक धर्मकोल्लाचो आदार घेवपाची गरज पडली ना.

हें आमी विसरतले व्हय? कोंकणी चळवळीक भाशीक अस्मिताये बगर हेर कसलीच ध्येयवादी फास्की ना व्हय?

गोंय, गोंयकार आनी गोंयकारपण हे कोंकणी चळवळीचे बुन्यादी चिरे खणून आमी कोंकणी भाशेचें जैत मनयतले व्हय?

रवीन्द्रबाबांचे यादीक आर्गां ओंपतना आमकां सगळ्यांक ह्या प्रस्नांच्यो जापो सोदच्योच पडटल्यो.

हय! रवीन्द्रबाबूय आपल्या जिवितांत कांय वेळार अतितायेची भास उलयले आसत. हय! रवीन्द्रबाबानूय आपले जिणेंत आपल्या विचारांक सोबना अशी करणी केल्ली आसत. पूण रवीन्द्रबाबांच्या मरणा उपरांत तांचे पुराय जिणेचो आनी तत्वज्ञानाचो आमी विचार करतात तेन्ना एक गजाल आमच्या लक्षांत येता, ती आमच्या लक्षांत येवंकूच जाय - रवीन्द्रबाबान खंयच्याय एका समाज समुहाक एकाच मापान मापून एकेच तागडेंत घालून मेजलो ना. खंयच्याय एका समाज समुहाक खांद्यार घेवन ताची व्हडवीक गायली ना. मनीस सभावांतले दोश, मनीस करणेचें स्खलन वैयक्तीक आसता. देखून ताका भौशीक मानून ताचें सार्वत्रिकीकरण रवीन्द्रबाबान केलेंना.

संस्कृतायेची संकल्पना तिचे अत्युच्च तेंगशेर वैश्वीक जाता. सर्वकालीन अश्या उदात्त मानवी मुल्यां कडेन लागणूक दवरून वैश्वीकतेचो ध्यास घेवपी संस्कृताय भास, वाठार आनी राष्ट्र हांचे फास्केंत उरूंक शकना. देखून जें जें संस्कृतीभ्रश्ट तें तें अराष्ट्रीय, राष्ट्रद्रोही म्हणपी मनीस संस्कृतायेक खंयच्या तरी एका धर्माचे, ना जाल्यार आपले संकल्पनेंतल्या धर्मवादाचेर उबारिल्ल्या राष्ट्रवादाचे फास्केंत दवरूंक सोदतात.

रवीन्द्रबाबांच्या विचारांत हें संस्कृतीक मोटवेपण ना. मायभाशेचे आनी मायभुंयेचे अस्मितेची राखण करपा खातीर जे उर्बेन, जे उर्जेन रवीन्द्र केळेकार नांवाचो मनीस जिवीतभर झगडलो तो रवीन्द्र केळकार फकत कोंकणी चळवळीचो जैतिवंत फुडारी अशें म्हळ्यार आमी ताचो बॉन्साय करतले.

रवीन्द्र केळेकार हो एक प्रज्ञावंत विचारवंत हें आमी नदरे आड करूंक शकनात. समाजधारणेक जें जें प्रेरक, पुरक आनी पोशक त्या त्या मुल्यांचो उद्घोष करप हो तांच्या समग्र साहित्याचो आत्मो. ह्या आत्म्याचो अंतर्नाद तांच्या समेस्त साहित्यांत झंकारत आसता.

काव्य, नाटक, कादंबरी आनी कथा हो तथाकथीत साहित्यीक चातुर्वण्य खोंटावन फकत निबंधकार म्हणून साहित्योपासना करपी रवीन्द्रबाबांक ज्ञानपीठ मेळटा ही गजाल म्हाका खुबूच आश्वासक दिसता. (मराठी साहित्यीक, विदुषी दुर्गा भागवत हांकां ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळपाक जाय आसलो अशें म्हजें मत.)

वैचारीक साहित्य सैनिकांचे कवायती भशेन (ड्रील) आसता. ललीत साहित्य नाचा भशेन (डान्स) आसता. पुणून जें वैचारीक आसून जातूंत लालित्य आसता ताका सोबीत (ग्रेसफुल) चलप. (कॅटवॉक) अशी उपमा दिवूं येता. रवीन्द्र केळेकारांच्या बरोवपांत वैचारीक-ललीत अशें साहित्याचें सोबीत गार्फ जाल्लें दिश्टी पडटा.

रवीन्द्रबाबांची भास सादी, सोंपी, सुटसुटीत. पूण ती ताजी, टवटवीत, तट्टटीत. शैली संथ, मंद, व्हांवती, ओघवती. उतरां भांगरा शिंगरां चडोवन येनात. नटून थटून येनात. अनलंकृत उतरां, पूण नादमधूर, अर्थगर्भ. हरवीं, दिखाळ न्हय. रोसाळ, रसरशीत उतरां.

रवीन्द्रबाबांचें बरोवप वाचतना दिसता, ते बरयनात. ते उलयतात. हय! ते आपल्या बरोवपांतल्यान वाचप्या कडेन उलयतात.

Art lies in concealing art अशें म्हणटात. साहित्य वाचतना 'हें साहित्य' अशें दिसूंक फावना. संदर्भसंपन्नता (रॅफरन्स रिचनॅस) आसुनूय सादेपण हें रवीन्द्र केळेकारांच्या साहित्याचें लक्षण.

पावसाच्या उदकांत न्हावप हाचे सारकें दुसरें तीर्थस्नान ना अशें हांव मानतां.

रवीन्द्र केळेकारांच्या *ओथांब्यांत* न्हावप हो एक तीर्थ-भोग!

ह्या आनंदाचो उपाट उपभोग हांवें घेतला.

फ्रान्सिस बेकनान एके कडेन मूय, कोळी आनी म्हींवामूस हांची देख दिल्या. तो म्हणटा, मूय फकत पुंजायता आनी जें पुंजायलां ताचो पुरुमेंत करता. कोळी आपल्या आंगांतलो स्राव काडून जाळें विणटा. म्हींवामूस मात जें करता तें वेगळेंच आसता. तो फुलां फुलांच्या काळजांतलें म्हींव अळंग चोखता. तें आपल्या आंगांत सवकासायेन पचयता आनी मागीर आपल्या आंगांतलें 'सेंद्रीय' म्हींव म्हींवामाल्यांत सांठयता.

रवीन्द्र केळेकारांचें साहित्य हें अशें, म्हींवामुसांनी केल्ल्या म्होवांचें मालें.

भारताच्या आनी गोंयच्या एका भांगरा युगांत, एका रेनासान्साच्या काळांत जीण सारपाचें भाग्य रवीन्द्र केळेकारांक मेळ्ळें. रवीन्द्रबाब त्या काळाच्या स्मृतीरंजनाच्या सुखांत गुल्ल जाले नात. तांणी गोंयच्या आनी भारताच्या पर्जळीत फुडाराचें फांतोड सपन पळयलें.

बर्नाड शॉन म्हळां,

"Future belongs to those unreasonable men & women who look forward, who are certain about uncertainty and who have ability and confidence to think differently."

रवीन्द्र केळेकार हो एक कलंदर फकीर. पिशीं सपनां पळोवपी एक पिसो मनीस.

रवीन्द्र केळेकारान सदांच हेरां परस वेगळे विचार वेगळे तरेन मांडले. ह्या विचारांक पुरोगामी, प्रागतीक आनी प्रगमतशील तत्वज्ञानाची देग आशिल्ली. तातूंत देशाचें आनी वैश्वीक संस्कृतायेचें घट्टाण करपी जातीसंस्था, वंशवाद, धर्मीक मूलतत्ववाद, धर्मकोल्ल आनी अंधश्रद्धा हांचो गोबोर करपी धगधगते इंगळे आशिल्ले, तशेंच सर्वभूतांचें मैत्र, करुणा, मांगल्य, मुदिता आनी शांती ह्या मुल्यांचो वास काळजांत राखून दवरपी फुलां-कळेय आशिल्ले.

जे तरेन एका काळार प्रचलीत आशिल्ली भावां-भयणींचीं (यम-यमी) लग्नां, एकाच गोत्रांत जावपी लग्नां समाजान निषिद्ध मानलीं, तेच तरेन एकेच जातींत जावपी लग्नांय निषिद्ध मानले बगर जातीसंस्था सोंपची ना असो क्रांतीकारी विचार तांणी मांडलो.

मडीं लासपाक लागपी रुखांची राखण जावची वो मडीं पुरपाक लागपी जमीन हेर उत्पादक वावराक मेळची म्हणून गोंया सारक्या दर्यादिगे वयल्या वाटारांत मडीं दर्यांत बुडोवपाची रीत येवची असो जगा वेगळो विचार तांणी सांगलो.

ऐहिक सुखां कडेन फाट करून फटकिऱ्या परलोका कडेन नदर लावपी धर्मा विशीं ते कितें म्हणटात तें पळयात -

''वैराग्याचो उपदेस करपी सगळे म्हाका सदांच जिविताचो दुस्वास करपी लोक दिसल्यात. हांव तांचे पसून सदां पयसूच रावलां अध्यात्माच्या मळार केदेय व्हडले आसूं मागीर ते.

''जिवीत कितलें सुंदर! इतल्या सुंदर जिविताचो अध्यात्माच्या नांवान दुस्वास करप? च्ये!

''सगळींच सुखां वायटाक पडटात आनी सगळींच दुखखां बऱ्याव पडटात, हें खरें न्हय, कांय सुखां जियेवपाची उर्बा वाडयतात. आमकां प्रसन्न दवरतात. आमचें मन घटमुटूय करतात. तीं फकत 'सुखां' म्हणून तांकां फाट करप समा न्हय.

''म्हाका सगल्या धर्मांचें हेंच आंग पळेतकूच भिरभिरी मारता. धर्म सर्ग नरकाच्यो खबरी चड सांगतात. इहलोका परस परलोका कडेन लोकांचें लक्ष अदीक ओडटात. इहलोकाची, म्हळ्यार धर्तरेवयल्या जिविताची, सगल्यांनी सारकीच उवेखणी केल्या.''

'नवें पिशें' ह्या निबंधांत रवीन्द्रबाबान मांडिल्ले विचार खंय मेरेन पावतात तेंय पळोवया - ''तें कित्याक, सॅक्साच्या मळार लेगीत आमी उदार जावंक जाय. पर-स्त्री आनी पर-पुरूस हो समजूच गांवढळ अशें मानपा इतले आमी 'मॉडर्न' जावंक जाय. घोवाचो परस्त्री कडेन आनी बायलेचो परपुरुशा कडेन संबंद आयलो म्हूण घोव बायले मजगतचो मोग ना जायना, इतलो विवेक आमी आमच्यांत केळोवंकूच जाय.''

ह्या रवीन्द्र केळेकाराक तुमी फकत गांधीवादी विचारवंत म्हणून मोटवो करतले?

रवीन्द्र केळेकारांचे विचार तुमकां पटूं वा पटूं नाका, ते वेगळे विचार हें मान्य करचेंच पडटा. आपल्या विचारांचें हें वेगळेपण सांबाळटना रवीन्द्र केळेकारांच्या बरोवपांत केन्ना केन्ना विरोधाभास दिश्टी पडटा. Contradiction नदरेक येता.

रवीन्द्र केळेकार खंय बुद्धाचो विचार सांगतात तर खंय (काळ्या) कृष्णाची तांकां लक्तुबाय दिसता. खंय गांधींच्या विचारांक ते माथ्यार घेवन धर्मीक भास उलयतात तर कांय वेळार तांच्या तोंडांतल्यान भायर सरता तें शुद्ध नास्तीक चार्वाक दर्शन.

एकूच मनीस गांधी, बुद्ध, कृष्ण आनी चार्वाक ह्या भारतीय तत्वज्ञानांतल्या चार परस्परविरोधी (डायमॅट्रिकली ओपोझिट) अशा विचारांक आपल्या साहित्यांत आदराची सुवात दिता.

हें कितें?

व्हॉल्ट व्हिटमन म्हणटा, "I am large. I contain multitudes. I contradict myself."

आपलें मत आपणेंच खोडून काडपाची वैचारीक नमळाय रवीन्द्र केळेकारांच्या साहित्यांत आसा. खूब व्हडले वैचारीक परिपक्वतेचें हें लक्षण.

देखून, रवीन्द्र केळेकारांची ईश्वर संकल्पनाय तांच्या नैतीक मुल्यांचें अधिष्ठान म्हणुनूच आमकां सुस्पश्टपणान दिश्टी पडटा.

चार्वाकाचो बुद्धिप्रामाण्यवाद, कृष्णाचो वेव्हारवादी कर्मसिद्धांत, गांधींचो साधन साध्य शुचितेचेर आदारिल्लो अहिंसेचो आनी सत्याग्रहाचो विचार आनी बुद्धाचो विवेकी प्रज्ञावाद ह्या सगल्या विचारांचें पडबिंब तांच्या साहित्यांत पडटा.

देखून, रवीन्द्र केळेकारांचें दरेक पुस्तक म्हळ्यार एक cultural

statement अशें नंदकुमार कामत म्हणटा तें फट न्हय.

रवीन्द्र केळेकारांचें साहित्य आमची संस्कृतीक भूक पुराय भागयना. ही भूक तें वाडयता हें तांच्या साहित्याचें एक खेरीत लक्षण.

रवीन्द्रबाब आनी म्हजे मदीं पिरायेचें, अणभवांचें आनी गिन्यानाचे खूब व्हडलें अंतर आसलें तरी रवीन्द्रबाब हो म्हजो इश्टूच कसो हांवें मानलो. म्हज्या मनांत तांचे विशीं उपाट आदराची भावना आसा. पूण कांय वेळार ज्या मनशा विशीं तुमकां सुमारा भायर आदर आसता त्या मनशाचो तुमकां भंयसो दिसता.

म्हाका रवीन्द्रबाबांचो असो भंय केन्ना दिसूंक ना. तांणी म्हाका तो दिसपाक दिलो ना हें तांचें व्हडपण. देखून समवयस्क इश्टाच्या नात्यान, आपलेपणान, मेकळेपणान आनी उकतेपणान हांव रवीन्द्रबाबां कडेन आनी रवीन्द्रबाबां विशीं उलयलां. तांच्या म्हाका पटना अश्यां विचारांचेर टिकाय केल्या. पूण रवीन्द्र केळेकारांचें साहित्य नदरे मुखार दवरूनूच, ताका reference point करून, bench mark करून, हांवें म्हज्या साहित्याची रचणूक केल्या.

''बरयत राव. ना जाल्यार आटून वतलो,'' रवीन्द्रबाबान म्हाका एक फावट सांगिल्लें. फाटल्या दोनेक वर्सा हांवें चड कांय बरोवंक ना. हालीं हालीं रवीन्द्रबाबांची उतरां म्हाका याद जातात आनी देखून हांव परत बरोवंक बसतां.

रवीन्द्रबाबांक अर्गां म्हणून म्हजीं *फांतोड पावली, जोडवीं* हीं पुस्तकां ह्या वर्सा आनी *एका नास्तिकाचो देवारो* हें पुस्तक फुडल्या वर्सा उजवाडाक हाडपाचें हांवें थारायलां.

सुनापरान्तांत हांवें शिव, राम, कृष्ण अशे तीन ललीत निबंध बरयल्लें. ( *फांतोड पावली* पुस्तकांत, जें पुस्तक हांवें रवीन्द्रबाबांक ओंपलां तातूंत, तांचो आसपाव आसा.)

कांय दिसांनी म्हाका रवीन्द्रबाबांचें पोस्ट कार्ड आयलें -

'प्रिय दत्ता,

तुजे शिव, राम, कृष्ण हे निबंध अप्रतिम - अभिनंदन.

रवीन्द्र केळेकार

म्हज्या जिवितांत म्हाका मेळिल्लो हो सगल्यांत व्हडलो साहित्य पुरस्कार अशें हांव मानतां.

(संपर्क : ०९८२२१०२४१६)

# श्रद्धा सुमन भेंट: स्व. श्री रवीन्द्र केलकर को

**पदमचन्द सिंघी** आर.ए.एस. (रिटायर्ड)

२७ अगस्त २०११ का दिन गोआ की आजादी और कोंकणी भाषा के प्रचार-प्रसार और सम्मान के लिए जीवन समर्पित कर देने वाले स्वर्गीय श्री रवीन्द्र केलकर की प्रथम पुण्यतिथि है। वे सचमुच एक राष्ट्रीय विभूति हैं। ऐसी विभूति के साथ वर्ष १९५५ में दिल्ली में मुझे सपरिवार रहने का सौभाग्य मिला था। श्रद्धेय काकासाहेब कालेलकर के निकटतम व्यक्तियों में श्री रवीन्द्र केलकर थे।

वर्ष १९७७ में मेरी पत्नी लीला कैन्सर से पीडित हुई और वर्ष १९८७ तक कैन्सर विशेषज्ञ पद्मभूषण डॉ. पेमास्टर के द्वारा चिकित्सा-सेवा पाती रही। किन्तु वर्ष १९८७ में ही लीला का कैन्सर रोग भयंकर स्थिति में पहुँच गया और अन्तर्राष्ट्रीय ख्यातिप्राप्त डॉ. प्रफुल्ल देसाई से उन्हें उपचार कराना पडा। डॉ. पेमास्टर तब सेवानिवृत्त हो चुके थे। हम पति-पत्नी का दुर्भाग्य ही था कि डॉ. प्रफुल्ल देसाई ने लीला की जाँच की, अमेरिकन डाक्टरों की राय के विरुद्ध आपरेशन की आवश्यकता बतलाई, आपरेशन की तारीख २२/१२/८७ भी स्वयं तय की, उस दिन अस्पताल में आये भी, एक और पेशन्ट का आपरेशन भी स्वयं ने ही किया लेकिन लीला के आपरेशन के लिए अपने सहायक डॉ. ए. के. मुखर्जी को पेट खोलने के लिए कहा और फिर स्थिति की गंभीरता को समझकर स्वंय ने न कुछ किया और न बीमार को टेबिल पर देखा। सहायक को पेट बन्द करने के आदेश देकर स्वयं चले गये। आपरेशन थियेटर के बाहर हम खडे अवाक् रह गये। बिल में फीस के रुप में रु. ५०००/- चार्ज किये लेकिन शिकायत किये जाने पर बीमार को अपना ही न मान कर देखने से भी इन्कार कर दिया। बीमारी के कष्ट से तडपती हुई लीला ने पत्र लिख लिख कर डा. देसाई को बुलवाने की कोशिश की पर वे नहीं आये और कहला दिया कि लीला उनकी पेशन्ट ही नही है। महाराष्ट्र मैडिकल कौन्सिल ने डॉ. देसाई को दंडित किया। बस लीला के कहने पर मैंने भी बम्बई के दंड न्यायालय में मुकदमा दायर कर दिया। दिन, महिने और वर्ष के बाद वर्ष बीतते चले गये। डॉ. देसाई अपने व्यक्तिगत प्रभाव, पद और पैसे के माध्यम से केस को निरन्तर लम्बित कराते गये और २३ वर्ष बीत गये। अपील पर अपील करते रहे। दो बार सुप्रीम कोर्ट भी गये। हर स्तर पर उन्हें पराजय मिली पर समय बिताते गये और दंड से बचते रहे।

श्री रवीन्द्रभाई उन व्यक्तियों में थे जो अपने पत्रों तथा दूरभाष पर बात करते समय हमेशा मेरा हौसला बढाते रहे। ''अन्याय के विरुद्ध डट कर लडना'' मेरा धर्म है, यही कहते रहे और आज मुझे यह कहते हुए अत्यधिक सन्तोष है कि श्री रवीन्द्रभाई के आशीर्वाद से ही बम्बई की ४७ वीं दंडपालिका ने अपना निर्णय सुना दिया और डॉ. देसाई को जेल भिजवा दिया तथा रु. ५००००/- का मुझे मुआवजा दिये जाने के भी आदेश दे दिये। यह सब रवीन्द्रभाई के आशीर्वादों का ही फल है। उनकी इस प्रथम पुण्यतिथि पर मैं उनको अपने श्रद्धा-सुमन चढा कर अपने आपको धन्य मानता हूँ।

(संपर्क : ०९३२४३२४९०९)

# तातोचें सादेपणूच खरें असामान्य...

शकुंतला भरणे

'पद्मभूषण रवीन्द्र केळेकार', 'ज्ञानपीठ पुरस्कार जोडिल्लो व्हड भारतीय साहित्यकार रवीन्द्र केळेकार' अशें कितें कितें कानार पडटा तेन्ना आमचें नीज गोंयकारांचें, खास करून कोंकणी मोग्यांचें हड्डें अभिमानान फुलून येता. रवीन्द्रबाबां कडेन १९८६ च्या अदमासाक म्हजो संबंद आयलो. तेन्नाय तांचे भोंवतणीं विचारवंताक, व्हड साहित्यकाराक बी आसता तशें वलय आशिल्लें. अशे तरेच्या मनशाक मेळून लागींच्यान ताची जीण नियाळप, तो हेरां कडेन कसो चलता तें पळोवप, ताचे कडेन उलोवप बी असले उद्‌देग करूंक म्हाका आवडटाले.

नांवाजत्या कलाकाराक वा साहित्यकाराक मेळचें जाल्यार ताचो ॲपॉयंटमॅंट घेवचो पडटा आनी ताचो मान, ताची प्रतिश्ठा पळोवन थारिल्ल्या वेळा परस बेगीन वचून थंय बसचें पडटा हें म्हाका खबर आशिल्लें. अशे तरेन खूब कलाकारांक, साहित्यकारांक पळोवपाचो आनी मेळपाचो योग म्हाका आयला. कलेचें मळ समजून घेंवपाक हाचो खूब उपेग जाला. वेगवेगळे तरेचे कलात्मक खीण समजून घेवपाकूय मेळ्ळ्यात. पूण हांकां सगळ्यांक मेळून जातकच म्हजें मन परत तातो म्हऱ्यांत पावलां. कारण, ह्या सगळ्या नामनेच्या लोकांक हांव मेळपाक गेलां तेन्ना भोव कश्टान तांचे कडेन म्हाका वेळ घेवचो पडला. तातोक मेळपाक मात वेळ-काळ-दीस लेगीत केन्ना सोदचो पडूंक ना. केन्नाय कोणाकूय तातोगेर वचपाक मेकळीक. दारांत सॅक्युरिटी गार्ड सोडातूच, ॲपॉयंटमॅंट ना, सेक्रेटरीय ना.

सामकें प्रामाणीकपणान सांगतां, तातोक मेळून जातकच उपरांत नांव जोडिल्ले खूब साहित्यकार आनी कलाकार मेळ्ळे. तातो इतलो सादो आनी मनीसपणान उलोवपी दुसरो कलाकार मात मेळ्ळो ना.

तातोची म्हजी वळख जाली म्हजी इश्टीण माधवी सरदेसायाक लागून. माधवीक तातो बापाय

समान, पुणून नात्यान ताचो तो मामा इतलें हांव जाणां आशिल्लें.

तातोन किर्ते किर्ते बरयलां, ताका खंयचे खंयचे पुरस्कार मेळ्ळ्यात तेंय म्हाका खबर नाशिल्लें. पुणून १९८७ त पयले फावट हांव माधवी बरोबर तातोगेर गेलें, तातोचें ग्रंथालय पळयलें तेन्ना म्हाका अजापूच जालें.

माधवीन म्हाका 'शांति निकेतनां'त वचून रवीन्द्रनाथांच्या रवीन्द्र संगिताच्यो अभ्यास करून मुखार कोंकणी संगिताचो अभ्यास कर म्हणून सुचयल्लें. ताका लागून म्हाका तातोगेर व्हेल्लें. तातोन येना बरोबर पयलीं बंगाली भाशा शिकपाचें पुस्तक काडून म्हज्या हातांत दिलें. मागीर *रवीन्द्र-वीणा* पुस्तक दिलें - इतलेंच न्हय, बंगाली भाशेंत रवीन्द्रनाथांचें काव्य, वांगडा ताचो अर्थ, विनोबांची विचारमाला अशीं कितलींशींच पुस्तकां म्हाका भेट म्हणून दिलीं.

पयलेच फावट हांव तातोक मेळूंक गेल्लें आनी सकाळ सावन सांज मेरेन तातोन बंगाली साहित्यकारांचे साहित्य निर्मणेचेर, तांचे संगिताचे जाणकारीचेर म्हाका भरपूर किर्ते किर्ते सांगिल्लें. सकाळीं च्या पियेवंक बसतना, दनपरां जेवतना, सांजे घरांतल्यान भायर सरंऽ मेरेन म्हज्या संगीत शिक्षणाच्या प्रवासाचेरूच चर्चा जाली.

तातोच्या घरांतल्यान तिळसांजेर, हांव आनी माधवी परतीं मडगांवां येवपाक भायर सरलीं ते मेरेन, आमची चर्चा चालूच आशिल्ली. हांव संगिताच्या मळार कोंकणी खातीर किर्ते तरी करूंक सोदतां म्हणून तातोकूच उमेद आयिल्ली. म्हाका कशी मदत करची ही तातोची उत्कंठा ताच्या तोंडार दिसताली. संगीत शिकपाक भायर सरलां हांव... पुणून पळयतल्याक प्रस्न पडपाचो, तातोक वचपाचें आसा काय म्हाका? कसलोय म्हत्वाचो निर्णय घेवपाक कोणाचो तरी मानसीक, वैचारीक आदार लागता. नाजाल्यार, घरांत तरी तशें वातावरण आसचें पडटा. खरें सांगूं, तातोक मेळिल्ल्या त्या एका दिसाक लागून म्हजे भितर व्हडलो बदल जालो. म्हाका भरारी मारपाचीं पांखां आसात हाची जाणविकाय जाली. हांव आनी माधवी बसींतल्यान प्रियोळ सावन मडगांव पाव मेरेन म्हज्या फुडारा विशींच आनी तातोन सांगिल्ल्या गजालीं विशींच उलयतालीं.

मुखार, म्हाका शांति निकेतनांत प्रवेश मेळ्ळोना. पुणून, एकदां गोंया भायर वचून शिकपाचो निर्णय घेतला तो बदलूं नाका; अंदूं वचूंक मेळ्ळें ना जाल्यार फुडें यत्न कर, पुणून हें वर्स वगडावं नाका अशें तातोचें आनी माधवीचेंय म्हणणें जालें. फुडें मागीर घरंदाज गाण्याचे संस्कार घेवपाचो निर्णय जालो आनी गंगुबाई हानगल हांचे कडेन म्हजें गायनाचें शिक्षण चालू जालें.

हें शिक्षण घेतना बऱ्याच मानसीक कश्टांतल्यान म्हाका फुडें वच्चें पडलें. हुबळी हांव पर्तगाळ स्वामींचे अनुयायी पुरोहीत नरशींव भट हांच्या घरांत रावतालें. तांगेर सगळ्या पिठाधिशांचें, सारस्वतांच्या स्वाम्यांचें यो-वच, चालू आसतालें. वातावरण तशें खूब धर्मीक. धर्म, जात हांची जाणविकाय जावपी वातावरणांत हांव रावून आयिल्लें आसलें तरी शिक्षण घेतना ह्या बंधनांक पाळो दिवपाक म्हजें मन तयार नाशिल्लें. म्हजी वेवस्था केल्ली सर्गेस्त चंद्रकांतबाब केणी हांणी. उदयबाब भेंब्रे आनी, पुंडलीकबाब आनी हेमाबाय नायक हांचोय म्हजे फाटल्यान तेंको आशिल्लो. हांणी सगळ्यांनी म्हाका असल्या वातावरणाची कल्पनाय दिल्ली. पुणून, 'जशें घर तसो सोयरो' हें वाक्य म्हाका तातोन पत्रांतल्यान बरोवन धाडिल्लें.

हांवें गाणें शिकूंक लागना बरोबर तातोक एक पत्र बरयलें. गाणें शिकतना आवाजाक जावपी त्रास आनी थंयच्या वातावरणांत जावपी घुस्मटमार हांव पुंडलीकबाब हेमा कडेन लेगीत उकतो करूंक शकना अशेंय सांगिल्लें. तेन्ना तातोन एक खूब समजिकायेचें पत्र म्हाका बरयल्लें - जें जें काम आमी करतात तें तें आमकां नवें किर्ते तरी शिकयत आसता. तेन्ना, गाणें शिकतना सरभोंवतणच्या वातावरणांत पयलीं एकरूप जावपाचो यत्न कर. थंयचे लोक, तांची भास, तांचें वागप, तांची आवड तांचें न्हेसप हें सगळें आपणावंक सध्या तरी शीक. तें तुजेंय बी अशें समज. म्हणटकच आपशींच तूं तांच्या कुटुंबांतलेंच जावंक पावतलें. वातावरणा कडेन जुळोवन घेवंक जमतकच आपशींच तकली चलूंक लागतली. गाणें सोंपेपणान शिकूंक लागतलें. थोडे दीस मातशें त्रास काड.

अशे तरेच्या उतरांनी तातो म्हाका समजायतालो. आनी हांव तातो सांगता तशें वागपाचो यत्न करतालें. खरें म्हळ्यार, म्हजे प्रस्न सोडोवपाक म्हज्यो खूब इश्टिणी आशिल्ल्यो. पुणून तातो इतलो लागींचो म्हाका तेन्ना कोणूच दिसनाशिल्लो.

आनीक एक फावट तातो कडेन हांव कला अकादमीचे स्कॉलरशिपी विशीं उलयल्लें. म्हाका स्कॉलरशीप मेळ्ळ्यार पयशांचो आदार जातलो अशेंय सहज सांगिल्लें. उपरांत तातो प्रियोळच्यान बस धरून कला अकादमींत गेल्लो. थंय स्कॉलरशिपी विशीं चवकशी करतकच ती मेळपाची शक्यताय ना म्हूण तातोक कळ्ळें तेन्ना ताणें म्हाका सांगलें, "तुका म्हयन्याक येतलो तो खर्च हांव धाडटां. पुणून पयश्यां खातीर शिक्षण सोडुंनाका. पयशे हांव दितां म्हणुनूय कोणाक सांगूं नाका. तुका दिसलेंच जाल्यार म्हजे पयशे परते कर. म्हज्या उपकारांतूय रावं नाका." तातोन, हें चंद्रकांतबाबांक सांगलें जाल्यारूय हांव नकळों, भटमामाच्या घरांत म्हाका केन्नाच पयशे विचारले नात. जेवण-खाण आनी रावप हयो गजाली तांणी म्हाका कुटुंबांतल्या मनशा वरी वागोवनूच पेल्ल्यो. खरें म्हळ्यार, तांच्या घरांतलेंच एक मनीस जावन हांव तांचे भितर रुळूंक पावलें तें तातोन दिल्ल्या धिराक लागुनूच.

तीन-चार वर्सां हुबळी रावन हांव परतें गोंयां आयलें. तशें पळोवंक गेल्यार थोडीशी हार खावनूचशें हांव गोंयां परतल्लें. म्हजो फुडार म्हाका दिसनाशिल्लो. हुबळी येवचे पयलीं हांव ल्हानशी नोकरी करतालें. म्हणटकच पांयांर उबें रावपाची संवय जाल्ली. अशी संवय जाता तेन्ना हातांत पयसो नासतकच किर्ते अवस्था जाता तें कथन करपाची गरज ना. समजुपी समजून घेतात.

अशे परिस्थितींत आकाशवाणी-पणजी केंद्राचेर निवेदिका म्हण म्हजी वेंचणूक जाली. कसलोच वशिलो लायनासतना ही नोकरी हातांत मेळ्ळी म्हणून स्विकारली. पुणून, गोंयां येतकच परतून तसो गाण्याचो फुडार दिसनाशिल्लो. एक दीस अशेंच अस्वस्थ मनस्थितींत तातो म्हऱ्यांत वचून बसलें आनी तातोक सांगलें, "म्हजें खंयच लक्ष लागना, हांव किर्ते करतां तातूंत म्हाका समाधान मेळना. हांव गायन शिकतां खरें, पुणून तें अदांरूच सोडून म्हाका परतें येवचें पडलां... अशें सगळें सांगून उडयलें. मनाचो ओग भायर सरतकच मातशें शांत

जालें. तातो म्हाका पळयतालो, अपुरबायेन. मुमुरख्यांनीच हांसतालो. ल्हान भुरगो खूब वेळ रुखार फातर मारता आनी एकदम तीर लागून फळ सकयल पडटकच जो आनंद घेता तसोच तातो म्हाका त्या खिणाक दिसलो. हांवें विचारलें, ''तातो हांव म्हजी वेदना सांगतां आनी तुका हो फकाणां करपाचो खीण दिसता? हांव कितें करूं? म्हाका तुजो सल्लो जाय.''

तातोन हांसत सांगलें, ''सादी गजाल! तूं वाडूंक लागलां. तुजी आकलन शक्ती प्रगल्भ जावंक सोदता. तिका वाट करुन दी.'' डिप्रेशन, फ्रस्ट्रेशन येवप ही मनशाचे जिणेची सामकी म्हत्वाची अवस्था. तातूंतल्यान तूं भायर सरूंक सोदता म्हणून तुवें तुजें दुःख उकतें केलें. आतां मुखार तुका कितें करीन दिसता, फुडलें शिक्षण घेवपाक कितें पर्याय दिसता तें सोद... आपसुकूच मेळटली वाट...'' आतां, सोदप कशें? खरें सांगूं, तातोन एकूच हिंट दिल्लो, ''आमी बरोवपी आपणाली उदरगत करपाक वाचन करतात. भोंवडी करतात. हेर भासांनी साहित्य खंय पावलां तें पळयतात. आनी तातूंत आपलो पांवडो सोदीत रावतात... म्हणून, बरयत रावतात... गायकांनी कितें करचें पडटा? तूं थारावंक शकना?''

हांवें म्हळें, ''तातो, गुरू सांगता तशें करप, ताचे बगर मार्ग कसो मेळटलो?

तातोक म्हजें उलोवप आवडलेंना काय दिसलें. तरी म्हजेर एक गंभीर नदर घालून तो ओग्गी रावलो... मुखार म्हणपाक लागलो, ''गुरू सांगता तें करप, मान्य! पुणून, तुका आसा ते तकलेन कितें करप? ओग्गी बसप? तुज्या आपणाल्या विचारांक वाट कशी मेळटली? म्हणटकच, आपल्या विशयाचेर आपणें कसो अभ्यास करप हाचेर थोडेशें स्वातंत्र्य आपणेंय घेवप गरजेचें...''

तातो कितें सांगूंक सोदतालो तें तेन्ना सारकें कळनाशिल्लें. पुणून, म्हज्या विचारां सकट हांवें स्वतंत्र जावप आनी मेकळें जगप हेंच तातोचें म्हणणें इतली जाणीव जाली आनी हेंच तत्व म्हजे कलेकूय लावपाक हांव धडपडूंक लागलें.

अश्यो कितल्योश्योच गजाली तातो कडेन बसून केल्ल्या संवादांतल्यान घडल्यात आनी तातूंतल्यान म्हजी चिंतनात्मक शक्त वापरपाक म्हाका दिशा मेळत रावल्या.

आकाशवाणीचेर निवदिकेचे सेवेंत रावून लेगीत शिकपाची संद म्हाका मेळूं येता हाची जाणीव जावपाक लागली. भरपूर गाणें आयकुपाक मेळ्ळें. बुजूर्ग मंडळीचें गाणें आयकतना तांच्या आवाजाची खोलाय इल्ली इल्ली लक्षांत येवपाक लागली. गावपी कितलो बुद्धीमान आसा हाचे परस ताणें कितलो आकार सांबाळ्ळा तें जाणून घेवप, ताची स्वर लावपाची खोलाय लक्षांत घेवप, तो स्वर भितल्ल्यान अणभवप चड म्हत्वाचें हाची जाणीव जावपाक लागली. गाणें आयकप, गाण्याचेर वाचप, वेगवेगळ्या संगीत शैलींचेर अभ्यास करप आनी अभ्यासांतल्यान आपलो स्वतंत्र विचार ठामपणान मांडपाची तांक वाडोवप, ह्यो सगल्यो गजाली आपसुकूच सुरू जाल्यो. आनी, ताका लागुनूच सतत चलतां भोवतां नकळटना अभ्यास करीत रावपाचीय संवय जावन पडली.

म्हजें *स्वरानंद* हें पयलें संगिता वयलें पुस्तक आयलें तेन्ना तातोन म्हाका बरयल्लें पत्र हांवें सांबाळून दवरलां. संद मेळटा तेन्ना तातोच्या अक्षरांतलें तें पत्र हांव वाचतां. एक पवित्र सांठवण म्हणून हांवें तें सांबाळून दवरलां. त्या पत्रांत तातोन म्हजेर खूब आत्मविश्वास व्यक्त केल्लो. तातूंतलो मजकूर म्हजे यादींत तस्सो आसा.

''शकुंतला, तुजे भितर तुजें नवें संगीत घराणें घडोवपा इतली तांक आसा. ती तांक तुज्या लिखाणांत दिसता. खूब व्हडलें जा. आनी कोंकणी संगीत संवसाराच्या नकाशाचेर स्वतंत्र तेजान झळकतलें इतली शक्ती वाडय... म्हाका तुजो अभिमान दिसता.''

तातो खंय आनी हांव खंय! तरी पुणून मुखार वचपाक सतत वाट दाखोवपी तातो म्हाका खूब फावटीं इतलो व्हड आसून लेगीत म्हजे बरोबरचोच कसो दिसतालो. येदो व्हडलो तातो जर इतलो सादो जावन वागता जाल्यार म्हजे सारके ल्हानशे गायिकेन कोणाक देखावो करून दाखोवपाचो? हांव 'कलाकार' म्हणून कित्याक मिरोवपाचें?

खरें म्हळ्यार, तातोचें सादेपणूच खरें असामान्य. व्हड विचारवंत आसून लेगीत मुखार बशिल्ल्या मनशाची तांक पळोवनूच आपणें ताचे कडेन संवाद करप आनी सामको ताचे येदोच जावन उलोवप हें तातोक जमलां. अशें सगळ्याच व्हड मनशांक जमलां अशें म्हणूंक येवचेंना.

म्हजी इश्टीण माधवी सदांच सांगतालें, ''वेळ मेळटा तेन्ना तातो म्हऱ्यांत वचून बस!'' खरेंच, आज, ताचें आयकल्लें जाल्यार हांव विचारांनी आनिकूय गिरेस्त जावपाचें. कारण, तातो म्हऱ्यांत वचून बसलां तेन्ना तेन्ना म्हजे वैचारीक पोटलेंत आनिकूय रत्नां भरून हांव परतलां. तातोच्या सहवासांतली प्रत्येक गजाल एक क्रियात्मक वा नवनिर्मणेचो खीण घेवन येताली. आज, तातो शरिरान आमचे मदीं ना. पुणून तातोच्या विचारां सकट घडिल्लीं आमी एका वेगळ्याच आत्मविश्वासान आपल्या आपल्या क्षेत्रांत कलात्मकतेची वाट सोदीत मुखार वचत रावतलीं हातूंत दुबाव ना.

तातो हो संवसार सोडून गेलो तो दीस २७ ऑगस्ट २०१०. सकाळीं तातो संवसाराक अंतरलो आनी त्या दिसा सांजेची ५.३०क म्हजी जल्मदात्री आवय विजया आरसेकार संवसाराक अंतरली.

म्हजे आवयन म्हाका ल्हानाचें व्हड केलें... संस्कार दिले, आनी तातो सारक्या म्हान मनशा कडेन वतना आपूण गिन्यान घेवपाक भुकेलां हें लक्षांत दवरुनूच आदर्श घेवपाक तिणें म्हाका शिकयलें. तातोन म्हज्यांत आशिल्ले उपजत कलेक आनी गुणांक वाट कशी करून दिवप तें शिकयलें. नकळटना कांय तत्वांची, निश्ठेची जाणीव करून दिली. म्हाका योग्य दिका दाखोवपी, आकार दिवपी तातो कडेन आशिल्लें म्हजें वडील-भुरग्यांचें नातेंय बी भांगराच्या मणयांनी बांदून सासणा खातीर सांबाळपाचें इतलें श्रेश्ठ अशें म्हाका दिसता. अजुनूय खूब गजाली आसात, केन्ना तरी मुखार त्यो कथन करपाची संद हांव घेतलेंच.

(संपर्क : ०९४२३०५९०२२)

# आनंदयात्री तातो

**सुधा आमोणकार**

म्हज्या भुरगेपणांत आमी मुंबय गांवदेवींत रावतालीं. गांवदेवी वयल्यान लॅबरनॉम मार्ग आमच्या घरा पसून दोन मिनटांचेर. त्याच मार्गार 'मणिभवन' आशिल्लें.

म्हजो बापूय, वसंतबाब बोरकार, आमकां सदांच सांगतालो, ''आगो, मणिभवनांत व्हडले व्हडले विद्‌वान, विचारवंत आनी आदर्श व्यक्ती येतात. असल्या मनशांचीं भाशणां ल्हानपणा सावन आयकूंक जाय, तुमच्या मनार बरे संस्कार जातले.'' आनी म्हणून, म्हजी भयण सुमन आनी हांव, आमच्या आवय-बापाय वांगडा तीं व्याख्यानां आयकूंक वतालीं. दादा धर्माधिकारी, काकासायब कालेलकर, बी विचारवंतांचीं भाशणां आयकतनाच आमकांय स्फूर्त आनी प्रेरणाय मेळटाली.

तातो आनी गोदुबाय कांय वसां मुंबयंत राविल्लीं. तातोन तेन्ना बोर्डीचें धा दिसांचें शिबीर थारायल्लें. मेचे सुटयेंत. तातोन शिबिरार्थी समर्थपणान येवजण केल्ली. तरेतरेच्या विद्‌वान लोकांक आमंत्रण दिल्लें. ते आदीं कांय वसां तातो वर्ध्याक राविल्ले. ते बऱ्या बऱ्या विचारवंतांक वळखताले. तांच्या व्याख्यानांनी आमकां गांधीजींचें विलक्षण दर्शन घडिल्लें. गांधीजी एक 'युगपुरूस' हाचोय आमकां अणभव आयिल्लो

रातच्या वेळार तातो सांगताले, ''मळबांत पळयात. हीऽ ती आकाशगंगा... मळबांतल्या तरांतरांच्या नक्षत्रां, ग्रहां संबंधीं तातो सांगतालो. आयजूय मृग, सप्तर्षी, ध्रूव, कृत्तिका, रोहिणी बी पळेतां तेन्ना म्हाका भुरगेपणांतल्यो म्हाेंवाळ यादी येतात. तातोन तरातरांच्या नक्षत्रांचें ज्ञान आमकां ह्या शिबिरांत दिल्लें...

शिबिराक आमी फांतोडेर पांचांक उठ्ठालीं. मागीर हॉलांत वचून प्रार्थना करतालीं. उपरांत नाश्तो घेवन, विद्‌वानांचीं बौद्‌धिकां आयकतालीं.

एक दीस म्हजो कान फोडूंक लागलो. आवयची याद आयली. दोळ्यांत दुकां आयलीं. आमचे

वांगडा मालूताई देशपांडे आसलें. खुबूच मायेस्त. ताणें विचारलें, ''आगो, तुज्या दोळ्यांत दुकां शीं?

म्हळें, ''मालूताई, कान सामको फोडटा.''

मालूताई उठलें आनी गोदुबायक मेळून ताचे कडल्यान दूख वचपाची एक गुळी घेवन आयलें. मालूताई रातचें म्हजे म्हन्यांतूच न्हिदलें आनी म्हजीं दुकां नाशीं केलीं. ताचो मायेचो स्पर्श अजून हांव विसरूंक ना. साठ वर्सां पयलींची ही याद. अजून मालूताईक हांव मेळटां तेन्ना ती याद हांव काडटा आनी तें मुमुरखेंशें हांसता.

त्या शिबिरांत कवी शंकर भांडारी आशिल्लो. ताची खूब फावटीं याद येता. आपणें रचिल्ल्यो कविता तो सुरांत गायतालो. आपल्याच सपनांनी गुल्ल आसतालो. सदां प्रसन्न आसतालो. ताचे वांगडा कांय वेळ सारतकच्च आमच्या भुरग्यांचो वेळ आनंदांत वतालो.

भुरगेपणा सावन तातोक आनी गोदुबायक हांव पळयत आयलां. केन्ना केन्ना तीं दोगांय गांवदेवीच्या घरांत येतालीं आनी म्हज्या बापाय वांगडा बसून 'गोमंत भारती'चो वावर करतालीं. तातोचो आनी गोदुबायचो सहवास मेळटकच म्हाकाय अप्रूप खोस मेळटाली.

तातो तेन्ना तरूण आशिल्ले. ध्येयवादी आशिल्ले. तशेच संघटना कुशळ आशिल्ले. ह्या दोनूय खुबींचो उपयोग गोंयच्या समाजाक करून दिवपाचें तांणी थारायलें. तेन्ना गोंयाक स्वातंत्र्य मेळूंक नासलें. ते खातीर, स्वातंत्र्य जोडूंक प्रेरीत करपी साहित्याचें कोंकणींत भाशांतर करून, मुंबयच्या गोंयकारां मदीं आनी गोंयांत पावोवपाची वेवस्था ते करी. तेन्ना आमचो चुलतो, बाकीबाब बोरकार, आनी कांय तरणाटे कार्यकर्ते, 'प्रजेचो आवाज' म्हणून एक साप्ताहीक काडटाले. तें कांय वर्सां चल्लें. हे बाबतींत आचार्य काकासायब कालेलकर हांची तांकां बरीच मदत जाली. ह्या काळांत आचार्य काकासायब कालेलकर, तशेच नामनेचे नाटककार मामा वरेरकर, आनी पुरुषोत्तम मंगेश लाड (आयसीएस् आनी संस्कृतचे पंडीत) हांचे सारक्या व्हडल्या व्हडल्या मनशांचो सहवास मेळ्ळो. म्हज्या बापायक तातो मेळ्ळो आनी वैचारीक दृश्टीन ताचो बरोच फायदोय जालो.

म्हजे भाव, आमचे चुलतभाव, भयण आनी हांव 'प्रजेचो आवाज' बुक-पोस्ट करपा खातीर तांचेर पत्ते बरोवपाचें काम एकठांय बसून करतालीं. हें आमचेंच काम ही भावना आमच्या काळजांत आसताली. तातूंत आमकांय अप्रूप समाधान मेळटालें. ह्या सामाजीक कार्याचें इल्लें पुण्यूय आमच्या पदरांत पडलें जायत.

गोंयच्या समाजाचे उदरगती खातीर गांधी साहित्य आनी भारतांतल्या दुसऱ्या विचारवंतांचें साहित्य मुखेलपणान कोंकणींतल्यान उपलब्ध करून दिवपाच्या उद्‌दिश्टान 'गोमंत भारती' हे संस्थेची आचार्य काकासायब कालेलकर हांचे प्रेरणेन १९५४ त स्थापना जाल्ली. गोमंत भारतीन 'संस्कार साहित्य' म्हणूं येत अशीं बरींच पुस्तकां उजवाडायल्लीं. तांतलें पयलें *पुण्यभूमि गोमंतक* हें पुस्तक खुद्द आचार्य काकासायबान (मराठींत) बरयल्लें. हें पुस्तक म्हणचे आचार्य काकासायबान वेगळ्या वेगळ्या वेळार गोंया संबंधान बरयल्ल्या लेखांचो संग्रह. कोंकणींत अणकार करून जीं पुस्तकां उजवाडयल्लीं तीं चडशीं गांधी साहित्याचींच पुस्तकां आसलीं. ना म्हळ्यार, कवी डॉ. मनोहरराय ल. सरदेसाय हांचो एक कविता संग्रह *गोंया तुज्या मोगाखातीर* आनी तांचीच एक संगितिका *आयज रे धोलार पडली बडी* हीं दोन मूळ कोंकणी पुस्तकां गोमंत भारतीन उजवाडयलीं. गांधी साहित्या वयलीं पुस्तकां कोंकणींतले नामनेचे लेखक आचार्य रामचंद्र नारायण नायक आनी तातो हांणी बरयल्लीं वा अणकारिल्लीं.

वर्ध्याक विनोबाजी भावे हांच्या आश्रमांत जे कार्यक्रम चलताले तातूंतल्यान प्रेरणा घेवन 'सूत कताई' सारके रचनात्मक कार्यक्रमूय 'गोमंत भारती' चलयताली. ह्या कार्यक्रमां खातीर पुरुषोत्तम काकोडकार हांणी फुडाकार घेतिल्लो. म्हज्या बापायन आनी तातोनूय तांकां खूब सहकार्य दिल्लें.

ह्यो सगळ्यो फाटल्यो यादी...

निमणे मेरेन तातो बरयताले. केन्ना केन्ना दुयेंत जावन वखदांक लागून हात थरथरताले तेन्ना कांय दीस बरय नाशिल्ले, इतलेंच. *वेळे वयल्यो घुलो* ह्या पुस्तकांत तातो म्हणटात -

> ''ह्या उबून वतल्या अणभवांक आनी विचारांक बांदून दवरपा खातीर हांव आयच्यान दिसपटी बरयतलों म्हणटां.
>
> ''इतलेंच, सदां बरयतलों असो सोपूत घेना. आनी अमकेंच बरयतलों, असोय नेम करिना. बरयन दिसता ते मेरेन बरयतलों आनी जें कितें बरोवपा सारकें दिसता तेंच बरयतलों.
>
> ''बरयतां बरयतां सदां बरोवपाची संवय जाली जाल्यार वायट-शें जावचें ना!''

तातो मनाक शांतपणान समजून घेतात. तरातरांच्या अणभवांतल्यान येवपी विचारांक उतरांनी बांदून दवरपाची तांणी संवय लावन घेतिल्ली.

ह्या पुस्तकाक बरयल्ले प्रस्तावनेंत, 'घुलो कानांक लायतकच' ह्या बरपांत, मनोहरराय म्हणटात -

'''मनीस जसो चिंतता तसो तो घडटा' अशें भगवान बुद्धान म्हळां. चिंतनाची ही शक्त, हें व्हडपण रवीन्द्रान पारखिलां.

> ''रवीन्द्राचे हे दिसपटयेक ताच्या जिविताची लांबाय-रुंदाय आनी खोलाय आसा. समुद्रमंथन करून जिविताचो दर्या घुसळून काडिल्ल्यो ह्यो घुलो. जिविताचे दर्यावेळेर घुलो पातळ्ळ्यात. पुणून त्यो पुंजावन घरा हाडपाची बुदद थोड्यांकूच जाता. ह्यो घुलो, तरेकतरा आकारांच्यो. तरेकतरा रुपा-रंगांच्यो. घुलो कानाक लायल्यार खंय तातूंत दर्याचो आवाज आयकूंक येता. ह्योय घुलो कानाक लायल्यार तातूंतल्यान जिविताच्या दर्याचो उलो कानांत गाजतलो. दीस धारेर गेला. दर्या पयस आसा.''

मनोहररायांचें कवीचें मन. कवीच्या मनाक दोळे आसतात, कानूय आसतात. ह्या दोळ्यांनी मनांतले तरातरांचे रंग ते पळयतात, कानांनी सुरेल संगीत आयकतात. कवी आनी चिंतक हांची प्रकृती वेगळी.

'पांथस्थ' ह्या पुस्तकांत तातोन म्हळां -

> ''समाजांतल्या ल्हान व्हड सगल्यांच्या सुखादुखखां कडेन एकरूप जावप सगल्यांकूच जमना. सगल्यांचें जिवीत इतले मोटें आसना. जाका हें सादता ताच्या व्यक्तित्वांत समाजाच्यो आकांक्षा प्रतिबिंबीत जातात आनी इतिहास ताकाच त्या

काळांतलो युगपुरूस मानता.'' तातोन जिवितांत वेगळे वेगळे अणभव घेतल्यात. ह्या अणभवांची अप्रूप तांक तातोच्या समर्थ विचारांक मेळत आयल्या.

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय 'पांथस्थ' पुस्तकाक बरयल्ले 'नवी वाट' हे प्रस्तावनेंत बरयतात -

''आमी जशी हुकूमशाय पळयली तशी संवसाराच्यां हेर वाठारांनीय पळयली. रवीन्द्र ह्या मंथनाचो एक गवाय. आमच्या महाभारतांतलें हें एक पर्व. मुक्तीपर्व पयशिल्ल्यान पळयल्लें न्हय जाल्यार लागच्यान भोगिल्लें. रगतांत. हाडामासांत. आनी ह्या सगल्या काळखी तुफानांतल्यान एक थरथरती जोत दिसता. डॉ. राम मनोहर लोहियाची. तो कोण, खंयचो, केन्ना आयलो, कित्याक पावलो हें सांगपांत म्हत्व ना. तो पेटत आयलो आनी पेटयत गेलो. उज्याक नांव नासता, उज्यांत आसता फकत एक शक्त. हीण तें जळोवन उडोवपाची. आमी उजवाडान जीण भरपाची आनी हो उजवाड 'पांथस्थ' आमकां दिता. फुडली वाट चलपाक इतलो उजवाड पुरो. पूण जिविताची वाट थरयल्ली नासता. दर दिसा, दर खिणाक नवी वाट घडोवची पडटा. संवसारांतल्या सगल्या मनशांक सांगाताक घेवन. आज पुर्तुगालाक गोंयचो आधार जाय हो नवो फुडार घडोवपाक.''

नवी वाट आमीच समर्थतेन निर्माण करपाची, हे मनांतले अप्रूप उमाळे मनोहरराय हांगा व्यक्त करतात.

*आमोरेर* ह्या २००३ वर्सा उजवाडा आयिल्ल्या तातोच्या पुस्तकाक बरयल्ल्या 'सुरवेच्या उतरां'नी माधवी सरदेसाय बरयता, ''शणै गोंयबाबांलो वावर मुखार व्हरपी तांगेल्या उत्तराधिकाऱ्यां मजगतचे एक रवीन्द्रबाब.''

शणै गोंयबाबांलो वावर तातोन वेगळे वेगळे तरेन मुखार व्हेला. तातोक मेळूंक वतालें तेन्ना ते म्हाका म्हणी, ''आगो, सुधा तूंय बरय...'' ह्या उतरांतल्यान म्हाका स्फूर्त आनी प्रेरणाय मेळ्ळ्या.

२०१० वर्सा उजवाडा आयिल्ल्या तातोच्या निमाण्या *कषाय मधुर* पुस्तकाचे 'एका तपाचें संचीत... युगान्तराचें भाकीत!' हे प्रस्तावनेंत किरण बुडकुले बरयतात,

''कषाय मधुर एका आधुनीक तपस्वी संवेदनेच्या पुराय तपाचें संचीत, पूण तातूंतल्या धारणा-अवधारणांचें आलोचना-अवलोकनांचें पाथेय पळेल्यार ताका भावी बदलाचें आश्वासक अर्जीत म्हणूंक जाय. तातूंत युगान्तराची संभावना लिपल्या आनी... भाकितूय''

किरणबाय तातोची अप्रूप तांक वळखल्यात. तांणी 'युगान्तरा'चे गूण तांचे भितर पळयल्यात हें विशेश.

*सर्जकाची आंतरकथा* हें तातोचें पुस्तक २००० वर्सा उजवाडा आयलां. हे आंतरकथेचे आंतरकथेंत ते बरयतात,

''साहित्याक हांवें केन्ना मनरिझवणचो वावर मानलोना. हांवें ताका जिवीत घडोवपी एक वावर मानला. साडेचार दसकांचे हे साहित्य सेवेंत, जीं सत्यां होलमलीं, तीं ह्या पुस्तकांतल्यान वाचप्यां मुखार दवरल्यांत. उपासना करूंक जाय ती जिविताची, अशें सदां मानीत आनी म्हणीत आयलां. साहित्य हें जिविताचें एक उपफळ - एक बाय प्रॉडक्ट- हेच नदरेन ताचे कडेन सदांच पळेत आयलां. म्हूण म्हज्यांतल्या कलाकाराक हांवें म्हज्यांतल्या साहित्यकाराचो धनी जावंक केन्ना दिलो ना. सेवकूच दवरलो. साहित्यकार हो विचारवंतूच आसूंक जाय. खासा चिंतपी आनी दुसऱ्यांकूय चिंतूक लावपी आसूंक जाय. 'सांगपा सारकें' कितेंय तरी आसूंक जाय. मागीर, तें बरोवं तो कथा, नवलकथा, नाटक, निबंध, कविता वा दुसऱ्या खंयच्याय रुपान, अशें म्हणीत आयलां.''

साहित्य जिवीत घडोवपी आसूंक जाय हें मत म्हाकाय सामकें पट्टा. आनीक एके कडेन ते बरयतात,

''काकासायबांनी सांगलें, बरोवपी मुळांत विचारवंतूच आसूंक जाय. ताचे कडेन लोकांक दिवपा सारकें कितेंय तरी आसूंक जाय. तो जें कितें सांगता ताकाच म्हत्व आसा. तो जें सांगता तें ताणें बरें भाशेन सांगूंक जाय. ते खातीर ताणें आपणांतल्या कलाकाराची सेवा घेवंक जाय.''

तातोन 'जाग' तीन दसकां वयर चलयल्लें. दर म्हयन्याक ते अंक काडटाले. तातूंत तांचे प्रेरणादायक लेख आसताले. तातोन निमणे मेरेन आपणाली लेखणी समर्थपणान चलयली. 'नवप्रभे'तल्या 'स्वगतां'तल्यानूय तांणी हेंच काम केले.

तातोन सांगिल्लें, ''वर्सांचे नदरेन जीण ल्हान आसूं वा व्हड, ती संपूर्ण आसूंक जाय. आनी कविते भाशेन जंय ती सोंपता थंयच तिका उतरां विणें गुणगुणूंक येवंक जाय.''

निमाणे तांतोचीं पावलां आनंदमार्गाचेर पडलीं. निमणे मेरेन तातो उतरां विणें गुणगुणूंक लागले. तातोच्या सुरांतल्यान तो मायेचो सूर, म्हज्या कानांत गुणगुणटा, म्हज्या काळजांत तांचो आवाज सदां घुमता. तातो खऱ्या अर्थान 'आनंदयात्री' आसले, अशेंच हांव म्हणीन.

(संपर्क : ०८३२-२२५६६४६)

# मेरे मन के मोती

**कृष्णा शर्मा**

मेरा और रवीन्द्रभाई का सम्बन्ध १९७९ से था। फरवरी में वे साहित्य अकादमी के कार्य हेतु दिल्ली आये थे। मैं दिसम्बर, १९७८ में ही 'सन्निधि' से जुड़ी थी। तब यदा कदा सरोज बा के मुँह से उनके बारे में सुना था पर देखा फरवरी में। वे 'सन्निधि' काकासाहेब के सान्निध्य में रहते जब जब दिल्ली आना होता।

हम काकासाहेब के बरामदे में इकट्ठा हुए थे। एक दूसरे का परिचय बा करा रही थीं। तब उन्होंने रवीन्द्रभाई से मुखातिब हो कहा, "रवीन्द्र, ये मेरी कृष्णा है जो बालवाडी में समय देती है।" एक दूसरे से परिचय होते ही लगा, हम एक दूसरे को पहले से ही जानते हैं। फिर तो जब वे दिल्ली आते, गोदू दी की साडी हो या उनकी पोती पुतूल की फरमाइश, मैं 'क्नॉट प्लेस' साथ जाती। मैं घरेलू थी। घर की जिम्मेदारियों से बँधी 'सन्निधि' में बस ९ से १२ का ही समय दे पाती थी। उसी में से किसी भी संस्थागत कार्य के लिए समय निकालना पडता था।

मैंने अपना पहला पत्र गोदी- (गोदूबाय को मैं गोदी कहती थी) के नाम लिखा था। अपना परिचय उसमें लिखकर कहा था- "मेरे और रवीन्द्रभाई के रिश्ते का मैं नाम नहीं जानती, पर एक शुभेच्छु जरूर हूँ और उनके प्रति अपने मन में एक अलग भाव पाती हूँ। मेरे पति मुझे बहुत प्यार करते हैं। दो बेटों की माँ हूँ। पारिवारिक संस्कारों से बँधी हूँ। इतना विश्वास दिलाती हूँ कि मर्यादा का ख्याल रखकर इस रिश्ते का पालन करूंगी। आप सोचेंगी, एक विवाहित स्त्री ऐसे कैसे किसी पर पुरुष पर अपना स्नेह उँडेल सकती है। पर जीवन में एक आदर्श पुरुष हर स्त्री के मन में होता है। वो गुरु के रूप में भी हो सकता है पर रवीन्द्रभाई को

गुरु सम्प्रदाय पसन्द नहीं इसीलिए मैं उनकी बस कृष्णा ही रहना चाहती हूँ।''

मेरा पत्र पाकर रवीन्द्रभाई चकित से हो गए। गोदी के साथ-साथ उनका भी पत्र आया। गोदी ने बस इतना ही लिखा - ''तुम खुले हृदय से हमें अपना सकती हो बिना किसी संशय के, मेरा विश्वास करो, आज से तुम हमारी हो।'' पर रवीन्द्रभाई ने अच्छा लम्बा पत्र लिखा। कहा, ''मेरी पत्नी है जिसे मैं बहुत प्यार करता हूँ। रिश्तों से भरपूर परिवार है जो मेरे हृदय चक्र में अपना विशेष स्थान रखता है। भाई-बहन, बेटे-बेटियों की सम्पदा से मैं समृद्ध हूँ। अब बताओ, इस हृदय चक्र में कौनसा रिश्ता बचा है जो मेरे पास नहीं! हाँ, एक मित्र का रिश्ता है। वहाँ इतिहास खोलकर देखता हूँ तो जैसे द्रौपदी (कृष्णा) और कृष्ण का है वैसा पवित्र प्रगाढ प्रेम मुझे दूसरा नहीं दिखता। तुम्हारी-मेरी मित्रता उसी का नाम ले सकती है।'' और उन्होंने जीवन भर उस रिश्ते की गरिमा निभाई। मैं चूक जाती, पर उनका स्नेह सागर मेरे लिए कभी नहीं सुखा। हर खुशी, हर गम में साथ दिखते। बेटे का एक्सीडेंट हुआ तब भागे-भागे कृष्ण सदृश्य दिल्ली चले आये। सिर्फ मेरे लिए। कहा, मेरी कृष्णा भाग्यवान है, भगवान उसका अनिष्ट कर ही नहीं सकते, तुम निश्चिंत रहो। बेटे की शादी में मेरी खुशी बाँटने आये। ऐसे रिश्ते में बँधे थे वे और मैं जिसमें न शब्द न अर्थ न सामाजिक परिवेश। मैंने तमाम जिंदगी इस अनमोल अविरत रिश्ते का खजाना पाया और मैं गदगद हो गई, या कहूँ, पूर्ण हुई मेरी जीवन खोज।

गोवा में कितनी बार गई-आई गिनती नहीं। गोवा को कैसे-कैसे निहारा, याद नहीं, पर गोवा को हर तरह से देखा। जल, सडक, रेल से, हवाई यात्रा से, हर घाट देखा, दक्षिण उत्तर पूर्व से पश्चिम, रेल से स्टीमर से, कार से, हवाई जहाज से, बस से, बस नहीं देख पाई आम्बोली घाट। वो रह ही गया। क्योंकि वहाँ उनके साथ जाना था या कहूँ, उन्होंने वादा किया था दिखाने का। यही बस एक साध रह गई।

प्रिय माधवी ने अनेक बार कहा, तुम तातो के बारे में कुछ लिखो। पर कहाँ से शुरू करूँ, समझ नहीं पाती। तीस वर्षों को समेटना मुझ अगढ प्राणी से कैसे हो पाता। वे अक्सर कहते, इतना कहती हो तो कुछ लिखो भी! पर मैं पत्र भी समय पर नहीं लिखती। तब कहते, तुम जिन्दा हो या मर गई, कोई खबर नहीं। तब मैं कहती, तुम कहते थे ना, *अध जल गगरी छलकत जाय,* ज्ञान संपूर्ण होगा तभी तो लिखूँगी। और जो मेरी खबर की बात है, मैं यहाँ हूँ, तुम तक विचारों से पहुँच ही जाती हूँ। टेलीपैथी पर विश्वास है ना?... और ऐसा होता भी। कुछ संकट अमंगल होने को होता, मुझे उसका अनुभव यहाँ होता। बाई की मृत्यु, हुई उसी रात स्वप्न में मुझ तक आई। फोन किया तो पता लगा, वे चली गई। उन्हें ले जा रहे हैं। ऐसा सम्बन्ध है मेरा उस परिवार से।

मेरे पहुँचने से पहले ही उस परिवार में मैं रच-बस चुकी थी। सब ऐसे मिले, मानो कब से जानते हैं। उस परिवार की बेटी का सा सम्मान मुझे मिला। रोहिणी ने बताया, जब तातो कृष्णा नाम की स्त्री का (आपका) जिक्र करते तब हमें लगता, कोई पंजाबी लडकी है, जो बहुत 'बिंदास' होगी... जब मैं गोवा गई, सब से मिली, मैंने पूछा अब कैसी लगी? तब बोली, हम जैसी अपनी ही लगती हो।

साहित्य के क्षेत्र में उनकी प्रसिद्धी जग जाहिर है। वे एक अच्छे लेखक ही नहीं विचारक भी थे और अच्छे इन्सान भी। इन्सान के रूप में मैंने उन्हें बहुत करीब से जाना है। हर रिश्ते को पूरी ईमानदारी से निभाते देखा है। चाहे पति के रूप में, पिता के रूप में, बेटे के रूप में या भाई के रूप में। झूठ दंभ उन्हें छूता भी नहीं था। वे कहते, मैंने सही मायने में आजादी का भोग किया। किसी प्रकार की गुलामी स्वीकार नहीं की। जितना धन जरूरी हो उतना ही कमाया। पूरी ईमानदारी के साथ, धन के पीछे भागना गुलामी की निशानी है। जरूरतों का गुलाम ही गुलाम बनता है। सामाजिक मर्यादा का निर्वाह उन्होंने जीवन पर्यन्त किया। कोशिश रहती, किसी को उनके आचरण से ठेस न लगे। पीठ पीछे बुराई करना उन्हें कभी पसन्द नहीं था। वे कहते, कायरता की निशानी है यह।

वे सच्चे धार्मिक थे। सच्ची धार्मिकता का अर्थ यह नहीं कि वे मंदिर जाते। धार्मिक आडम्बर में वे विश्वास नहीं रखते थे। वे कहते, सब धर्म अच्छे हैं पर सब कच्चे हैं। अच्छे इसलिए कि हर धर्म के प्रणेता सामाजिक कुरीतियों, अंध विश्वासों, संकीर्णताओं के विरोध में खडे हुए। समाज में फैली कट्टरता, अंधविश्वास मिटाने के विरोध में उन्होंने आवाज उठाई। पर जब वे संत गुजर गए, उनके विचारों को एक नये धर्म का नाम दिया गया। वही सब हुआ जिसके विरोध में वे लडे, अलख जगाई सामाजिक जागरण से प्रेम त्याग अंहिसा करुणा बन्धुत्व का आह्वान किया। पर उनके अनुयायियों ने, जिन सिद्धान्तों के लिये वे जीयें उन्हें ही भूला। वही भूल दोहरायी। इससे पुनः कट्टरता आई। धर्म का अमृत्व कम पड गया। विष वमन ज्यादा होने लगा। तभी वे कहते, धर्म अच्छे हैं क्योंकि मानव सेवा के लिए बने। पर सूत कच्चे रहे। वे धर्म समभाव के पक्के समर्थक थे। गांधी विचार के सच्चे अनुयायी थे। प्रभु में विश्वास ही उन्हें सब धर्मों के प्रति सम्मान करने की प्रेरणा देता रहा।

उनका धर्म गांधीजी की विचारधारा पर आधारित था। काकासाहेब से वे काफि प्रभावित थे। गांधी विचारों को उन्होंने पूर्ण आत्मसात किया था। पर हृदय राम मनोहर लोहिया को

दिया था। वे लोहिया पर जब भी बोलते खुले हृदय से बोलते। आँखें नम हो जाती थीं, इतना भाव उमड आता। वे कहते, कोई गोवा का सच्चा मित्र था तो वह था लोहिया। रवीन्द्र के व्यक्तित्व में एक और आकर्षण था। वे युवाओं के चहेते थे। वे युवाओं के दोस्त बन जाते, उनका मित्र भाव से मार्गदर्शन करते, उन्हें हमेशा प्रोत्साहन देते। दिल्ली हो या गोवा, उनके अनेक युवा मित्र उन्हें घेरे रखते। राजनीति की उठापटक से बडे पीडित होते तब कहते, क्या इसी दिन के लिए आजादी माँगी थी? इसी के लिए बलिदान किये गये थे? जब बोलते, खुलकर बोलते। उनका चिंतन इतना गहरा था कि जो वे बोलते या लिखते वह व्यक्तिविशेष पर कटाक्ष नहीं होता था। व्यवस्था के विरुध्द होता था। कोई भी विषय, चाहे शिक्षा का क्षेत्र हो या राजनीति का, या सामाजिक, सब कहते व लिखते। उनका विचार अंनर्गल प्रलाप नहीं होता था। वे सटीक अध्ययन किया हुआ विचार रखते थे। वे कहते, जिस समाज में वाणी अवरुद्ध होगी, लेखन चाटूकारिता के लिये होगा, उस समाज का कभी उद्धार नहीं हो सकता। स्वतंत्र लेखन ही समाज में चेतना और जागरूकता लाता है। वे मित भाषी थे पर किसी भी विषय पर जब बोलते, सटीक बोलते थे। कर्म से वे गांधीवादी थे। सुधारक के रूप में वे लोहिया के समर्थक थे। किसी वाद-विवाद से जुडना उनका स्वभाव नहीं था। लकीर के फकीर स्वभाव से उन्हें सख्त चीड थी। उनकी यही बौद्धिकता की मैं कायल थी। उसी आकर्षण से बँधी थी। उन पर लिखना रवि को प्रकाश दिखाना होगा। मेरे जीवन में जो प्रकाश भरा, जो चेतना उन्होंने मुझे दी, पूर्ण स्त्री स्वतंत्रता का मतलब उन्होंने जो दिया वह आज भी मेरे मन में बसा है। विचारों के रूप में आज भी वे जीवित हैं, वे कहीं नही गये, वे आज भी मेरे साथ हैं। वे कहते, स्वतंत्रता का पर्यायवाची स्वच्छन्दता ने लिया है। तुम उससे हमेशा दूर रहना।

लोहिया के प्रति उनका समर्पण तब पता लगा जब एक बार मैं उनके साथ नेहरू म्युजियम गई। लायब्रेरी में उन दिनों हरिदेव शर्मा डायरेक्टर थे। छोटे से कद के, खादी की पोशाक में, बिल्कुल सादे और सरल व्यक्ति से मेरा परिचय कराया। तभी वहाँ प्रो. रमा मित्रा जो लोहिया जी की मित्र थी, रवीन्द्र भाई आये हैं यह जानकर उनसे मिलने आ पहुँची। तब लगा, वे सब लोहिया के अपने लोग रहे हैं। बहुत पुरानी यादों में वे खो गये। भूत वर्तमान की राजनीति, समकालीन परिस्थितियों पर बहस होती रही। लोहिया के अनछुए पन्नों को पलटते रहे। मैं खामोशी से सुन रही थी। मन बार-बार प्रश्न पूछने पर उतावला हो रहा था। शायद वह उनका अंतिम मिलना था। फिर मुलाकात नहीं हुई। हरिदेव से जब तक वे वहाँ रहे, रवीन्द्रभाई मिलते ही रहे। बाद में रवीन्द्रभाई का प्रवास भी कम हुआ और हरिदेव भी रिटायर हुए और उसी वर्ष वे गुजर गए।

साहित्य से प्रेम उनका अटूट था। दिल्ली आते तब बुक स्टॉलों पर चक्कर लगाते। ढेर सारी किताबें खरीदते। अपने लिए कुछ चाहिये था तो बस किताबें। उनके पसंदीदा बुक स्टॉल, कनॉट प्लेस में 'गलगोटिया', कमला नगर में 'बनारसी दास मोतीलाल'। हर विषय की किताबें लेते। नया कोई साहित्य होता वह जरूर लेते। कई बार इतनी किताबें हो जातीं कि साथ ले जा नहीं पातें। तब पूछते, पार्सल से भेज दोगी? मैं कहती, इतने की किताब नहीं जितना पोस्ट होगा। तब कहते, मेरा बस चले तो कपडों की जगह किताबें ही खरीदता। मेरी असली दौलत, खुशी तो इन किताबों में ही है।

वे समय के बडे पाबंद थे। समय जो दिया हो उस पर पाबंद रहना। घडी की सुई और दिया समय, कभी फरक नहीं होता था। और मैं उससे बिल्कुल उलट। हमेशा देर से पहुँचती तब गुस्सा करते। कहते, तुम्हें समय की कीमत नहीं है। कितना समय इंतजार में दूसरे का खराब करती हो। तब तो हद हो गई, जब मैं देर से खादी ग्रामोद्योग पहुँची तो बोले, चलो अभी घडी लेनी है। मैंने पूछा, किसके लिए? तो बोले, तुम्हारे लिए जो हमेशा तुम्हें आज की नादानी याद दिलाएगी। पास 'गांगुली वाच कं.' से घडी खरीद लाये। मेरी आँखों मे प्रायश्चित के आँसू थे। पर वे कहाँ मानने वाले थे! और मैं भी कहाँ पाबंद रही! पर उन्हें कैसे बताती कि घर के कार्यों में देर हो जाती है। कोई न कोई आ धमकता। उसे कैसे कहती, मुझे जाना है। तब कहते, तुम्हारा कोई ईलाज नहीं और मुस्करा देते।

क्या तीस वर्ष किसी कागज पर या एक दो पन्नों पर उतंर सकते हैं? वे तो यादों के वे मोती हैं जो एकान्त में मैं फेरा करती हूँ। उस चिंतन माला में डूबे रहना ही मेरा जीने का साधन है। कहाँ से शुरू करूँ, कहाँ खत्म। वे तो श्वास की तरह अबाध बहते हैं।

*कैसे बताऊँ, किसे बताऊँ,*
*ख्यालों की स्याही से, रोज लिखा करती पाती।*
*मैं कहती तुम सुन पाते,*
*बादल हवा सभी तो डाकिया बन पहुँचाते थे पाती।।*
*सूरज जब उगता तब कहती, सूरज डूबा जब कहती,*
*रात तारों से कह पाती।*
*रे सागर पहुँची हो धारा जब तेरे किनारे,*
*क्या पहचान सका तब एक रस हो धारा मिल जाती।।*

(संपर्क : ०९३११८८३१४५)

सवी ख्रिस्त

## म्हजो रवीन्द्र सांगात

दिलीप बोरकार

# कोंकणीच्या वावराचो अदमास

'सिनेमा बिनेमा म्हणटात तें मायावी जग. थंय कोण कोणाचो नासता. तोंडाक रंग फासलो काय ते सगळ्यांचे जातात. एकदां रंग पुसलो काय कोण कोणाक वळखना. तांच्या भरवंशाचेर मुंबय वचूंक सोदता?'

हांव मुंबय फिल्म इंडस्ट्रींत वचूंक सोदतां अशें हांवें रवीन्द्रबाबांक सांगिल्लें तेन्ना म्हज्या तोंडा कडेन अजापान पळयत रवीन्द्रबाबान म्हणिल्लें ताची याद म्हाका मुंबय भोवन भोवन येताली. ज्या कलाकारांच्या नाड्यार हांव मुंबय आयिल्लों तांकां मेळप सोड, पळोवप लेगीत शक्य जायनाशिल्लें. हांवें फिल्म इंडस्ट्रीचो विशयूच तकलेंतल्यान काडून उडयल्लो म्हळ्यार जाता. पूण मुंबय रावन करप तरी कितें?

कसलीय नोकरी करची आनी उरिल्ल्या वेळार फिल्म इंडस्ट्रींत बस्तान बसोवचें हे पिशे ओडीन हांव नोकरी सोदपाच्या वावराक लागिल्लों. हेड हेड हेडटालों आनी नागेश सौंदेंच्या ऑफिसांत वचून बसतालों. म्हजे खातीर तोच एक विरंगुळो आशिल्लो. म्हाका तीच एक हक्काची सुवात दिसूंक लागिल्ली. कोंकणी उलोवपी कोण तरी आपलो मनीस मेळटा देखुनूच मुंबय म्हाका सुसह्य जातालें. नागेश सौंदेन म्हाका नोकरी दिवं येताली. पूण तो, मार्तिरीश बी जे कोण मेळून उलयताले ताचे वयल्यान 'कौंडिण्य' हें मासीक चलोवप शक्य ना म्हणपाचो सूर कानार पडटालो. ते परिस्थितींत म्हाका नोकरी दी म्हण मागपूय बरोबर दिसनाशिल्लें. शेवटाक तांचो निरोप घेवन हांव गोंयां परतलों तो बद्द रवीन्द्रबाबांच्या घरा कडेन पावलों.

'आयलो मुंबय वचून? कितें कितें पळयलें?' म्हाका पळोवन रवीन्द्रबाबान पयलो प्रस्न केलो तो हो. 'तुमी सांगिल्लें तेंच सारकें' अशें तांकां सांगपाची गरजूच नाशिल्ली. हांवें तांकां मुंबयच्या

कोंकणी भाशा मंडळाची, थंय मेळिल्ल्या कोंकणी लोकांची गजाल सांगली. पूण रवीन्द्रबाबान चुकून लेगीत म्हाका 'फिल्म इंडस्ट्रींत गेल्लो ताचें कितें जालें. काय म्हूण विचारलें ना. फक्त म्हळें, 'आतां खंयच वचपाचें ना. कितें करपाचें तें हांगाच रावन.'

त्या दिसा एक गजाल म्हाका होलमली, ती म्हळ्यार, हांवें गोंय सोडून मुंबय वचप रवीन्द्रबाबांक नाका आशिल्लें. तशें जाल्यार मागीर रवीन्द्रबाबान म्हाका सरळ कित्याक सांगलें ना? रवीन्द्रबाबांचोय बरोचसो काळ मुंबय गेल्ल्याचें हांवें आयकल्लें. तांकां मुंबयचो अणभव आशिल्लो. म्हणटकच तांणी सांगूं येतालें, तुजें थंय कांयच जावपाचें ना म्हूण! काय, हांवें अणभव घेवचो म्हूण तांणी म्हाका वचूंक दिलो काय?

हांव रवीन्द्रबाबांल्या घरांतल्यान भायर सरलों तेन्ना लेगीत हांवें कितें करचें हे विशीं रवीन्द्रबाब एक उतर लेगीत उलोवंक नाशिल्ले. तांकां म्हजे विशीं कांयच पडून गेल्लें ना अशें कितें तरी म्हाका दिसूंक लागिल्लें. हांवेंय आणिबाणीचें कितें जालें हेंय तांकां विचारूंक नाशिल्लें. हांव मुंबय आशिल्ल्यान गोंयांत कितें चल्लां हाचीय महका कल्पना नाशिल्ली. म्हाका पावोवंक दारा कडेन येतना अकस्मात कितें येवजल्ले वरी ते भितर गेले. हांव दरवट्यार तांची वाट पळयत रावलों.

रवीन्द्रबाब भितर गेल्ले तितलेच गतीन भायर आयले. आतां तांच्या हातांत कसलें तरी पुस्तक आशिल्लें. कोणाक तरी तें व्हरून दी म्हूण सांगपाचें ऑत्र घेवन ते आयिल्ले जावंक जाय. तांणी तें पुस्तक म्हज्या हातार दवरलें आनी म्हळें, 'हें वाच. आनी फाल्यां परां मेळ म्हाका. नागेश सांगतलो तुका हांव केन्ना येतलों तें!'

नागेश म्हळ्यार नागेशबाब करमली. रवीन्द्रबाबां परस नागेशबाबां कडेन म्हजी चड संवकळ जाल्ली. हांव तांकां 'भाऊ' म्हणटालों. म्हजे खातीर भाऊ म्हणटा तें जाल्लें. हांव दिसांतल्यान एकदां तरी मळ्यांत नागेशबाबांगेर पासय मारतालों. तांचें घर म्हजे सारक्यांक सदांच उकतें आसतालें. पूण 'नागेश सांगतलो तुका हांव केन्ना येतलों तें' अशें रवीन्द्रबाबान म्हाका कित्याक म्हळें? तांणीच तें सांगूं येतालें!

रवीन्द्रबाबांच्या घरच्यान हांव तांचो निरोप घेवन भायर सरलों आनी मशिदी कडेन बशीची वाट पळोवंक लागलों. हांवें अजून पुस्तक उकतें करून पळोवंक नाशिल्लें. तें तशेंच हातांत घेवन चलूंक लागिल्लों. पुस्तक उकतें करून पळयल्यार तें शणै गोंयबाबांचें *कोंकणी भाशेचें जैत!*

फोंडेंच्यान पणजेची बस आयली आनी हांव बसींत चडलों. म्हाका बसपाकूय सुवात मेळ्ळी. बसींत बसतकच म्हाका केन्ना पुस्तक वा पेपर वाचीन दिसना. धांवत्या वाहनांतल्यान भायर पळयत बसपाक म्हाका आवडटा. पूण म्हजे मांडयेर आशिल्लें *कोंकणी भाशेचें जैत* म्हजी भायली नदर आपल्यांचेर ओडून घेतालें. पुस्तक वाचप जमना जाल्यार निदान चाळचें अशें दिसतालें. पूण तें वाचता आसतना शेजराक बशिल्ल्यान पळयलें जाल्यार! म्हाका वेश्टीच लज शी दिसताली! हांव **कोंकणी** पुस्तक वाचतां हें ताणें पळयलें जाल्यार! पूण तो विचार तितलोच वेळ तकलेंत उरलो. पुस्तक कित्याक लागून दिलां हें जाणा जावन घेवपाची उमळशिकूच येदी व्हडली आशिल्ली की मनांतली लज, भीड खंयचे खंय ना जावन गेली. पणजे केन्ना पावलों हाचें लेगीत भान म्हाका तें पुस्तक वाचतना उरूंक नाशिल्लें आनी हांव कोंकणी वाचतां हाचीय म्हाका मात्तूय कल्पना नाशिल्ली. हांव कितें तरी प्रचंड वाचतां अशेंच कितें तरी म्हाका दिसूंक लागिल्लें. हांव सामको भारावन गेल्लों. रवीन्द्रबाबान म्हाका तें पुस्तक कित्याक वाचूंक दिलां आसतलें ताचीय म्हाका थोडी थोडी जाणविकाय जावंक लागिल्ली.

रातचो घरा पावलों तेन्ना जेवले उपरांत उरिल्लें पुस्तक वाचून सोंपयल्लें. एक भार सो म्हजेर आयिल्लो. कोंकणी भाशे विशींचो म्हजे तकलेंत आशिल्लो तो गैरसमज त्या पुस्तकान एका धपक्यांत पयस केल्लो.

रवीन्द्रबाबान नागेशबाब करमलींक मेळ म्हणिल्लें खरें. पूण अगत्यान वचून मेळपा सारकें तातूंत म्हाका कांयच दिसलें ना. केन्ना तरी मेळटले तेन्ना म्हज्यान सांगूं येतालें तांकां, रवीन्द्रबाबान अशें अशें म्हणिल्लें म्हण! देखून दुसऱ्याच दिसा हांव मुजरत तांकां मेळूंक गेलोंना. नागेशबाब पणजे आकाशवाणीचेर नोकरी करताले. थंय वचून म्हज्यान तांकां मेळूं येतालें. पूण हांव आणिबाणीचेर कॉन्ट्रॅक्ट बी मागूंक आयलां अशें तांकां दिसत बी म्हूण हांव वचप टाळटालों. रवीन्द्रबाबां पासत म्हाका खऱ्यांनीच ती आणिबाणी नाका आशिल्ली. नागेशबाबान कॉन्ट्रॅक्ट दिलो जाल्यार तोय नाका म्हणप म्हाका जमपाचें नाशिल्लें. दुडवांची आसूय म्हाका सुटनाशिल्ली. चार पयशे मेळटात ताची म्हाका गरज आशिल्ली.

दुसऱ्या दिसा नागेशबाब म्हाका रस्त्याचेरूच मेळ्ळे. सायकली वयल्यान बाजारांत वताले. म्हाका पळोवन रावले. 'आरे दिलीप, खंय रे तूं? नाच मरे! हांवें तांकां हांव मुंबय बी गेल्लों म्हणपाचें सांगलें. ते भायर रवीन्द्रबाबांचो रकादूय सांगलो.

'सांगतालो म्हाका, तूं आयिल्लो म्हूण! आयज सांजचो येतलो. मेळूंया आमी कॉफि प्रकाशा कडेन सांजचे साडेचार वरांचेर.'

अशें म्हणून नागेशबाब बाजारांत गेले.

सांजचो हांव कॉफि प्रकाशा कडेन नागेशबाब आनी रवीन्द्रबाबांची वाट पळयत रावलों. नागेशबाब पयलीं आयले.

'कितें दिलीप? शणै गोंयबाबांची जल्मशती करुंया मरे?'

म्हाका प्रस्न करीत तांणी म्हज्या खांदार हात घालो आनी म्हाका घेवन ते कॉफि प्रकाशांत भितर सरले. रवीन्द्रबाब भोवतेक थंयच येवपाचे आशिल्ले.

'रवीन्द्रबाब म्हणटालो, शणै गोंयबाब जल्मशती वर्साचें ऑफीस तुवें सांबाळचें. हांवेंच तुजें नांव सुचयल्लें. आमकां सेपरेट ऑफिसूय मेळ्ळां कॉंग्रेस हावजा शेजराक. मेळ्ळां म्हणचे, कोणें तरी दितां

म्हळां. जातलें. आसा मरे तुजी तयारी? पगार मात चड मेळपाचो ना आं! पयलीं सांगतां! खर्चाक कितेंय मेळटलें.'

म्हजे खातीर ही बरी खबर आशिल्ली. रवीन्द्रबाब आयले तशे च्या बी घेवन आमी काँग्रेस हावजाचे इमारतींत गेले. नागेशबाबान नव्या ऑफिसाची चावी हाडिल्ली. नागेशबाब चावी काडटा म्हणसर रवीन्द्रबाबान एक सिगरेट पेटयलीच. तिचे झुरके घेत घेत तांणी पुराय ऑफीस नदरे खाला घालें.

'रवीन्द्रबाब, म्हाका दिसता, तुजे खातीर एक अॅश ट्रे हाडून दवरचो पडटलो.' नागेशबाबान हांसत हांसत म्हळें.

'आसल्यार दवरूंक हरकत ना. गरज पडल्यार हांव म्हज्या पाकिटाचोच अॅश ट्रे करतां, म्हजे कडेन पळोवन हांसत रवीन्द्रबाबान म्हळें. 'अॅश ट्रे चें बरें आसा. पूण हांव आयल्यार म्हाका भायर उबो रावचें पडचेंना मरे?'

रवीन्द्रबाबान नागेशबाबांक विचारिल्लें. पूण रोख म्हजे वटेन सो आशिल्लो.

'तें तुमचे तुमी पळयात. तो दीसभर आसतलोच हांगा. कितें रे दिलीप?'

म्हाका पळयत नागेशबाबान विचारलें. म्हाका तकली हालयले बगर पर्याय नाशिल्लो. रवीन्द्रबाबान शणै गोंयबाबांचें *कोंकणी भाशेचें जैत* पुस्तक म्हाका वाचूंक दिवपा फाटलें प्रयोजन हें अशें उकतें जाल्लें.

ऑफीस बी पळोवन रवीन्द्रबाब वचूंक भायर सरले. २३ जूनाक शणै गोयबाबांच्या जल्माक शंबर वर्सां जातलीं. देखून २३ जून १९७६ ते २३ जून १९७७ ह्या वर्सा तांची जल्मशती मनोवपाचें थारायल्लें आनी ते पासत वेगवेगळ्या कार्यावळींचें आयोजनूय केल्लें.

कोंकणीच्या कार्या खातीर पणजे अशी एकूय सुवात नाशिल्ली जंय कोंकणी वावुरपी येवन मेळूंक पावतले. रवीन्द्रबाबांचे एक इश्ट आनी बरे मागपी आल्वारू पेरेरा पणजे फेरी बोटी कडेन 'फार्म प्रॉडक्ट्स'चो वेवसाय करताले. ते सुटके झुजारी जाल्ल्यान नेहरूंच्या नांवान समाजसेवाय करताले. त्या वावरा खातीर तांचे कडेन आशिल्ली ती सुवात नागेशबाब आनी रवीन्द्रबाब हांणी उतर घालून एका वर्सा खातीर घेतिल्ली. ताचेंच शणै गोंयबाब जल्मशताब्दी सुवाळ्याचें ऑफीस केल्लें आनी ताची जापसालदारकी म्हजेर घाल्ली. म्हाकाय दीसभर बसूंक आनी वाचूंक हक्काची सुवात जायच आशिल्ली.

रवीन्द्रबाबां वांगडा हांवूय सकयल देवलों. नागेशबाब वांगडा आशिल्लेच. सकयल पावतकच नागेशबाब आपले वाटेन गेले. हांव रवीन्द्रबाबां फाटल्यान आशिल्लोंच. नागेशबाब वतकच आमी सांगातान चलूंक लागले.

'ही तुजी नोकरी न्हय. कळ्ळें मरे? तुवें तें ऑफीस सांबाळपाचें. ऑफीस सांबाळपाचें म्हळ्यार फकत थंय वचून बसून रावप न्हय. वाचप-बरप, अभ्यास करपा खातीर तुका तें बऱ्याक पडटलें. हांवूय येतलों सदांच. म्हाका वाट पळयत उबो रावचें पडूंक फावना. कळ्ळें मरे? चल तूं आतां खंय वचूंक जाय थंय. म्हाका माधवाश्रमांत थोडें काम आसा.'

अशें म्हणून रवीन्द्रबाब माधवाश्रमा कडेन गेले. म्हाका दिशिल्लें, ते मांडवींत बी वतात म्हण! ते माधवाश्रमा म्हऱ्यांत पावऽसर हांव तांकां पळयतालों. सहजपणान तांणी म्हजो प्रस्न सोडयल्लो. आपूण म्हाका कसलेय तरेची मजत करतां अशें दाखयनासतना. म्हज्याय मना वयलें एक टॅन्शन गेल्लें. हांव खंय तरी नोकरी करतां, ते नोकरे पासतूच हांव सकाळीं भायर सरून वतां, हेडपाक न्हय हें म्हाका घरच्यांक सांगूंक मेळिल्लें.

काँग्रेस हावजाचे इमारतीचे एके वटेन भारत सेवक समाजाच्या कार्यालयाची कूड आशिल्ली. तातूंत शणै गोंयबाब जल्मशताब्दी सुवाळ्याचें कार्यालय सुरू जाल्लें आनी त्या कार्यालयाचो इनचार्ज म्हूण हांवें जापसालदारकी घेतिल्ली, वो म्हणुया, ती म्हजेर घाल्ली. कार्यालयांत व्हडलेंशें फर्निचर नाशिल्लें. एक आलमार फायली बी दवरूंक, एक मेज आनी दोन चार कदेलां. मेजाचे मुखावेले वटेन, म्हळ्यार हांव ज्या मेजार बसतालों ताचे मुखार एक खुर्ची दवरिल्ली कोणूय मेळूंक येता तो ते खुर्चेर बसून म्हाका फुडो करून म्हजे कडेन उलयतालो. पूण रवीन्द्रबाब आयले म्हणटकच ते खुर्चेचें पोजिशन बदलताले. रवीन्द्रबाब ती खुर्ची घुंवडायताले आनी भितर सरपाच्या दारा वटेन तोंड करून दवरताले. मागीर तिचेर बसून पांयार पांय उडयताले. तांचो दावो कोंपर मेजाचेर आसतालो. बोल्सांतलें सिगरेट पाकीट काडून हातांत घेताले. फोर स्क्वॅर पाकीट. तांणी तें उगडप, तातुंतल्यो सिगरेटी मेजप. एक सिगरेट काडून चिमटेंत घेवप. फिल्टर सकयले वटेन धरून तो पाकिटाचेर टक टक करून आपटप. मागीर सिगरेट तोंडांत घेवन सिगरेटीचें पाकीट मेजार दवरप. मागीर फस्क हातांत घेवप. तोंडांत धरिल्ले सिगरेटीक सामकें लागीं फस्क हाडून काडी सिगरेटी वटेन ओडप. हाताचो आडोस धरिनासतना काडयेच्या गंधकाची जोत सिगरेटीक लावन सिगरेट पेटोवप. खोल झुरको घेवप. सिगरेट पेटली हाची खात्री जातकच उजव्या हातांतली फस्का काडी सकयल वयर वावडप आनी पालवली हाची खात्री जाली म्हणटकच ती अॅश ट्रेंत दवरप. पयलीं एक दोन दीस अॅश ट्रे नाशिल्लो रवीन्द्रबाबान फस्काची पालवल्ली काडी सिगरेट पाकिटाचेर दवरची. सिगरेटीचो गोबर सामको पडूंक पावलो म्हणटकच तो त्याच सिगरेट पाकिटाचेर दवरप. मागीर सिगरेट ओडून जाले उपरांत गोबर व्हरून भायर उडोवप.

रवीन्द्रबाबांची ही कसरत म्हज्यान पळोवं नजऽ जाताली. त्याच दिसांनी पणजेच्या मेरी इर्मॅक्युलेट सायबिणीच्या फेस्ताची पुरुमेंताची फेरी लागिल्ली. थंय हांवें मातयेचे अॅश ट्रे पळयल्ले. थंयच्यान एक अॅश ट्रे हांवें विकतो हाडून रवीन्द्रबाबां खातीर मेजार दवरलो. तो अॅश ट्रे पळोवन रवीन्द्रबाबांच्या मुखामळार उफेवन आयिल्ली खोस अवर्णनीय अशीच आशिल्ली. एकाद्रें खेळणें हातांत येतकच वा चॉकलेट जावं बिस्किटीचो पुडो हातार पडटकच माणकुल्या भुरग्याच्या

मुखामळार पातळटा तसली खोस रवीन्द्रबाबांच्या तोंडार म्हाका दिश्टी पडिल्ली. आयजूय म्हाका खंयचीय अॅश ट्रे दिश्टी पडटा तेन्ना त्या प्रसंगाची याद जाता आनी दोळ्यां मुखार तेदेवेळा वयलो रवीन्द्रबाबांचो तो फुलिल्लो चेरो येता!

'पुस्तक वाचलें रे दिल्लें तें?'

सिगरेटीचो झुरको मारीत म्हजे कडेन पळोवन रवीन्द्रबाबांचो प्रस्न.

हांवें ताट मानेन 'हय' म्हूण जाप दिली. पुस्तक इतले बारकायेन आनी मन लावन वाचिल्लें की कोणेंय कसलोय प्रस्न विचारल्यार हांव चुकनासतना जाप दिवंक शकतालों. कोंकणी म्हजी आवयभास कित्याक हाचेर हांव बेधडक उलोवंक शकतालों. कोणेंय मराठीचे वटेन मुद्दे मांडले जाल्यार ते हांव खोडून काडूंक शकतालों.

हांवें हे आदीं मराठी, हिन्दी, इंग्लीश बी वाचिल्लें. इंग्लीश त्रास जाताली समजूंक. तरी अर्थ लावन घेतालों. पूण *कोंकणी भाशेचें जैत* थेट म्हज्या काळजांत गेल्लें. सुरवेक नादशास्त्राचें गणीत कळऽसर थोडी कसरत करची पडिल्ली. तो मराठी वाचनाचो प्रभाव आशिल्लो.

'सगळो शणै गोंयबाब वाचून काड. हे जन्मशतीचे निमतान तुवें संपूर्ण शणै गोंयबाब वाचलो आनी तो तूं पचोवंक पावलो जाल्यार तुजे सारको दुसरो कोण आसचोना. आज आसा तसो तूं उरचोना. वेगळोच कोण जातलो!'

रवीन्द्रबाब कितें सांगूंक सोदतात तें म्हाका भावतालें. तें समजून घेवपाक जी समजणी लागता ती हांवें मराठी-हिंदी वाचनांतल्यान संपादन केल्ली. म्हणटकच हांव हांव उरचोना म्हळ्यार कितें हें म्हाका होलमतालें. *कोंकणी भाशेचें जैत* म्हज्या हातांत दिवपा फाटलो रवीन्द्रबाबांचो हेत म्हाका कोंकणीवादी करपाचो नाशिल्लो, म्हाका शणै गोंयबाब जल्मशती सुवाळ्याचो इनचार्ज करपा पासत हांवें शणै गोंयबाब जाणा जावंचो हो तांचो उद्देश नाशिल्लो. तांचो उद्देश आशिल्लो, हांव जो कितें आयज आसा, तो तसोच उरूंक दिना आसतना ताका दुसरो कोण तरी जावंक दिवपाचो, हें म्हाका समजल्लें.

'शणै गोंयबाबांनी पेटोवन दवरिल्ली दिवली पालवची ना हाची जतनाय घे. दिवलेंत सद्दां इल्लें इल्लें तेल घालीत राव आनी वात फुडें सारीत राव. हें एकूच काम करीत रावशीत जाल्यार एक दीस थंय कोंकणी सरस्वतीचें देवूळ उबें जाल्लें तूं पळेतलो, अशें काकासायबान म्हाका म्हणिल्लें. तांचो तो आदेश मानून आमचे सारक्यांनी हो वावर सुरू केला. तुमी तो मुखार व्हरूंक जाय. ते पासत शणै गोंयबाब पयलीं समजून घेवंक जाय.'

म्हाका कितलें समजलां तें समजून घेवंक उलयले उपरांत रवीन्द्रबाब म्हज्या तोंडा कडेन पळयत थोडो वेळ रावताले. हांव निर्बुद्द नाशिल्लों तरी मातसो भिडेस्त आशिल्लों. म्हजी भीड तशी पुरायेन वचूंक नाशिल्ली. तातूंत म्हज्यांतल्या अज्ञानाचो फायदो म्हाका जातालो. म्हाका रवीन्द्र केळेकार केदो व्हडलो तें खबर नाशिल्लें. काकासायब कोण तें कळटालें; शणै गोंयबाब व्हडलो कोण तरी, हेंय कळटालें. पूण तो कोंकणी आशिल्ल्यान व्हड आसूंक शकता काय कितें होय दुबाव आशिल्लो. मराठींत बरोवपीच म्हजे नदरेन व्हड आशिल्ले. तरी पूण रवीन्द्रबाब सांगतात जाल्यार नक्कीच हे लोक व्हड आसूंक जाय इतलें तरी म्हाका कळटालें.

'शणै गोंयबाबान आमकां आत्मसन्मान दिलो. आमी बाबत कुळां न्हय म्हणपाची जाणविकाय आमकां करून दिली. म्हणटकच आमी आतां निश्क्रीय जावन बसप आमकां परवडपाचें ना... कोंकणी समाजाक जाग हाडटलो जाल्यार आमकांच मुखार सरचें पडलेंना?'

रवीन्द्रबाब म्हाका समजायताले काय आपले भितरूच उलयताले हें कळपाक मार्ग नाशिल्लो. हांवें हें इतलें करपाचें आसा हाची कल्पना म्हाका नाशिल्ली. तसो विचारूय हांवें करूंक नाशिल्लो. म्हजी गरज वेगळी आशिल्ली. म्हज्या शिक्षणाचो प्रस्न आशिल्लो. म्हजे नोकरेचो, म्हज्या संवसाराचो प्रस्न आशिल्लो. पयलीं रवीन्द्रबाब जयप्रकाश नारायणांचे संपूर्ण क्रांतीची खबर सांगताले. आतां शणै गोंयबाबांची दीक्षा म्हाका दिताले. खंयच्या मार्गान वचप, कितें करप ह्याच घुस्पागोंदळांत म्हजें आयुश्य सरतालें. तरी पूण रवीन्द्रबाब सांगतात तें म्हज्या वायटाक पडपाचें ना, तांचेर पातयेवन राव आनी मुखार वचत राव असो सल्लोय कोण तरी म्हाका भितल्ल्यान दीत आशिल्लो. तोच मानून घेतले बगर म्हाका दुसरो पर्याय नाशिल्लो!

**(चलता)**

(संपर्क : ०९८२२१३६८८५)

# ‘मीर्ग’तल्यान

रवीन्द्र केळेकार

वर्स १ : आंक १

१५ ऑगस्ट १९५३

## लोकभासांचें मीर्ग लागलें

पोरणें देणें घडये टळत. पणून पोरणो संकल्प टळना म्हणटात. दोन वर्सां वयर जालीं जातलीं, कोंकणी भाशेंत एक नेमाळें चलोवचें अशें आमी येवजिल्लें. पणून जायत्या आडमेळ्यांक लागून तें त्या वेळार भायर सरूंक पावलेंना. आयज दोन वर्सां उपरांत आनी इतल्या पयशिल्ल्यान कित्याक जायना, एक पोरणो संकल्प फळाक येता हें पळोवन जिवाक ल्हाना-सामान्यांतली खोस जायना!

संवसाराचो एक नेम असो आसा की जेन्ना जेवपा-खावपाक अन्न मेळना तेन्ना लोकसंख्या वाडटा. कोंकणींत बरोवपी लोक चडशे नात, वाचपी आनी भोव करून विकतें घेवन वाचपी कितले मेळतीत म्हणपाची खात्री कोण दीत? आनी तरी आसतना एका फाटल्यान एक नेमाळीं उजवाडा येवंक लागल्यांत! हें 'कित्याय कितें' चल्लां जायत; पणून ताका उपाय ना. जीवन जशें आसा त्याच रुपान ताचे कडेन पळोवंक जाय आनी तातूंतल्यान वाट काडूंक जाय. एक मात दुबावां विरयत सांगूं येता - ज्या नेमाळ्याक बरोवप्यांचो, वाचप्यांचो आनी ग्राहकांचो पालव ना, ताचे पिरायेची खातरी दिवंक येना.

संवसारांत जायतीं नेमाळीं भायर सरतात तातूंत आनीक एकाची भर घालची ह्या हेतान आमी हें उजवाडावंक ना. कोंकणी आमची आवय-भास, आमचो आत्मो. तो पालेतलो, फुलतलो, परमळटलो कोंकणी मार्फतूच म्हणपाचें आयचें विज्ञान सांगता, मागीर ती कोंकणी कितलीय ल्हान आनी हेंगाडी आसना! मनशाच्या अंतस्करणाच्या तळा मेरेन पावपाचें एकूच साधन म्हळ्यार ताची भास. तो दुसऱ्या भासांनी उलोवंक बरोवंक शकना असो हाचो अर्थ न्हय. नाटकांत दादले बायलांचें सवंग बेस बरे करून दाखयनात? सभावीकपण आनी अभिजातपण आवय-भाशेंतूच आसता.

ह्या तत्वाचें म्हत्व वळखून हिंदुस्तानांतल्या फाटीं पडिल्ल्या जमातींच्या कितल्याश्याच ल्हान ल्हान भासांक लेगीत वयर काडचेले यत्न सुरू जाल्यात. आनी, सामान्यतायेन जांकां हिन्दी भाशेच्यो 'बोलयो' मानतात त्या मारवाडी, मेवाडी, हरियाणी, बुंदेली, भोजपुरी, मगधी, कुमाउनी, गढवाली, मैथिली सारक्या पोटभासांनीय पुस्तकी बरपावळ सुरू करची; आनी जायत्या भासांनी ती जाल्याय; आनी सगले वेव्हार तांचे वरवीं जावचे अशें हिंदी भाशेचे एक ऊंच पांवड्याचे बरोवपी महापंडीत राहुल सांकृत्यायना सारके म्हणटात.

म्हणटकच जांकां वयलें मत मान्य आसा ते कोंकणीचे पूत ओगी कशे रावतीत?

ह्या तत्वाक लागून, आनी कोंकणी विशीं आमकां जी भक्ती दिसता तिका लागून, तिची तांकत तशी सेवा करची म्हणून आमी हें नेमाळें उजवाडाक हाडलां. कोंकणीचेर तिच्या पुतां कडसून आनी हेर लोकां कडसून आयजवेर जो अन्याय घडला तोय धुवन काडपाक जाय.

लोकभासांची वाड करचेले वयले म्हणणे आड कांय जाण जो एक मुद्दो फुडें करतात ताका आदीं जाप दिवपाक जाय. ते म्हणटात की हिन्दुस्तानांत आदींच पयलीं जायत्यो भासो आसात. तांचीं एकामेकां कडेन चलिल्लीं केस्तांवां पळेत जाल्यार दुसऱ्या ल्हान ल्हान भासांक आनी पोटभासांक आमी म्हणटात ते भाशेन वयर काडचेले यत्न चल्ले जाल्यार सातशीं पन्नास वेगळीं 'पाकिस्तानां' निर्माण जावन हिन्दी राष्ट्राच्यो तिसत्यो-वादऱ्यो जातल्यो. हांच्या मत्तान भास म्हळ्यार 'प्रांत'!

आमकां ह्या भंयाचो निखालूस भंय दिसना. 'पाकिस्तानां' निर्मितात त्यो भासो न्हय. तांचीं कारणां वेगळीं आसात. एक तर प्रांतांच्या आनी भासांच्या झगड्यांनी कांय जाणांचे सुवार्थ (vested interests) घुसपल्ले आसात, आनी दुसरें, वेगळेचाराचें वीख आमच्या मेंदुंतूच आसा. तें जे मेरेन थंय आसा ते मेरेन तें भाशेच्या प्रस्नांतूच न्हय तर खंयच्याय निरुपद्रवी प्रस्नांत देवंक शकता. देखून 'पाकिस्तानां'च्या भंयान भासांचे वाडीक आडमेळीं हाडचे परस ह्या विखाकूच आनी 'घुसपल्ल्या सुवार्थां'क ना करपाक आमी वावरुया. प्रस्न टाळ्ळे म्हणून ते टळनात आनी टाळून ते सुटय नात.

आमच्या मत्तान, संवसारांतल्या ल्हान-व्हड सगल्या भासांनी आपणालो संवसार आतां नीट मांडपाक लागूंक जाय. सभ्यतायेचें आनी संस्कृतायेचें हें मागणें आनी लक्षण आमी विसरूंक फावना. मनीस जेन्ना भक्तीन आपणाले आवय-भाशेची सेवा करतलो तेन्नाच ताचो आत्मो परमळटलो. आनी तेन्नाच तो दुसऱ्या भासांची, आपल्या देशाची आनी संवसाराची खरेली सेवा करूंक पावतलो.

हें सत्य कोंकणी उलोवपी लोकां मुखार दवरचेल्या हेतून आमी हें नेमाळें उजवाडावंक फुडें सरल्यांत. हो युगधर्म पाळपाचे बाबतींत आमी फाटीं उरचे नात म्हणपाची आमकां खातरी आसा.

आतां लोक-भासांचें 'मीर्ग' लागलें; रोव घालुया!

**(संपादकीयः पान १)**

**कितलें भिशण! कितलें करूण!**

हालींच्या युद्धाची आमकां कल्पनाच नासता म्हळ्यार जाता. 'गॅर' म्हळ्यार पयसो हातांत घोळप, सुपारे नाल्लाची दर वाडप, ब्लॅक करूंक मेळप, घरां बांदूंक मेळप, बेसां-भाटां घेवंक मेळप, रिणां फारीक जावप, असोच कितें अर्थ आमी करतात आसुये. 'आनीक एक दोन वर्सां हें चल्ल्यार पुरो, म्हजें अमकें अमकें काम जातलें' अशें म्हणपीय लोक आमी पळेल्यात जातले.

आमी खऱ्यांनीच तर इतले दुश्ट वो उरफाट्या काळजाचे जावंक नात?! युद्ध आमकां बादूंक ना; आनी 'अमके मेले', 'अमके काबार जाले' वगैरे वर्तमानपत्रांनी आमी वाचतात तेन्ना ताचो अर्थ आमकां समजना. समजता सो दिसता, पणून समजना. आमचो समज भेरेला.

पयर कोरियांतलें युद्ध सोंपलें. तें 'म्हायुद्ध' नासलें. सादेंच, 'थंड युद्ध' - cold war - आसलें. चीनी आनी उत्तर कोरियनांनी 'अमेरिकेच्या लोकां'क वयर येवचेले आडायले आनी दक्षीण कोरियेच्या लोकांनी 'कम्युनिस्टां'क आडायले. दोनूय वर्शीनी कितलें लुकसान जालें ताची खबर Peace Newsत आयल्या. 'असोशियेटेड प्रेसा' प्रमाण दोनूय वर्शीनी मेळून सुमार २३,०३,५४२ लोक काबार जाले.

**दक्षीण कोरिया :** १,८३,७२७ मेले आनी मोडून पडले.

**उत्तर कोरिया :** ५,१२,००० मेले आनी मोडून पडले.

१,६७,००० (युद्धक्षेत्रा भायर) मेले आनी मोडले.

१,२३,००० बंदखणींत.

**युनायटेड स्टेट्सः** २४,११९ मेले आनी १,००,६६५ मोडले.

**चीन :** ८,३५,००० युद्धांत काबार जाले.

२,३९,०० युद्धक्षेत्रा भायर मेले.

२,१०० बंदखणींत.

**इंग्लंड :** ५८५ मेले; १९२१ घायाळ; १२५७ खंय गेले म्हणपाची खबर ना.

**संयुक्त राष्ट्र संघाचे दुसरे देशः** १९६५ मेले; ७१३५ घायाळ; उरिल्ल्यांचो पत्तो ना.

हे भायर, वीस लाखां वयर सामान्य नागरीक मेले म्हणून युनायटेड नेशन्सचे मि. पामर बेवीस म्हणटात. आनी, एक लाखा वयर भुरगीं आधार नासून वाऱ्यार पडल्यांत.

अशें आसुनूय कोरियांतलो एकूय प्रस्न सुटूंक ना. कोडसाण इल्लीय उणी जावंक ना. युद्धाचीं सगलीं मुळावीं कारणां अजुनूय पयलीं भाशेनूच आसात. कोट्यांनी लोक घर-दार ना जावन पडल्यात. उद्योग धंदे सगले काबार जाल्यात आनी युद्ध सुरू जावचे पयलीं कोरियाचे जे वांटे केल्ले ते जशा तशे आसात. कितलें भिशण! कितलें करूण!!

(पान ५)

**टिपण्यो**

**आमची भास**

'मीर्गा'चे कोंकणी संबंधान एक खुलासो करपाक जाय. वाचप्यांनी तिका बावन्न कशी कोंकणी लेखूं नये. संपादपी आनी अणकारी मंडळांतल्या वांगड्यां पैकीं कोणाचोच कोंकणीचेर 'अधिकार'ना. तांकां जशी कोंकणी येता तशी ते बरयतात. कोंकणीच्यो ज्यो वेगळ्यो वेगळ्यो शैल्यो आसात त्यो 'मीर्गां'त येवच्यो, तांची आमकां संवकळ जावची आनी तांचो अभ्यास जावचो, असो आमचो हेतू आसा. आनी बरप-अक्षर शिकूंक नासलेल्या कोंकणांतल्या साद्या मनशाक सोंपेपणान समजुची अशी एक शैली केळोवपाची आमची इत्सा आसा.

देखून वाचप्यां कडेन आमची नम्रतायेची एक मागणी आसा की तांणी आमकां हे बाबतींत जाता तितलो पालव दिवचो आनी आमच्यो चुको उकत्या मनान आमकां कळोवच्यो. आमचेर आनी कोंकणीचेर खूब उपकार जातले.

**आमचें धोरण**

हो पयलो आंक पळोवन वाचप्यां-बरोवप्यांक 'मीर्गा'चें वैचारीक धोरण सोंपेपणान समजतलें. ह्या धोरणाक अनुकूल अशें साहित्य धाडल्यार तें उजवाडावंक घेतना आमकां खोस जातली.

हालींच्या तेंपार 'रुचीक' साहित्याच्या नांवान 'पास्कळ' साहित्य हुंवारांनी व्हांवता. हाचे मुखार 'मीर्गा'तलें साहित्य घडये 'गंभीर' आनी 'जड' दिसुये. गंभीर साहित्य रुचीक नासता अशें न्हय. शिवाय आमी एक येवजूंक जाय की संवसारांत व्हडलीं व्हडलीं परिवर्तनां घडटात तेन्ना आमी आमच्या जीवना विशीं मातशे उत्कटतायेन केन्नाय तरी येवजितले काय ना? आमकां भाशे खातीर भास चलोवचेली ना. मनशाची जी उत्क्रांती जाल्या ती ताच्यांत येवजुपी मेंदू आसा म्हणुनूच, शरीरस्नायू आनी भायल्या उपकरणांक लागून न्हय. मनशाची बुद्‌द चड तरल आनी निवळ कशी जातली हाची आमी चिंता करूंक जाय.

पणून इतली खात्री आसची की 'मीर्गा'त निखटे निबंदूच येवचे नात. आमच्या धोरणांत बसत अश्यो कथा कविता वो असलें दुसरें 'रुचीक' साहित्यूय येतलें.

**'पुरुमेंत'**

वेव्हाराचे जमाखर्ची नितीन पळोवंक गेल्यार ह्या स- पृष्ठी 'मीर्गा'चें आंकीं तीन आणे मोल चड दिसता. पणून ताका सध्या तरी दुसरो उपाय सुचना. कोंकणीच्या कार्याचें म्हत्व वळखून आमी कांय इश्टांनी तीन म्हयन्यांचे स आंक उजवाडावपा इतले पयशे जमयल्यात. फुडलें 'मीर्गा'च्या वाचप्यांनी थारावपाक जाय. देणग्यो घेवन वर्तमानपत्र चलोवप वेव्हारांत बसना आनी सोबयना. देणग्यां परस आमी ग्राहकांच्या पालवाचीच आस्त धरतात. ग्राहकांचो आंकडो फावोसो जालो जाल्यार आंकांचीं पानां वाडोवचेली आनी मोल उणें करचेली आमची खूब इत्सा आसा.

आमी तीन म्हयन्यांच्या स आंकांचो 'पुरुमेंत' केल्ल्यान वाचप्यां कडसून फक्कत तीन म्हयन्यांची पटी (एक रुपया) घेवची थारायल्या. आंक दर पंद्रशेक भायर सरतलो.

(पान ५)

***

---

*(पान २५ वयल्यान)*

१५ जुलै १९७२ ह्या दिसा दनपारां साडेतीन वरांचेर कार्बुझिरच्या आराखड्याचेर निंबून आशिल्ली सेंट लुईंतली उणें उत्पन्न आशिल्ल्या लोकांक राबितो करपा खातीर बांदिल्ली वसणूक मोडून उडयली तेन्नाच आधुनीकवाद प्रतिकात्मतायेन सोंपलो आनी उत्तर-आधुनीकवादाचो जल्म जालो अशें उत्तर-वसाहतवादाचो जनक एडवर्ड सैद मानता. *ओरिएंटालिझम* (१९७८) ह्या ग्रंथांतल्यान तांणी हो विचार उकतायला. तरीकूय १९८९ मेरेन, म्हळ्यार ॲशक्रॉफ्ट, ग्रिफिथ्स आनी टिफीन हांच्या *द एम्पायर रायट्स बॅक* ह्या ग्रंथाचे उजवाडणे मेरेन ह्या विचाराचेर व्हडलीशी भासाभास जावंक नाशिल्ली. उपरांत गायत्री चक्रवर्ती-स्पिवाक, होमी भाभा हांचे बरपावळींतल्यान ह्या सिद्‌धांताक आकार आयलो. सत्तर आनी अंयशींच्या दसकांत उत्तर-आधुनीकवाद आनी उत्तर-वसणूकवाद ह्यो दोनूय संकल्पना प्रचारांत आयल्यो. तेन्ना सावनूच ते सिद्‌धांत जाले आनी तेन्नाच्यानूच तांची समिक्षा पद्‌दत उदेवाक आयली. ह्या दोनूय सिद्‌धांतांनी उत्तर-संरचनावादाची परिभाशा उपकारायल्या.

उत्तर-आधुनीकवाद ही संकल्पना चडशी मान्य जावंक ना वा ती सारकी समजून घेवंक ना अशें १९८२ वर्सा फ्रेडरिक जेमसन हांणी आपणाल्या भाशणांत सांगिल्लें. पूण १९८७ वर्सा मेरेन ही संज्ञा सिनेमा, रंगमाची, नृत्य, संगीत, कला आनी स्थापत्य, तत्त्वगिन्यान, धर्मशास्त्र, मानसशास्त्र, इतिहासविज्ञान ह्या मळांचेर आनी सांस्कृतीक जिणेंत रिगिल्ली. ह्याच वेळार 'उत्तर-वसणूकवाद' ही संकल्पना आयली आनी फुडल्या पंदरा-वीस वर्सांत तिचोय प्रसार बरोच जालो. दोनूय संज्ञांच्या अर्थाची आनी व्याप्तीची चिकित्सा बरीच जाली. पूण हे दोनूय सिद्धांत एकाच काळांत चालंत जाल्ल्यान तांच्या आकलना विशीं कांय प्रमाणांत गोंदळ निर्माण जालो.

उत्तर-आधुनीकवाद आनी उत्तर-वसणूकवाद हांच्या संबंदाचें विवेचन क्वामे ॲंथनी अप्पिया हांणी *इज द पोस्ट-इन पोस्टमॉडर्निझम द पोस्ट-इन पोस्टकलोनिअल'* ह्या लेखांत केलां. तांच्या मत्ता प्रमाण संवसारीक भांडवलशायेच्या परिघाचेर सांस्कृतीक उत्पादनांचो वेपार करपी पाश्चात्य शैलीच्या, पाश्चात्य प्रशिक्षीत लोकांच्या ल्हानशा पंगडा मेरेन उत्तर-वसणूकवाद सिमीत आसा. आफ्रिकेंतले उत्तर-वसणूकवादी कादंबरीकार उत्तर-आधुनीक आसात. तांचो राष्ट्रा कडेन वा पोरण्या दायजा कडेन कांयच संबंद ना. उत्तर-वसणुकी आनी उत्तर-आधुनीक हांच्या सरभरसांतल्यान युरो-अमेरिकन उत्तर-आधुनीकवादाच्यो गरजो भागयतात. उत्तर-आधुनीकवादी वा उत्तर-वसणूकवादी बरपावळी परस वेगळ्या अश्या बरपांच्या संदर्भात अप्पिया हांणी उत्तर-वास्तववादी (post realist) आनी उत्तर-देशीवादी (post nativist) ह्या संज्ञांचो वापर केला. वसणुके उपरांतच्या काळांतल्या राजकी, सामाजीक, सांस्कृतीक जिणेंतल्यान हें बरप आयलां. तें वास्तववादाच्यो धारणा मानता आनी ते संदर्भात प्रस्न विचारपी आसा. ते भायर, राष्ट्रीय भांडवलदारांनी राष्ट्रवादाच्या नांवा खाला सुयोजन, उद्‌देगीकरण, नोकरशायीकरणाचे लुटालुटींत (क्लेप्टोक्रसी) रुपांतर जालें; तातूंतल्यान उप्राशिल्ल्या गंभीर प्रस्नांचो संदर्भूय ह्या बरपांक आसा. अशे बरपावळींतल्यान वास्तववादाचेर जे धपके घालतात ताका अप्पिया हांणी उत्तर-देशीवाद अशें नांव दिलां. अप्पियांच्या मत्ता प्रमाण हें 'पोस्ट-कलोनियल' बरप. तें निखटें अस्तमते कडलो साम्राज्यवादूच न्हयकारना तर उत्तर वसणुकी राष्ट्रीय भांडवलदार वर्गाचो राष्ट्रवादी प्रकल्पूय न्हयकारता. देखून हें बरप उत्तर-आधुनीक जायना. तांणी 'पोस्ट कलोनियल' ही संज्ञा वसणुके उपरांतचे स्थिती कडेन जोडल्या. अप्पियाचें 'पोस्ट नेटिव्हिस्ट' हें उतर नेटिव्हिजमा वेली टिका म्हूण आयलां. देशीवाद-राष्ट्रवाद ह्या समीकरणांतल्यान सुटपा खातीर तांणी उत्तर-देशीवाद ही संज्ञा आपणायल्या.

(संपर्कः ०९४२०५९५१३९)

# पणटी

एडविन जे. एफ. डिसोजा

माळ्याक धांपल्ल्या हातरांच्या तट्ट्यां वयल्यान उंदरांचें भिरें, 'परपर' आवाजान हेणें तेणें धावतालें.

"भें दिसता-गी पुता?" ती विचारी लागली, ताका आनिकी आरावन, आपले पासळेक घेवन. "माळ्यार उंदीर खेळतात."

"म्हाका भें दिसना.' तो म्हणालो.

"एक पावटीं ह्या माळ्याक फोळीं धापल्या उपरांत ही धोंस आसची ना."

ताणें जाप दिली ना.

"नीद येवंक ना, पुता?" तिणें विचारलें, ताचे मोव केंस पोशेवन. "कितली रात पर्यांत ते पणटेच्या उजवाडाक पळेवन रावताय? दीसबर तिचे कडे खेळल्लें पावानां?"

"पणटेची वात ल्हान ल्हान जावन पालवताना म्हाका नीद पडटा, मां" तो म्हणालो, "पळे, ते ओणटीचेर म्हज्या हाताची सावळी केदी व्हड जावन पडटा, पळे." ताणें तकली उकल्ली. "पळे! म्हजो मांडो येदो व्हडलो दिसता." तो किळकिळोन हासलो.

तिणें एक लांब उस्वास काडलो.

तीं निदल्ल्या सालाचे धरणीक नव्यान शेणं काडल्लें आनी मातयेंत भरसल्लो शेणाचो वास वाऱ्यांत आसल्लो.

"बरे दीस येतेले," ती मतींतच म्हणाली. "कारखान्यांत शिजयिल्ले तांबडे इटे हे धरणीर बसतेले." तिणें कूस परतिली आनी हातरांच्या माळ्याक पळे लागली. "विचित्र भुरगो म्हजो."

आतां तिचीं चिंतनां मयपासांत लोळ्ळीं. "ती एक पणटी आसल्यार जालें. दीस आनी रात तिच्या उज्या लागीं खेळटा. खंयच्यायी खेळा वस्तूची आशा ना. गोडशें नाका... निजायकी विचित्र भुरगो. असल्या ल्हान ल्हान संतोसांनी तृप्त जावंचो म्हजो भुरगो व्हड जाल्या उपरांत कितें जायत गाय?"

पणटेची वात मिणीमिणी जावन पालवताना ताणें सवकासायेन उस्वास मोडचो तिका आयकालो आनी ताच्या आनी आपणाच्या

आंगार आसल्ली वोल सारकी करून ती निदली.

कितल्या तकल्यां थावन ती पणटी त्या घरांत आसल्ली म्हळ्ळें कोणायकी कळीत नातल्लें. उण्यार उणे पन्नास-साट वर्सां जायजे. खुशाली जिनोसाच्या आनी भूत-बेताळांच्या काणियांक प्रख्यात जाल्ल्या ताच्या आज्यान ते पणटेक जोकतें नांव दवरल्लें - कल्लुर्टीची पणटी (कल्लुर्टी=दक्षीण कन्नड जिल्ल्यांत तुलुवांनी आरादन करचो एक भूत). कल्लुर्टी भूत गात्रान पयलोच ल्हान खंय, खुब्जो कसो, आनी ताच्या मात्यार दांत्याच्या पेडाची चेपणी दिल्यार कशें ताचें पोट आनीकी फुगोन मुडकेत तशीच आसा ती पणटी, म्हणतालो ताचो आजो.

मातियेची ती पणटी तशीच आसल्ली - एका ल्हान बुडकुल्या परीं, तिका एक पोट आसल्लें आनी तातूं एक गिंडीबर उदक सोंबतालें. ह्या पोटा वयर एक उदारी पीर. तांतूं तेल या मेणा-वातींचीं मुळकटां घाल्न तीं पेटोवंयेत आसल्लीं. तिच्या पोटांतलें उदक ती जळती पणटी थंड दवरताली आनी क्रमेण तें हून जावन येताना, चत्रायेन बदलिजे पडटालें - ही कामगिरी आनी हुन्नर लांबवन आनी रंगवन ताच्या आज्यान स वर्सांच्या नातवाक शिकयिल्ली.

त्या चेड्याक धाकटुली एक भयण आसल्ली आनी तिचो जागो केदळारी आजियेच्या पासळेंत. सदां सिक ती. पिडेन अस्कत पूण रुपेस्त. तो सदांयी भयणीक धोंसतालो. तिणें मांड्न दवरलेले कंडरे खोटावन आड घालतालो आनी तें रडोंक लागताना आपूण पणटे लागीं खेळतालो.

पणटेंत तेल भरच्याकी, मेणा-वातीचीं मुळकाटां घालचें ताका चड पसंद आसल्लें. पणटी पेटयताना तें मेण करगोन उदक जावंचें पळेताना ते पणटेंत आनी तिचे वातींत कसलीगी सकत आसा म्हण तो समजातालो. हें ताका विचित्र दिसतालें. कडानातल्लें मेण एके इरा-काडियेन त्तोंपून तोंपून तो पिगळायतालो.

सांज जाताना पूण आमोरेचे घांटी पयलेंच ताचो आजो घरा येतालो. ताका उसक्यार बसवन हाडल्ले चणे या चाकल्यो आपल्या बयरासांत गुटलावन चाबोन मोव पिटो करून ताच्या (चेड्याच्या) तोंडांत घालतालो. सांजेचें ताच्या आज्याच्या उस्वासाक वेगळोच एक वास येतालो. आबा, कसलो तो वास म्हण ताणें विचारल्यार ताका एकच जाप मेळटाली -

''हांव 'एंटली' घाल्न आयलां-रे!'' (एंटली म्हळ्यार मंगळूरचे चालंत भाशेंत ''कुट्ट!'')

आमोरेचे घांटीर ताचीं आवय-आजी घरांतले दिवे - लांपयांव पेटयतालीं. आमोरी जाताना ताची आवय म्हणताली - वेगींच ह्या घराक वीज येतेली. म्हजीं भावंडां गल्फांत आसात न्हय? त्या उपरांत फकत 'टप्प टप्प' केल्यार घरांत उजवाडच्च उजवाड.

हें सर्व ताका समजानातल्लें आनी सालाच्या कोनशाक वचोन तो आपली पणटी पेटयतालो. ताची आमोरी, तेर्स आनी रातीचें जेवण पणटेच्या उजवाडांतच जातालें.

ताच्या आज्यान ताका थोडे सावळे-खेळ शिकयिल्ले. पणटेच्या उजवाडा सामकार आपल्या हाताचीं बोटां भारीच हुन्नरान उसवन दरून तो ओणादीचेर थरावळ मोनजातींचीं, सुकण्यांचीं रुपां उदेशीं करतालो. हीं रुपां पळेल्ले तितलीं ताका पावानतल्लीं. एकेक पावटीं कसलीं कसलीं रुपां उदेशीं करून तांकां सेजाऱ्यांचीं नांवां दितालो ताचो आजो. 'हें सोंड रोजी रांडेचें!' आपले साडे-तीन दांत दाकवन तो म्हणतालो आनी खेंकारोन हासतालो. 'हें पेंकड घाटनो एल्लूचें आनी हे दोन कुवाळे...'

''बंद करिनांय भिकारपण!'' तवळ ताची आजी खेंचताली. ''सांजेचे दोन ड्राम (सोऱ्याचीं मापां) एंटली देंवयल्या उपरांत तुजे जिबेर येताच्च बाळ-बूद.''

''तर तुज्या नातवाक एक सुकणें दाकयतां,'' म्हणतालो ताचो आजो बोटां गांटावन. ''ह्या सुकण्याचें नांव कितें, आबा,'' म्हण ताणें विचारल्यार - ''हें सुकणें तुजेंच - रे, भिकणेशा!'' म्हण ताचो आजो ताका कुचुल्यो करतालो. (चल्या भुरग्याच्या 'सोन्या'क अपुर्बायेन 'सुकणें' म्हणटात. देखीक, 'तुजें सुकणें लिपय')

पावस सुरू जाल्लो. मोडां इतलो काळोक घालतालीं की ताका सांजे पयलेंच पणटी पेटवंची परवणगी मेळताली. सदां मिसाक वेची ताची आजी इगर्जेंतल्या बोल्कांवांत आसल्ल्या सुकूर सायबिणीच्या आल्तारीर पेटोन कडलेल्या वातींचें मेण खोरवटून काडून हाडताली. ताका संतोसच्च संतोस. हो पावसाळ आकेरच जावंचो नाका म्हण ताका भोगतालें.

तो पावसाळ ताणें चिंतल्ल्या प्रास चडच लांबलो. ताची भयण भोव पिडेस्त जाल्ली. आजियेच्या खटल्यारच्च ती निदोन आसताली. ते सांजेर एका दाक्तेराक आपवन हाडलो. ताच्या गोमट्यांत आसचे ते दोन रब्बराचे नाडे पळेवन तो भिंयान लिपलो.

ऐकाचाणे भितरल्या कुडा थावन हाकबोब जाली. सर्वांयी भितर धांवलीं. ताका एकल्याक सोडन. रडणें बळ जालें. सर्वांचें रडणें ताका आयकातालें, ताच्या भयणीचें सोडन. सबार वेळा उपरांत तो दाक्तेर हात जोडन भायर आयलो. पाटापाट आजोयी.

''म्हाका माफ करा, परबूंनो!'' दाक्तेर रडटालो. ''नवेंच आयिल्लें ऑकद - पेन्सिलीन - इंजेक्षन हांवें दिलें... चली चांग दिसताली... अशें जायत म्हण हांवें चिंतूंक ना.''

तो गेलो.

पाटापाट सेजाऱ्यांनी घर भरलें. कोण कोण कितें कितें उलयतालीं. ताका कितेंच समजालें ना.

आनिकी जायत्या वेळा उपरांत ताची आजी भायर आयली आनी ताका आरावन घेवन सोप्याक गेली.

''तुजी भयण जेजू सरशीं गेली.'' ती म्हणाली ताचें मातें पोशेवन. ''आनी ती पाटी येवंची ना.''

''ताका म्हजेर राग?'' ताणें विचारलें. ''ताचे कंरडे परतितालों म्हण तें गेलें?''

''ना पुता! जेजूक एक सोबीत आंज जाय आसल्लो देकून तें गेलें... सदांच तें तुका राकतेलें आनी तुजे खतीर तें मागोन दाडटेलें.''

कोणेंगी ताका एक गोबळो दूद हाडून दिलें.

''आयचे रातीं तूं सोप्या वयल्या कुडांत निदे,'' म्हणाली ताची आजी. ''तुका भें दिसचें ना- मू?''

एकाच्च घोटान तें दूद तो पियेलो

''म्हजी पणटी...''

सोप्या वयल्या कुडांत ताका एक मांदरी आनी उशें मेळ्ळें आनी आजयेन एक पोटली

मेण ताका दिलें; दोन इरा-काडियोयी दिल्यो. "चत्राय कर!" ती म्हणाली. "मांदरेक उजो लागत."

दुसऱ्या दिसा...

उटोन तो भायर येताना सालांत ताका एक विचित्र दृश दिसलें. ताचे भयणीक एका धव्याच कोबायेंत गुटलावन धोवेच्च पेटेंत निदायिल्लें. ताच्या आंगार धव्या गुलोबांची रास. पेटेचें भंवतीं लांब लांब धोव्यो वाती पेटताल्यो. तांच्या मुळांनी कर्गाल्लें मेण जमो जाल्लें. ताची आवय एका कोनशाक बसून आसल्ली; तिचे लांब केंस बिसळे जाल्ले, दोळे फोंडकुलाक गेल्ले. सेजारच्यो स्त्रियो तिचे भंवतीं आसल्ल्यो.

ताच्या आज्यान ताका काफी हाडून दिली. "तूं सोप्या वयल्या कुडांतच राव, बाळा!" तो म्हणालो. "पणटी पेटवन दितां आनी जाय तितलें मेणयी दितां. पळे... तुका खेळोंक म्हण प्लास्टिकाचे दोन पेटे हाडल्यात. तांचे सांगाता तूं खेळ." ताणें आपल्या बल्सांतले दोन पेटे भायर काडले. एक तांबडो आनी एक निळसो. ह्या रंगांचे पेटे आसतात?

सोप्या वयल्या कुडांत बसून ताणें पणटेंत मेण भरलें आनी ती पेटयली. ताचे एकेके मुठींत एकेक पेटो आसल्लो. ताका कितें करचें म्हण कळोंक ना. ताका रडोंक जाय आसल्लें पूण कशें आनी कित्याक? ताणें मुटी अंदीरल्यो. मोव प्लास्टिकाचे पेटे पिटो पिटो जाले. तो पिटो, तांबडो आनी निळसो ताणें पणटेंतल्या मेणाकच घालो. मेण कडोंक सुरू जालें...

साबार दीस पर्यांत त्या घरांत मोनेपण शिवाय हेर कितें नातल्लें. कोणच उलयनातल्लीं. सर्वांयी मोन्यां परी तातांचें काम करतालीं. ताचो आजोयी भुजां मदें मातें घाल्न सगळो दीस तेर्स करतालो. सांजेचें भायरयी वचानातल्लो जाल्ल्यान ताका चणे आनी चाकल्यो मेळच्यो बंद जाल्यो.

पूण ताची पणटी मात्र पेटोनच आसल्ली. मेणाची इतली रास ताणें जमो केल्ली की ती साबार दिसांक पुरो आसल्ली. आनी ते साबार दीस पाशार जाताना त्या घरांत बदलावण आयली - कशी म्हण तो नेणा - ताच्या घरांत सूट-बूट घालचीं थोडीं जणां आयलीं. तांचें नेसप-दिरूस वेगळेंच; भास चडावत परकी - एस,नो, शटप, शिट्ट - तांकां ताणें आंटी-अंकल म्हण उलो करिजे म्हण ताचे आवयन ताका सांगलें. तो पणटे सांगाता खेळताना तीं हासतालीं - कसलेंगी, स्टुपिड, स्टुपिड म्हणतालीं. पूण बदलावण आयिल्ली त्या घरांत.

सालाचे धरणीर तांबडे तांबडे इटे बसले. माळ्याक, नव्यान परमळचीं फोळीं पडलीं. मातयेंत भरसाल्लो शेणाचो वास आतां नातल्लो. वार्निशाचो आनी पेंटाचो परमळ.

आनी एका दिसा -

'टप्प'

सगळें घर उजवाडान भरलें.

करेंट आयिल्लें.

पाकाटे फुलवन तो सर्व कुडांनी उबलो.

टप, टप, टप

ताणें करेंटाचे दिवे पेटयले, पालवयले. स्विच्याक हात पावनातल्ल्या जाग्यांनी ताचे आवयन ताका उकलोन धरलो. सर्वां हासतालीं, ताचीं नकलांशीं करतालीं. साबार तेंपा उपरांत सर्वां हासतालीं... ताचे आवयक सोडून सर्वां हासतालीं.

तिच्या मुखमळार उदेवंचीं भोगणां समजोंक तो सकानातल्लो. ताका भें दिसलें आनी तिचे पासळे थावन सुटोन तो पयस धांवलो. एका कोनशाक धांवलो.

करेंट आयिल्या थावन पेटा नासतां उरल्ली ताची पणटी त्या कोनशाक आसल्ली. मेण आनी वात तयार आसल्लीं. ताणें काडियां पेटेक हात घालो.

"आनी मुकार तूं ही पणटी आपडोंचो नांय या ती तूं पेटंवचो नांय!"

वाऱ्यार भिजायिल्ल्या छाटियेच्या आवाजा बरी तिचो ताळो त्या घरांत सादलो. जायत्या तेंपा उपरांत. चेरक्यान काडियां पेट गळयली आनी थांयच कुस्कोन बसलो. तिचो ताळो आयकाल्लों ताचीं आजो आनी आजी थंयसर पावलीं.

"कित्याक ताचेर झळताय-गो?" आजियेन धुवेक विचारलें. "घोवाक कशेंयी खावन पिड्ड्यार केलोय, धुवेकयी पिड्ड्यार केलेंय आनी आतां तुज्या भावंडांनी घर सुद्रायिल्लें तुज़्यान पळेवंक जायना? भेश्टेंच आतां त्या चेड्याचेर चिडताय? मोम्रान? कसलो चिट्टो (हुलोप) पडलो तुज्या पोटाक? कितें आसा त्या चेड्याक ती ताची पणटी सोडल्यार? व्हडोल थावन वांयग्याचें तोंड करून बसलांय. कितें आसा त्या चेड्याक संतुश्ट करूंक?"

**"हांव आसां, मांय!"**

"तें मतिभ्रश्ट जालां." म्हणालो आजो.

**"हांव आतां मतीर आयल्यां, बाबा!"**

. आपल्या पुताचेर घाल्ली दिश्ट काडिनासतां तिणें म्हळें.

"कितें जालां गो तुका?" विचारलें ताच्या आज्यान, तिच्या बापायन. "ताचो सगळो जीव आसा ते पणटेंत."

"आमीच ताका ते पणटेंत चेपल्लो, बाबा!" ती म्हणाली, "म्हज्या पतीचो जीव खरगोन वेताना, म्हजे धुवेचो उस्वास आज-फाल्यां म्हळ्ळे परी आसताना हाका, म्हज्या पुताक, कांय जायत जाल्यार आमी कशें सोसचें म्हळ्ळ्या स्वार्थान आमी ताका हे पणटे भितर चेपलो. ताका गर्भांतच्च पाटीं लोटलो."

"ह्या चेडवाच्या आंगार त्या पणटेंतलो कल्लुटीं आयलोच्च!" बापय म्हणालो.

"हांव सबार तेंप पर्यात राकलीं," तिणें मुकार सांगलें, "पूण म्हाका आतां धैर्य आयलें. **आतां म्हजे साडियेक पालंव ना."**

तिणें आपल्या पुताक भुजांक धरून उबो केलो. "तूं आतां समजोंचोनांय," ताका तिणें हालयलो. "पूण एक दिसा... देवाक दिवंच्या पयलें म्हाका तूं अर्गां (भिनवास) दितोलोय!"

उपरांत, तिणें ती पणटी विंचली.

सोप्यार वचून हितलांतल्या काळोकांत उडयली - इतले पयस उडयली की पंटी फुटोन भेसां जाल्लो आवाजयी तांकां आयकालो ना.

"पळे!" म्हणाली तिची आवय नातवाक पळेवन. "पळे ताणें रडोंक सुरू केलेंच..."

"भूंय पडल्लीं सगळीं बाळशीं रडटात, मांय!" ती म्हणाली. "हो म्हजो पूत दुसरे पावटीं भूंय पडला. दोड्या मापान तो रडोंदी!"

(संपर्क : ०९८४५०८३१४८)

# सवणें जिवा भिडून गेलें...

हर्षा शेटये

*'निळें निळें सवणें एक, सकाळच्या गो पारा भांगरांचीं घुंगरां बांदून आयलें म्हज्या दारा...'*

बाकीबाबांलें हें गीत आयकतना सदांच तें निळें सवणें म्हज्या दोळ्यां मुखार उबें रावता. चिमणेच्या आकाराचें, मोरपांखी निळ्या कोराचें, तांबडी चोंच, हळदुवे दोळे... ह्या वर्णना कडेन जुळपी सवणें खरेंच आसता काय ना तें म्हाका खबर ना. हें म्हज्या मनान तयार केल्लें सवण्याचें चित्र.

आमी पोरण्या घरांत, 'दामबाब' बिल्डिंगेंत, रावतालीं तेन्ना थंय चिमण्यो, कावळे, पारवे, घोणी सोडून दुसरें खंयचेंच सवणें हांवें केन्ना पळयलेंना. घडये आमचे आशिकुशीक आनिकूय सवणीं आसतात हाची जाणविकाय म्हाका तेन्ना जावंक नाशिल्ली. आमी नव्या घरांत, 'कृष्णप्रेमां'त, रावंक आयिल्लीं. सकाळीं फुडें सवण्यांचो मंजूळ चिंवचिंवाट म्हाका सुखायतालो. पूण त्या आवाजाच्या धनयाक सोदपाचो हांवें केन्ना यत्न केलोना. ना म्हणल्यार, मुखावयल्या माडांचेर सांजवेळचो केन्नाय 'टॉक टॉक' असो चोंच मारिल्ल्याचो आवाज आयला. 'वुडपॅकर... वुडपॅकर' म्हूण म्हज्या चल्यान बोवाळ केला. आनी हांवें तन्मय जावन तो आवाज आयकला. कॉफये कोराचीं चार-पांच सवणीं आपले त्याच कोराचे चोंचीन माडार ठक ठक करतना हांवें पळेल्यांत. मराठींत तांकां 'सुतारपक्षी' म्हणटात. कोंकणींत 'मेस्त' वा 'मेस्तीण' म्हणटात जावये.

आनीक एक पक्षी पोरसांत भोंवतना दिश्टी पडलो. कावळ्या परस आंगान मातसो व्हड. काळो कुळकुळीत तिकतिकीत कोर-दोनी वटेनचीं पांखां कॉफये कोराचीं. पूण ताका भांगरा कोराची चकचकसाण. ताका मात हांव वळखलें. हो भारद्वाज. मागीर सदांच मुखावयल्या झाडांचेर हांचो जोडो दिसपाक लागलो. म्हजे एके महाराष्ट्री इश्टिणीन सांगलें, सकाळीं फुडें भारद्वाजाचो जोडो

दिसप म्हळ्यार शुभशकून. हो शुभशकून म्हाका कितलोसोच तेंप घडलो. अजुनूय मदीं मदीं घडटा. ताच्या आवाजा वयल्यान तो खंय तरी लागींच आसा म्हण कळटा. 'कूप-कूप' असो आवाज तो काडीत आसता. तांचो जोडो दिसता, पूण दोगांकूय एकेच खांदयेर बशिल्लीं हांवें केन्ना पळोवंक नात. एकटो हे खांदयेर जाल्यार दुसरो ते खांदयेर. भारद्वाज आपणाली लांब काळीच तिकतिकीत शेंपडी फुलयता तेन्ना म्हाका मोराची याद येता. सकाळचो झाडार बशिल्लो आसतना ताच्या आंगार ज्युस्तूच सुर्याचीं किरणां पडटात आनी ताचो तो तिकतिकीत कोर आनिकूय चकचकता. ताका कोंकणींत 'तेलकोंबो' म्हणटात म्हणून हालींच म्हाका कळ्ळें.

एक दीस सकाळीं फुडें अर्शेच पेपर घेवन वाचपाक म्हूण कदेलार मात बसलां, जनेलाचेर 'टक टक' आवाज आयलो. मान वांकडी करून पळयलें जाल्यार जनेलाच्या हारशाचे भायले वटेन इल्लेंशें सुंदर सवणें उबें आसा. जनेलाचे दांडयेर उबें रावन 'टक टक' करता. उबें रावपूय सादें न्हय. सामकें झेतान! म्हजे वटेन ताचो फुडो आशिल्लो. चिमणे परस मातशें व्हड. काळसर गोबरा कोर. पोंदचो भाग धवो. सकयल तांबडे खत. आनी तोंडार दोशीं वटांनी पोल्यांक रूज बी लायिल्ले बशेन तांबडींच खतां. माथ्यार काळोच तुरो. हांव ताका पळयतूच उरलें. इतल्यान ताचो जोडीदार आयलो... 'ट्यूं...ट्यूं' असलो आवाज काडीत दोगांय भुर्र करून उडलीं. हांव सोमतेंच दार उगडून भायर आयलें. पोरसांत वचपाक दावे वटेन वळ्ळें. लागींच आशिल्ल्या झाडाचेर तांचो आवाज आयकूंक आयलो. हांव म्हन्यांत गेलें जाल्यार तें सवणें उडून पयस वचून बसलें आनी 'ट्यूं...ट्यूं' करीत गावंक लागलें. हेवटेन तेवटेन मान करून पळोवंक लागलें. तागेलें आड्डप आयकून तागेलो जोडीदार येवन ताचे म्हन्यांत बसलो. सवणीं आड्डतात पूण थंयचीं उडून मात वचनात. आतां म्हजी नदर झाडाचेर गेली. झाडार वाटयेच्या आकाराचो इल्लोसो घोंटेर, आनी तातूंत काळसर जांबळ्या कोराचीं, वयर थिपके आशिल्लीं दोन तांतयां. सुकिल्लें तण वापरून केल्लो सुपुल्लो घोंटेर. म्हणुनूच हीं सवणीं उडून वचूंक नात... आपल्या तांतयांक हांव हात लायत म्हणून भयान बोवाळ करतात तीं. माथ्यार तुरो, पोल्यांर तांबडीं खतां, म्हळ्यार ह्यो पिटकोळ्यो. तांचो घोंटेर आशिल्लें तें झाड चड व्हड न्हय. म्हजे इतलेच लांबायेचें. झाडांचेर घोंटेर, आनी इतले दीस म्हजी नदर थंय कशी गेलिना तर? तसलींच पूण ताचे परसूय लांब अशीं आनिकूय झोंपां आशिल्लीं. एक एक झाड पळयत गेलें जाल्यार आनिकूय चार झाडांचेर घोंटेर, पूण वाटी कशे न्हय. सुकी हरयाळी, तण गुठलावन केल्ले बशेन. एका झोंपा कडेन गेल्लें आसतना तीन चार, बोटा परस ल्हान आकाराचीं सवण्या पिलां चीं-चीं करीत म्हजे तकले वयल्यान उडून गेलीं.

म्हाका कल्पना नाशिल्ली. हांवें कच्च करून आंग काडलें. पिलां वचून सरयेचेर बसलीं. काळीं आनी धव्या रंगाचीं. हीं मडवळणीचीं पिलां. पोरसांत दीसभर मडवळणी आपल्या मंजूळ आवाजांत शिळोण्यो घालीत आसतात. इंग्लीशींत तांकां 'रॉबिन' म्हणटात. म्हणल्यार, बाकीचे चारूय घोंटेर ह्या रॉबिनांचे तर! म्हजे म्हाकाच अजाप दिसलें. म्हगेल्या पोरसांत, पांच पांच सवण्यांचे बांयटेर जाले आनी म्हज्या राज्याक कांयच खबर ना! हो मडवळणीचो जोडो मात बरोच रसीक. फाटलीं काळे धवे पटे आशिल्लीं पांखां फुलोवन तो नाचत आसता. ही नाचपी मडवळण खंय नर. मादयेक आकर्शीत करपाक नरां भितर खंय सर्त लागता. गिमाळ्या दिसांनी ते घोंटेर बांदतात. हो तकलेन फीन. ताणें केन्ना तण व्हेलें आनी केन्ना घोंटेर बांदले तें म्हाका कळूंक लेगीत ना. नाका कळूं. पूण इल्लीं इल्लींशीं पिलां पोरसांत चिंवचिंवतना दिसप आनी तेंय बी सकाळीं फुडें... म्हाका इतलेंच पुरो.

एक दीस सांजवेळचें पोरसांत पासय मारतना दुरगा फाटल्या झोंपांतल्यान वेगळोच आवाज येवंक लागलो. 'वुव्वाऽ वुव्वाऽऽ वॅक... वॅक... वॅक... वॅक', मदींच पांखां फडफडायिल्लो आवाज. सदांच सांजवेळचो आवाज येता. एक दीस थंय काळीं पांखां दिश्टी पडलीं. काळ्या पांखांचो कोण तरी पक्षी थंय आसा म्हण कळ्ळें. पळोवंक गेल्यार, एक न्हय तर कितलेशेच पक्षी. हांव सामकें फातरार, दुरगार उबें रावन पळयतां तें पळोवन पोरसांत काम करपी सुदामान सांगलें, 'मॅडम वह ढाऽऽक है।' सुदामा उडिसाचो.

आनीक चार पांच दिसांनी पोरसांत बारीक लांबश्या पांयांचो, काळो कोर, तोंडा कडल्यान पोटा मेरेनचो भाग धवो, असो एक पक्षी पयसुल्ल्यान हांव दिसना बरोबर दुरगा वयल्यान उडून वचून झोंपांनी नाच्च जालो. ही गजाल हांवें म्हजे महाराष्ट्री इश्टिणीक सांगली. 'अग, त्याच्यावर चांगलं लक्ष ठेव. तणमोर असेल तो. विणीच्या हंगामात त्याच्या डोक्यावर तुरा येतो.' ताणें म्हाका सांगलें. तो दिश्टी पडटनाच ना जाल्लो. ताचेर कसलें लक्ष दवरतलें आशिल्लें? तरी हांव फाटल्यान वचून वचून पळयतां. एक दीस दुरगा भायल्या जाग्यांत तो जमनी वयलें कितें तरी वेंचून खातना दिश्टी पडलो. शेंपडे कडलो भाग लांडो. पोंदा तांबडें खत कशें आशिल्लें. हांवें सामकें खोशी जावन वावराडेक उलो मारलो. 'देखो, देखो तणमोर आया है।' वावराडी बिहाराची. ती भायर आयली. हांसूंक लागली. 'आप भी क्या दीदी, यह तो वनमुर्गी है। मुर्गियाँ तीन प्रकार की होती हैं, घरमुर्गी, वनमुर्गी, जलमुर्गी।' तिणें म्हज्या सामान्य ज्ञानांत भर घाली. म्हाकाय हांसूंक आयलें. खरेंच तिचें! आतां म्हाका तो पक्षी कोंबये बशेन दिसूंक लागलो. आपल्या चार पांच पोरांक घेवन केन्ना केन्ना आमच्या पोरसांत दिसूंक लागलो. पूण मनशाची जाग लागली रे लागली, उडून नाच जावप. शेजरा काम करपी बायलेन म्हाका ती 'पाणकोंबडी' म्हणून सांगलें. ती बायल सांगलीची. 'आमच्या तिथं लई मोठ्ठ्या असतात...' 'पाणकोंबडी' हें नांव मात म्हाका वळखीचें दिसलें. इंग्लीशींत ताका white breasted water hen म्हणटात. हरशीं फाटल्यान उदक ना. पूण पावसाळ्यांत थंय शेतां रोयतात. तितलें उदक घडये तांकां पुरो जाता जावये.

आनीक एक सवणें हांवें पळयलें. फेब्रुवारी म्हयन्यांत जावये. तांबसार केसरी रंगाचें. तकली काळी. पांखां आनी शेंपडी मदीं मदीं

काळीं. पिटकोळेच्या आकाराचें. 'व्हीट व्हीट...' असो आवाज करतालें. हें सवणें एकदांच दिश्टी पडलां. ह्या दोन वर्सांत परतें हांवें ताका पळोवंक ना. ज्या सवण्याक हांवें पळयलें ताचें नांव म्हाका खबर नाशिल्लें. ते ख्रातीर हांवें *इंडियन बर्ड्स* हें डॉ. सलीम अलींचें पुस्तक विकतें हाडलें. इश्टिणी कडल्यान एक पुस्तक मागून हाडलें. ताचे वयल्यान ताचें हिंदी नांव 'बुलाल चश्म' म्हणून कळ्ळें. ते भायर उत्तर भारतांत तांका 'हलदी कुमकुम' अशें म्हणटात खंय. ताका 'विष्फुलिंग' हेंय नांव आसा. पुराणकाळांत रुशींनी हांकां वयल्यान उडटना पळयलीं तेन्ना तांकां उज्याचो फिटी उडटात काय दिसलें खंय. आनी तांणी तांकां नाव दवरलें 'विष्फुलिंग'.

आतां मांत हांव सकाळ, दनपार, सांज भायर आयलें, मागीलदारा गेलें जाल्यार झाडांचेर नदर मारूंक लागलें. चिंवचिंव, किरकीर कानार पडली जाल्यार धांवत भायर येवंक लागलें. गॅसार आशिल्लो दुदाचो तोप दूद आटून, करपून लेगीत गेलो. म्हजे बराबर हें पिशें चल्याकूय लागलें. 'मम्मा, बेगीन भायर यो. ब्राउन कलरचो पक्षी आयला!' 'होऽ तो पळय, तुगेलो तो माथ्यार तुरो आशिल्लो पक्षी...' अशें घोवूय सांगूक लागलो. 'दीदी, यह देखो, हरे रंग की चिडिया आई है...' वावराडेकूय म्हाका सांगन शें दिसूंक लागलें.

आशिकुशीक किरकिरो चडसो आसता. दुरगा फाटल्या झाडाचेर नाजाल्यार घरा मुखावयले लायटीचे सरयेचेर. त्या दिसा मात एकलो (काय एकली?) पोपायेच्या बोडक्या झाडाचेर बशिल्लो दिश्टी पडलो. तो ओग्गी बशिल्लो: थंय आनीक एकटो आयलो. आपलीं सुंदर निळीं पांखां फडफडायत वयर भोंवताडे काडूंक लागलो. किरकीर सुरूच आशिल्ली. आवाज तेंगशेर पाविल्लो. इतल्यान आनीक एक किरकिरो थंय आयलो. तोय तसोच करूंक लागलो. दोगूय नाचले नाचले आनी गेले. पयलो मागीर खूब वेळान उडून गेलो. किरकिरो सगळ्या सवण्यां भितर देखणें अशें सवणें. तोंक आशिल्ली चोंच, निळोच रंग, तकली, मान आनी सकयलो भाग चॉकलेटी कोराचो, माने सकयलो धवो. संस्कृत भाशेंत ताका 'चंद्रकांत', 'मत्स्यरंग' अशीं अर्थपूर्ण नांवां आसात. हिंदी नांव मात कोंकणीक लागींचें अशें, 'किलकिला'.

आमच्या पोरसांत जानेवारी ते मार्च म्हयन्यांत तरेकवार सवणीं दिश्टी पडटात. एक दीस म्हाका माथ्यार तुरो आशिल्लें पिटकोळे बशेन आनीक एक सवणें दिसलें. पळोवंक सामको तांबडो बाळो कशें. पूण माथ्यार तुरो.

आंबो चवरूंक लागता आनी वसंत रुतूची सुलूस लागतां. म्हज्या पोरसांत ही सुलूस घेवन येता कोगळाचो मंजूळ स्वर - कुहू... कुहू... कावळ्या परस मातसो ल्हान पक्षी. तिकतिकीत काळो कुळकुळीत. तांबडेच दोळे. कावळ्या परस लांब शेंपडी. कोगळाक पळोवपाक हांव हेवटेन तेवटेन नाचतां. पूण तो सदांच लिपून रावता. केन्ना ताचो दोळो दिसता तर केन्ना शेंपडी. चुकून केन्ना तरी ताचें अखंड रुपांतलें दर्शन जाता. एक दीस म्हाका कुहू कुहूचो सूर सामको बेसूर जाल्लो आयकूंक आयलो. वयले पट्टेंतलो. ताचे बराबर के... के... के... के... असोय आवाज आयलो. हांव वयले माळयेर आशिल्लें. जनेलांतल्यान भायर पळयलें. कोगूळ आनी ताचे बरोबर गोबरा कोराचें आंगार धवीं आर्का कशीं आशिल्लें दुसरें सवणें. ती खंय मादी कोगूळ. आंब्याच्या पानां पोंदा ती लिपिल्ली. पूण दुसऱ्या अर्दांतल्यान म्हाका दिसताली. मागीर ह्या दोन वर्सांत कितलेशेच फावटी 'के... के' आयकूंक आयलें. आनी नर, मादी कोगूळ दिश्टी पडलीं. त्याच दिसांनी कावळ्यान शेजाराल्या पणसाचेर आनी फाटल्या कुंबयाच्या झाडाचेर घोंटेर केल्ले. ते कोगुळेन तातूंत तांतयां घाल्लीं आसूंक जाय. ती बाबडी कितें करतली, सैमान तिका घोंटेर बांदपाची कलाच शिकोवंक ना. कावळ्याक तांतयांतल्यान पिलां भायर येय म्हणसर तीं तांतया आपलीं न्हय म्हणून कळना खंय. पूण म्हाका तशें दिसना. कावळो खरो बुदवंत. एक दीस ताका जनेलांतल्यान खावपाक उडयलें जाल्यार दुसऱ्या दिसा तो परतोय थंय येता. तो भयणीचीं भुरगीं समजून आपल्या भुरग्यां बराबर तिच्या पिलांक वाडयता जावये. कोंकणींत एक आल्लय आसा. आवय भुरग्यांक न्हिदयतना म्हणटा, ''यो रे यो रे कावळ्या, कोगुळाच्या मावळ्या, बाबूल्या दोळ्यां वारो घाल...''

एक दीस सकाळीं फुडें 'करे... करे... करे... करे...' असो आवाज आयकूंक आयलो. पळयत जाल्यार मुखावयले लायटीचे सरयेचेर बसून काळ्या कोराचीं सवणीं हो आवाज करतात. कावळ्या परस ल्हान आकाराचीं. मजा म्हळ्यार, तांची शेपडी सरळ नाशिल्ली. दोशीं वटांनी वळिल्ली. नुस्त्याची शेंपडी आसता तशी. सांजवेळचें केन्नाय हें सवणें सरयेर दिश्टी पडटा. आनीक एक, चिमणेच्या आकाराचें पूण काळें किट्ट, ताचे शेंपडे कडल्या पांखांतल्यान एक काळीच सरी कशी भायर आयिल्ली आसता. हें शेवणें केन्नाय आमच्या घरार बशिल्लें दिश्टी पडटा. ताका नुस्त्या बशेन शेंपडी आसता. ताका मराठींत 'कोतवाल' म्हणटात. इंग्लीशींत 'ब्लॅक ड्रोंगो', कोळश्या बशेन काळो किट्ट आशिल्ल्यान संस्कृतांत 'अंगारक', 'भुजंग' म्हणटात. कोंकणींत कितें म्हणटात काय, नांव कळ्ळें ना.

फाटल्या दिसांनी आममेर म्हजो नंडावो रावपाक आयिल्लो. ताका सकाळीं उठपाची संवय. त्या दिसा म्हाका दिसता, पोरसांत चडांत चड पक्षी हजेरी लावन गेल्यात आसतले. हांव उठून भायर आयले बराबर ताणें म्हणलें, 'आगो तुज्या पोरसांत सगळ्या तरांचीं सवणीं येतात मगो:.. कितें घालता तूं तांकां?' ताणें म्हजी फकाणां केलीं. 'आज हांवें कितलींशींच सवणीं हांगा पळयलीं... किरकिरो, खांप्री बोंचुड्डी, पाकलो बोंचुड्डी, मडवळण, कोगूळ, इतलेंच न्हय पाणकोंबी लेगीत दिसली.' बाकीचीं नांवां म्हाका कळ्ळीं. बोंचुड्डी म्हळ्यार कोण? हांव अजापीत जालें. 'माथ्यार तुरो आसता ती. काळी आसता ती खांप्री. दुसरी, गालार धवी तांबडी आसता ती पाकलो.' हांव आयकत उरलें. भावोजी सांखळे-आमोणेचो. गांवगिऱ्या वाठारांतलीं नांवां ताका खबर आसुये. बुलबुलाक कोंकणींतलीं दोन नांवां म्हाका मेळिल्लीं. पिटकोळी आनी बोंचुड्डी. आतां इतलीं सवणीं गोंयांत दिसतात तीं कांय हालींच नवीं येवंक नासतलीं. इतलीं

वर्सां तीं गोंयांत दिश्टी पडटात आसतलीं. म्हळ्यार, तांकां कोंकणी नांवां आसतलींच. आमी उलयता आसतनाच तें काळें सवणें 'करे... करे...' करीत सरयेर येवन बसलें. 'हो किरकावळो,' भावोजीन म्हळें. हांव अजापान आयकतूच उरलें. ब्लॅक ड्रोंगो, कोतवाल म्हळ्यार कोण पयसुल्लो सो दिसतालो. तो किरकावळो म्हणूं नाका, म्हाका एकदम लागींचो दिसलो. हांव एकदम म्हज्या भुरगेपणांत पावलें. इश्टिणीच्या माथ्यार कागदाचो कुडको बी उडोवप आनी 'कोणाच्या माथ्यार किरकावळो, किरकावळो!' म्हणप. इतलो तेंप हांव समजतालें, हातूंतलो 'कीर' म्हळ्यार 'तामरेतीर पानां, मेजार फुलां आमची कीर येतलो' तातूंतलो, आनी कावळो, आमचो सदचो कावळो, अशें हें जोडउतर. आतां हो 'किरकावळो' म्हज्या दोळ्यां मुखार आशिल्लो. 'करे... करे...' करून बेसूर आड्डुपी 'किरकावळो' म्हाका एकदम अपुरबायेचो दिसपाक लागलो. गोंयचे भाशेचो, गोंयचे मातयेचो वास आशिल्लें नांव किरकावळो!

आमंच्या घरा फाटल्यान आनी फुडल्यान बारीक पानांचीं झाडां आसात. आंब्या बराबर तींय चंवरतात. तांकां बारीक बारीक फुलां येतात. तीं खावपाक खंयचीं खंयचीं सवणीं थंय येतात. मागीर आमच्याय पोरसांत पांय लावन वतात. ह्या झाडांक चिंचेबोटां कशीं फळां लागतात. एक दीस भुरगे तीं काडटना दिश्टी पडले. 'कितें रे तें?' एकट्यान सांगलें, 'बोमयची चींच', दुसऱ्यान म्हळें, 'स्वीट टॅमरिंड'. थंयच्यान वचपी जाणटेल्यान म्हळें, 'पोर्तुगाली चींच'. सांगलीचे बायल-मनशेन सांगलें, 'इलायती (विलायती) चिंच...' ह्यो चिंचो पिकतात. एक दीस फाटले चिंचेर हळदुवेंच सवणें दिश्टी पडलें. फक्त दोळ्यां भोंवतणी काळीं वर्तुळां आशिल्लीं. आंगार मदी काळ्यो रेगो कश्यो. हें सवणें एकोडें नासता. बरोबर आनिकूय दोन-तीन सवणीं आसतात. त्याच दिसांनी तेदेंच आनीक एक सवणें येतालें. पूण ताची तकली काळी आसताली. पांखांर आनी शेंपडेकूय काळो रंग आशिल्लो. फेब्रुवारी मार्चांत तीं दिसतात. मागीर खंय वतात, कोण जाणा.

काळेंच आंग आशिल्लें, माथ्यार केसरीच तुरो, म्हळ्यार इल्लीशी तोपी घाल्ले बशेन. मेस्त सवण्याची आसता तसली चोंच. एका बराबर दोग तीग जाण येतात. किर्र किर्र बेसूर आड्डतात. माडार ठक ठक करतात आनी वतात - हे देशी काय विदेशी सोयरे तें खबर ना. आनीक एक बोटा येदें इल्लेंशें सवणें येता. काळें आंग, पोंदचो भाग हळदुवो. 'ट्यीव्ह ट्यीव्ह' करून हे खांदये वयल्यान ते खांदयेर नाचत आसता. चडशें केळीचे बोंडयेच्या फुलांचेर दिश्टी पडटा.

जून म्हयनो लागिल्लो. दोन तीन दीस पावस झडून गेल्लो. पोरसांत पांय दिवंक नाशिल्लो. त्या दिसा आसोर जाला म्हूण भायरूच उबें आशिल्लें. पोरसांतल्या माडा बशेन आशिल्ल्या सोबेच्या झाडाचेर एक हळदुवेंशें सवणें येवन बसलें. सारकें पळयल्यार चिमणे बशेन आंग. पूण तकलेर हळदुवोच व्हडलो दाग. पोंदचो भागूय हळदुवोच. ताणें आपले इल्लेशे चोंचीन त्या चुडटाचो दोर सो काडलो आनी चोंचीन धरून भुर्र करून मुखा वयल्या माडाचेर गेलें. माडाचेर पळयल्यार किदें? हळदुवीं दिसपी चिमणे येदीं सवणी. 'चिई चिई...' तोंडान आवाज करीत चुडटांचेर नाचत आसात. सारकें पळयल्यार घोंटेर विणपाचें काम सुरू आसा. इल्ले इल्लेशे हाता येदे घोंटेर चुडटांचेर लांबतात. थोडीं चिमणेच्या कोराचीं 'चिट्ट चिट्ट' करीत पांखां फडंफडायतात. हीं कांय बजबजीं न्हय. म्हणजे, हीं 'बया' सवणीं. संबंद दीस तांचो हा उद्देग सुरूच आशिल्लो. आमच्या घरा कुशीक जिल्हो हॉस्पिटलाचें बांदकाम चलता. थंय कामेऱ्यांचो आवाज आनी मशिनांचें 'खटखट' चलिल्लें आसता. आयकून आयकून वांज आयला. पूण ह्या बांदकामाचो आवाज मात म्हाका सुखायतालो. कितें तरी अप्रूप अशें म्हाका पळोवंक मेळटालें. वयल्या जनेलांतल्यान चड लागीं दिसतालें. आतां चडशे घोंटेर विणून जाल्ले. एक दोन घोंटेरांक लांब नळी विणिल्ली दिश्टी पडटाली. थोडे घोंटेर अर्दयारूच सोडिल्ले. ते कोण विणटना दिश्टी पड नाशिल्ले. मागीर हांवें पुस्तक काडून वाचलें. तकलेक हळदुवो दाग आशिल्लो तो खंय नर. तो दाग खंय ताच्या माथ्यार ह्याच दिसांनी उदेता. मादी सवण्यांक आकर्शीत करपाक. घोंटेर विणटना तो 'चिट् चिट्' आवाज करीत पांखां फडफडायता आनी तिका आपलें घर पळोवपाक आपयता. ती मागीर येवन घराचें निरिक्षण करता. केन्ना केन्नाय तो दोन तीन घोंटेर बांदून तयार रावता. ती मागीर आपल्याक जाय तो घोंटेर पसंत करता आनी ताचे बरोबर संवसार मांडटा. मागीर, दोगांय मेळून भितरलें 'इंटेरिअर डॅकोरेशन' करतात. ती तांतयां घालता आनी तो ती लांब नळी विणटा. मागीर तो दुसरो घराबो करपाक मेकळो.

म्हज्याय पोरसांत चार माड आसात. पूण ताचेर एकूय बया सवणें येना आशिल्लें. फकत घोंटेर बांदपाक जें कितें साहित्य लागता तें मात म्हज्या पोरसांतल्यान तीं व्हरतालीं. पयर एक दीस कुडींत बशिल्लें आसतना लागींच्यान 'चिई-चिई' आवाज येता म्हूण पळयलें जाल्यार जनेला भायल्या माडार पांच-स बया सवणीं बसल्यांत. दोन घोंटेर विणपाचें काम चल्लां. दोन संवसार उबे जाले. पूण हांगा तांचो अदमास चुकलो आनी वाऱ्याच्या नेटान एक चुडीत सकयल पडलें. दोन इल्लींशीं धवीं तांतयां भायर पडलीं. लॉनार पडिल्ल्यान तीं फुटलिनात. हांवें तीं परतीं घोंटेरांत घालून घोंटेर झाडाक बांदून दवरलो. पूण चार दिसांनी पळयत जाल्यार घोंटेरांत एकूय तांती ना. ह्या बया सवण्यांक हात नात. फकत चोंचीन तीं सुंदर घराची निर्मणी करतात. बहिणाबाई चौधरीची एक सुंदर कविता आसा. आतां सगळी कविता याद जायना -

*पिल निजले खोप्यात, जसा झुलता बंगला*
*तिचा पिलामजी जीव, जीव झाडाला टांगला*
*खोपा इवला इवला, जसा गिलक्याचा कोसा*
*पाखराची कारागिरी, जरा देख रे मानसा*
*तिची उलूशीच चोच, तेच हात तेच ओठ*
*तुला दिले रे देवानं, दोन हात दहा बोटं...*

पावसा दिसांनी आनीक एक सवणें उडटना दिश्टी पडटा. तोंडान

(पान ६६ चेर)

# शिक्षणा विशीं शिक्षण दिवपी विचार...

चंद्रलेखा डिसौजा

आमच्या देशाचो पांसठावो स्वातंत्र्य दीस आमी मनयलो. होच आमचो भारत देश आमकां स्वातंत्र्य मेळ्ळें तेन्ना एक सादी टांचणी निर्माण करपाक सक्षम नासलो. त्याच देशांत आयज व्हडले व्हडले कारखाने आसात, एटॉमीक रिसर्च सेंटर आसा, अंतराळांत सोद करपाक अवकाश यानां आसात, शिक्षण संस्थानां आसात, उपग्रह संचार व्यवस्था आसा, हॉस्पिटलां आसात... खूब कितें कितें अभिमान दिसपा सारकें आमच्या देशांत आसा. पूण हो सगळो विकास नगरां, महानगरां पुरतोच मर्यादीत उरला. आयज साक्षरता अभियानान सगळ्यांक वेगवेगळे अधिकार दिल्यात. हातूंत भुरग्यांक शिक्षणाचो अधिकारूय मेळ्ळा...

टी.व्ही. चेर आतषबाजी चलताली, आनी म्हजी तकली दिल्ली आनी गोंय सोडून तिसरेच कडेन पाविल्ली! गोंयांत भर पावसाळो... पूण हांव चलतां म्हज्या विचार विश्वांत... आमचो देश... आमचो विकास... आमचीं भुरगीं... आमची शिक्षण व्यवस्था... सागर किनाऱ्यार आमी चलतालीं... प्रकाशान पांच ग्रूप केल्ले. हांवूय एका ग्रुपांत... नुस्त्याचो वास घेत चलतालें... गोंय विश्वविद्यालयाचीं एम.ए. कोंकणीचीं भुरगीं... सागर किनाऱ्यार आमचीं पावलां वोताचो रखरख सोंसून मोन्यांनी रेंवेंत चलतालीं... आमचे वांगडा सगळ्यांत ल्हान म्हळ्यार प्रकाशाची चली शाल्मली. तिवूय बी आपल्या पप्पाचें बोट धरून चलताली. सागर किनारो... ल्हारां... आनी म्हजें विचार मंथन... माथ्यार सूर्यदेवाचो रखरख उजो पेटयतालो... वातावरण शांत. पूण खारें उदक, ताची खारसाण, नुस्त्याची हिंवसाण... म्हाका दिसतालें, हांव चलूंक पावतलें काय ना? नाकांत तो वास भस्स करून वतालो... अचकीत म्हजे दोळे अयस पयस पळोवंक लागले. घडये हांव म्हाकाच सांबाळपाचो यत्न करतालें. सागर किनाऱ्यार ल्हान ल्हान खोंपी, व्हडीं, जाळीं, सुक्या नुस्त्याचो वास, घरांतल्यान बायलां

आनी भुरग्यांचें हांसले चेरे दिश्टी पडले. आमी तांकां तांचे जिणे विशीं प्रस्न विचारले आनी तांच्यो जापो बरोवन काडल्यो.

टॉयलेट म्हळ्यार एक आडोस, बाथरूम आनी उदका विणें न्हावप म्हणजे कितें? पिवपाचें उदकूच ना. गांवांतल्यान छकड्याचेर वा ऊंट गाडयेंतल्यान येतकच रणांतलो तानसोर उदकाचे इल्लेशे घोंट घेवन भागोवपाचो. ताग धरून बांदिल्लें घर, घरा भायर उजो ओंकपी वोत. रेंव, खाडयेचें उदक, सळसळपी... खळखळपी... खाटेर बशिल्लीं बायलां आनी भुरगीं... दादले बोटी घेवन गेल्यात नुस्तें मारूंक... येतले पंदरा-एक दिसांनी. तांकां जेवण आनी उदक घेवन एक दोग वतात.परत येतना नुस्तें घेवन येतात. बाजारांत विकपाक न्हय, वेपाऱ्याक विकपाक. वेपारी सांगतात त्या मोलान तांकां दिवपाक. कारण, तांचे कडल्यानूच ह्या लोकांनी रीण घेतलां. हांकां मेळटात धा रुपया तर बाजारांत, वेपाऱ्याक मेळटात शंबर!. मदली 'मलाई' वेपाऱ्यांची. स्वातंत्र्याचीं कितलींशीं वर्सां आयलीं आनी गेलीं... प्रधानमंत्रीय आयले आनी गेले, पूण सामान्य मनीस थंयच.

हो देखाव आसा गुजरातच्या कच्छ जिल्ल्याचो. वेंचणुको येतात आनी वतात CRZ म्हळ्यार Coastal Regulation Zone इंदिरा गांधी प्रधानमंत्री आसतना आशिल्ले ते कायदे आयज बदल्ल्यात, पूण नुस्तें मारपी लोकांची जीण बदलूंक ना. तांचे मुळावे प्रस्न अजून सुटनात. तशें पळोवंक गेल्यार, आमच्या शेतकारभावांचे प्रस्नूय खंय सुटल्यात? बाजारांत कांदे बटाटां साठ-सत्तर रुपया किलो, पूण शेतकाराक धाच रुपया?

आमी भारतीय मनशां प्रस्नांच्यो जापो सोदून काडपाचो यत्न करिनात, प्रस्नांचेच डंपींग ग्राउन्ड तयार करतात. विज्ञान आनी टॅक्नॉलॉजी ह्या दोनूय संदर्भांनी विचार जावंक जाय. अशें आजुनूय आमकां जाल्लें दिसना. हे नुस्तें मारपी जमातीचे प्रस्न सोडोवचे बदला सरकार त्या वाठारांत कोळशाची फॅक्टरी घालता. म्हळ्यार, फॅक्टरी खातीर सागराचें उदक घेवप आनी हुनहुनीत उदक परतें सागरांत सोडप. नुस्तीं मेल्यार मरू. नुस्तें ना, नुस्तें मारपीय नात. तांच्या भुरग्यांचें कोणाक पडलां? 'न रहेगा बाँस, न बजेगी बाँसुरी'! नुस्तें मारपी वतले दुसऱ्या सागर किनाऱ्यार... खाडये देगेर... वा मसणांत. कोणाक पडलां तांचें?

कोस्टल झोन म्हणटा, आमच्या क्षेत्रांत हे लोक येनात. कोस्टल मॅनेजमेंट झोन म्हणटा, आमच्याय क्षेत्रांत हे लोक येनात. म्हणटकच कितें? उद्देगीकरण आनी फॅक्टरी. थंय कोळशे करप आनी कोळसो जावप. सुटलो न्हय प्रस्न?

हे नुस्तें मारपी वर्साचे णव म्हयने सागर किनाऱ्यार रावतात आनी तांचे खातीर सरकार शाळा चलयता तांच्या गांवांत! आवय बापूय म्हणटात - 'गांवांत रावल्यार नुस्तें मारपाक कशें वचप? म्हणटकच भुरगींय आवय-बापाय वांगडा सागर किनाऱ्यारूच रावतात. ही सगळी म्हायती *सागरशाळा* पुस्तकांत देवेन्द्रबाब कांदोळकार बरयतात. युसुफ मेहरअली सेंटराचे वतीन आयज मुंद्रा, अंजार आनी मांडवी, ह्या तीन तालुक्यांनी इकरा शाळा चलतात. कच्छ सेंटराचे कोऑर्डिनेटर धर्मेंद्रकुमार आसात. आमी हे सागरशाळेचो अणभव घेवपाक गेल्लीं तेदेवेळाचो 'नजारो' पळोवया...

दर्या देगेर एका जाग्यार चारूय वटेन वणटी उबारून एक रूम तयार केला. ताका वयर चारूय वटांनी जाळी बांदल्या. आमी पावलीं तेन्ना त्या रुमांत जमनीर बसून वीस-पंचवीस भुरगीं पाटी-पेन्सील हातांत धरून बरयतालीं. तांच्या शिक्षका खातीर एक मेज आनी कदेल आशिल्लें. आमी सगळीं चिंततालीं... कशें जमता काय ह्या भुरग्यांक अशें जमनीर बसून बरोवपाक?

शाल्मलीचो प्रस्न ताच्या बाळ विश्वाचो घुस्मटमार चिरून वयर सरलो -

'पप्पा हांकां बसपाक खुर्च्यो कित्याक नात?'

आमी कोणूच ताच्या प्रस्नाक जाप दिवंक पावलिंनात. शाल्मलीचो प्रस्न आमचेरूय घाय करतालो. जमनीर बशिल्लीं भुरगीं निर्विकार... आपल्या दोळ्यांतली जिजीविषा... आनी आपले जिणे विशींचीं धांपिल्लीं सपनां घेवन बरयतालीं. ह्या भुरग्यांची मायभास कच्छी. पूण शिकतालीं गुजराती. (कच्छी भाशेक आपली खाशेली लिपी ना म्हूण लोक कच्छी बरयतना गुजराती लिपयेचो वापर करतात.) कच्छी भाशेतलें एक लोकगीत आमी त्या भुरग्यां वांगडा म्हणिल्लें -

*'इयर केर महियारण अचे लंबे घुंघटवाळी रे*
*इनजे घुंघटचो शणगार मोके मोहिनी लगी रे*

*इनजे पग जेडा कडला मोके, पग में खपे रे*
*इनजे कडलेजो शणगार मोके मोहिनी लगी रे*

*इनजे हथ में जेडा कंकण मोके हथ में खपे रे*
*इनजे कांकणजो रणकार मोके मोहिनी लगी रे*

*इनजे नथ जेडी नथणी मोके नकमें खपे रे*
*इनजी नथणीजो शणगार मोके मोहिनी लगी रे*

भुरग्यां वांगडा थोडो वेळ रावन आमी परतलीं. पूण भुरगीं, हांव, प्रकाश, अर्चना आनी शाल्मली सगळ्यांच्या मनांत जें कितें घुंवतालें तें अशेंच शें आशिल्लें -

आमची शाळा आनी तांची शाळा... इतलो फरक कित्याक? खंय त्यो व्हडल्यो व्हडल्यो इमारती? खेळामळां... आर्विल्ले नवे सामग्रीन भरिल्ले क्लास रूम... टी.व्ही. कम्प्युटर, इंटरनॅटचें जाळें... कॅन्टीन, कोल्ड ड्रिंक्स आनी पित्झा? आनी खंय ही वास्तविकताय! स्वतंत्रतायेची साठ वर्सां उलगलीं तरी पूण आमची शिक्षण व्यवस्था ही? गांधीजी खरेच सांगताले... 'भारत देश गांवांनी जियेता. ताका समजून घेतले बगर आमकां आमचो देश कळचोच ना.' आमचो विकास जालो पूण आमचे गांव खंय तरी फाटींच उरले.

गिजुभाई बधेका, खंय आसात तुमी? भुरग्यांक शिक्षण मेळचें म्हण तुमी गुजरात शिक्षण संस्थेंत कितले वावुरले! पूण हया कच्छ प्रदेशांत आयजूय शिक्षणाची ही स्थिती? सगळें एक ॲक्शन रिप्ले...

'सागरशाळा' वांगडाच मन नमन धावस्कार सावंत लिखीत 'मुक्तमना' विशीं चिंतूंक लागता. मन मुक्त पूण स्वैर विहारी न्हय. देवेन्द्रबाब कांदोळकार सागरशाळे खातीर वावर करतात जाल्यार तांची शिश्या नमन सागरशाळेक 'मनीसपणाच्या मळबा पोंदा भरपी शाळा' म्हणून सरांच्या पावलार पावल दवरून चलपाचो यत्न करता. सागरशाळेची ओलसाण आनी 'खारट मिठाची आंबट (खारी) काणी' सांगपी नमन (१२ डिसेंबर २०१०, सुनापरान्त) दोगांय - गुरू शिश्य - आपल्या विचारांतल्यान म्हाका अस्वस्थ करतात. मीठ आयोडायिज्ड आसचेंच म्हण रेडियो, टी.व्ही. वयल्यान आमी आयकतात. पूण 'धव्या मिठाची काळी मजुरी करपी काळखांतूच उरता' हो लेख वाचतां तेन्ना मनशाचे वेपारी बुद्दीचेर येवजिले बगर रावं नजऽ जाता. ही बुद्द मनशांचें नुकसान तर करताच पूण प्रकृती आनी पर्यावरणूय इबाडटा... म्हजी अस्वस्थताय वाडटा. लेखिकेचें संवेदन वैश्वीकतायेच्या विश्वांत अर्थीक, सामाजीक, संस्कृतीक मळार वेपारीकरणाचो मुद्दो संतुलीतपणान चितारता. विचार म्हळ्यार, फुलां वेंचून काडपा सारकें, आनी ताचेर चिंतप म्हळ्यार तांची माळ गुंथपा सारकें आसता. विचारूच आमच्या चारित्र्याचें संगठन करता. नमन आपल्या पुस्तकांत आपल्या संतुलीत विचारांचें चिंतन, माळ गुंथून 'मुक्तमना'च्या रुपांत आमचे मुखार दवरता. पूर्वग्रह सोडून 'सावित्री'चे पुराणीय आनी आधुनीक संदर्भ दिता. 'नितिमुल्याच्या फातराक आदळून आखाणो फुट्टा' - (पान १०) आनी 'विज्ञानीक दूश्टींकोणा'चे आयचे गरजेच्या संदर्भांत, पुराणीय सावित्री रुपांतरीत जावन नवी वाट दाखयता. दुकळ, हुंवार, पावस, वादळ, वारें, बर्फ जशें मेड इन चायना, तशेच साने गुरुजी फकत पांचूच मार्कांचे उरल्यात!

खरेंच नमनाच्या उतरांनी -

''आयज आमच्यो संवेदना बोथट जायत चल्ल्यात. आमकां अर्धांगवायू जाला. आमच्या मनाक, कानाक, आमच्या दोळ्यांक कांय कळना. कांय आयकूंक येना...'' (पान. १५)

आयज मनशाक खरेंच मेकळेपणान सांगूं येता तसली हॅल्पलायन जाय. ब्युटी पार्लरां न्हय, तर काळीज सुंदर करपी हार्ट पार्लरां जाय. पूण 'हार्ट' आसा तरी खंय आमकां? आमची ही स्थिती म्हाका अस्वस्थ करता. संस्कारांच्या शेतांत विचारांची बिंयां किल्लुपाचो नमनाचो हावेस म्हाका संवेदनीय स्वरुपांत खंय तरी स्पर्श करता. देवेंद्र सराक आपली तुस्त-तोखणाय आवडना. हाचो अणभव हांवें घेतला. नमनाक मनीसपणाच्या संवसारांत वावुरपाक आवडटा. आपल्या शिक्षका कडल्यान विद्यार्थिनिनूय तोच विचार उखलून धरला. पणटी ल्हान पूण आत्मविश्वासाक लागून ती म्हान. नमन आपल्या विचाराची पणटी पेटयता तर कांदोळकार सरांची *सागरशाळा* पान ८९ चेर बरयता -

> 'मशिदीतून येणारी बांग, चर्चमधून निनादणाऱ्या चर्चबेल्स किंवा मंदिरातील घंटानाद कानावर पडताच एखाद्या भावूक व्यक्तीच्या चित्तवृत्ती नकळत उजळत जाव्यात त्याप्रमाणे आमच्या सागरशाळांच्या घंटानादाने अनेकांच्या हृदयवीणेची तार छेडली जाऊ लागली. त्याची संथ, नंद कंपने या हृदयातून त्या हृदयी अलगद शिरू लागली. साक्षरता भावसाक्षर होऊ लागली.

*सागरशाळा* पुस्तंक नमना खातीर 'जीवनग्रंथ' (पान ७६) आसा तें उचितूच दिसता. हो मार्ग जेन्ना राश्ट्रीय महामार्गाक मेळटलो तेन्नाच देवेंद्र सराचें सपन साकार जातलें. आपल्या सराक नमन कितलें सुंदरपणान व्यक्त करता ताची एक देख दिवन हो लेख सोंपयतां.

''...हांगा तांचीच एक कविता याद जाता - सान्नीची. सान्नीन घरांतलो कोयर काडून, घर निवळ करून, वचून बसपाचें आसता कोनशाक. वेळ जालो काय मागीर तो कोनशाचोय जागो दुसरे सान्नीक मेकळो करून दिवपाचो आसता आनी स्वता उज्याचें भक्ष्य जावन लासून वचपाचें आसता...!

युसूफ मेहरअली सँटर, कांदोळकर सर, नमन, तुमकां म्हजो सलाम. म्हज्या मनांत जिणेच्या ग्रंथा विशीं मार्गदर्शन करपी तुमचे विचार पणटेचो उजवाडूच जावं. जीवन सागरांत ही समजिकायेची, मनीसपणाची बोटूच पुरो.

(संपर्क : ०९८२३२५८५५०)

# नर आनी नारीची निर्मणी

**मूळ डोगरी लोककथा    अणकार: उन्नती मांद्रेकार**

शंकर आनी पार्वतेन पयलीं देव आनी दैत्य हांकां निर्मिल्ले. पूण तांचीं सदांचीं झुजां पळोवन आनी एकमेकां विशींच्यो कागाळ्यो आयकून तीं दोगांय आपले निर्मणेचेर नाखूश जायत गेल्लीं. एक दीस जेवले उपरांत शंकर आनी पार्वतेन कितें तरी नवें निर्माण करप म्हूण थारायलें. देव आनी दैत्य - दोगांकूय मानवत आनी तांचें लक्ष ओडून घेत अशें कितें तरी, जाका लागून तांचीं आनीक झगडींय जावंक पावचीं नात.

ते प्रमाण शंकर आनी पार्वती आपल्या वावराक लागलीं. तांणी माती एकठांय करून ती उदकान कालोवन दोन आकृत्यो तयार केल्यो. नर आनी नारी. मागीर तांकां एके शिळेचेर उबीं करून देवांक आनी दैत्यांक आपोवणें धाडलें. तांकां उद्देशून शंकरान म्हणलें, ''तुमचे पासत शिळेचेर कितें तरी दवरलां. पळेयात वचून.''

देव आनी दैत्यांनी त्यो आकृत्यो पळयल्यो. बारीकसाणेन आरत्यो परत्यो करून तपासल्यो आनी कांयच उलयनासतना, कितेंच प्रतिक्रिया दिनासतना ते थंय सावन परतले.

तांचें हे कृतीचें पार्वतीक अजाप दिसलें. तिणें शंकराक विचारलें, ''म्हादेवा! आमी देव आनी दैत्यां खातीर निर्माण केल्ल्या खेळण्यांक तांणी कांयच प्रतिसाद कसो दिलो ना? कितें आसत हाचें कारण?''

''ह्यो नर आनी नारीच्यो निर्जीव आकृत्यो. त्यो स्वास घेनात आनी उलयनात लेगीत. तांकां रंग ना आनी सोबिताय ना.'' शंकरान पार्वतेक जाप दिली.

हाचेर उपाय काडपाक शंकरान *बीध* मातेक - नियतीचे देवतेक - निर्मिली. आकृत्यांक स्वास दिलो आनी तांकां तांचें नशीब दिवपाक *बीध* मातेचे सुवादीन केल्यो. तिका सांगलें, ''तूं सगळ्या मनशांचें नशीब बरयतली. मात, हें करतना एक मतींत दवर, एका मनशाचे नशीब दुसऱ्या मनशा पसून वेगळें आसपाक जाय. तें समान आसूंक फावना.''

*बीध* माता आपल्या हातांत एक पांख घेवन मातयेच्या, निखळ स्वास घेवपी ह्या आकृतींच्या

कपळार तांचें नशीब बरोवपाक बसली. शंकरान तिच्या कामांत आडखळ हाडीत विचारलें, "देवी, मनशाच्या ह्या आकारांत आनीक खंयची गजाल उणी आसा अशें दिसता तुका?"

*बीध*मातेन जाप दिली, "मातयेच्यो मुर्त्यो सोंपेपणान मोडून वतात. म्हणटकीर, धर्तरेर आपल्यो लीला केले उपरांत मनीस रोखडोच मातये भरवण जातलो. देखून मनीस शास्वत जाय मेरेन आमी ताच्यो मुर्त्यो करीत रावंक जाय."

"देवी, धतरे वयल्या मनशांचे निर्मणेंत कांय जाण नर आसतले, तर कांय जाणी नारयो. हे नर आनी नारयो निर्मणेक मृत्यू लोकांत, मरणाच्या राज्यांत, व्हरपाचें काम करतल्यो." शंकरान *बीध*मातेच्या हुस्क्याक जाप दिली.

पार्वतेन नारीचे आकृतेचेर काम करपाक सुरवात केली. तिणें तिका ओडलायण्या गुणांनी सृंगारली. मागीर तिचेर सोबीत साज घडयलो. सगळें जातकच तिका शिकवण दीत म्हणलें, "मनशांक जल्माक घालून तांची वंशावळ मुखार व्हरपाच्या कार्यांत तुवें तुजें सहकार्य दिवचें पडटलें."

दुसरे वेटेन, शंकरान नराचे आकृतेच्या कार्यांत हात घालो. ताणें नराक बळिश्ट स्नायू, हात आनी पांयांनी बळ आनी तोंडार केंस दिले. "तुवें खूब कश्ट करपाक जाय. तुका, तुजे घरकान्नीक आनी तुज्या पुराय घराब्याक सांबाळपाची जापसालदारकी तुजी." शंकरान नराक ताचो उद्‌देश सांगलो.

दोगांयचें काम पुराय जातकीर शंकरान नर आनी नारीक जीवन दिवपा खातीर सुर्याक ताची उश्णताय आनी प्रकाश दिवपाक सांगलें.

हाचेर सुर्यान अट घाली - "तुमी निर्माण केल्ल्या आकृत्यांचो कार्यकाळ सोंपले उपरांत तांच्यांतली म्हजी उश्णताय आनी प्रकाश परतून म्हज्यांत भरसूंक जाय."

पार्वतेन सुर्याक समजायत म्हणलें, "कितें तरी दिवपा खातीर तूं निर्माण जाला. दिल्लें परतून मागपा खातीर न्हय."

तरी सुर्यान आपलें म्हणणें स्पश्ट केलें - "मनशाचो जिवीतकाळ सोंपतकीर हांवें दिल्लें मूळतत्व परतून म्हज्यांत रिगतलें. मागीर तें जाय तेन्ना, जाय तातूंत घालपाक तुमी तें म्हजे कडल्यान परतून घेवपाक शकतात. अशें केल्यार म्हजें तेज उणें जावचें ना आनी तुमचीय निर्मणी अखंड उरतली."

उपरांत शंकरान सुर्याच्या तेजाचें मूळतत्व नर आनी नारीच्या मुर्त्यांचेर शिंवरायलें. सुर्याची उश्णताय आनी उजवाड मनीस आकृतेचो जीवनप्रकाश जालीं. शंकरान मनशाच्या जोडप्याक तांच्या कामाची वळेरी सांगली. कोणें खंयचें काम करपाचें आनी खंयचें काम करपाचें न्हय, हाची वेवस्थीत मांडणी करून दिली. मांडणे प्रमाण वेव्हार केल्यारूच तांकां तांच्या कामाचें फळ मेळटलें हेंय जाणोवन दिलें.

नर आनी नारीच्या जोडप्याक कृती आनी तिच्या फळाची म्हायतीय मेळ्ळी. तांच्या हालचालींक सुरवात जाली. आपसांत तीं उलोवपाकूय लागलीं.

शंकरान देव आनी दैत्यांक परतून आफयले आनी परतून त्यो आकृत्यो दाखयत सांगलें, "आतां आनीक एक खेपे त्यो आकृत्यो पळयात."

हें आयकना फुडें, सगळे दैत्य नर आनी नारी म्हऱ्यांत धांवले. तांकां हांगा-थंय हात लावपाक लागले, त्रास दिवपाक लागले. नारी काकुळटेचें तोंड करून ओगी रावली. जाल्यार नरान म्हऱ्यांतलो लाकडाचो लोळगो उबारलो आनी तांकां मारपाक लागलो. मार खावचो पडिल्ल्यान दैत्य आपलें दुखणें घेवन शंकरा मुखार उबे रावले. "म्हाराज! तुमी आमकां नव्या किजिलांत धुकल्ल्यात. हीं तर आमचेच वरी, झगडाळ आनी मारकुरीं!"

आतां देव मनशाच्या जोडप्या मुखार गेले. तांणी तांकां आदरान नमन केलें. हो आदर पळोवन तांणीय देवांच्या पांयांक हात लावन आपले सुखी जिणे पासत आशिर्वाद घेतलो.

देवांनी शंकर आनी पार्वतेक मोटे नमळायेन म्हणलें, "तुमचे करणेक शीम ना. मनीसकुळाची निर्मणी करून तुमी निर्मणेक नवो अर्थ दिला."

"आमचे हे निर्मणेंत तुमकां कसलेंय उणेपण दिसलां?" पार्वतेन देवांक प्रस्न केलो.

"माते, तुमचे निर्मणेंत कसलें उणेपण आसूं येता? मात, मतींत एक प्रस्न उप्रासला - धतरे वयले निबंर जिणेंत, त्रासांत नर नारी परस बळिश्ट आसा. हाका लागून जीण सारप ताका खूब सोंपें जातलें. पूण नारीचें कितें? तिका अशक्त थारावन तो तिचेर आपलो शेक गाजयतलो आनी तिका मोनी जावन सगळें सोंसचें पडटलें. नारी धतरेचेर मानान आनी आत्मसन्मानान वावुरतली अशें कितें तरी तुमी करचें."

देवांच्या ह्या उलोवण्याचेर शंकर मुमुरको हांसलो आनी ताणें पार्वतेक पळयली. पार्वतेन मुखार सांगलें, "म्हाराज, हांव तिका एक खाशेली शक्त दिवपाची आसां. हे शक्तीक लागून ती जिणेचें केंद्र म्हूण नामनेक पावतली. नर तिचे बगर अर्दकुटो आसतलो. इतलेंच न्हय, तर हे शक्तीच्या मूळतत्वा खातीर ती मानसीक बळग्याचें भांडार जातली. नराच्या बळाचो आकार ताचे कुडींतल्यान दिसतलो. तर नारीची शक्त तिचे मतींतल्यान अदृश्य रितीन वावुरतली. ती हे शक्तीचो उपेग कळत वा नकळटना करतली, तेन्ना तिचे कडेन नशिबाक फाटीं घालपाची क्षमता आसतली."

पार्वतेचें हें स्पश्टीकरण आयकून शंकरान समाधानी जावन हांसत म्हणलें, "पार्वते, धन्य तूं! हांवें नराक कुडीचें बळगें दिवन ताका मनीस निर्मणेचें केंद्र केल्लें. कर्म आनी ताच्या फळाच्या कायद्यान नराचेर सत्ता चलोवची असो ताचे फाटलो हेत आसलो. ताच्या कृतींचीं फळां मेळोवपाक ताणें कश्ट करपाक जाय. पूण तुज्या आशिर्वादान तुवें नारीचें म्हत्व पटोवन दिलें. हांवें धतरे वयले जिणेंत कृती आनी तिच्या योग्य फळांचो ताळमेळ जुळयल्लो. हाचे पासत देवलोक आनी मृत्यूलोक हातूंत भेद जाणवपाचो आसलो. पूण नारीक मानसीक शक्त दिवन तुवें मनीस कुळाक स्वर्गांत मेळपी सुविधा दिल्यात. नारी आपल्या शिलान आनी सतित्वान कर्म आनी धर्मांचें फळ भोगपाक पावतली. तशीच आपल्या घरांत आपल्या घराब्या खातीर स्वर्ग निर्माण करपाक शकतली."

पार्वती हांसली. "म्हाराज, हांव तुमची अर्दांगी, हांव फकत आमचे निर्मणेंतलें उणें भरून काडटां."

"माते, तुमच्या आशिर्वादान नारी धर्तरेक सर्ग करपाचें साधन थारल्या." देवांनी मोटे प्रद्‌धेन म्हणलें.

"देव आनी देवींनी मनीस कुळाच्या बऱ्या खातीर पार्वतेक स्फूर्त दिली. ते खातीर हांव आदेश दितां, धतरे वयल्या मनशांनी देवांक आनी देवींक सदांच पुजचें. हांचे बदला देव आनी देवींनी तांचेर आशिर्वादाचो हात दवरचो." शंकरान फर्मायलें.

पार्वतेन शंकराच्या आदेशाक पुश्टी दीत म्हणलें, "असूर, राक्षस आनी भुतां-खेतां सदांच मनशाचें वायट करपाक आनी तांची अधोगती करपाक वावुरतलीं."

हें सगळें जातकीर शंकर आनी पार्वतेन नाशिवंत अशे हे धतरेचेर तिका संपूर्णत्वाचो आकार दिवपाक मनशांक धाडलीं.

(संपर्क : ००००००००)

दुसरी खिस्त

# पाशाण काव्य

माया अनिल खरंगटे

### ३. उध्वस्त हळेबीड

हळेबीड ह्या कानडी उतराचो अर्थूच खंय 'भग्नावशेश', म्हळ्यार 'उध्वस्त शार'. मुसलमानांच्या घुरयांनी ह्या शाराचो विध्वंस केलो म्हणून ह्या शाराकूच हळेबीड शार अशें नांव दिलां जातलें.

आयज हळेबीड हो एक ल्हानसो गांव. पूण थंयच्या होयसाळेश्वर आनी शांतलेश्वर ह्या देवळां पासत तो नामनेक पावला. हांगाचें हें देवूळ म्हळ्यार होयसाळ राजांची सगळ्यांत व्हड अशी कलाकृती. अशें सांगतात, सुमार अंयशीं वर्सां ह्या देवळाचें बांदकाम चालू आसलें. ह्याच गांवा लागसार पयलीं होयसाळांची द्वारावतीपुरम वा दोरासमुद्र राजधानी आशिल्ली.

बाराव्या शतमानांत विजयनगरचो राजा नरसिंह सम्राटान हें देवूळ बांदून पुराय केलें. चवदाव्या शतमानांत ह्या देवळाचेर मुसलमानी आक्रमण जालें आनी कितल्याश्या वर्सांच्या कश्टदिण्या वावरांतल्यान साकारिल्लें हें सपन तुटून फुटून गेलें. अल्लाउद्‌दीन खिलजीचो सेनापती मलीक कफूर हाणें घुरी घालून ह्या देवळाचो विध्वंस केलो. पुराय संपत्ती लुटून व्हेली. कितल्याश्याच जाणांचें रगत व्हांवयलें. मुसलमानांच्या घुरयांक लागून हें पुराय शार मातये भरवण जालें. शारा भोंवतणच्या किल्ल्याचे कांय अवशेश अजुनूय दिसतात.

हो सगळो इतिहास येवजितासर आमची गाडी हळेबीड पावली. आमकां भूक लागिल्ली. आमी पयलीं हॉटेलांत गेलीं. पोटपुजा करून चलत देवळा कडेन आयलीं. व्हडल्या प्रवेशद्वारान आमकां येवकार दिलो. सुरवेकूच मदीं रस्तो आनी दोशीं वटांनी पाचव्या तणाचो गालिचो घाल्ली बाग दिसली. पुराय देवळाच्या वाठारांत हो पाचवो गालिचो पातळायिल्लो. मदीं मदीं गच्च फुलांनी भरिल्लीं फुलझाडां सोबतालीं. बागेच्या मदेकांत सोबीत पाशाणी नक्षत्राच्या आकाराचो चौथरो

(माची) दिसलो. हीं खरें म्हळ्यार एकामेकांक जोडिल्लीं दोन देवळां. पूण भायल्यान पळोवंक तें एकूच देवूळ कशें दिसता. प्रत्येक देवूळ सादारण अकरा हजार दोनशें फूट लांबाय-रुंदायेचें. ताचेर घूड नासले. ते आक्रमणा वेळार फोडून उडयले जातले.

चौथऱ्याच्या सपणां म्हऱ्यांत जोतीं काडून आमी वयर चडलीं. वयर दारांतूच भांगरां-शिंगरांनी नटयल्ल्या पाशाणी द्वारपालांच्यो दोन मुर्ती आसल्यो. पाशाणांत कोंरांतून केल्ल्या त्या भांगरां-शिंगरांची कलाकुसर नाजूक आनी सोबीत आसली. इतल्या सोबीत शिल्पाचो हात तुटिल्लो.

हुंबरो हुपून आमी भितर गेलीं. त्या चवकांत मदींच दगडी चौथऱ्याचेर सोबीत नर्तकीचें एक शिल्प नाचाचे एके मुद्रेंत उबें आसलें. तिचोय एक हात कोपरांतल्यान तुटिल्लो. दुसऱ्या हाताक बोटांच नासलीं. अश्या सोबीत शिल्पांची वाट लायिल्ली पळोवन तिडक आयले बगर रावलिना. ह्या शिल्पाचो पाशाण इतलो गुळगुळीत की तें धातूचें पॉलीश केल्लें शिल्प काय दिसतालें. मुर्तीच्या तोंडा वयले भाव जिवे आनी सोबीत दिसताले. तिणें घाल्लीं भांगरां-शिंगरां आतांच्या वस्तींक फाटीं घालतालीं.

देवळांत भितर सरतनाच काळोख आसलो. ह्याय देवळांत खांबेच खांबे आसले. त्या काळखांत ते मेजूंक येय नासले. अंधूक उजवाडांत खांब्यां वयलें अप्रतीम नक्षीकाम मातशें दिसतालें. ह्या खांब्यांचेर भक्त प्रल्हादाची कथा, रामकथा, सुग्रीव-वालीची लढाय अशे वेगवेगळे प्रसंग कोंरांतिल्ले. वणटींचेरूय अप्रतीम अशें नक्षीकाम आसा खंय. पूण काळखांत कांयच कळनासलें. थोडे लोक बॅटरी दिवो घेवन पळयताले. हें सगळें बारीकसाणेन पळयतले जाल्यार आख्खो दीस जाय आसलो.

मदीं गर्भकुडींत होयसाळेश्वर म्हळ्यार शंकराची रेखीव पिंडिका आनी लिंग आसलें. भोंवडेकार येतात तशे तशे पुजारी ताची पुजा आरती करताले. आमी फकत पांयां पडून मुखार सरलीं. दुसऱ्या देवळाची गर्भकूड येवचे पयलीं मदीं बरोऽ जागो आसलो थंय पयलीं नर्तकी नाच करताल्यो खंय. आनी खांब्यां मदीं आसनां घालून मानेस्त लोक नाच पळोवंक बसताले. दुसरे गर्भकुडींत शांतलेश्वर शिवलिंग आसा. तें पळोवन आमी फाटल्या दारान भायर सरलीं. जशीं ह्या देवळांक चार दारां आसात तशे चारूय कडेन मनशा येदे उंचायेचे, सोबीत शस्त्रां हातांत घेतिल्ले द्वारपाल आसात.

आमी फाटल्या दारांतल्यान भायर सरलीं. सपणांचेर दोनूय वटांनी दोन दगडी घुमट्यो आसात. तातूंत देव आसात. सपणां देंवन सकयल येतकच व्हड बरें मेकळें आंगण आसा. आंगणांत मदीं व्हड बरी गणपतीची मूर्त आसा. तिचे कांय तुटिल्ले भाग म्हऱ्यांतूच मांडून दवरल्यात. ते पळोवन ती मूर्त एकसंघ आसतना कितली सोबीत दिसताली ताचो अदमास येता.

हें देवूळ भायल्यानूयबी सोबीत सोबीत शिल्पकृतींनी नटयलां. वीरनारायण देवळा प्रमाण हांगाय भायले वणटीचेर तरेकवार चित्रां वळीन कोरांतल्यांत. पयले वळींत तरेकवार नदरांनी पळोवपी हत्ती, दुसरे वळींत शींव, तिसरे वळींत तरेकवार फुलांच्यो वाली, चवथे वळींत घोडे, पांचवे वळींत परत फुलांनी भरिल्ल्यो वाली, सवे वळींत रामायण-महाभारतांतले प्रसंग कोंरांतल्यात, सातवे वळींत पक्षी, जनावरां, देव-देवता आनी पुराणांतले प्रसंग, आठवे वळींत हंसाच्यो माळो, णववे वळींत नाच करपी, वेगवेगळे अभिनय दाखोवपी अप्सरा, धावे वळींत ब्रह्मा, विष्णू,सरस्वती हांच्यो मुर्ती, तशेंच तांचें काम जीवन आनी सदचे वेव्हार दाखोवपीय चित्रां कोंरांतल्यांत. हांचे भायर शिव-पार्वती, कुबेर, अश्ट दिक्पाल, दशावतार सगळें कोंरांतिल्लें. पुर्वे कडले वणटीचेर पुराय कृष्ण जीवन कोंरांतिल्लें.

अशे तरेन चारूय वणटींचेर हिन्दू जिवीत, तांच्यो देव-देवता आनी तांचो नित्याचो वेव्हार हें सगळें उबें केल्लें, तें सामकें खरें दिसतालें. ताचे वयली नदर पेल्यान वचनासली. थंयच्या मुर्तींच्या आंगा वयल्या वस्तींचे नमुने तर सुवर्णकारागिरांनी पळोवपा सारकेच. ते जी कलाकुसर भांगरान करतात, तितलेच नाजूकसाणेन हांगा पाशाणार कारागिरी केल्या. हें सगळें तकली वयर करून पळोवन मानूय दुखूंक लागली.

भितल्ल्या दोनूय शिवलिंगां मुखार भायले वटेन नंदीमंडप आशिल्ले. दोन पाशाणी माटवांत आकांत व्हड बशिल्ले नंदी आशिल्ले. एकाच फातरांतल्यान कोंरांतिल्लीं हीं प्रचंड शिल्पां तेरा फूट लांब, साडे स फूट रुंद आनी आठ फूट उंचायेचीं आसलीं. कर्नाटकांत जितलीं म्हणून भव्य नंदी-शिल्पां आसात तांचे भितर हीं दोन नंबराचीं शिल्पां खंय. सामकीं प्रमाणबद्ध आनी दगडी भांगरा शिंगरांनी नटयल्लीं अशीं.

ह्या देवळांत सगळे मेळून ३८ कोंरांतिल्ले खांबे आसात खंय. प्रत्येक खांब्या वेली कलाकुसर वेगवेगळी. आमी सगळें पळोवंक पावलिनात. तातूंतलो एक खांबो आपल्या आसा भोंवतणी फिरतालो खंय. पूण आतां इतल्या तेंपान तो गच्च जाला, फिरना.

थंयच्यान आमी भायर आयलीं. ह्या देवळा भोंवतणी व्हड बाग आसा. येदें व्हडलें देवूळ पळोवन पुरो जालें जाल्यार तणार थंडशें बसपाचें. बागेंत एके वटेन देवळांतल्या तुटिल्ल्या फुटिल्ल्या मुर्तींचें संग्रहालय उबें जालां. ह्या मुर्तीं मदीं दोनूय हात तुटिल्ली महावीराची व्हड बरी उबी मूर्त आसा. पांयांकूय मदीं मदीं बुराक घाल्यात. ह्यो मुर्ती तुटक्यो फुटक्यो आसुनूय तांची सोबीतकाय लिपऽ नासली. तांचें विद्रूप रूप पळोवन मात मन उदास जालें.

आमी थंयच्यान भायर सरलीं. भायरूच आडसरां विकूंक दवरिल्लीं. ल्हानशे कळसुले इतलीं मोठीं. एक आडसर दोगां जाणांकूय चड. आमच्या लग्नांतली याद काडीत हांव आनी अनिल दोन स्ट्रॉ घालून एक आडसर पियेलीं.

थंयच्यान आमी बेल्लूर वचूंक भायर सरलीं.

### ४. शिल्पकाव्य बेल्लूर

बेलावडी आनी हळेबीड दोनूयकडचीं सोबीत, अप्रतीम अशीं शिल्पी देवळां पळयलीं. बेलावडीच्या देवळांतूय मोडतोड जाल्या. हळेबीडचें देवूळ तर बरेंच उध्वस्त जालां. देवळाचे घूड लेगीत फोडून उडयल्यात. पूण बेल्लूरचें चेन्नकेशव देवूळ मात त्या मानान खूब बरें आसा. ताची सोबीतकाय पळेतल्याचें मन भुलोवनूच रावना तर ताका पिसावन उडयता. ह्या देवळाक पाशाणकाव्य वा शिल्पकाव्य म्हणप चड बरें.

हळेबीडच्यान सुमार धा मैलांचेर बेल्लूर गांवांतल्यान आमची गाडी वचूंक लागली. दोशीं वटांनी ल्हान ल्हान घरां, ल्हानसो बाजार. पूण देवळा कडेन लागीं पावतात तश्यो ल्हानश्यो बिल्डिंगो, व्हड घरां दिसूंक लागलीं. रस्तोय बरो रुंद आसलो.

पयसुल्ल्यान गोपूर दिसूंक लागले. हे व्हड व्हड गोपूर म्हळ्यार दक्षीण भारताची खासियत. देवूळ लागचे पयलीं भितर सरूंक जें प्रवेशद्वार आसता तें किल्ल्याच्या दारा वरी रुंद आसता आनी ताचेर आकांत ऊंच गोपूर आसता. ह्या गोपुराचेर तरेकवार चित्रां - देव-देवता, महाकाव्यांतले, धर्मीक पुस्तकांतले प्रसंग - कोंरांतिल्ले आसतात. सगळ्यांत वयर एक लांबचे लांब दगडी पट्टी कशी, तिचेर पांच ल्हान घूड. हे घुडूय देवांचेंच प्रतीक खंय.दगडी पट्टेच्या दोनूय पोंतांर बैलाचीं शिंगां. हीं शिंगां कांय कडेन भांगराचींय आसतात खंय. केन्ना केन्नाय गोपुराचे वयर शिंगां आशिल्लें बैलाचें तोंडूय आसता खंय. हांगा पांचूय घूड भांगराचे आशिल्ले. हो गोपूर ७०-८० फूट ऊंच आशिल्लो.

एका व्हड मळार जायत्यो गाडयो थांबिल्ल्यो. थंय आमचीय गाडी थांबयली. अकरांक सुमार आमी थंय पाविल्ल्यान वोताचो रखरख आशिल्लो. आमी बेगीबेगीन चेपीं घालीं. त्या मळाचे एके कडेन दुरगाक तेंकून वळीन दुकानां आसलीं. तीं दुकानां सोंपतात थंय व्हड बिल्डींग आशिल्ली. थंय सदांच अन्नसत्र आसता खंय.

व्हड व्हड सात-आठ सपणां चडून आमी वयर आयलीं. हांगा परत व्हड आंगण आसलें. ४४३ फूट लांब आनी ३०६९ फूट रुंदायेचें. ताचे मदीं ताऱ्याच्या आकाराचे फातराचे माचयेचेर एक अप्रतीम अशें चेन्नकेशवाचें देवूळ उबें आसलें. सोबीतकायेची एक खाणूच आमचे मुखार उबी आसली. आशिकुशीक ल्हान ल्हान देवळांचीं शिल्पां दिसतालीं.

होयसाळ राजा विष्णूवर्धन हाणें १११७ त हें सोबीत शिल्पकाव्य तयार करपाक सुरवात केली. ११५० ते १३१० सालांत होयसाळ राजा दक्षीण भारतांतले पराक्रमी सत्ताधीश आशिल्ले. तांच्या वारसांनी १०३ वर्सांनी हें काम पुराय केलें. त्या वेळा वयल्या 'जनकाच्यारी' ह्या म्हान शिल्पकारान ही अमर कलाकृती तयार केली. ह्याच शिल्पकारान हळेबीड आनी सोमनाथपुरच्यो कलाकृती जल्माक घाल्यो.

भितर सरतात थंयच मुखार एक ऊंच गरूडस्थंभ आशिल्लो. ताच्या मुळांत चेन्नकेशवा कडेन, म्हळ्यार देवळाक फुडो करून, दोनय हात जोडून गरूड उबो आसलो. पयलींचो गरूड झरून गेलो म्हणून हो नवो गरूड तयार केला खंय. हांगाची एक खासियत म्हणात, अजाप म्हणात, तें म्हळ्यार, एक पाशाणी खांबो. कमळाच्या आकाराच्या रुंद फातराचेर ४४ फूट ऊंचायेचो, २२ टन वजनाचो अखंड पाशाणाचो दगडी खांबो उबो आसा.

ह्या खांब्याचे तिनूय पांय ते बसकेक तेंकतात, चवथो पांय तेंकना. तरीय गुरुत्वाकर्षण शक्तीच्या तत्वार तो इतलीं वर्सां पडनासतना उबो आसा. पोंदच्यान एक खूर तेंकना थंय पोकळ जागो आसा. तातूंतल्यान घडी केल्लो पेपर हेवटेन-तेवटेन काडूंक शकतात. आमी सगळ्यांनी हो प्रयोग करून पळयलो.

णवशीं वर्सां पयलींचें हें शिल्पकाव्य १७६ फूट लांबायेचें आनी १५६ फूट रुंदायेचें आसा. हें देवूळ चकचकीत काळ्या पाशाणाचें. ताचेर कोरीव काम केलां. हळेबीडचें देवूळ आमचे आमीच पळयल्लें. पूण हांगा मार्गदर्शक घेतलो. पुरातत्व खात्यान हांगा प्रशिक्षीत मार्गदर्शक दवरल्यात. ताणें आमकां हांगाच्या सगळ्या शिल्पांची माहिती दिली, इतिहास सांगलो. ह्या पुराय शिल्पकाव्यांत भारताच्या प्राचीन वाङमयांत वर्णन केल्ल्या चंवसश्ट कलां मदल्यो बांसश्ट कला वेगवेगळ्या कलाकृतींतल्यान चितारल्यात.

हें देवूळ भितल्ल्यान पांच भागांनी वांटलां. प्रवेशद्वार म्हळ्यार तोरण, नवरंग मंडप, अंतराळ, गर्भकूड आनी कळस अशे हे पांच भाग. मुखेल प्रवेशद्वाराचेर मदींच हिरण्यकश्यपूक मारपी नरशींवाचें शिल्प आसा. नरशींव होयसाळ घराण्याचो मुखेल कुळदेव. म्हणून जायते कडेन ताचीं शिल्पां चितारल्यांत. प्रवेशद्वारांतल्या नरशींवाचे आशिकुशीक जायते काल्पनीक चित्रविचित्र प्राणी कोंरांतल्यात. देखीक- तोंड मानग्याचें, आंग नुस्त्याचें आनी पांय वागाचे असलो प्राणी. कांय जाणांचे दोळे माकडाचे, कान दुकराचे जाल्यार शेंपडे कडेन मोर पिसारो. अशीं मजेचींच चित्रां आसात. तिनूय प्रवेशद्वारांचेर तरेकवार हावभाव दाखोवपी अश्टदिक्पालांच्यो मुर्ती उब्यो दवरल्यात. हे आठ रक्षक म्हळ्यार इंद्र, वरूण, यम, अग्नी, वायू, नैऋ ईशान आनी कुबेर.

ह्या देवळाची गर्भकूड व्हड आसा. भितर चेन्नकेशवाची पंदरा फूट उंचायेची काळ्या पाशाणाची मूर्त आसा. ताका सुंदरनारायणूय म्हणटात. तिच्या हातांत शंख, चक्र, गदा, पद्म आसा. भांगरां-शिंगरांनी आनी फुलांनी नटयल्ली ही मूर्त नजर ओडून धरता. मुर्तीच्या पांयां कडेन श्रीदेवी आनी भूदेवीच्यो मुर्ती आसात. ही मूर्त बायलेच्या रुपांत आसा. केन्ना केन्नाय तिका साडी न्हेसयतात, नथ घालतात. गर्भकुडीच्या दारार सात जनावरां कोंरांतल्यांत. दारांत जय-विजय हांच्यो मुर्ती आसात.

देवळाचे दर एके वणटीर आनी वयर पांखयाचेर रामायण-महाभारतांतले प्रसंग, तरेकवार दैवतां, यक्ष, किन्नर, नृत्यांगना, वाद्यवादक, घोडे, मोर, गरूड हांचीं चित्रां कोरांतल्यांत. भितर वट्ट अठ्ठेचाळीस खांबे आसात. ह्या खांब्यांचो पाशाण सामको गुळगुळीत, हारशा वरी - तातूंत तोंड पळोवचें असो. खांब्यां मदीं देवा मुखार नृत्यमंडप आसा. ह्या नृत्यमंडपांत राणी शांतलादेवीय नाच करताली खंय. म्हणून चारूय कोनशांनी नृत्याचो आविश्कार दाखोवपी अश्यो तिच्यो चार मुर्ती दवरल्यात. ह्या मंडपाचें मदलें छत सात उबे चवकोनी कुडके घेवन रचलां. तांचेरूय वेगवेगळ्या नृत्याविश्कारांचे हावभाव दाखोवपी नर्तक्यो कोंरांतल्यात. मदीं सोबीत कमळ दिसता. ह्या छताचो आंवाठूय तेरा फूट आनी उंचाय लेगीत तेराच फूट आसा. छता वयल्यान हुमकळपी लोलकांचेरूय नक्षीकाम दिसतालें. वयलो घुमट घांटीच्या आकाराच्या चार खांब्यांचेर आदारिल्लो आसा. ह्या खांब्यांचेरूय सुंदऱ्यांचीं चित्रां आसात. एके सुंदरेच्या हातांत पोपट आसा. तिच्या गळ्यांतली दगडी माळ वयर सकयल हालता खंय. हातांतलीं कांकणांय हालतात खंय. हें सगळें गायडान आमकां बॅटरी दिव्याच्या उजवाडान दाखयलें. पूण त्यो सुंदऱ्यो वयर आशिल्ल्यान आमी हात लावन कांकणां माळो हालोवंक शकलिंनात.

ह्या देवळांत अठ्ठेचाळीस अप्रतीम अशे खांबे आसात. खांबे गोल, चवकोनी, षटकोनी, अश्टकोनी आनी बाराकोनी, अश्या वेगवेगळ्या आकारांचे आसात. हे अठ्ठेचाळीस खांबे म्हळ्यार कारागिरीचे नमुनेच म्हळ्यार जाता. दर एका खांब्या वेलीं चित्रां, कारागिरी सगळें वेगळें वेगळें. कांकणां, पाटल्यो, तोड्यांचे वेगवेगळे नमुने, सरपळ्यांचे नमुने, हारांचे नमुने, मुदयो, हाताक घालपाचीं कडीं, अश्या साबार तरांच्या वस्तींचे नमुने त्या खांब्यांचेर कोंरांतल्यात. भांगराच्यो वस्ती करपी कारागिरांनी हांगा येवन ह्या नमुन्यांचे फोटो काडून व्हरूंक जाय.. व्हरतातूय खंय. आंतरराष्ट्रीय भांगरा वस्तींचे नमुनेय ह्या खांब्यांचेर मेळटात खंय. तांचे वेलें बारीक नक्षकाम पळोवन वस्ती करपी कारागीर लेगीत अजापभरीत जातले.

कांय खांब्यांचेर गाडयांच्या टायरां वेलीं चित्रां आसात. सादारण णवशीं वर्सां पयलीं कांय आतांच्या गाडयांचो सोद लागूंक नासलो. तरीय टायरांचीं चित्रां ह्या खांब्यांर दिसतात. घडये हे खांबे पळोवन, तांचे फोटो काडून गाडयांचे टायर तयार केल्यात जायत.

तांतल्या एका खांब्याक नरशींव खांबो म्हणटात. ताचेर नरशीवाच्यो साबार हावभावांतल्यो ल्हांन व्हड मुर्ती कोंरांतल्यात. हो खांबो तीनशीं वर्सां पयलीं हालतालो खंय. पूण आतां हालना. ह्या खांब्याचेर भक्त प्रल्हादाची पुराय कथा चित्रायल्या. एका खांब्यार भस्मासुराचो वध करूंक विष्णून घेतिल्ल्या मोहिनी अवतारांतली मूर्त, म्हळ्यार बायलेच्या रुपांतली.मूर्त, कोंरांतल्या. ते मुर्तीच्या तोंडा वयले भाव इतले जिवे तट्टतटीत आसात, पळयतल्याक खरीच बायल नाचाचे कृतींत उबी आसाशी दिसता. हे मुर्तीचें कमराचें वळण, दोळ्यांची ठेवण, हातांच्यो मुद्रा सगळेंच नाच करूंक उबी आशिल्ले नृत्यांगने वरी दिसता. कामाक्षी, मीनाक्षी आनी चंद्रमुखी अश्या तीन देवतांचीं रुपां दाखोवपी ती मूर्त. तिच्यो भांगराच्यो वस्ती, कानांतल्यो वेडी, केसांची पद्धत सगळें बारीकसाणेन कोंरांतलां.

देवळांत चड उजवाड नासलो. पूण आमच्या गायडान मोठो बॅटरी दिवो हाडिल्लो. ताका लागून तो आमकां दिस्त ते ते मुर्तीचेर, तिच्यांतले पळोवपा सारके कारागिरीचेर उजवाड घालून दाखयतालो. आनी गरजेची माहितीय सांगतालो. एक खांबो वज्राचेर तास मारतात ते तरेचो खरखरीत आशिल्लो. आनीक एक खांबो फुलयल्ले सत्रेच्या आकाराचो. कमळाच्या पाकळ्यांतल्यान वयर आयिल्लो कसो एक खांबो. अशे, तरेकवार चित्रकृतींनी नटयल्ले खांबे. पळयतना तान-भूक न्हिवताली. वयर पांख्याचेरूय तशींच चित्रां कोंरांतिल्लीं. सगळें बारकायेन पळोवंक म्हयनोभर तरी थंय रावूंक जाय. कारण, देवळाचो इल्लो लेगीत भाग मेकळो, रितो दवरूंक ना.

ही जाली देवळांतली भितल्ली सोबीतकाय. देवळाचे भायल्यानूय आसा ती कलाकुसर पळोवन कोणाकूय अजाप जावंकूच जाय. सगळेंच अप्रतीम. कल्पने भायलें. उतरांनी सारकें मांडपाकूच जावचेंना अशें. म्हजें हें वर्णन म्हळ्यार जिबेक लोणच्याचो मेथो लायिल्ले वरी. तुमी खासा थंय वचून लोणच्याचे अख्ये आंबलेची रूच घेवंक जाय.

ह्या देवळाच्या भितल्ल्या भागांतलीं चित्रां, भायलीं चित्रां, खांब्यां वयलीं चित्रां - ह्या सगळ्यांतल्यान त्या काळाच्या गिरेस्त दायजाची वळख जाता. त्या वेळच्या समाजाचे आचार विचार, भेस, संस्कृती हांची तीं वळख घडयतात.

ह्या देवळाक तिनूय वटांनी अतिशय कलात्मक अशीं प्रवेशद्वारां आसात. देवूळ साधारण एक मिटर उंचायेचे दगडी माचयेचेर आसा. देवळाच्या भायल्या चारूय वणटींची सुरवात हत्तींच्या शिल्पान जाता. वट्ट ६४८ कोंरीव हत्तींच्यो वेगवेगळ्यो मुद्रा दाखोवपी एक माळूच कशी आसा. हांची खासियत म्हळ्यार, खंयचोच हत्ती दुसऱ्या सारको ना. हे हत्ती म्हळ्यार भारतीय संस्कृतायेच्या स्थैर्याचें प्रतीक अशें मानतात. हत्तींचे वयले वळींत शींव अशेच तरेन वेगवेगळ्या मुद्रांनी आसले. तांचे वयर मणयांच्यो माळो कश्यो. आनी तांचे वयर महाभारतांतले जायते प्रसंग कोंरांतल्यात. ते उपरांत सोबीत, अप्रतीम अश्या अप्सरांची माळ. नृत्याचे हावभाव दाखोवपी अप्सरा, वाद्य आनी वादका सयत. तिचे भोंवतणी वाली, प्राणी, पक्षी सगळें बारकायेन कोंरांतलां. शिल्पकारांनी काळ्या फातरांतल्यान सात रसांचो पावस घालून अप्सरांचे अभिजात सुंदरायेक उलोवंक लायल्या, गाऊंक लायल्या म्हळ्यार अतिताय जावचिना.

छताचे पोंदचे वटेनचे वळींत तर तरातरांच्यो सुंदऱ्यो. एक 'दर्पण सुंदरी' हातांत हारसो घेवन आपलें रूप तोखेता. एक 'शुकभाषिणी', बोटांचेर पोपट घेवन ताचे कडेन उलयता. तिच्या तोंडा वेले भाव पळयल्यार ते पाशाणांत कोंरांतल्यात अशें कोणूच म्हणचे नात. एक तर हातांत पिके घरे घेवन उबी. त्या घऱ्यां भोंवतणी मूस. कांय अप्सरा 'त्रिभंगी', म्हळ्यार तीन कडेन वळिल्ल्यो. घोवा वांगडा वसंत क्रिडा करपी अप्सरा, होळी खेळपी, नागविणा घेवन नाचपी, गुरू-शिश्या, शिकार करपी, वनकन्या, पंखो घेतिल्ली, भविश्य सांगपी, विषकन्या, नागकन्या, विरहिणी अशीं साबार तरांचीं रुपां दाखोवपी अप्सरा थंय दाखयल्यात. तांचे सरभोंवतणी झाडां, वाली, फुलां, प्राणी, पक्षी... तीं चित्रां फातरांत कोरांतिल्लीं कशीं दिसनासलीं, तातूंत जीवसाण दिसताली.

वट्ट अडतीस 'ब्रॅकेट आकृत्यो' देवळाच्या चारूय वणटींचेर आसात. तांच्या केसांच्यो रचना पळोवन अजाप जाता. आमी आधुनीक म्हणून ज्यो रचना सिनेमा, सिरियलांतल्यान घेतात, ब्यूटी पार्लरांनी वचून नव्यो नव्यो रचना करतात, त्यो सगळ्यो तरा ह्या शिल्पांनी आसात. म्हणटकीर कितल्या वर्सां पयलींच्यो त्यो तरा पळयात! साधना कट, आनी खंयचो कट, पोनी टेल, तीन पोडी, पांच पोडी विणी सगळें सगळें थंय हजारभर वर्सां पयलींच कोंरांतून दवरलां. तांच्यो वेशभुशा, भांगरां-शिंगरा - सगळें, आत्तांच्या काळार आमी जें किते नवें म्हणून करतात तें - त्या शिल्पांनी दिसता. हजारांनी तरांचे नमुने थंय पळोवंक मेळटात.

भरतनाट्यमाचे सगळे पदन्यास त्या शिल्पांतल्यान दिसतात. स्थापत्यशास्त्राची शाखा त्या काळार कशी उदरगतीक पाविल्ली तें ह्या देवळाक पळयल्यार कळटा.

अशें सांगतात, वेगवेगळ्या फातरपट्यांचेर हें कोंरीव काम केलां. मागीर ते पटे चिकटोवं नात. तर इंटरलॉक पद्धतीन जोडून हें विशाल देवूळ तयार केलां. धा हजार सुमार कोंरांतिल्ल्यो शिळा ह्या देवळाच्या बांदकामाक लागल्यात.

प्राचीन भारतीय शिल्पकलेचो हो मोल करूं नजऽ असो ठेवो. ताचो प्रगल्भ असो आविश्कार प्रत्येक शिल्पांतल्यान दिसता. काळ्या फातरांतलें हें काव्य. देवळा भोंवतणी भोंवन सगळें पळोवन आमी मुखेल प्रवेश दारा कडेन परतीं आयलीं.

सपणां चडून वयर येतकच दारा कडेन वीररस प्रधान अशी बळिश्ट शिंवा कडेन झगडपी होयसाळ राजाची मूर्त आसा. हीच ह्या घराण्याची राजमुद्रा.

गायडान आमकां थोडे भितर ताचो इतिहास सांगलो. ह्या घराण्याचो मूळ पुरूस साळ नांवाचो पराक्रमी झुजारी आसलो. त्या काळा प्रमाण तो शिकूंक म्हणून गुरूच्या आश्रमांत रावतालो. एक फावट तो आपल्या गुरू वांगडा रानांत गेल्ले कडेन एका नरभक्षक शिंवान ताचेर घुरी घाली. मोठ्या धिरान ताणें शिंवा कडेन झूज केलें. आपल्या शिश्याक उमेद दिवंक म्हणून गुरून ''होय, होय, होय'' असो गजर सुरू केलो. त्या वेळा वेले भाशे प्रमाण 'होय' हाचो अर्थ 'मार'. गुरूच्या उमेद दिवपी उतरांक लागून साळाच्या आंगांत बारा हतयांचें बळ संचारलें. ताणें जिवाच्या आकांतान झूज करून शिंवाक जितो मारलो. तेन्नाच्यान तांच्या घराण्याक अभिमान दाखोवपी अशें 'होयसाळ' हें नांव पडलें.

ह्या देवळाचो मूळ कळस भव्य आशिल्लो खंय. ताचे वयलीं शिल्पचित्रांय उतरांनी सांगू नजऽ इतलीं अप्रतीम आशिल्लीं खंय. अल्लाउद्दीन खिलजीचो सरदार मलीक कफूर हाणें बेल्लूराचेर घुरी घालून होयसाळांची ही राजधानी पुराय लुटली. तेन्ना हो कळस उध्वस्त करून उडयलो. ते उपरांत १७५४ आनी १९३६ सालांत म्हैसूरच्या राजांनी दोन खेपे ह्या देवळाचो जिर्णोद्धार केलो. पूण ताचेर घूड बसलो ना. म्हणून ह्या देवळाक घूड ना. हळेबीडच्या आनी बेलावडीच्या देवळांकूय घूड नात.

अशें सांगतात, ते उपरांत, परचक्र येता अशें जेन्ना जेन्ना थंयच्या लोकांक कळटालें तेन्ना तेन्ना तांणी हें देवूळ रेंवेंत पुरून दवरलें. संकश्ट वतकर मोट्या यत्नान रेंव पेल्यान काडून तें देवूळ मेकळें करताले खंय. हळेबीडचें देवूळ मात लोक अशे तरेन वाटावंक शकले नात म्हणून आज तें उध्वस्त शिल्प म्हणुनूच उरलां.

आमी मुखेल देवळाचे माचये वयल्यान सकयल देंवलीं. थंय देवळाच्या दाव्या हाताक ह्या पुराय देवळाची प्रतिकृती फातरांत कोरांतून दवरल्या. ह्या देवळाचे तुटके फुटके भाग एके कडेन मांडून दवरल्यात. देवळाच्या चारूय वटांनी होंवऱ्यो आसात. तातूंत हनुमान, नागदेव, श्री गणेश अश्यो जायत्यो देवांच्यो मुर्ती आसात. तीन-चार ल्हान ल्हान कोरीव कामान नटिल्लीं देवळां आसात. तातूंतलें एक लक्ष्मीचें आनी दुसरें गजलक्ष्मीचें. अशीं आनिकूय देवळां आशिल्लीं खंय. तुटक्या फुटक्या शिल्पांच्या राशीं मदीं तांच्यो कुरवो दिसतात. देवळाक भायल्यान प्रदक्षणा घालून तुटक्यो फुटक्यो मुर्ती पळयत आमी मुखार आयलीं. दावे वटेन व्हड बांय कशें तळूल आसा. सत्तर फूट खोलायेचें. हांगा देवाक न्हाणयतात खंय.

तळुलाक तेंकून आशिल्ले एके होंवरेंत ऑफीस केलां. थंय भोंवडेकारांक जेवणाचे पास दितात, आनी पिंजर, हळदीच्यो ल्हान ल्हान पिशव्यो दितात. भायले वटच्यान पुस्तकांचें एक ल्हानशें दुकान आशिल्लें. इतलीं हेर दुकानां आशिल्लीं पूण आमी तेवटेन मातूय पळेलेंना. पुस्तकां म्हणटकीर आमचीं पावलां थंय वळ्ळीं. थंय कन्नड भाशेंतल्या पुस्तकां वांगडा हिंदी आनी इंग्लिशींतूय पुस्तकां आशिल्लीं. प्रेक्षणीय थळांचे फोटोय आशिल्ले. आमी हिंदी भाशेंत आशिल्ल्यो कर्नाटकांतल्या प्रेक्षणीय थळांची माहिती दिवपी पुस्तिका आनी नकाशे घेतले.

थंयच्यान आमी भायल्यान आयलीं. थंय उजवे वटेन रांदपाची आनी जेवपाची व्हड बिल्डींग आसा. देवळांत येतनाच आमी ती पळयल्ली. थंय आमी जेवपाक गेलीं.

भायरूच जोतीं दवरून आमी वळींत उबीं रावलीं. भितर व्हडल्या सालांत लांबचे लांब स्टिलाचीं मेजां आसलीं. आनी बसूंक स्टिलाचें ताट धांपिल्ल्यो कश्यो तामरेती आशिल्ल्यो. अश्या धायेक तरी वळींनी मेजां मांडिल्लीं. एके फावटीक पांचशीं तरी लोक जेवंक शकतले असो तो हॉल आसलो. हें सगळें पळयतासर आमी भितर पावलीं.

चार जाण सडसडीत ताटां मांडत गेले. चार जाण जेवणाची गाडी घेवन येवन जेवण वाडटाले. शीत, कालवण, लोणचें आनी एक भाजी. रोखडेंच पेल्यांनी उदक आनी ताक हाडलें. जालें जेवण.

आमी जेवन भायर सरलीं. आतां आमी श्रावण बेळगोळ वचपाचीं आसलीं.

(संपर्क : ०९४२०६८५२७८)

---

*(पान ५६ वयल्यान)*

'पिहा... पिहा' आवाज काडटा. कोगळा बशेन लांब शेंपडी. पूण पोंदचो भाग धवो. शेंपडेचेंय तोंक धवें आसता. ह्याच दिसांनी आनीक एक सवणें दिसता. कॉफये कोराचें पूण शेंपडेचें एक पांख खूब लांब. तें 'कॅं... कॅं' आड्डत ह्या झाडा वयल्यान त्या झाडार वतना दिसता.

आतां म्हाका सवण्यांचो आवाज आयकून त्या आवाजाचो धनी सोदपाचो नाद लागला. म्हज्या पोरसांतले सवण्यांचे घोंटेर म्हळ्यार वात्सल्याचे झरे. झाडां आनी तांचेर बशिल्लीं सवणीं म्हळ्यार जितीं जिवीं शिल्पां, म्हाका सैमाचे लागीं व्हरपी, सुरांच्या संवसारांत भिजोवपी.

बाकीबाबांच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार,

*सवणें गायत आयलें तशें*
*झाडां पेडां लागलें पिशें*
*कोमऱ्यो आंकऱ्यो फुटून म्हजें*
*पोरसुं आयलें चंवरा...*
*सवणें जिवा भिडून गेलें*
*हांवय जालें गाड निळें...*

(संपर्क : ०९८५०५३०१५२)

एकोणिसावी खिस्त

## दिसपटी
शांताराम आमोणकार

# खरेलोच शिकपाचे तजविजेक लागलां...

१०.१.१९५०

काल बाबाक पत्र घालें, पयशे धाडपाचें करतां म्हणून. अर्दे पयशे हातांत आसात... शिवाय बेणकाराक पत्र घालां, आज दोन-एक म्हयने जाले, जाग ना ती कित्याक काय म्हणून.

फुडें कितें करप म्हणटात तें तीन खबरींचेर अवलंबून : १) हे चलयेचे बाबतींत कितें ठरता ताचेर २) आनंदाली खबर कितें जाता ताचेर ३) A.M.क बसूंक मेळटा काय ना ताचेर. आनी तिनूय खबरी म्हयन्या दोन म्हयन्यांतूच जावपाच्यो आसात. कितेंय जावं, आपणें जाता तितली निष्ठा राखून प्रयत्न करप!

१३.१.१९५०

बरोवन बरोवन वाजेलों म्हळ्यार जाता. बरयतां तें केन्नाच करप ना. खरें म्हळ्यार, स्वातंत्र्य ह्या नांवा सकयल म्हगेलें सगळें पचलां. निश्चय म्हणटात तो म्हजे कडेन सापूच थोडो जाला. कसलीय गजाल करचोना म्हणप आनी मागीर निमित्तां काडून आपलें आपणेंच समाधान करप. असल्यांनी हांव हळू हळू घसरत वतां. च्या च्या करून पयशांचीय वाट आनी प्रकृतीचीय वाट.

कोणूय तरी एक मनीस जाय तारवाक, आमी ताका म्हणटात सुकाणूं. म्हजी प्रकृती सारकी न उरपाक कारण हेंच. खंयच्याय वेळार, कोणाय बरबर आपलें convenience पळे नासतना वागप: सदांच दुसऱ्याक वायट दिसतलें, ताचें कशें जातलें, होच विचार तकलेंत. आपलें कशें जातलें, आपल्यांचें कशें जातलें हो दर एकल्याचो विचार चल्ला!

**बिरेस्तार,** १९.१.१९७०

आज पसून कामाक सारकी सुरवात केली. नशिबाक रडचे परस हांसत हांसत काम करीत

रावपांत मजा आसता. दुसरो खंय चुकता ते परस ताचें बरेपण खंय हें सोदप खरें बरें.

आज सांजवेळा मनांत आयलें - फकाणां करतां करतां हो सभाव म्हज्या आंगवळणी पडटलो काय? फकाणां करतना पसून ताका मर्यादा जाय. मनीसपण म्हळ्यार मर्यादा, बंधन! पणून तें बंधन बंधन शें दिसूंक जायना आपल्याक. हें मनीसपणाचें लक्षण. तें बंधन सहज नैसर्गीक जाय. ओढून हाडिल्लें चंद्रबळ न्हय!

रोमाँ रोलाँचें *ज्यां क्रिस्तॉफ* सोंपत आयलां. दोनशीं पानां उरत. दोन पत्रांनी कांय गजाली शिकयल्यो म्हाका. मनीसपणांत मर्यादा आसा पणून मनीसपण अमर्याद आसता. मनशाचें व्हडपण रुपांत ना. गुणांत आसा म्हणपाचें प्रत्यक्ष दिसलें. ल्हान मनशा कडल्यान व्हडपण शिकपाक मेळ्ळें... मारून धपटून मोटेपण, व्हडपण मनशाक शिकोवप शक्य ना. तें मुळचेंच आसूंक जाय.

हीं दोन चार वर्सां हांव खूब बेजबाबदारीन चल्लां. ताचें नुकसान आतां भरून काडप. बेजबाबदारीन चलून म्हाका फायदोय जालो. स्वतंत्रकायेंत वागपाक शिकलों हांव. सगळी हळशीक उमळून धुवन गेली. पणून... धरबंध ना जालो. जिबेक जाय तें खावप, दिसता तितलो नश्ट खर्च करप, तोंडाक मानता तें उलोवप आनी जिवाक जाय जाल्ले धंदे करप हाकाच स्वातंत्र्य म्हणपाची म्हजी तयारी जाल्ली. पणून आतां सांवरलों...

ल्हान मनशाची व्हड शिकवण पूर्ण आचरणांत हाडपाचो यत्न करप!

**२१.१.१९५०**

वर्सां वतात. मनीस मात शाणो जायना. फाल्यांच्यान दोन वर्सां पर्यंत निखट्या कामाक लागपाचो निश्चय केलो. आजूच थारायलें, हें अशें चल्लां तें चलूंक दिवपांत अर्थ ना. क्लासाक पसून वेळार पावना. फक्कत अर्दवर काम करतां. च्या घेवन आनी दिवन जीब पडली वाऱ्यार. दिसाक एक थंय दोन च्या. आतां नेटान काम करप आनी पयसोय हजारभर तरी सांठवप. दिसाक जें काम केलें तें डायरेक्ट बरोवन दवरप. कोणा कडेनूच फाजील उलोवप ना. आपलें काम, घर आनी आपूण!

**बिरेस्तार, ९.२.१९५०**

... गोंयां वचून आयलों.

...सांग्यार तीं सगळीं मेळ्ळीं. बेणकाराचे बायलेन म्हाका आपोवन व्हरून दोन अडेज वर रात मेरेन खबरी विचारून घेतल्यो. कितें करतां, कितें करतलो बी विचारून जातकच ती म्हणूंक लागली, 'आमचें सगळें जालां, फकत प्रसाद घेवचेले उरल्यात. म्हाका अजाप जालें... दुसऱ्या दिसा हांवें बेणकाराक सांगलें, ...कितें एक थारायात सारकेंच आनी म्हाका मार्स मेरेन कळयात. जाल्यार तो म्हणूंक लागलो, 'आनीक थारावपाचें कांय एक ना. प्रसाद बी म्हणटात तें हेरवींल्लेंच, बरें जावचें म्हणून. आतांच तुका सांगतां, सगळें ठरलें.'

**शेनवार, होळी ४.३.१९५०**

ह्या दिसांनी बरो आशिल्लों प्रकृतीन. तांतले तातूंत, कसलोच कूर्स ना जाल्यार नासूं, घरा कडेन तरी काम करचें अशें थारायल्लें. सांजचो वेळ मेळटा तेन्ना आनंद पै धुंगट म्हणून भुरग्या कडें शिल्पकला शिकपाक वतालों. म्हळ्यार, इलॅक्ट्रिसिटीच्या दिव्याची भानगड जावन त्या कुडाची मालकीण एक म्हयनो पर्यंत काम बंद करपाक सांगता. पयरच्यानूच सारकें सुरळीत चलतालें. दोन दिसां पयलीं चावीय करून घेतिल्ली. तशेंच सकाळ फुडें थंयच स्कॅचींग करपा खातीर मॉडेल सांगिल्लें. इतलें पसून जातकच मदींच मुख्य जागोच गेलो. राम बोरकारा कडल्यान हात, पांय बी कास्ट हाडून काम बरे तरेन चलिल्लें. म्हाका दिसता, आतां शिल्पकाम शिकूंक परतें मेळचें ना.

आतां पर्यंत म्हगेली प्रत्येक खबर अशीच जाल्या. खिळ्याक लागून देवूळ मोडचें पडलां. पयलीं म्हाका खूब राग येतालो, वायट दिसतालें. पणून आतां तितले पुरतेंच वायट दिसता. राग तर येनाच.

अंदू डी.टी.सी. क वचूंक मेळना आनी म्हणुनूच ताका ॲडमिशन मेळटलें! नोकरी सोडिल्ली जाल्यार मात मेळचें नाशिल्लें. A.M. मात चड करून मेळचेंना. एखाद्या वेळार मेळतूय. प्रो. मिनेझीचेर विश्वास दवरूंक जायच.

... घरांतूय प्रस्न...

आतां थंडसाणेन सगळ्यो गजाली जंयचे थंय दवरून आनी सगळें विसरून फकत कामाक लागतां

**आयतार, ५.३.१९५०**

संवसारांतली आशा नाशिल्ली आनी ध्यानामनांत पसून नाशिल्ली खबर सहज घडून येता. पणून जें खातीर जीव सोडलो तीच खबर मेळप अशक्य अशें आजवेर जालां. अर्थांत, म्हजे प्रयत्न चुकल्यात हेंय तितलेंच खरें. म्हजी वागणूक एका ॲक्स्ट्रिमिस्टाची, आनी आपणाचेर विश्वास नाशिल्ल्यान, सगळ्यो खबरी दुसऱ्या कडेन सरळपणान उलोवन गेल्ल्यान लोकाक दिसता, हो मनीस फकाण म्हणून. तातूंत तांचो कितें दोश!

...कसलेच बाबतींत म्हजे कडेन धाडस ना. सगळे कडेन संशय. आतां हें खूब जालें.

म्हाकाच समजना, कित्याक हांव लग्नाक तयार जालों, तें... चली म्हाका पसंत आशिल्ल्यान पसंती दिली ही गजाल खरी. म्हळ्यार शिक्षण थंयच झक मारलें ना? हे फुडें धाडस शेणलें. प्रकृतीचे बाबतींतूय म्हाका खात्री ना. पयसोय हातांत ना. बरें, फायद्या खातीर लग्नाक मान्यताय दिली, म्हळ्यार तेंय ना, फायदो म्हणटात तो खरेलो एकूच - ती चली.

तरी आसतना बुद्धीचीं शाणेपणां कुशीक दवरल्यारूय म्हाका दिसलें, हांवें केलें तें योग्य...

**९.३.१९५० सकाळ**

वायट परिस्थिती आयल्या. पणून कशेय तरेन मार्ग काडुंकूच जाय.

पयशे उश्णे घेतल्यात. आठशीं रुपया. पावोवंक जाय. नोकरेची धडगत ना. दोनूय ॲप्लिकेशनां वाट लागतात काय दिसता. शिकपाचेंय पाड पडलां. लग्नाचेंय कितेंच मुखार वचना... हिन्दुस्तानाचीय परिस्थिती बिकट!

**रात, १०.३५**

नोकरी सोडपाचें थारावपाचें केलां. केन्ना आनी कशी, हें रीण पावता ताचेर अवलंबून उरतलें... नोकरी सोडल्यार पयसो ना, आनी

पयसो आसल्यार वेळ ना.

ऑफिसांत मात पसून तकली जाग्यार नासता. मनशाक मानसीक ना जाल्यार शारिरीक, एक तरी स्वास्थ्य जाय. म्हाका मूळ पसून प्रकृतीचें स्वास्थ्य नाच. आनी ह्या पंदरा वर्सांत मानसीक ना. म्हजे सारकेल्याक तितलेंच पुरो जाता.

डी.टी.सी.क आदमिसांव मेळ्ळ्यार पसून ताचो कांय उपयोग जावचोना. कारण नोकरी सोडपाक मेळना. आनी ए.एमाक अर्ज धाडला ताची चड करून धडगत दिसना. घरांत काम करतलों म्हळ्यार, धुंगटाली कूड गेली... फुडें कितें? घरचें कशें जातलें?

१२.३.१९५०

आज भायरी घेतिल्ल्यान सगळो दीस घरांतूच आसां. कालच्यान तीन पुस्तकां वाचून काडलीं-

*अनुराधा, सती, परेश, गांवगंगा* आनी *गृहदाह.*

म्हाका दिसता, आठ धा वर्सां पयलीं हांव खूब सुखी आशिल्लों. कारण, त्या वेळार सगळ्यांचेर म्हजो विश्वास आशिल्लो. आज खूब जाणांचेर, सगळ्यांचेरूच म्हजो अविश्वास आसा म्हळ्यार तितलेंशें फट जावचेंना. संशयान एक खबर बरी जाता, कांय बाबतींत मनीस दोळे उकते करून पळोवपाक शिकता आनी शकता. पणून ते बरबरूच मनशांत कांय वायट वस्ती येतात. तांतले तातूंत, उकत्या दोळ्यांनी पळेल्ल्या खबरींची मनशाक बराबर संगत घालूंक येना तेन्ना तो खूब गोंदळ करता आनी ताच्या मनाचेर आनी कुडीचेर परिणाम जाता. मनीस भांबावता. गैरसमज करून घेता.

म्हजो सभाव मुळचो चंचल न्हय काय दिसता. पणून खात्री दिना हांव. कारण, आज संवयेन तातूंत चंचलपण इतलें भरलां की खरें खंयचें आनी फाल्स खंयचें हाचो ताळमेळ बसना. म्हजे म्हाकाच संशय येता स्वत: संबंधान.

Seul le silence est gran: Tout le reste est faiblesse, अशें आल्फ्रेड व्हिंजी म्हणटा एके कडेन, तो अणभव आयलो म्हाका.

आतां म्हाका प्रस्न पडला, म्हजे अनिश्चीत परिस्थितींत हांवें करप तरी कितें? कारण, कितेंय तरी करूंक जाय. आनी म्हजी सदांच 'कितेंय तरी' करपाची प्रवृत्ती नासता. म्हाका जाय तेंच जाल्यार म्हाका समाधान जाता. नाका आशिल्लें स्वर्गसूख मेळ्ळ्यार पसून चार दिसांनी म्हाका तातूंत समाधान मेळना. आनी, जाय तें मनशाक सदां मेळटाच अशें नासता. म्हज्या ह्या सभावान म्हाका दोनूय वाटांनी सुखाची आशाच उरना. पणून सभावाक ओखद कितें? एक तर तो बदलप, नाजाल्यार आसा तातूंत सुखी जावप. दोनूय नाका आशिल्ल्यान त्रास काडप. दुसऱ्याचीं वायट उतरां आयकप आनी आपल्या मार्गा पसून मात पसून चळ नासतना आनी दळ नासतना मोन्यांनी हांसून सगळें भोगप.

आतां हांवें म्हज्या वैयक्तीक फुडाराचो विचार सोडून दिलो, त्या संबंधान, म्हजे प्रकृती संबंधान, इश्ट-मित्रां संबंधान, लग्ना संबंधान - कसल्याच संबंधान म्हाका उत्साह ना, तीं कर्तव्यां म्हणून चोख पाळपाचो प्रयत्न करप, इतलेंच. घराचे आनी आवय-बापूय, भावांचे बाबतींत लक्ष दिवपाक जाय म्हाका आतां. आनी कले कडेन. ह्या गजालींची हांवें उपेक्षा केन्नाच करूंक नाशिल्ली. पणून विशेश तरेन लक्ष मात दिवंक पावंक नाशिल्लों. आतां मात दिवपाक आरंभ केला इतलें खरें.

एक व्हडलें पिशेपण म्हळ्यार, दुसऱ्याचेर आपलें पोट अवलंबून दवरप. जो मनीस आपल्याक जाय तेंच करता ताका लोकांल्या पयशाचेर मजा मारून आपल्याक जाय तशेंच चलपाचो अधिकार पावना. म्हाका हें समजता. आनी म्हणून, आसा ते परिस्थितींत भोगतां, दीस काडटां.

१४.३.१९५०

आयच्यान कामाक आरंभ. सकाळचे सात/साडे सात ते साडे आठ पर्यंत काम आनी रातचें साडे णव ते साडे धा पर्यंत काम. बरेंचशें काम करून हळू हळू ॲग्झिबिशनाची तयारी करप. Seule le silence est grande!

२१.३.१९५०

इतले दीस म्हजे शिवाय म्हाका कांय एक सुच नाशिल्लें. हांव, हांव, हांव... सारक्यो आपले संबंधींच्यो खबरी. आतां हांव सोडपाची इत्सा जाल्या.

आज सोड आशिल्ल्यान सगळें झाडून कूड निव्वळ केली... चित्रावपाच्या कामाक जशे तरेची जाग्याची वेवस्था आसची अशें दिसलें ते तरेन मांडलें. पुस्तकां, चित्रां, सगळें सारकें केलें. फाल्यां सकाळीं साडे पांच वरांचेर उठपाचें केले शिवाय काम जावचें ना. हांगा साकून साडे आठ वरांचेर भायर सरचें पडटा.

आतां खरेलोच शिकपाचे तजविजेक लागलां. सामकें दिसलें, धडगत ना म्हणून आतां काम केले शिवाय. घरचें आनी हांगाचें रीण मारचें अशेंय थारायलां...

बाबाक ऑफिसांत बसून पत्र बरयलें -

"...आपल्या व सौ. आईच्या समाधानाकरितां माझ्या सगळ्या अडचणी बाजूला ठेऊन मी लग्नाला मान्यता दिली... या उपर आपल्याला योग्य वाटेल त्या प्रमाणें करणें... जवळ जवळ एक वर्ष झालें, माझें शिक्षणाकडे पूर्ण दुर्लक्ष झालेलें आहे. पैसा व वेळ या दोन अडचणींत ही तिसरी उपस्थिती झाली. लग्नाचे काय ते ठरवून त्याप्रमाणे पुढचा विचार ठरवायचा बेत होता. पण पत्र आणि उत्तर यामुळे सारखा कडवटपणा वाढत आहे. तेव्हा आतां अशा परिस्थितींतून जें काय माझ्याने होईल तेवढें तरी करून त्यांतच समाधान मानून राहण्याचें ठरविलें आहे. यापुढे मला बहुतेक सवड मिळणार नाही. तरी आपण गैरसमज करून घेणार नाही अशी आशा."

- अशें कितें कितें.

आब्रील आनी माया म्हयन्यां भितर जाता तितलीं Still Life आनी Composition कॉपी करप आनी एक जूनच्यान 'मॉडेल आर्ट इन्स्टिट्यूटां'त वचपाक लागप. साठ रुपया टर्म. फुडलें एक वर्स सारकें ह्या इन्स्टिट्यूटांत वचून सकाळ सांज काम करप. म्यूरल पेंटीग शिकप. आतां सॅरियु जावंक जाय.

***

# गुरूक नमन

## सिद्धी संजीव केरकार

गुरूक मनशाचे जिणेंत खूब म्हत्व आसा. भुरगें जल्माक येता तेन्ना ताका ल्हानाचें व्हड आवय-बापूय करतात. पूण खरे तरेन ताका व्हड करता ताचो गुरू.

तशे पळयलें जाल्यार आमचो गुरू कोणूय जावं येता- आवय, टिचर, मोनजात, सैम... केन्ना केन्ना तर इल्लीशी मूय लेगीत आमचो गुरू जाता. दत्तात्रयान खंय सैमांतले २४ गुरू मानिल्ले...

गुरू शिश्याची परंपरा खूब पोरण्या काळा पसून चलत आयल्या. पयलीं आश्रम आशिल्ले, मागीर पाठशाळा जाल्यो, आनी आतां शाळा, कॉलेजी आयल्यो.

अज्ञानाचो काळोख ना करपी ज्ञानाची जोत गुरूच आमच्या जिवितांत पेटयता. गुरू शिश्याचें एक आगळें नातें आसता. तातूंत आदर तर आसताच, बरोबर नम्रतायूय आसता.

गुरूचो ताच्या शिश्याचेर, शिश्याचो ताच्या गुरुचेर विश्वास आसता. गुरूक सगळे शिश्य समान आसतात अशें सांगतात. पूण हें खरें जाल्यार 'आवडटो शिश्य' आनी 'नावडटो शिश्य' ही संकल्पना खंयच्यान आयली? एकलव्याचो आंगठो ताच्या गुरून कसो मागलो? आयजूय कांय कडेन आवडटो-नावडटो हो प्रकार दिसता. जावं...

आदीं पाश्चात्य देशांनी खंय आपूण अमक्याचो शिश्य म्हणपाक एक आगळीच व्हडवीक आसताली. ''हांव सॉक्रेटीसाचो शिश्य'' हें प्लेटो अभिमानान सांगतालो जाल्यार ''प्लेटो म्हजो गुरू'' अशें सांगतना ॲरिस्टॉटल धन्यताय अणभवतालो.

केन्ना केन्ना गुरू इश्ट कसो दिसता जाल्यार केन्ना-केन्ना दुस्मान दिसता. पूण कालांतरान गुरूचें म्हत्व कळटाच.

आदलो काळ आनी आतांचो काळ हांचे भितर फरक पडला तसोच गुरू-शिश्य ह्या नात्या भितरूय फरक पडला.

आदीं मास्तर कठोर आसतालो. शाळेंतलो मास्तर दुसरो बापूय सो दिसतालो. पूण आतां मात इश्ट जाल्लो दिश्टी पडटा.

शिक्षकाचो वावर आमी सदांच पवित्र लेखीत आयल्यांत. सुर्याक गुरूचें प्रतीक मानलां, प्रखर ह्या स्वरुपांत न्हय, तर ताच्या कार्याचे नदरेन.

खंयचोय विशय मनांत येतकच वांगडाच त्या विशयाची टिचरूय दोळ्यां सामकार येता. केन्ना-केन्ना तर टिचरीच्या सभावाक लागून विशय आवडटा वा आवडना.

इतिहास हो विशय म्हाका असोच आवड नासलो. शाळेंत तर केन्ना केन्ना म्हाका प्रश्न पडटालो - हे शिवाजी, संभाजी कित्याक म्हूण जल्माक आयले काय, म्हूण... पूण, शाळा सोंपले उपरांत हांव इकरावेक गेलें तेन्ना आमकां एक नवी इतिहासाची शिक्षिका आयली. वेलोन ब्रागांजा म्हूण. ती इतिहास शिकोवपाक लागली तेन्ना इतिहासूय बी ओडलायणो आसूं येता हाचो म्हाका साक्षात्कार जालो, मुखार बी.ए. हांव इतिहास आनी कोंकणी विशय घेवन पास जालें. आयजूय इतिहास म्हाका खूब आवडटा. वेलोन टिचरीक हांव जिणेंत तरी विसरपाचेंना.

गुरू सदांच उजवाड दाखयता पूण केन्ना केन्ना तो काळोखूय दाखयता. नकारात्मक विचारांच्या माध्यमांतल्यान. गुरून सद्दां सकारात्मक विचार दिवपाक जाय अशें म्हाका दिसता. ''तुज्यान आनी जातलें?'' अशें गुरून म्हणटकीर तो भुरगो आनी कितें करतलो? पूण ''हय, जातलें तुज्यान, हांव आसा न्हय?'' अशें गुरू म्हणटा तेन्ना मट्ट भुरगो पसून तट्ट करून उबो जातलो...

गुरू हो ज्ञानाचो सूर्य, मोगाचो दर्या आनी शांतीचो हिमाचल. म्हजें जिणेंत आयिल्ल्या दर एका गुरूक म्हजें काळजा सावन 'देव बरें करूं'.

(संपर्क: ०९८२३८३८५६०)

## दोन कविता

- परेश नरेंद्र कामत

### चित्रलिपी

व्हांवता न्हंय
गूढ अटंग्या रानांतल्यान काळख्या
मोडणां घेत घेत
आपल्या प्राक्तनाची देग
सांसपीत सांसपीत
उदकाचीं चित्रां
चितारीत चितारीत
जिविताची धार जावन आवेगान
अख्खे जिणेची चित्रलिपी जावन
व्हांवता न्हंय...

### मुळांक फुट्टात दोळे

मुळांक फुट्टात
दोळे
आनी
दोळ्यांक दिसतात
पाचवीचार पानां
झाड
लखलखतना
काळखांत

हांव
पळेतां वाट
मुळांक दोळे फुटपाची

झाड जावन
लखलखपाची

पाचवेचार कवितेंत
घनदाट काळखांत...

(संपर्क : ०९४२२६४०२१०)

## दोन कविता

- आर रामनाथ

### एक जीण

एक दर्या
ना आलतड
ना पलतड...

एक तारूं
ना वल्हीं
ना शीड...

एक तारयो
ना हात
ना पांय...

एक जीण
ना कीर्ण
ना मर्ण...

### निसण

एक
निसण
वयर चडपाक
सकलूय
दें
व
पा
क...
- आनी एक
निसण
न्हिदपाकूच
उ
ठ
पा
क
बिल्कूल न्हय...

(संपर्क : ०९८५०४५८७६३)



# दोन कविता

- विठ्ठलराय भट

## *कितलें ससार...*

उलोवचें कितलें ससार
करचें कितलें कठीण

पाडोवचें कितलें ससार
घडोवचें कितलें कठीण

खावंचें कितलें सरार
रांदचें कितलें कठीण

रोवचें कितलें सरार
वाडोवचें कितलें कठीण

लग्न करचें कितलें ससार
संवसार करचो कितलो कठीण

जल्माक घालचें कितलें ससार
पोरांक वाडोवचें कितलें कठीण

पिंदचें कितलें ससार
शिंवचें कितलें कठीण

बडबडचें कितलें ससार
गप्प रावचें कितलें कठीण

खर्चुचें कितलें ससार
जोडचें कितलें कठीण

दोस्ती तुटोवची कितली ससार
जमोवची कितली कठीण

रागार जावचें कितलें ससार
शांत रावचें कितलें कठीण

रडोवचें कितलें ससार
हांसोवचें कितलें कठीण

वाच्चें कितलें ससार
बरोवचें कितलें कठीण!

## *देवा, बरें जालें...!*

सौदींत हातपांय कातरायतात
लंकेंत ह्युमन बाँब फुटतात

आफ्रिकेंत नाका नाका त्या रोगान मरतात
कराचींत शिया-सुन्नी दंग्यांत मरतात

देवा, बरें जालें हांव भारतांत आसां!

भ्रश्टाचाराच्या हुंवाऱ्यांत बुडलां
तरी हांव जितो आसां.



(संपर्क : ०९२२१३०९७५८)

## *प्रश्न*

**- सरस्वती दा. नायक**

मनांत दबून राविल्लो
एक प्रश्न म्हाका
सदांच पिडटा

काळखे खातीर
मध्यानेर
देव खरोच
आपली गर्भकूड सोडून
भायर सरता काय?
दीसभर गाराणीं
घालपी भक्तांच्या
प्रश्नांक जापो सोदींत
आख्खो गांव
सांसपिता काय?

काय, गाराणीं
ह्या कानान आयकून
त्या कानांतल्यान सोडीत

भरजरी वस्त्रां,
भांगरा-शिंगरां सयत
खुंटये लायत

लामण दिव्याच्या
मिणमिणट्या उजवाडान
गर्भकुडींतूच घोरेत
सासणाची न्हीद काडटा?



## तीन कविता

**- नेत्रा**

१

एक यादींचें झाड
म्हज्या काळजांत रुजलां
दोळ्यांतल्या उदकान मात
तें मातशें भिजलां.

२

याद मनांत
याद काळजांत
यादींचे फोटो
जिणेच्या आल्बमांत

३

भायर जेन्ना हरंधारांनी पावस रकता,
तेन्ना म्हज्या मनाच्या मळबांत,
यादींचीं कुपां जमा जातात,
आनी मागीर पावस रकता...
दोळ्यांतल्यान...
दुखां जावन...



# एक न्हंय - कागदा वेल्यान काळजांत पावतकीच

नंदकुमार कामत

न्हंय आनी जीण हांचो संबंद सामको लागींचो. न्हंय आनी मनशाची कूडं हातूंत समानता आसा. न्हंयंत उदक तशेंच कुडींत रगत. दोनूय प्रवाहूच. फ्रॅक्टल बायोलॉजी ही गणीतशास्त्राची एक शाखा. न्हंयांच्या प्रवाहांची रचणूक आनी मनशाचे कुडींतल्या रगत व्हांवन व्हरपी शिरांची रचणूक एकेच भाशेन आसता हें ही शाखा दाखोवन दिता. 'रुशीचें कूळ आनी न्हंयचें मूळ' खंय तें विचारूंक जायना. मनशाचेय कुडींतल्या रगताचें मूळ खंय, स्रोत खंय?

चिंतन केल्यार अशें दिसता, आमी ल्हान-सान न्हंयोच कुडींत घेवन जल्माक येतात. म्हणुनूच आमकां न्हंयाची चड ओड. हेंच कारण आसूंक जाय, मनीस जातीच्या उत्क्रांतीच्या ७० लाख वर्सांत आमी मनीस न्हंयो सोदीत सोदीत दर्यावेळेर पावले. मनशाची सांस्कृतीक उत्क्रांती आनी उदरगत धा ते बारा हजार वर्सांची. पोरण्यांतलीं पोरणीं पाशाणाचीं शस्त्रां, आवतां दोन - अडेच लाख वर्सां पयलींचीं. तिंवूय चडशीं खंयच्या न्हय खंयच्या न्हंयांच्याच देगणांत मेळटात. देड लाख वर्सां पयलींच्या मनशाक नौकानयन समजतालें. उदकांत पडल्यार हातपांय हालोवन पेंवपाची कलाय मनशान खूब आदीं सावन शिकून घेतिल्ली. म्हणून सांस्कृतीक उत्क्रांतीचे वाटे वयलो मनीस न्हंयक तसो भियेवंक ना... ताणें न्हंयांचेर मोगूच केला. सामकी सुकून गेली तरी तिचे तडी वेलो मनीस खर्शेलो, निर्शेलो ना. न्हंय हुंवारांत फुगली, मदांध जाली, तड फोडून व्हांवंक लागली तरीय मनीस भियेवंक ना. तो जाणा आशिल्लो, हुंवार सासणाचो नासता.

...न्हंयांचो असो रूप-रंग पळयत तिचे देगेर आनी देगणांत भव्य-दिव्य संस्कृतायो उब्यो जाल्यो. न्हंयो आनी मनीस जातीची उत्क्रांती, न्हंयो आनी संस्कृती, न्हंयो आनी धर्म, अध्यात्म, तत्वगिन्यान, न्हंयो आनी सैमीक सांखळ, न्हंयो आनी आमचीं तीर्थक्षेत्रां, शारां, बंदरां, न्हंयो आनी

कला, साहित्य, संगीत, न्हंयो आनी आमचो सगळोच इतिहास वेगळो काडूंक जावचो ना.

...भौगोलीक -भौमितीक परिमाणांनी, आंकड्यांच्या, संख्याशास्त्राच्या फास्क्यांनीच न्हंयांक बंदिस्त करप म्हळ्यार न्हंयचे भाशेचें अज्ञान. न्हंयची भास म्हळ्यार कितें तें न्हंयचो अणभव खोलायेन घेतिल्ल्यांकूच्च होलमता. ही न्हंयची भास वाचपाक डॉ. कल्याणरमण सारको अर्थशास्त्रज्ञ झपाटिल्ले भशेन सात-आठ हजार पानां खर्चून ऋग्वेदांतले सरस्वतीचो सोद घेता. *'अंबीत्तमे देवीतमे, नदीतमे सरस्वती'* एका विशाळ दर्या येदी आशिल्ली. सांडेतीन हजार वर्सां पयलीं भिरांकूळ भुंयकांपांत राजस्थानच्या रेंवटा पोंदा गेल्ली सरस्वती पुराय भारतीय संस्कृतायेच्या आदाराचो चंदनाचो खांबो आशिल्ल्या सिंधू-सरस्वती प्रागैतिहासीक संस्कृतायेचो आत्मो. आयज धग्गर म्हणून एक सुपुल्लो व्हाळ तिच्या नांवान दाखयतात. हाक्रा पाटांतल्यान ती अरबी दर्याक मेळटाली अशें मानतात. हीच वैदीक सरस्वती न्हंय. हिंदूंच्या दैवतशास्त्रांतली देवी सरस्वती जाली. हो चमत्कार न्हय... ज्या लोकमानसाक सरस्वती न्हंयची भास विसरूंक जावंक ना त्या लोकमानसान तिची स्मृती चिरंतन दवरपाक केल्लो तो तिचो सन्मान.

आयजूय न्हंयची भास वाचपी आसात. मार्क ट्वेन हांणी... 'लायफ ऑन मिसिसिपी' बरोवन मिसीसिपी न्हंयक अज्रंवर केली. मेकाँग, इरावदी, होल्गा, डॅन्यूब, नीस, थेम्स, व्होल्टा, ॲमेझॉन, एकेक न्हंय पळेत, वाचत, समजत वच्चें - दोळ्यां मुखार दिसता तो मनशाचेच संस्कृतायेचो भोवरुपी चेरो.

न्हंय समजुपाक प्रत्यक्ष अणभव जाय. न्हंय समजुपी न्हंय नागडी पळेता. तशी ती सैमीक नागडीच आसता. पूण मनीस बांद बी घालून तिका मनशाळावपाक सोदता. न्हंय समजुपी तिचो बहुआयामी सोद घेता, वेध घेता... न्हंयचो सोद हो तसो अनादी सोद. तसो तो स्वतःचोच सोद आसता... न्हंय बहुरुपी... न्हंय म्हळ्यार बदल. सातत्य दवरुनूय बदल...

तायग्रीस आनी युफ्रेटीसच्याच देगणांत मेसोपोटेमियन संस्कृतायेन मूळ कित्याक धरलें? सीरदर्या - अमुदर्या, ऑक्सस, सिंधू, नाइल, यांगत्से, ब्रह्मपुत्रा, मिसिसिपी-मिसुरी, झांबेझी, नायजर हांगा कसली संस्कृताय उदेली. अद्‌वैतमल्ल बर्मनान बंगालीत *तिस्ता एक नदीम नाम* कादंबरी बरोवन तिस्ता न्हंय अजरंवर केली... गोपाळ निळकंठ दांडेकर ह्या व्हड रुशीतुल्य मराठी साहित्यकारान तर नर्मदा न्हंयक आपले आत्मकथेंत व्हड स्थान दिलां. समिक्षकांनी म्हाकाव्याच्या पांवड्यार व्हरून दवरिल्ली रशियेंतल्या कझाक लोक समुहा वेली मिखायल शोलोखोवची *अँड क्वाइट फ्लोज द डॉन* ही १९३४ सालांतली कादंबरी म्हळ्यार न्हंयची भास कशी समजप ताचो सर्जनशील बरोवप्यां खातीर घालून दिल्लो एक वस्तुनिश्ठ पाठ म्हणूं येता. न्हंय साहित्यकाराच्या रगतांत एकदां भितर सरली की कसली निर्मिती जाता तें महाबळेश्वर सैलांची *काळी गंगा* ही सुपुल्ली पूण नकसूद नवलिका दाखोवन दिता...

**न्हंय -एक सैमीक वेवस्था**

'लोटीक' म्हणजे उदकाचे व्हांवते सैमीक वेवस्थेंत (इकोसिस्टीम) न्हंयो आसपावतात. न्हंयांचेंय एक सैमीक चक्र आसता. ह्याच चक्राची भूल न्हंय सोदतल्याचेर पडटा... न्हंय सासणाची सुंदर उरची, तिचीं देगणां सोबितूच आसचीं, तिचेर कसलेच अत्याचार जावचे न्हय म्हणून न्हंयचो सोद घेवपी सदांकाळ जागरूक आसता.

**पंचनदांचे वेद आनीक वेध**

वैदीक साहित्याची निर्मिती पांच वैदीक न्हंयांच्याच देगणांत जाली. कांय रचणुको (ऋचा) सरस्वती - सिंधूच्याय देगणांत जाल्यो. बियास, रावी, सतलज, चिनाब, झेलम ह्यो पंजाबांतल्यो पांच पवित्र न्हंयो. न्हंयांचें सान्निध्य आसले बगर वेदांची निर्मिती जावपाची काय? ...न्हंयां भितर वैदिकांक अशी एक उर्जा उत्स्फूर्त मेळ्ळी जी घडये हिमालयांत जावं दर्याचेर मेळची नाशिल्ली. वेद अपौरुशेय न्हयच न्हय. वेदांक आमी न्हंयां पासून जाल्ले अशें म्हळ्यार कांयच अतिताय जावची ना. न्हंयांच्या देगणांत, तो प्रवाह पळयत वेदकर्त्यांनी गूढ चिंतन केलें. तांणी त्या प्रवाहाचेर चित्त थीर, एकाग्र करून घेतिल्लो वेध म्हळ्यारूच्च आयचे आमचे वेद.

...भारतीय लोकमानसान न्हंयांक 'लोकमाता' मानल्यो... गंगेच्या उदकाचो थेंबो मरचे पयलीं ताळ्यार पड्प म्हळ्यार एके तरेचो पुनर्जल्म मेळप अशें समजुपांत धन्यताय मानली. गंगाच कित्याक? हाची जाप तितली सोंपी न्हय. झेलांत घट्ट जाल्लें गंगोत्री हे हिमन्हंयेचें उदक थेंब्या थेंब्यान गळून एक बारीक धार जल्माक येता... ही धार अलकनंदा पावतकीच एक व्हड न्हंय जाता. बंगालच्या उपसागराक मेळटासर हेच धारेन कितलेंशेंच सोंशिल्लें, व्हांवन हाडिल्लें, पोटांत घेतिल्लें आसता. आकांताचे उंचाये वेल्यान सकयल देंवन जे नमळायेन बनारसाक गंगा व्हांवता ती पळोवन लोक नतमस्तक जायत रावले. तांकां दिश्टावो जालो - आमी म्हळ्यार ही गंगा. गंगा, म्हळ्यार आमी, आमी सगळेच गांगेय. ह्याच अर्थान गंगा महाभारतांत अवरता. गंगा न्हंय उरना. ती आमचे जिणेची एक घटक जाता. म्हणून जांणी जल्मांत केन्ना गंगा पळोवंक ना तांकांय मरतना गंगाजल जाय जाय दिसता. तो थेंबो ताळ्यार पडप म्हळ्यार मातयेंतलो जीव मातयेक लागप. ब्रह्मांडांतले काळरुपी न्हंयेंत जिविताची न्हंय विसर्जीत जावप.

अशे तरेन सर्वार्थान भारतीय लोकमानस न्हंयां कडेन एकरूप जायत आयलां. हेच फाटभुंयेचेर प्रा.प्रकाश पर्येंकाराचे कलाकृती कडेन पळोवंक जाय. रुढार्थान हो लेखसंग्रह. पयलीं दर सप्तकाक उजवाडाक आयिल्ल्या लेखांचें संकलन. पूण ह्या संग्रहांत-संकलनांतूय एक सेंद्रीय सुत्र आसा, एक व्हांवती मेकळीक आसा. एक कथासुत्र, बीज आसा, एका महाकाव्याचो सर्ग आसा, ना म्हळ्यार, नमळायेन घाल्लें एक आदीम, गाराणें आसा. अशा संग्रह संकलनाचें सेंद्रीय सुत्र सांपडटा तेन्ना तें सादें पुस्तक, ग्रंथ उरना. ती एक नकसूद कलाकृती जाता...

### म्हादय ते मांडवी

दर्याचे पातळे सावन ९४० मिटर्स उंचायेचेर कर्नाटकाच्या बेळगांव जिल्ह्यांतल्या खानापूर तालुक्यांत सोनसागराचे ईशान्येक १० कि.मी. अंतराचेर जांबोटी घाटांत म्हादयचो उगम जाता. उगमा सावन पयले पांच कि.मि. म्हादय नैऋत्य दिशेक व्हांवता. उरिल्लो प्रवास अस्तमतेचे दिकेन पणजे मेरेन ८२ कि.मि.चो. म्हादयचो ३५ कि.मि. प्रवास कर्नाटकांतलो तर ५२ कि.मी. गोंयांतलो.

म्हायदच्यो कर्नाटकांतल्यो तीन उपन्हंयो म्हळ्यार बैल नदी, कोटणी नदी आनी भंडुरा नालो. सुर्ला/नानोडेंची न्हंय, रगडा, दिवचल, म्हापसा आनी खांडेपार / दुधसागर न्हंय ह्यो गोंयांतल्यो मांडवी/ म्हादयच्यो मुखेल उपन्हंयो. कुंभारजुंवेच्या कालव्याक लागून मांडवी जुवारीक जोडल्या... एन.आय.ओ. चे शास्त्रज्ञ हे जोडवेवस्थेक 'मांडवी-जुवारी खाडी संकूल' म्हणटात.

पुराय गोंय राज्यांतलो ४२.८% वाठार म्हादय/ मांडवीच्या देगणांत सामाविल्ल्यान, राज्यांत जितलोय पावस पडटा तें सगळें उदक पोटांत रिचोवन, खळखळावन व्हांवपी म्हादय एक म्हत्वाची यंत्रणा जाता.

हे न्हंयचें म्हत्व कळिल्ल्यानूच गोंयांतल्या स तालुक्यांतल्या १९४ गांवांची रचणूक ह्या देगणांत जाली. ह्या गांवांत ९४ हजार हॅक्टर्स सुपीक जमीन आसा.

दखखनचो सडो ६३ ते ६५ दशलक्ष वर्सां पयलीं लाव्हा घट जावन तयार जाल्लो. ताचे उपरांत अस्तंत घाट सह्याद्रीच्या दोंगरांची माळ तयार जाल्ली. हाचो अर्थ, म्हादयचो जल्मूय उणोच ५० ते ६० दशलक्ष वर्सां पयलींचो. भूगर्भशास्त्रज्ञ म्हणटात, गोंयांत पावतकूच भुंयकांपाच्या तडाख्याक लागून तिचो प्रवाह वांकडो तिकडो जालो.

'फातरांचीं शिल्पाचित्रां' अशें एक प्रकरण ग्रंथांत आसा. हीं शिल्पचित्रां म्हादयन कितें भोगलां ताच्यो कुरवो. 'फातर लोकमानसांतले आनी दोंगर पालसणांतले' ह्या प्रकरणांतल्यान म्हादयचे उत्पाती उत्पत्तीचो पुरावो सांपडटा. म्हादयच्या देगणांतले पाशाण उणेच ५५ ते ६० कोटी वर्सां पयलींचे हें सिद्ध जालां. ह्या फातरां वेल्यान म्हादय व्हांवक लागली. तिच्या ५ ते ६ कोटी वर्सांच्या प्रवाहान शिल्पचित्रां कोरांतलीं. ह्या मनभुलायण्या चित्रांनी प्रकाशाचेंय मन भुलयलें. म्हादयच्या प्रवाहांतले, तडी वेले, देगणांतले तरेकवार पाशाण आपली काणी ताका सांगताले. या ग्रंथांतलीं फातरांचीं छायाचित्रां आमचे कडेनूय उलयतात... म्हादयच्या पाशाणांनी बारीकसाणेन सोदल्यार प्राचीन जीवाश्मां, फातर जाल्ले जीव बी मेळटले हातूंत म्हाका दुबाव ना.

म्हादयच्या प्रवाहा बरोबर प्रकाशान जो प्रवास केलो तातूंतल्यान ताणें कितल्याशाच नव्या प्रस्नांक हात घाला... म्हादयच्या पोटांत बरीच गुपितां आसात, आनी ह्या ग्रंथाक लागून तांचो सोद घेवन रहस्यभेद करपाच्या कामाक नेट येतलो. इतलीं गुपितां घेवन व्हांवपी म्हादय गोंयचीच न्हय तर न्हंयांचीच आदिमाता म्हणूंक जाता.

### गजलक्ष्मी-म्हादय-मालव गणराज्य

जंय न्हंय थंय संस्कृताय आसताच आसता. ह्या ग्रंथांतल्या 'लोकमानसांतली म्हादय', 'म्हादय देगणांतले लोकउत्सव', 'म्हादयच्या तिरा वयलीं देवथळां' ह्या प्रकरणां वेल्यान म्हादयचीय म्हणून एक खाशेली संस्कृताय कदीम काळार निर्माण जाल्ली अशें दिसता. हे संस्कृतायेच्या गिरेस्तकायांचो पुरावो 'पुरण शेत' ह्या प्रकरणा वेल्यान मेळटा.

पुरातत्वशास्त्रज्ञांच्या अदमासा प्रमाण अस्तंत भारतांत ३५०० वर्सां पयलीं शेती सुरू जाली. पूण गोंयांत ती सगळ्यांत पयलीं सुरू केली ती पुरणी लावपी शेतकारांनी - पुरणीकारांनी... पुरणशेतांची पुराय म्हायती प्रकाशान गोंयच्या इतिहासांत पयलेच फावट दिल्या. 'पुरण' हे 'पूर्णान्न= पूर्ण + अन्न' ह्या शब्दा वेल्यान आयिल्लें उतर आसूं येता. 'पूर' हाचो अर्थ शार, नगर असोय जाता. इंद्राक ऋवेदांत 'पुरंदर' म्हळां. दोंगराळ भागाक लागून सत्तरींत पिकाळ जमीन उणी. आयचे परस शतपटीन प्राचीन काळार पुरणी आसतल्यो. अन्नाची, तांदळाची 'पुरवण' करपी म्हळ्यार 'पुरणी' असोय सादो अर्थ काडूंक जाता. पुरणी करतल्यांनीच गजलक्ष्मीच्यो मुर्ती, शिल्पां उबीं केल्लीं दिसतात. म्हादयच्या देगणांतलीं सगळींच गजलक्ष्मीचीं शिल्पां म्हळ्यार खुद्द म्हादयचेंच मुर्तीरूप अशें म्हजें मत हो ग्रंथ वाचले उपरांत जालें. कमळाचेर बशिल्ली देवता ही भूदेवी न्हय तर म्हादय. तिच्या मस्तकार अभिशेक करपी हत्ती म्हळ्यार पावसाचीं मोसमी कुपां...

म्हादयच्या देगणांतूच सातवाहन काळांत एक गणराज्य आशिल्लें. मौर्य काळार गणराज्यांची प्रथा आशिल्ली. दक्षिणेंत ती कायम उरिल्ली आसूंक जाय... अशेंच एक गणराज्य कोल्हापूरचे कुराज आनीक चिताकुल कारवारचे चुटुज हांचे मदीं आशिल्लें. तांचे शिमेरूच हळशीचें प्राचीन कदंब घराणें आशिल्ल्यान कदंबांक ह्या गणराज्याची नसाय जाताली अशें दिसता. सत्तरी-खानापूर आनी बेळगांव जिल्ल्यांचो कांय वाठार ह्या 'मालव' गणराज्यांत आसपावतालो. गोंय कदंबांनी ह्या गणराज्याचो नाश करून 'मालवमारी' हो किताब घेतिल्लो... सह्याद्रीचे कुशींतल्या असोय ह्या मालव गणराज्याचो उल्लेख येता. भीमगड ह्या मालवांनीच बांदिल्लो आसतलो. सत्तरींतलो माळोली/ माळवली गांव, खानापूरांतलो मानगांव - मालव गणराज्याच्या अस्तित्वाची साक्ष दितात. गजलक्ष्मीपुजन हेंवूय ह्या मालव गणराज्याचेंच. मालव गणराज्य ही म्हादय देगणांतली खाशेली संस्कृताय आशिल्ली. तिचें अस्तित्व एक हजार वर्सां पयली सोंपलें. पूण ह्या ग्रंथांत म्हादयची गणराज्य परंपरा पाना पानाचेर दिसता.

जनुकीय आनी पुरातत्वीय संशोधना प्रमाण आफ्रिका खंडांतल्यान भायर सरून आदिमानवान दर्याचे देगे वेल्यान न्हंयांच्या देगणांतल्यान भोव कश्टान वाट काडीत भारतीय उपखंडांत प्रवेश केलो. डॉ.पप्पु हांच्या हालींच्या संशोधना प्रमाण आदिमानवाचें भारतांतलें अस्तित्व उणेंच १५ लाख वर्सां पयलींचें... म्हादयचे उदेंत शिमे वेल्यो घटप्रभा - मलप्रभा न्हंयो पयलीं सह्याद्रीच्या देगणांत पावल घालपी

आदिमानवान पळयल्यो. ह्या न्हंयांच्या कांठार आदिमानवाचीं पाशाणी शस्त्रां आवतां सापडल्यांत. [हो आदिमानव] म्हादयच्या देगणांत देंवलो केन्ना तें म्हादयच्या देगणांतले ताचे प्राचीन वसणुकेचो आनी हथयारांचो सोद घेतले शिवाय कळचें ना. पूण शिगांव, कुळें ह्या जुवारीच्या देगणांतल्या गांवांनीं जीं शस्त्रा-अॅश्युलियन हाताकुराडी सांपडल्यात तांचे वेल्यान उणेंच एक लाख वर्सां पयलीं आदिमानव गोंयच्या न्हंयांच्या कांठार पावलो असो अदमास बांदू येता.

ह्या ग्रंथाच्या पयल्याच प्रकरणांत म्हादय न्हंयचो भुगोल आयला. म्हादय न्हंयच्या जलस्रोतांचो (हायड्रोग्राफी) भुगोल पळेल्यार आदिमानवाक खंय खंय वस्ती करीनशी दिसली आसतली ताचो अदमास येता... म्हादयच्या देगणांतूच कृष्णापुरा लागीं भीमगड हे सुवातेर ज्यो चुन्याच्या फातरांतल्यो होंवऱ्यो आसात थंयच आदिमानवान आपलें ठाणें मांडिल्लें. म्हादयच्या प्रवाहाक लागुनूय जंय जंय फातर झरून होंवऱ्यो तयार जाल्यात थंय गिमाच्या दिसांनी आदिमानव आलाशिरो घेतालो.

पुरातत्वीय नदरेंतल्यानूच न्हय तर भूगर्भशास्त्रीय इतिहासाचे नदरेनूय ह्या ग्रंथांतलीं कांय प्रकरणां खूब म्हत्वाचीं आसात. लेखकाक चित्र-विचित्र रंगांच्या, आकारांच्या पाशाणांची खूब आवड. म्हादयच्या देगणांची परिक्रमा करतना ताका पाशाणांतल्या सौंदर्याचो, सौश्ठवाचो साक्षात्कार जालो. 'प्रवाहांतलीं शिल्पचित्रां' म्हळ्यार एक भूगर्भशास्त्रीय इतिहासाची झलक...

म्हादयचो जल्म अस्तंत घाट जल्मुचे पयलींचो. उण्याच ६५ लाख वर्सां पयलींचो. पूण म्हादयच्या देगणांतले पाशाण २ ते ३ अब्ज वर्सां पयलींचें. लेखकान वर्णन केलां तें एकेक शिल्पचित्र म्हळ्यार एक 'कालकुपी' 'टायम कॅप्सूल' कशें. तातूंत हवामानांतल्या बदलांची माहिती लिपल्या. गिऱ्यांचें चुंबकीय क्षेत्र कशें बदल्लें ताचें गुपीत आसा. भुंयकांपान जाल्ल्या उलथापालथींची नोंद लिपल्या...

आपल्या पोटा पोंदा नश्ट जावन गेल्ल्या प्राचीन दर्याची कूड, हाडां, अवशेश घालून, त्या मड्या वेल्यान व्हांवपी म्हादयचें जितें - जागतें वर्णन ह्या ग्रंथाच्या पाना पानाचेर मेळटा.

एक म्हादय दिसता. थंय आदिमानव येवचे पयलींची. सामकी तरणी, अक्राळ - विक्राळ. ग्रंथाच्या सातव्या प्रकरणांत रानाचें वर्णन आयलां. अशीं रानां रामायण, महाभारत काळांत आशिल्लीं. पूण हें आयचें रान, मनशांनी पांया पोंदा घाल्लें, चिड्डिल्लें, माड्डिल्लें रान.

दुसरी म्हादय दिसता. देगणांत मनीसवसती आयले उपरांतची. मनशांच्यो वसणुको आयल्यो, शेतां आयलीं. गोरवां पोसप आयलें. नुस्तेमारी आयली. धर्म, चालीरिती आयल्यो. लोकवेद आयलो. ही म्हादय ग्रंथांत दिसता ती 'लोकांची म्हादय!'

एक म्हादय सैमाची. विरक्त, कसलीच कोणाचीच पर्वा नाशिल्ली. सैमीक म्हादय. तिचेर आयजवेर कसलोच बांद ना, बंधन ना.

दुसरी म्हादय लोकांची. तांची सैमीक आवय. तांकां पोसपी. अन्न दिवपी. तान भागोवपी. ह्या ग्रंथांत म्हादयच्या सैमीक आनी लोकधात्रीक म्हादय बरोबरूच म्हादयचें आनीक एक रूप दिसता - गिन्यानजनक म्हादय.

ह्या पुस्तकाच्या बाविसूय प्रकरणांतल्यान लेखक दाखोवन दिता - म्हादय हो फकत एक उदकाचो स्रोत न्हय, म्हादय एक न्हंयच न्हय - म्हादय निखटो एक प्रवाह न्हय, तर म्हादय आसा गिन्यानाचो, पारंपारीक गिन्यानाचो, एक स्रोत्र... म्हादयचे तडी वेली लोकजीण, पुरणशेती, पारंपारीक बांद, माशे मारपाची पारंपारीक पद्दत. म्हादय देगणांतले लोक उत्सव, म्हादयच्या तिरा वेलीं देवथळां ह्या प्रकरणांतल्यान पारंपारीक गिन्यानाचो दिश्टावो जाता.

हें सगळें म्हादयच्या देगणांत पांय रोवन उबे आशिल्ल्या आदिमानवाक कृष्णेच्या देगणांतल्यान देंवले उपरांत हजारांनी वर्सां काडटकरूच शक्य जालें. गोंयांत नेग्रिटो वंशाचे वसाहतकार येवन पापुआ न्यू गिनी मेरेन पावले. तांचे फाटल्यान ऑस्ट्रीक वंशाचे मनीस गोंयांत स्थायीक जाले. भूमध्य सागराच्या देगणांतल्यान द्रविडियन्स आयले. सगळ्यांत निमणे इंडो-युरोपियन्स, जांकां काल-पयर मेरेन 'आर्य' म्हणटाले ते संस्कृत भाशीक लोक पावले.

ह्या प्रत्येक लोकसमुहाक, अल्प/दीर्घकाळ वसणूक केल्ल्या वसाहतकारांक म्हादयचें कसलें दर्शन जालां आसतलें काय?

ह्या प्रस्नाचें एकूच अशें मुदयेथीक उत्तर ना. पूण जाप सोदतलो जाल्यार वाचतल्याच्या मेंदवाक खुबशी खावड ह्या ग्रंथांत मेळटा. एके नदरेन हो ग्रंथ म्हादयचो मानववंशशास्त्रीय इतिहासूय जाला. ह्या ग्रंथाचीं कांय देखदिणीं वैशिष्ट्यां आसात. तांकां लागून खंयचेय भाशेंत तो अणकारीत जालो तरी तातूंतल्या गिन्यानाची संपृक्तताय उणी जावपाची ना. खंयचीय न्हंय, तिचो प्रवाह, देंगण-नकाशे, फोटो, चित्रपटांत पळोवप आनी स्वतः तो वाठार माडोवन, चलून, भोंवन अणभवप हातूंत जो फरक आसा तो 'ग्रावंड ट्रुथिंग'चो फरक ह्या ग्रंथांत आसा...

'म्हादयच्या देगणांतले वजरे' हे प्रकरण म्हळ्यार एक लघुनिबंध, म्हळ्यार एक प्रवासवर्णन जालां. ह्या प्रकरणांतली वजऱ्यांची माहिती पयलेच फावट इतल्या बारीक बारीक तपशिला सयत वाचप्यां मुखार येता. ग्रंथांतल्या प्रत्येक प्रकरणांत त्या त्या थळांचे फोटो आशिल्ल्यान तपशिलाक आनीक आधार आनी खोलाय मेळटा.

गोंयांतल्याच न्हय तर भारतांतल्या खंयच्याच न्हंयांच्या पात्रांतल्या कोंडींचेर व्हडलेशें बरप जाल्लें ना. जें जालां तें कथा-कादंबऱ्यांनी. 'म्हादय न्हंयच्यो कोंडी' हें प्रकरण म्हणून वेगळें थारता... म्हादयच्या कोंडींचेर २० पानां बरोवप - तिंवूय सामकी समरसून, सिनेमॅटोग्राफिक शैलीन म्हळ्यार लेखकाच्या कसदार शैलीशास्त्राची गवाय.

'हायड्रोलॉजिकल सायकल', म्हळ्यार जलचक्र... म्हादयक उदकाची पुरवण कशी जाता हाचो सोद घेतना लेखक म्हादयच्या

जलचक्राचेर बरयता. 'पावस देगणांतलो, पावस रानांतलो' हें पांचवें प्रकरण काव्यमय तशें चित्रमयूय जालां. तातूंतलीं पावसाचीं वर्णनां वाचून आंगार कांटो फुलता... पावस म्हळ्यार हुंवार बुडटी, आयलीच. हुंवार म्हळ्यार म्हादयचो रुद्रावतार. एक जलतांडवनृत्य. पूण हुंवार जशे वायट, तशे गरजेचे. हुंवार न्हंयचो तळ धवळून काडटा. हुंवार पिकाळ चिकोल हाडून जळा-थळार वोत्ता. हुंवार न्हंयचे जिणेच्या चक्राकूय गरजेचो. हुंवाराचें हें दर्शन घेवपाक ग्रंथाचें सवें प्रकरण वाच्चें. ह्या ॲक्शन पॅक्ड प्रकरणांत हुंवाराचो अदमास घेवपी जाणट्यांच्या तोंडांतल्यान उतरां येतात. तशींच नेणट्यांच्या तोंडांतल्यान, पणजी बुडटकूच फाल्यां येवंक शकतात.

२०१० हें वर्स आंतरराष्ट्रीय जैवीक संपदा वर्स आशिल्लें. म्हादयचें देगण सह्याद्रीचे माळेंत येता. सह्याद्री म्हळ्यार अस्तंत घाट. वैश्वीक पांवड्यार अभ्यास जाल्ली जैवीक वेवस्था. म्हादयच्या देगणांतल्या रानांचेर ग्रंथांतलें सातवें प्रकरण बरयलां. तातूंत खूब नवें गिन्यान आसा. ह्या प्रकरणाचे जोडीक 'म्हादयचे तडी वयली वनसंपत', आनी सतरावें 'माशे मारपाची पारंपारीक पद्‌धत' हें प्रकरण... व्हड व्हड जीवशास्त्र्यांक अजाप करपी अश्यो माशे धरपाच्यो पद्‌धती लेखकान दिल्यात. तशेंच, ते खातीर वापरांत येवपी साधनांचे फोटे दिल्यात. हातूंतलें 'कूळ' नांवाचें साधन तर आफ्रिकेंतूय वापरांत आसा. हाचे वेल्यान म्हादयच्या देगणांत कदीम काळार नेग्रिटो वंशाचे वसाहतकार आशिल्ल्याची गवाय मेळटा. ह्या नेग्रिटों कडसून (जांकां खांप्री / हापशी म्हणटात) थळावे लोक प्राचीन काळार हें साधन तयार करूंक शिकले आसतले.

इथनोइक्थियॉलॉजी (लोकमस्त्यशास्त्र) हो मानववंशशास्त्रांतलो क्षेत्रीय अभ्यासाचो एक आव्हानात्मक विभाग. ह्या विभागांत लेखकान सतरावें प्रकरण बरोवन पावल दवरलां...

**ग्रंथ कांय कोश?**

हो ग्रंथ, काय क्षेत्रीय अभ्यासाचेर आदारिल्लो, म्हादयच्या देगणांतले अणभव घेतिल्ल्या प्रकाशाचो म्हादय वेलो गिन्यानकोश असो प्रस्न म्हाका पडलो.

हातूंत कितें ना? एकेक प्रकरण म्हळ्यार सामकें समरसून बरयिल्लें कथानक कशें. एकेच न्हंयचेर ४०६ पानांचो असलो ग्रंथ एकेय भारतीय भाशेंत आशिल्ल्याचो उगडास जायना. ...पूण कांय हरकत ना... हो ग्रंथ हेर भारतीय भाशांनीच न्हय तर इंग्लीश, स्पॅनीश, पोर्तुगीज, फ्रेंच भासांनी पावतलो हातूंत म्हाका मात्तूय दुबाव ना. ग्लोबलायझेशन आनी इंग्लेजीकरणाच्या आयच्या युगांत जे फकत विदेशी भासांनीच संदर्भ साहित्य सोदपाक हातपांय धोडायतात त्या आंग्ल केंद्रीतवर्गाक झक मारत फाल्यां हो ग्रंथ हातांत धरचोच पडटलो. हे करणेंत कोंकणी भाशेचें एक नवें जैत आसतलें. कोंकणींतली जिती, सुंदर उतरावळ ह्या ग्रंथाच्या दरेका पानार मेळटा. ती वाचून काळीज खोशयेन भरून येता. हो ग्रंथ कोणा खातीर? कोंकणीचेर, गोंयचेर, न्हंयांचेर, सैमाचेर, सह्याद्रीचेर, संस्कृतीचेर, साद्या गुंड्यां-फातरांचेर मोग करपी सगळ्यां खातीर.

हो ग्रंथ आसा जाणट्यां-आनीक नेण्ट्यां खातीर. साहित्यीक, वैज्ञानीक, कलाकार, प्रवासी, पर्यटकां खातीर. हो ग्रंथ आपल्या पोटांतूच ताचें भविश्य घेवन् आयला. एक पर्जळीत फुडार. क्षेत्रीय अभ्यासाक, सुक्षीम निरिक्षणान, लोकमानसा कडेन संवाद करून घेतिल्ल्या अणभवांची जोड दिवन ग्रंथ कशे बरोवचे, आनी खासा करून संवसारांतल्या १२५ भासांनी सामावपी गिरेस्त कोंकणी भाशेंत कशें बरोवचें हाची देख दिवपी हो एक प्रा. प्रकाश पर्येंकाराचो विचारयज्ञ, आत्मसोद आनी सैमबोध.

हो ग्रंथ वाचून सोंपयले उपरांत गोंयकारांक तांचें गोंयकारपण, स्वत्व, अस्मिताय सांडून, सोडून गेल्ली आसल्यार ती परती मेळटली.

हो ग्रंथ निश्चीत हेर भासांनी पावतलोच. जे जे लोक, तज्ञ, संस्था न्हंयांचो हुस्को घेवन बसल्यात तांचे मेरेन कोंकणीच्या पोरसांत फुलिल्ल्या ह्या हात्याचो, अप्रूप सुरंगांचो दैवी परमळ पावतलोच पावतलो. ह्या ग्रंथांतले लोकजिणेचो दिश्टावो जाल्लें जग खोशयेन भुल्लसून वतलें. ह्या एकाच ग्रंथान प्रा. प्रकाश पर्येंकार कोंकणीक, गोंयाक, म्हादयक संवसारभर नामना मेळोवन दितलो.

हें अशें जातलें, जावंकूच जाय. हें म्हादयूच म्हाका कानांत सांगता. हो ग्रंथ उजवाडा हाडून गोंय सरकारान केल्लें काम फुडाराक भांगराच्या अक्षरांनी बरोवन दवरचें पडटलें. हजारांनी वर्सां नागाळेची न्हंय, ताळगांवची न्हंय म्हणून पिळग्यान पिळग्यो ज्या मांडवी न्हंयच्या फांट्याक वळखतात त्या फांट्याक सांतीनेझची खाडी म्हणची, नालो काय गटार म्हणचें असले आयचे आमचे वादाचे विशय.

गोंयांतल्यो न्हंयो प्रदुशीत जाल्यात. तांचो अंत:काळ चड पयस ना. अशा वेळार हो ग्रंथ एक दैवी 'आकाशवाणी' कशी थारूं. गोंयच्यो न्हंयो आमच्यो रगताचो शिरो. म्हादय तर धोंड-शीर.

म्हादय जगली तर आमी जियेतले. तिचें संरक्षण, रक्षण, पुनर्जीवन आतां म्हादयच्या पुतांच्या हातांत आसा.

ही 'महादेवी', ही 'म्हादय', ही लोकमाता आपलो प्रसाद ह्या ग्रंथा वरवीं सगळ्या समाजाक वांटटा अशें हांव मानतां आनी निमणें कडेन मागतां.

'ॐ श्री म्हादये पाव',
'ॐ श्री गजलक्ष्मी पाव',
'ॐ श्री सांतेरी पाव',
'गोंयचें, समेस्तांचें बरें जावं म्हण'

(संपर्क : ०९४२३८८९६२९)

(*म्हादय: काळजांतल्यान कागदार* हो प्रकाश पर्येंकार हांचो ग्रंथ गोंय राज्याच्या कला आनी संस्कृती संचालनालयान हालींच उजवाडा हाडला. ताची वळख घडोवपी प्रस्तावनेंतलो हो वेंचीक वांटो)

* * *

# जाग

वर्स ३७ : ऑगस्ट २०१० – जुलय २०११

## साहित्य वळेरी

### ☐ वैचारीक/ललीत निबंद

**नदर संपादप्याची**

ऑगस्ट-सप्टेंबर — *एक दिसपटी*

फेब्रुवारी-मार्च — *कोंकणी भाशेचें जैत... आनी जैताची हार...?; म्हजो पयलो-वयलो फिल्डवर्क*

एप्रील — *तेजिश्ट समाज घडोवपाची तांक आशिल्ली आपजीण*

मे — *राजकारणाची भास, भाशेचें राजकारण - शबै शबै भौजनसमाज नाटकाच्या संदर्भांत; 'मृत्युंजय रवीन्द्र'.*

जून — *A Kind of Absence... - एक भोंवडी*

जुलय — *'कोंकणो' - एक सोद.*

**साहित्य नियाळ/समिक्षा**

ऑगस्ट-सप्टेंबर — *आत्मप्रेरीत गोंदू : एक आस्वादन* - राखी आमोणकार

ऑक्टो.-जाने. — *वाग्येकार बाकीबाब - एक आनंद-स्मरण यात्रा* - सुरेश गुंडू आमोणकार; *एक सुपुल्ली शब्दांजली...* - प्रियदर्शिनी सु. तडकोडकार; *बाकीबाबांच्या काव्यांतलो स्वाभिमानी आनी प्रतिरोधी स्वर* - राजय पवार; *बाकीबाबांचे कवितेंतली इंद्रीय संवेदना* - परेश नरेंद्र कामत; *बाकीबाबांच्या प्रासंगीक कवितांचें म्हत्व* - प्रकाश पाडगांवकार; *बाकीबाबांले कवितेंतलें बायलेचें रूप* - माधव बोरकार; *बाकीबाबांची कविता : एक भाशीक अभ्यास* - भूषण भावे; *कोंकणी कवितेंतलो विवीधरंगी बाकीबाब* - कृपाली नायक; *कवींचे सभेंतलो प्रेमरसगंगाधर* - सु.म. तडकोडकार; *बाकीबाबाच्या मराठी काव्यांतल्या कोंकणी उतरांचें भावविश्व* - रमेश वेळुस्कार; *बाकीबाबांचे काव्यनिर्मणे प्रक्रियेची थळकाळ प्रभाव चिकित्सा*- नंदकुमार कामत; *कवी बोरकारांलो लघुनिबंध* - बाळकृष्णजी कानोळकार; *ललीत साहित्या वरवीं रवीन्द्रबाबांच्या तरण्या मनाचो सोद*- प्रकाश पर्येकार; *हावठण - एक आस्वादन* - डिफा फेर्नांडीस; *कोंकणी भारत आनी विष्णुदास नामाचें मराठी भारत* - रॉकी मिरांद.

फेब्रुवारी-मार्च — *आत्मतृप्तीचें दर्शन घडोवपी कविता* - माधव बोरकार *कोंकणी संस्कृतायेचो एक अवेसर...* - मनोहर पै धुंगट.

एप्रील — *दिसाळ्यांतल्या लेखनांतल्यान दिसून येवपी रवीन्द्र केळेकार: एक कोंकणी फायटर* - बाळकृष्णजी कानोळकार ; *कविता तांचो स्वास आनी जिणेचो ध्यास आशिल्ली* - माधव बोरकार; *नाटका वयल्या नाटकाचेर एक नदर* - राजदीप नायक.

मे — *मानवी मनाचो तळ सोदपी कादंबरी* - राजश्री सैल.

जून — *मशीन युगांतल्या मानवी संवेदनांक शब्दरूप दिवपी काव्यझेलो* - हनुमंत चोपडेकार

जुलय — *दोन संस्कृतायां मजगतचो पूल* - चंद्रलेखा डिसौजा

**हेर**

ऑगस्ट-सप्टें. — *पुनरुत्थान पर्वाच्या दिग्गजाक नमन!* - नागेश करमली; *गोआ के गौरव रवीन्द्र केलेकर को शतशत प्रणाम!* - पदमचन्द्र सिंघी; *लेखक आनी व्यक्ती म्हण ते म्हाका आवडत गेले* - प्रकाश पर्येकार; *तातो* -कृपाली नायक; *'मी खोटं बोलणार नाही...!'* - गुरुनाथ केळेकार; *रवीन्द्रबाबांचे यादीक ह्यो म्हज्यो पोसोभर जायो* - नूतन साखरदांडे; *इस्लाम आनी रमजान* - वसीम अक्रम खनगावी; *इयोगु बोनीतु जैतीवंत जालो!* - सॉतॅर रे. बार्रेत.

ऑक्टो-जाने. — *काकासाहेब कालेलकर : गोंय आनी कोंकणी- मराठी संघर्श* - माधवी सरदेसाय; *कवीराय बाकीबाब : कांय उगडास*- नागेश करमली; *एक अविनाशी विचारवंत* - अ. ना. म्हांबरो; *रवीन्द्रबाबान कोंकणीक पूर्णत्व दिलें* - महाबळेश्वर सैल; *रवीन्द्रबाबांच्यो कांय अमर यादी* - फा. मोउजीजु द आताईद; *म्हजो रवीन्द्रबाब : एक ज्ञानभांडार* - हेमा नायक; *तात्याच्या सांगातांत* - माणिकराव गावणेकार; *कांय यादी रवीन्द्रबाबांले मठयेंतल्यो* - पांडुरंग काशिनाथ गावडे; *रवीन्द्रबाबांल्या सांगातान एक दीस* - मंगला कारापुरकार; *म्हज्या घडपांत तांचो व्हड वांटो आसा* - समीर झांटये; *रवीन्द्रबाब : एक याद* - गोरक शिरसाट; *तातो.. तुमकां सांगपाचें उरलें* - उन्नती मांद्रेकार; *गांधींच्या ऑर्गेनिक विचारांतले रवीन्द्रबाब* - युगांक नायक; *खऱ्यांनीच खूब भाग्यवान आमी* - अन्वेषा सिंगबाळ; *तातोची भेट - पयली आनी निमाणी* - हर्षा शेटये; *तातो बरोबर दोन वरां*- माया अनिल खरंगटे; *'पुन्हा ये'* - रेखा देशपांडे; *रवीन्द्रबाब आनी सिगरेट* - प्रकाश पाडगांवकार; *शेवण्या पिपुशा...*- शीला कोळंबकार; *पयण* -एड्वीन जे.एफ्. डिसोजा; *उबुन्तू! - एक अणभव* - सतीश दत्ताराम दळवी; *कुडतरी गांव : एक सोद* - डॅनीस वाज; *दशावतारी नाटक* - रूपेश म्हापणकार; *भाशा आनी मेंदू... परस्पर संबंध* - पुष्पा पै

फेब्रु. - मार्च — *भीमसेनी यादींची जिवीतपटी* - शकुंतला भरणे; *आमी आशावादी जावया...* - कृपाली नायक; *जायरातींत बायलेची प्रतिमा* - वसीम खनगावी; *भाशेचें वैश्वीक रूप* - पुष्पा पै; *सरळ वाटेन शिरसी... आड वाटेन याणा* - हर्षा शेटये.

एप्रील — *रामभाऊ* - अना म्हांबरो; *शेवण्या पिपुशा...* (सुधारून) - शीला कोळंबकार

मे — *मदर तेरेझा* - शंबर वर्सां पुराय करतना - सॉतिर बार्रेत

जून — *सैमाचें अप्रूप : बोमाड्यांचें तळें* - सुजाता सिंगबाळ.

**खिस्तींनी चलपी लेखां-माळो**

ऑगस्ट-सप्टें., फेब्रु. ते जुलय — *दिसपटी* – शांताराम आमोणकार (६ खिस्ती)

ऑगस्ट-सप्टें., *कोडू कसाय गोड गुळी* (भोंवडे वर्णन)
फेब्रु. ते जून - मधुसूदन जोशी (५ खिस्ती)
जुलय *पाशाण काव्य* (भोंवडे वर्णन)
- माया अनिल खरंगटे (१ खिस्त)

□ **कथा/दीर्घ कथा**

ऑगस्ट- सप्टें. *अयपण जावं* - सुधा खरंगटे
ऑक्टो. - जाने. *सपनभोगी* - दामोदर मावजो
*ब्रह्मकमळ फुल्लें* - सुधा खरंगटे
*म्हजो शीण तो इतलोच* - वसंत वि. मयेंकार
*जळटा ताकाच कळटा!* - जयमाला दणायत
*कर्मयोग आनी कर्मभोग* - किरण म्हांब्रे
*उपकार* - फिलोमिना साँफ्राँसिस्को
*घाण्याचे बैल* - विठ्ठलराय भट
*भेषज* (दीर्घ कथा) - मधुसूदन जोशी
फेब्रु.-मार्च *हुंवार* - माया अनिल खरंगटे
एप्रील *घुगूम* - एडवीन जे.एफ्. डिसोजा
मे *ब्लॉक* - गोरक शिरसाट
जून *हिशेब* - तुकाराम रामा शेट
जुलय *एक वर मर्णाच* - सुधा खरंगटे

□ **कविता**

ऑगस्ट-सप्टें. *शिंयाच्या दिसांनी* - तुकाराम शेट; *तीन कविता: देव; जाणटेलो; आवय* - नरेन्द्र बोडके; *दोन कविता : उदकाची प्रतिमा; उजवाडाचो गाव* - परेश नरेंद्र कामत; *हांवें देवाक मरतना पळयलो* - निलबा अ. खांडेकार
ऑक्टो.-जाने. *विचारांची शाळा* - राजय पवार; *महानिर्वाण महावृक्षाचें* - प्रकाश पाडगांवकार; *पांच कविता : पितारलें; लग्न; राणी; भारतीय; तूं* - नरेन्द्र बोडके; *दोन कविता : जाणटेलो युसूफ; तुज्या थळांत* - तुकाराम शेट; *दोन कविता : आवय; सपन* - आर. रामनाथ; *सुखा दुकां गळुंदी* - सॉतॅर रे. बारैंत; *गजल* - पुंडलीक ना. नायक; *आंगण*- रुपा कोसंबे; *शेजाऱ्यालो सुणो*- मनोज नरेंद्र कामत; *खावपाची रीत* - महेश पारकार; *पाकळ्यो* - सिद्धी संजीव केरकार; *कथा म्हजी...* - सुशीला नि. हळर्णकार; *उश्टें पेर* - हर्षा शेटये
फेब्रु.- मार्च *थेंबे* - मनोज नरेंद्र कामत; *लादेन* - बाळकृष्णजी कानोळकार; *दोन कविता: हो पाचवोचार रंग; तुजे खांदयेर* - परेश नरेंद्र कामत; *दोन कविता: वाट, गाराणें* - नरेंद्र बोडके
एप्रील *चराचर हांवूच* - प्रकाश पाडगांवकार; *सुखा दुकां गळुंदी* - सॉतॅर बारैंत
मे *तूंच म्हाका लाग* - भरत नायक; *तीन कविता : सृस्ट; ताणें म्हाका रचला; एका हुसक्यान* - आर. रामनाथ; *जाम आदमी*- श्रीकृष्ण हनुमंत मावजो.
जून *चार कविता* - रमेश भगवंत वेळुस्कार; *तीन कविता: जागरण; हरशीं?* - अन्वेषा सिंगबाळ
जुलय *तीन कविता : वंय; मूख; दाण्यांतलें चांदनें* - माधव बोरकार; *जलतरंग* - परेश नरेंद्र कामत; *तीन कविता: पावसा म्हज्या देरा; देवा दाखय वाट; परमळान भरली जीण* - सॉतॅर बारैंत; *दोन कविता : धारावी; प्रतिक्षा* - सुधीर कोडकणी

□ **अणकार**

□ **कथा**

ऑगस्ट-सप्टेंबर *अश्वमेधाचो घोडो* (मराठी) - रंगनाथ पठारे
अणकारः उन्नती मांद्रेकार
ऑक्टो.-जाने. *म्हापुरूस* (हिन्दी) - सुरेशकुमार गोयल
अणकारः उदय देशप्रभू
फेब्रु.- मार्च *मुलाण्याचो बकस* (मराठी) - व्यंकटेश माडगूळकर
अणकारः सुलक्षा वळवयकार.
एप्रील *शेखर का इंतिकाल* (कोंकणी) - शीला कोळंबकार
गोंयचे उर्दूंत अणकारः प्रितम नायक
मे *वळख* (हिन्दी) -जय प्रकाश
अणकारः उदय देशप्रभू
जुलय *तारिणी पनेळकार* (बंगाली) - ताराशंकर बंधोपाध्याय
अणकारः सु. म. तडकोडकार

□ **कविता**

ऑगस्ट-सप्टें. *चल एकलोच रे!* (बंगाली) - रवीन्द्रनाथ ठाकूर
अणकारः नारायण भास्कर देसाय
*दोन कविताः कविता; म्हजे लोक* (हिन्दी)
- मंगलेश डाब्राल; अणकारः राजश्री सैल; *दोन कविता : स्वतंत्र देशांत; कितें उरला भारत?* (हिन्दी) - लारी आझाद; अणकार : माया खरंगटे
ऑक्टो.-जाने. *सात कविता : याद; उज्याची खबर; वताचो कुडको; आदी संगीत; रिती सुवात; एक मुलाखत; याद* (पंजाबी) - अमृता प्रितम; हिन्दी वयल्यान अणकारः राजश्री सैल; *यात्रीक जायात* (इंग्लीश) - टी.एस्. ईलियट; भावानुवादः सुजाता सिंगबाळ

ऑगस्ट-सप्टें, फेब्रुवारी ते जुलयच्या आंकांनी फादर थॉमस स्टीफन्सांनी रचिल्ल्या *ख्रिस्त पुराण*चो (मराठी) - सुरेश गुंडू आमोणकार हांणी केल्लो कोंकणी अणकार (६ खिस्ती)

□ **हे भायर**

ऑगस्ट-सप्टेंबरच्या आंकांत प्रियदर्शिनी तडकोडकार हांणी स्पश्ट केल्ल्यो 'साहित्य समिक्षा शास्त्रांतल्यो संकल्पना' (आदीमतावाद; अज्ञेयवाद; आधुनीकवाद)

ऑगस्ट-सप्टें. च्या आंकांत 'पडसाद' सदरांत मेल्वीन रोड्रीगस, मनोहर पै धुंगट, प्रतिभा बापट आनी ए. आर्. बाळकृष्ण प्रभू हांच्यो चिटी; फेब्रु.-मार्चाच्या आंकांत महाबळेश्वर सैल, विठ्ठलराय भट, मनोहर पै धुंगट, हरदत्त खांडेपारकार हांचे 'पडसाद'; एप्रीलच्या आंकांत माधव बोरकारांलो तर मेच्या आंकांत मनोहर पै धुंगट आनी द. ना. नाडकर्णी हांगेले 'पडसाद'

ऑगस्ट-सप्टें.च्या आंकांत प्रतिभा देवीसिंह पाटील आनी मीरा कुमार हांचे संदेश.

ऑक्टो.-जाने.च्या आंकांत मनोहर पै धुंगट आनी जयमाला दणायत हांच्यो चिटी.

ऑगस्ट-सप्टें.च्या आंकांत जाग वर्स ३६: साहित्य वळेरी



Government of Goa
**DIRECTORATE OF WOMEN & CHILD DEVELOPMENT**
**SHANTA BUILDING, 1ST FLOOR,**
**ST. INEZ, PANAJI GOA.**

Department is implementing various Central & State schemes for Development of Women and Children in the State.

***A: Central Schemes:***

I. The Integrated Child Development Services (ICDS) is a Centrally Sponsored scheme commonly known as Anganwadis or Balwadis being implemented throughout the State of Goa through Child Development Project Officers at Block Level. The scheme envisages six services:-

***1. Supplementary Nutrition*** ***2. Immunization.***
***3. Health Check-up.*** ***4. Nutrition and Health Education***
***5. Non-formal education.*** ***6. Referral services.***

*For further details please contact Office of C.D.P.O. Integrated Child Development Projects at Block level.*

II. Scheme for construction of Working Women Hostel is a Centrally Sponsored Scheme. Under this scheme grants are sanctioned to construct Working Women's Hostel to provide cheap and safe accommodation to working women.

III. "**Rajiv Gandhi Scheme for Empowerment of Adolescent Girls (SABLA)"**: The scheme aims at empowering adolescent girls of 11-18 years with focus on out-of-school girls by improvement in their nutritional and health status and upgrading various skills like home skills, life skills and vocational skills.

IV. **"Indira Gandhi Matritva Sahyog Yojana (IGMSY)":** Under this scheme, cash transfer of Rs. 4,000/- will be provided to deserving pregnant and lactating women to contribute towards supporting health and nutritional needs of pregnant and lactating mothers.

***B: State Schemes:***

I. "**Chief Minister's Kanyadan Scheme":** Under the scheme financial assistance of Rs. 25,000/- is given to economically weaker sections of the society for daughter's marriage under the scheme.

II. **Retirement Benefit Scheme for Anganwadi Workers/Helpers** : Rs. 2.00 lakhs and Rs. 1.00 lakh is paid to Angnawadi Worker and Angnawadi Helper respectively on retirement.

III. ***"Vastra Bhet" for New Year":*** Under the scheme one Saree & Dress material is distributed to each family registered as *Below Poverty Line & Women & Children housed in various registered Shelter Home and Apna Ghar.*

IV. The scheme ***"Welfare of Children in Need of Care and Protection"*** aims to rehabilitate the children as normal citizen in the community. Grants are given to the Children Home run by Non Governmental Organizations.

V. Scheme for ***"Shelter Homes for Women" (SHW):*** Under this scheme grants are given to Non Governmental Organizations to run Shelter Homes for Women.

VI. ***"Yashashwini"*** scheme with component of financial assistance to Self Help Groups for conducting employment activity is run through Goa State Social Welfare Board.

VII. Grant-in-aid scheme for providing financial assistance & training to Mahila Mandals for generating their own activity. The theme is ***Shika, Shikva & Kamava.***

VIII.**"Chief Minister's Girl Child Security (Fixed Deposit) Scheme "Dhanalaxmi"**: Under this scheme a fixed deposit of Rs. 25,000/- is made in the name of the Girl Child for 18 years.

IX. "**Financial Incentives to Mothers who Deliver a Girl Child (MAMTA)"**: Under the scheme Rs. 5,000/- (maximum for two deliveries) shall be paid to the mother who delivers a girl child, in the registered medical institution in Goa. Scheme shall come into force from 01/04/2011. The scheme will be implemented through ICDS offices at taluka level.

**C: Others:**

1. Two statutory institutions are set up & run under this Directorate to look after the children in need of Care & Protection and girls/women rescued from prostitution i.e. Apna Ghar & Protective Home, Merces.

2. Two Commissions are constituted to safeguard the interest of Children and Women namely ***'THE GOA STATE COMMISSION FOR PROTECTION OF CHILD RIGHTS"*** **and** ***"THE GOA STATE COMMISSION FOR WOMEN".***

***BUILDING HUMAN RESOURCES FOR WOMEN EMPOWERMENT AND CHILD DEVELOPMENT-***

*For further details please contact Directorate of Women & Child Development, Panjim*
*Tel: 0832- 2426112/223508; Fax 2424238; e-mail: dir-wcd.goa@nic.in*

Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Rutu Offset, Volvoi, Ponda -Goa. Editor : Madhavi Sardesai